# कारवार

मूळ लेखक :

सर्गेस्त आनंद नाडकर्णी

अणकार :

सौ. उषा उल्हास राणे

कोंकणी सांस्कृतीक मंडळ, सदाशिवगड

सदाशिवगड, कारवार

# कारवार

(संशोधनात्मक निबंद)


मूळ लेखक :

**सर्गेस्त आनंद नाडकर्णी**

अणकार :

**सौ. उषा राणे**



प्रकाशन क्र. : 01

उषा उल्हास राणे

पयली उजवाडावणी : **2016**

उजवाडावपी :

**कोंकणी सांस्कृतीक मंडळ**

सदाशिवगड-कारवार

छापपी :

**अर्थ प्रॉडक्शन**

पणसुलें, काणकोण गोंय-४०३७०२

मुखचित्र आनी सजावट :

**श्री गौरिश वेर्णेकार**

मोल : 250/-

# क्षमस्व

कारवाराक साहित्य संमेलन भरोवपाचें थारायतांच, 'कारवार' चो परिचय हांवे बरोवचो अशें थारलें. थोड्चे टिप्पण्यो आशिल्ल्योच. थोडीं म्हायती एकठांय केली, आनी बरोवपाक सुरवात केली. पयलोच विचार आयलो, इलल्याशा कारवारा विशीं कितें बरयतलो. पूण जगाच्या बाराशें पानांच्या इतिहास ग्रंथांत 'भारताची' बारा पानांत बोळवण जाता. त्याच भारताचो हजार पानांचो इतिहास बरयलो वता. पूण तांतूत मुंबय इलाख्याच्या वाट्यांक धा पानां येतात. ही उतरती चडती भाजणी गणिती हिशबान वापरली तर एखाद्या शारांविशीं चार पांचशीं पानां कित्याक बरोवनयें, हाची जाप सांपडना.

या पुस्तकांतले संशोधनात्मक, ऐतिहासिक विधानां पूर्वाचार्यांची आसात. अनुमानां मागेलीं. तीं उडोवपां सारकींय आसत. पूण आयचीं अनुमानां एखाद वेळेक फाल्यांचे सिद्धांत थारतात. अनुमानां वगळायलीं तरी उद्धृत केल्लें उल्लेख आनी वस्तुस्थिति हांचेवयल्यान कारवारचो देह आनी आत्मो वा भावनां हांचे वाचकांक थोडेशें जरी ज्ञान जालें तरी खूब जालें. कारण हो वाङ्मयीन यत्न न्ही. औपचारिक रितीन तरी महाराष्ट्रांतल्या भाशांची एकमेकांक वळखीं घडच्यो या हेतान एकठांय केल्ल्या म्हायतेचें संकलन आसा.

म्हायती पुरयिल्ले जायते इष्ट, प्रुफां तपासूंक, दुरुस्त्यो करुंक अविश्रांत कष्ट घेतिल्ले श्री.दत्तू बांदेकर आनी श्री. गो. स. वाघ, आनी आपले पणाच्या भावनेन हेर कामां कुशींक दवरन पुस्तक छापून दिल्ले पॉप्युलर प्रेसचे श्री. गंडभीर हांचे उपकार मानचे तितले थोडेच. मागेले माकाच वाचूंक येना अशा हातबरपांतल्यान हें पुस्तक भायर पडतलें अशे माका तर दिसलें नाशिल्लें. पूण वयल्या इष्टांच्या आदारान तें शक्य जालें. असल्या बाबतींत हांव सर्वस्वी अनभिज्ञ, पयलो यत्न आनी तोय ताकतिकेन जाल्लो. उल्लेख करपा सारक्यो घटना आनी नांवा नजर चुकीन उरिल्लिय आसतलीं तेन्ना आतामेरेन बरयिल्ल्या एकाच अधिक उतराचो हांव सहृदय वाचकांडेन उच्चार करता-'क्षमस्व'!

कारवार,

4/5/1951

सगळयांचो कृपाभिलाषी
**आनंद नाडकर्णी**

# प्रकाशकांली चार उतरां

कारवार वाङ्मय मंडळाचें पयलें प्रकाशन आज वाचकांच्या हातांत दितना मंडळाक अननुभूत आनंद जायत आसा. 'पयल्यांतली' गोडी कांय विलक्षणच आसता. महाराष्ट्र साहित्य संमेलन कारवाराक भरोवपाचे थारताच आता मेरेन वा गेल्ल्या वर्साच्या महाराश्ट्र एकीकरण परिशदे पर्यत अज्ञात अशा कारवाराचो परिचय महाराष्ट्राच्या हेर भागांक करुन दिवचो अशी एक सूचोवणी फुडें आयली. आमचे श्री. आनंद नाडकर्णी हाणी आपल्या आयजवेरच्या वाचनांतल्यान इंग्लीश, संस्कृत, मराठी ग्रंथांत आयिल्ले कारवारविशयक उल्लेख थोडेभव एकठांय केल्ल्याची कुणकूण आशिल्ली, म्हण तांचेकडेन हें कार्य सोपोवचें अशें थारले. पूण वेळेचोच प्रस्न व्हड आशिल्लो. आपलो वेवसाय सांबाळून दोन अडेचशें पानांचे हातबरप तयार करुंक तीनचार म्हयन्याचो कालवधी खूबच कमी आशिल्लो. तरी सुद्धां मराठीच्या प्रसारार्थ कार्य करची तांची उत्कट इत्साच तांच्या हातांतल्यान हें कार्य पार पाडूंक शकली, आनी ते बद्दल मंडळ तांचे उपकारी आसा.

कारवारसारख्या एका ल्हान शाराचो हो परिचय. पूण लचके तोडिल्ल्या महाराश्ट्राचो, महाराश्ट्राच्या उपेक्षित भागा-विभागांचो परिचय जावप आज खूबच आवश्यक दिसता. संयुक्त महाराष्ट्राक आपल्या एकत्रित कुटुंबांत नांदपी लोकांचो स्वभाव-परिचय, निदान तोंडवळख तरी आसप गरजेचें आसा. ते नदरेन भरपूर म्हायतीं भरिल्ले आमचें  हें पयलें प्रकाशन महाराष्ट्र वाचकवर्गाक सादर करतना आमकां साभिमान खोशी जाता. आनी आमची ही कृती वाचकवर्ग गोड मानून घेतलो अशी आमची अपेक्षा आसा.

कारवार
संमेलन- दीस -4/5/1957

सगळयांचो कृपाभिलाशी
**डॉ. वामन वाघ**
अध्यक्ष, मराठी वाङ्मय मंडळ, कारवार

# कारवार पुस्तक नियाळतना...

दोन तीन वर्सा पयली सर्गेस्त आनंद नाडकर्णी हांणी ५८ साला बरयिल्लें आनी सर्गेस्त डॉ. वामन वाघ हांणी प्रकाशीत केल्लें 'कारवार' हें पुस्तक वाचनांत आयलें. वाचनांत आयलें म्हणचें परस सौ आशा पालनकर हिणे तें वाचपाक लायलें. आनी सांगलें की, हें पुस्तक तूं कोंकणींतल्यान अणकारीत कर. कारण हांतूत कावारचो खूब सुंदर इतिहास, रचना, निसर्गाचे देणे, कलाप्रेमी, शिक्षण प्रेमी, आनी खऱ्या अर्थान निसुवार्थि पणान समाजकार्य केल्ल्या लोकांची वळख आसा. तशेंच सुंदर सुबक कारवारचो परिचय, तेन्नाच्या आनी भविश्यांतल्या कारवारचें खरें आनी सुटसुटीत चित्रण केल्लें आसा. जें आमच्या कारवारंच्या तशेंच हेर गांवच्या लोकांनी वाचूंक जाय. ते वेळचें कारवार आनी आतांचें कारवार, ते वेळचे कारवारी आनी आतांचे कारवारी, ते वेळचे निसर्गाचें देणे आनी आतां आमी निसर्गाक दिल्लें देणे हाची तुळा आनी ताजेर विचारमंथन करुंक आदार जातलो.

पुस्तक वाचतरेत हांव तर सुन्नच जालें. कारण या पुस्तकांत कारवारच्या दरेक आंगाचें (वाठारांचे) वर्णन इतलें सुंदर आनी निसर्गाक धरुन केल्लें आसा की....हांवे नाडकर्णी मामाक मनोमन शतशः वंदन केलें. कारण तांची ते वेळची अनुमानां आज खऱ्यांनीच सिद्धांत थारिल्लीं आसात. तांणी केल्ले उल्लेख, वस्तुस्थिती हाचे वयल्यान कारवारचो देह आनी आत्मो वा भावनां (Feelings) हांची लेखकांक पुरेपूर जाणवीकाय जाल्ली आसूंक जाय. कारण आज माका ती जाणवता. नाडकर्णी मामान वर्णन केल्लें कारवार आनी आयचें कारवार हें तेंच काय ? असो प्रस्न पडता, पूण गांवांची, स्थळाची, न्हयांची, देवळांची नांवा वाचतेरेत हें तेंच कारवार म्हण मानचें पडता.

खूब विचार करुन आनी स. नाडकर्णी माम आनी स. वाघ माम हांका नमन रुपीं आर्गा ओंपून हांये हें पुस्तक कोंकणीत अणकारीत करचें धाडस केलें. वाचून खोशी जाली वा आत्मीयताय जागृत जाली तर ताजें श्रेय मूळ लेखक आनी प्रकाशक हांका. हें पुस्तक वाचून कसलोच बदल वा फरक पडलो ना कसलींच जाणवीकाय जाली ना जाल्यार तो मज्या अणकारातलो फरक अशे हांव मानन. पूण वाचकान हें पूस्तक मुद्दम वाचचें. प्रतिक्रिया कळोवच्यो.

नाडकर्णी मामान ५८ वर्सा हें पुस्तक बरयत आसताना खूब सखोल अभ्यास केल्लो. जायते संदर्भ ग्रंथ आनी लेख वाचून घोळयिल्ले हाचो प्रत्यय पावला पावलाक येता. तांका कारवार बद्दल इतलो अभिमान की, ताणीं ते वेळार तांच्या वाचनांत आयिल्ले इंग्लीश, संस्कृत, मराठी, ग्रंथात वा पेपरांत आयिल्ल्या कारवार विशिंच्या लेखांची कात्रणां एकठांय करुन दवरिल्ली. तांचे सार्थक जाल्लें आसा, आनी ह्या लेखनांत तांका ताचो उपेगय जालो.

कारवार सारख्या एका ल्हानशा शाराची ही वळख. पूण लचके तोडिल्ल्या महाराष्ट्राचो, महाराश्ट्राच्या उपेक्षीत भागा विभागांचो परिचय करुन दिवप हे ते वेळचे

कारवार अभिमानी स. डॉ. वामन वाघ, जांणी ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन केला तांका दिसलें, आनी तांणी तशें पावल उखल्लें. आनंद नाडकर्णी मामा कडल्यान कारवारचें सुंदर, तंतोतंत, मनभावणे वर्णन करुन घेतलें. आनी मूळ निसर्गरम्य कावारचें उत्तम दर्शन आमकां घडयलें. ते प्रकाशक आनी लेखक हांका म्हजो साष्टांग दंडवत.

लेखकान ज्या संदर्भ ग्रंथाचो आनी लेखांचो आदर घेतला, तांची यादी तांणी जोडिल्लींच आसा. ताजे वयल्यान ते वेळच्या लेखकांची, इतिहासाची, सैमाच्या देण्यांची, देव-देवळांची, शिक्षणाची, शाळांची, शाळा संस्थापकांची, शाळा कॉलेजांनी जावच्या संमेलनांची, उदार, उदात्त, आनी निसुवार्थि समाज सुधारकांची, समाज प्रबोधकांची म्हायती मेळता.

या कारवार वर्णनांत वट्ट तीन विभाग आसात. पयल्या विभागांत कारवार जिल्हो, कोंकण पट्टी, वाङ्‌मयीन परंपरा, आनी त्या परंपरेंतले मठ आनी स्वामी, बौद्धसंप्रदायाचो प्रसार, मराठी विभाग सुपा-हल्याळ, कारवार तालुको, भाशीक प्रस्न, तेन्नाचो इतिहास, राजवट, भौगोलिकता न्हंयो, घसघशे, परिस्थिती, समाज हांचो समावेश आसा.जे वाचतरेत मूळ कारवारची खरी वळख जाता.

दुसऱ्या विभागांत, इ.स. 8 ते 8 मेरेनच्या कालखंडांतलो कारवारचो इतिहास, भूवर्णन, बाजार पेठ, विस्तार, प्रमूख गांवा, दर्या वेळ, 8 ते 95 पर्यतच्या कालखंडांत जाल्ली सुधारणा, भावी पिळगेचो विचार, नवो दृष्टिकोन, येरादारी, ते वेळार गाजिल्ले वेंचीक विद्यार्थी, स्त्रीजीवन, 'परमवीर चक्र' विजेते कॅप्टन राणे, शिक्षणीक संस्था-संस्थापक, नागरी जीवन आनी संमंधीत संस्था, तांचे कार्य, अर्थिक तजविजे खातीरच्यो पतपेढ्यो, धर्म मंदिरां, मठ, इगर्ज्यो, साहित्यसेवा, वाङ्‌मयसेवा, सदाशिवगड उत्पत्ती आनी नामकरण, कांय वेंचीक संमेलनां, परिशदां, आगगाडेची लालूच आनी जाल्ली फसगत, कारवार बंदर आनी हेर बंदरां हांची उपयुक्तताय तशेंच म्हत्व आदीं गजालींक उजाळो दिल्लो आसा.

तर तिसऱ्या विभागांत काळी न्हंय, तिजी उपयुक्तताय, देगेवयले गांव, दोंगरांचे वर्णन, आजादद्वीप, तेजो इतिहास आनी नांवाची उत्पत्ती, गिरसप्प्याचो घसघसो आनी ताजें साग्रसंगीत वर्णन, श्रीक्षेत्र गोकर्ण ताजी उत्पत्ती आनी सखोल तपशील, शेवटाक उळवी हो गांव, थंयचो निसर्ग, आनी देऊळ हांच्या वर्णनान 'कारवार' लेखन पुराय जाता.

हें पुस्तक वाचताना मन खोशेन, अभिमानान भरुन येता. दरेक प्रकरण आनी तांतले लेख वाचताना मन तल्लीन जावन वता, त्या त्या थळाचे प्रत्यक्ष दर्शन आनी प्रचिती जाता. हाजो प्रत्यक्ष अणभव हे पुस्तक वाचतल्यांक येतलो अशी आस्त बाळगिता.

देव बरें करुं...

**सौ. उषा उल्हास राणे**
सदाशिवगड- कारवार
मो. 09448947129

तारीख: 10-05-2016

# वळेरी

# प्रकरण 1ले

# कारवार जिल्हो

**इतिहासीक :**

भौगोलीक परिसिमांच्या बाबतींत कोकण पट्टेचो भूभाग कोंकण ह्या उतराच्या व्युत्पत्तीप्रमाणूच वादग्रस्त आसा. कोकण ह्या उतराच्यो अनेकांनी अनेक तरेच्यो व्याख्या दिल्ल्यो आसात कांय इतिहासीक घडणूकेन आसत, तातूत कोंग लोकां पसून कोंगवन आनी त्यावयल्यान कोंकण. आनी नागाच्या एका' कुकण' नावाच्या कुळावयल्यान कांय कानडी व्युत्पत्ती, पारसी व्युत्पत्ती परशुरामाच्या आवयच्या नांवावयल्यान आनी एकान ताडी पळोवन आश्चर्य पाविल्ल्या वयल्यान, आनी एकान हांगाच्या लोकांच्या आळशी स्वभावा वयल्यान हे उतर व्युत्पादीत केला!जमनिच्या निकसपणावयल्यान कुकणा अशीय व्युत्पत्ती सुचयिल्ली आसा. हातूतल्यो कांय इतिहासाच्या प्रसंगाक जुळटात, कांय भौगोलीक दृश्टया पटपी आसता. आनी कांय तर सामक्योच अर्थहीन आसात. (मराठी भाशा उ. वि) कोकणाच्या बाबतीत विशेश करून लक्षात येवपी गजाल म्हणल्यार परशुराम निर्मित भूंय हे विशेशण. इतिहास पूर्व आनी इतिहासीक काळात आर्याच्यो जायत्यो वसणुको जाल्ल्यो, पूण हेर खंयच्याय वसणुकेक 'निर्माण केल्ली' हें उतर वापरात आयले नात. त्या वयल्यान असो तर्क काडलो की, भार्गव परशुरामाच्या पयली कांय शतकां आर्यांची एकादरी टोळी हे दिकेन वसणुकेच्या उद्देशान आयिल्ली आसतली., आनी दोंगराच्या मुळसाक तेकिल्ल्य दर्यांच्या ल्हारांक पळोवन

आनी वसणुके देगेर भूंय नाशिल्ल्याचे पळोवन परतली आसूंक जाय. परशुराम ज्या वेळार वसणुके खातीर सुवात सोदपाच्या उद्देशान हे दिकेक आयलो त्या वेळार जाणकारान ताका देगेर भूभाग नाशिल्ल्याचे सांगिल्लेंय आसतले, पूण धाडशी भार्गव ताच्याय परस दक्षिणेक वचचे पडले तरी हरकत ना या विचारान गेल्ल्या वेळार ताका दर्या देग आनी दोंगराच्या मुळसा मदी भूंय नदरेक पडली आसूंक जाय. भूगर्भात त्या वेळार सतत चलत आशिल्ल्या घडामोडीक लागून आनी टायडल व्हेवाक लागून (Tid Wave) दर्यातळ वयर येवन सपाट जमीन तयार जावंक शकता, आनी ते सुवातेर भूंय नाशिल्ली अशें पयली सिद्ध जाल्ले आशिल्ल्यान सहजच परशुरामान, वा ताच्या वांगडयांनी परशुरामाची अतीतायेची शौर्यकथा रचली आसूंक जाय, आनी त्या कारणान ह्या भूयेक परशुराम भूंय हें नांव प्राप्त जाल्ले आसूक जाय. उंचायिल्ल्या खाऱ्या उदकाचो भूतल नैसर्गिक रित्याच निकस आसूक जाय, आनी लागवडीच्या नदरेन कस नाशिल्ल्या ह्या भुयेक कु–कणा भूंय हें विशेशण योग्य दिसता.

दर्याच्या वा न्हंयच्या देगेवयल्या सुवातींचे स्वरूप पुराय पणान बदलून गेल्ले आमी आयकतात, वाचतात आनी पळयतात. कारण उदकाच्या प्रवाहाचें सतत चलिल्ले क्रियेन कांय भूभाग उक्तो पडटा आनी जमीन उदकान व्यापता. नखेत्रांच्या चोंब्याची पुसट दिसपी आकृती पळोवन मृगशिर्श, व्याध हस्ता आदी नांवां दिल्ली आसात. त्याच प्रमाण देगेवयल्या भूभागांकय नामकरण करपाची पोन्नी पद्वत आशिल्ली. सुपाच्या आकारावयल्यान शूर्पारक हें नांव दिले. सद्दयाचे श्री क्षेत्र गोकर्ण हें गायच्या काना सारको जुंवो आसूंक जाय, वा भूशीर तरी आसूंक जाय, आनी दर्याच्या उदकाच्या क्रियेन तशेच न्हये मुखातल्यान येवपी गाळाची भर पडून हो जुवो भितरल्या जमीनी कडेन एकजीव जाल्लो आसूं जाय. तशेंच नव्यान निर्माण जाल्ली ही कोंकणची भूंय गुलाबाच्या पानाच्या आकाराभशेन मैल दोन मैलार खाजनांनी भरिल्ली आनी ताका लागून देगेर कोनशें वा कोन आनी तेवय होडयांक, बंदराक लागचे वेळार कठीण दिसपी कु –कोण आशिल्ली आसतली. न्हयांच्या प्रवाहातल्यान आयिल्ल्या गाळान हे खांचखळगे बरेच भरून आयले आनी ह्या देगेक साधारण पणान रेशेचे स्वरूप आयिल्ले आसा. सप्तकोकण ह्या नांवावयल्यान सात अलग जुंवे आशिल्ल्यान तर्काक तेंकोच मेळटा.

दर्याचो एक वेळाचो तळ वचून कोंकणाचो कांय भाग घडलो आशिल्ल्याची गवाय दिवपी दाखलेय खूब आसात. देगेवकडल्यान धा बारा मैलांच्या भितरले वटेन जमीन खणतना होडयांचे कुडके, शिप्यो आदी मेळिल्ल्याचे दाख़ले बरेच आसात.

कोकण पट्टेच्या शिंमाचे बाबतीतय जाय त्यो भिन्न अशो नोंदी प्राचीन ग्रंथात आसात. दक्षिणापथ, अपरान्त, कोंकण, सप्तकोंकण, शूर्पारक, केरळ आदी अनेक नांवानीं ही कोंकण पट्टी वा या पट्टेचे कांय भाग उल्लेखिल्ले आसात. एखादया वेळार शुर्पारकाची मर्यादा वा अपरान्ताची दक्षिण शीम कारवार जिल्हयातल्या गंगावळी न्हंय मेरेन तर एखादया वेळार केरळाची उत्तर शीम सुरत मेरेन असे परस्पर विरोधी उल्लेख मेळाटात स्पश्ट शिमो आखपाचे जायत्या विद्वान संशोधकांनी जायत्या स्वरूपाचे प्रयत्न केल्ले आसात. संस्कृती अवशेशा वयल्यान आर्य आनी द्रवीड संस्कृतीची विभागणी करपी रेगो देवा वयल्यान आनी स्थापन केल्ल्या देवळांवयल्यान ह्या दोन संस्कृ तीची अंतमर्यादा . गांवाच्या नांवावयल्यान संस्कृत आनी द्रवीड प्रथांचे भाशीक खेरीतपण दाखोवपी भागांची अंतमर्यादा आदी. वेगळया अनुमानांवयल्यान, इतिहासीक आनी प्राचीन उल्लेखा वयल्यान कोंकण पट्टेचा वा ह्या संशोधकांच्या मतांप्रमाण ह्या पश्चिम देगेवयल्या् आर्य भागाची दक्षिण शीम थारावपाचे जायते यत्न जाल्ले आसात . आनी खूप जणांच्या मतान ही शीम कारवार जिल्ह्याचे दक्षिण तोक जें भटकळ बंदर, ताच्या खाला वचप शक्य ना आनी अनेक उल्लेखांवयल्यान ही दक्षिणेची शीम कारवार सकयल्ल्या गंगावळी न्हय पर्यंत मानतात. ताची पूर्व मर्यादा सह्याद्री आनी पश्चिम शीम दर्यादिग ह्यो निश्चीतच आसात. पुर्विल्ल्या काळार 'मुरला' ह्या नांवान वळखपी ही गंगावळी न्हंय केरळाची उत्तर शीम आशिल्ल्याचे रघूवंशातल्या आपल्या टिकेन मल्लीनाथान (रघू. 4/55) सांगिल्लें आसा. आनी महाराष्ट्राची दक्षिण शीम आशिल्ल्याचे श्रीचक्रधरान सुत्रावयल्यान(3 च. सु.) सांगिल्लें आसा.

पोन्या राजवटीचो इतिहास आमकां अशे दाखयता की ह्या जिल्ह्याचो सह्याद्रि पलतडचो दोंगराळ भाग बनवासांतल्या राजांच्या हातात आसतालो, आनी देगेवयलो भाग, आनी गोंय हो पुराय भाग वेगवेळया राज घराण्यांकडेन आसतालो. विजापूरच्या वेळार हो इतलो भाग आदीलशाही खाला आशिल्लो.

गोंय जे वेळार राजधानी आशिल्ली त्या वेळार गोंय आनी हो देगेवयलो भाग हांचेर गोंयंच्यान राज्य चलयले वताले. तका लागून गोंया सयत ह्या भागाचे आचार विचार, भाशीक संबध, रक्त संबध, हातूत पुराय पणान एकसुत्रता आशिल्ली. आनी आयज गोंयचेर जरी पुर्तुगेजांची राजसत्ता आसली तरी वयल्या संबधात खंयचोच फरक पडिल्लो ना. आयचें मर्यादीत गोंय पुर्तुगालाकडेन उरन देगेच्या या पट्टयासयत दोंगराळ भाग टिपू सुलताना कडल्यान इंग्रजांकडेन आयलो, आनी सह्याद्रिन विभागिल्ले दोन भिन्न भाग एकठांय केले. आनी आयज मुंबयच्या दक्षिणेच्या लोकांकडचो. पश्चिम देगेलागसरलो हो एक ल्हानसो भाग कारवार जिल्हो वा उत्तर कानडा जिल्हो ह्या नांवान वळखता. मद्रास वाठारांत कानडा ह्या नांवाचो एक बरोच व्हड जिल्हो आशिल्लो. इंग्रजांच्या काळांत सूरवेक हो जिल्हो खूब व्हड आशिल्ल्यान विभागून उत्तर आनी दक्षिण कानडा असे हाचे दोन भाग 1843 त केले. आनी थोडया वर्साच्या प्रयोगा नंतर राज कारभाराच्या सोपेपणाखातीर उत्तर कानडा जिल्हो 1862 त मुंबय वठारांत समाविश्ट केलो, आनी ताची राजधानी पश्चिम देगेवयले प्राचीन बंदर होन्नावर ही केली, आनी कांय वर्साच्या राजकाभाराच्या प्रयोग दशेंतल्यान भायर पडतकच 1866 त ह्या जिल्ह्यांचे मुखेल शार वयले होन्नावर बदलून कारवार हें नक्की केलें, आनी जिल्ह्याच्यो केंद्र कचेऱ्यो हांगा हालयल्यो.

नांवा वयल्यान कानडा जिल्हो म्हणल्यार कानडी राजवटींत वाडिल्ली आनी कानडी उलोवपी लोकांनी वसयिल्लो भाग, असो परस्थांचो समज जावपाचो संभव आसा, आनी ह्या समजाचें दृढीकरण करपांचे यत्न कांय लोकांनी केल्ले आसातय, पूण इतिहास अशी साक्ष दीत आसा की गोंयात आनी पश्चिम देगेर पुर्तुगिजांचे पांय थिरावले उपरान्त गोयच्या पश्चिम देगेवयल्या ह्या भागाक, थंयच्या लोकांक आनी कोंकणी भाशेक ताणी कॅनरीन हें नांव दिले. पुर्तुगिजां फाटल्यान आयिल्ल्या इंग्रजांनी ह्या प्रदेशाक सहजीकच कॅनरा हें नांव दिले आनी देशी उतरांचे आंग्लीकरण जावन हें उतर तयार जाल्ले आसूंक जाय ह्या भावनेन आनी समजीकायेन हांगाच्या प्रदेशाभिमानी लोकांनी कॅनरा हाचें कानडा अशें हिन्दीकरण आनी आयज कानडी खबरां पत्रां आपल्या लेखांत हाचो कन्नड जिल्हो असो उल्लेख करतात!हाचे वयल्यान कारवार जिल्हो वा उत्तर कानडा जिल्हो ह्या भागाच्या नांवा कडेन कानडी भाशेचो कसलोय

संबध ना हें स्पश्ट जातले.’

ह्या जिल्ह्याचे सह्याद्रिच्या निसर्गिक शिमेरगेन दोन भाग केल्ले आसात. पश्चिम देगेच्या रेगेपसून सह्याद्रीच्या मुळासांमेरेनचो भाग वगळावन पठारावयल्या भागाक ‘घाट’ अशें नांव आसा, आनी देगेलगतच्या भागाक कोंकणपट्टी म्हणतात. ह्या घाट माथ्यावयल्या भागार खूब पोरण्या काळचे ‘बनवासी’ हे राज्य वशिल्ले. आनी ह्या घाटावयल्या उत्तरे कडल्या सुपापठ आनी हल्ल्याळ तालुको, आनी देगेवयलो कारवार, अंकोला, कुमठा आनी मुंबयच्या दक्षिणे कडले भटकळ बंदर. हांगा मेरेनचो भाग पुर्विल्ल्या काळा पसून कोंकणात सामील करताले. ह्या देगे लगतच्या भागाची चडशा लोकांची भाशा कोंकणी हीच आसा, पूण धंदया निमित्तान कर्नाटकाच्या वयल्या भागांतल्यान आयिल्ल्या कानडी लोकांच्या येण्यान कोंकणीचे प्रमाण किंचीत कमी जाल्ले आसा. तरीसुद्धा मराठीच्या आदल्या काळार महानुभाव पंथाचो संस्थापक श्रीचक्रधर हांच्या वेळार ‘उभयगंगातिरांतल्या’ महाराष्ट्राची दक्षिणे शीम कारवारच्या दक्षिणेक 40 मैलार आशिल्ल्या गंगावळी न्हंये मेरेन उत्तरेक आयली. (च. सु. उषोद्धात पान 2) पुर्विल्या काळांत सुधारिल्ल्या आनी विकसीत जाल्ल्या राष्ट्रांचो उदय हिंदुस्थानच्या पश्चिमेकच जालो, आनी तांचो व्यापारा निमतान भारताकडेन जो संबध आयलो तो पश्चिम देगेवयल्यानच आयलो. त्याच प्रमाण दक्षिण हिंदुस्थानच्या मध्य भागार पयस मेरेन पातळिल्ल्या दंडकारण्याक लागून आर्य आनी आर्येत्तर देशी जमाती, अरबी, इराणी आनी युरोपांतली पुर्विल्ली राष्ट्रां हांचो व्यापारा निमतान, या वसणुके निमतान जो संबद जडलो तो पश्चिम देगेवयल्यानच जडलो. आर्यांच्या वैदीक काळांतल्या आगमना पयली सुद्धा दक्षिणेचो हो पश्चिम देगेलगतचो भाग विकसिल्ल्या जमातीनी वसयिल्लो आशिल्लो. ह्या विशी संशोधकाचे भोवतेक एकमत आसा. त्या काळार कोंकणपट्टेक अपरान्त हें नांव आशिल्ले, आनी ह्या अपरान्ताच्यो उत्तर दक्षिण शिमो कालांतरान बदलत आशिल्ल्यो. त्याच प्रमाण उत्तर काळात कोंकण ह्या नांवान वळखुवपी ह्या देगेवयल्या पट्टीच्यो शिमो वरचेवयर बदलिल्ल्यो दिसून येतात.

ह्या जिल्हात सामील जाल्ल्या पश्चिम देगेच्या वा कोंकणाच्या भागातल्या अनेक शारांचो मुखेलपणान बंदराचो उल्लेख खूब पुर्विल्ल्या लेखांत

सापडता 247 त बरयिल्ल्या पेरिप्लसांत पश्चिम देगेवयल्या ते वेळार प्रसिद्ध आशिल्ल्या बंदरात बरीगाझा, नौरा आनी टिडिन्स हांचो समावेश केल्लो आसा. आनी 'लिमरिके' विभागांतले प्रसिद्ध बंदर म्हणून उल्लेखिल्ले नौरा हें सध्याचे 'होन्नावर' हें बंदर आसा. आनी 902 ते 913 पर्यंत बरयिल्ल्या पंप कवीच्या जैन रामायणात होन्नावर शाराचो एका राज्याची राजधानी असो उल्लेख आसा. श्रीक्षेत्र गोकर्णाचो बृहत्कथेत गोकर्णपुरी असो उल्लेख आसा. आनी नरवाहनदत्त हो बुद्धपूर्व राज विरहावस्थेत भ्रमण करीत आसतना श्रीक्षेत्र गोकर्णाच्या मुळसांपसून आरंभ जावपी मलयगिरीर भोंवतना दाखयिल्लो आसा (प्रा. म. शा. पर्व पृश्ट 124) त्याच प्रमाण अजराजाची राणी इंदूमती ही पारजताच्या फुलांच्या आघातान मरण पावली. ते पारजताचें फूल श्रीक्षेत्र गोकर्णाच्यान मळबांवटेन परतुवपी नारदमुनीच्या तंबोऱ्यार खोचिल्ल्या माळेतले आशिल्ले, असो उल्लेख राघूवंशात आसा. (रघु सर्ग 4 श्लोक 55) भवभूतीच्या उत्तरामचरितात (उत्तरामचरित अंक 3 विश्वक़र्म) आनी बृहत्कथेतय (बृहत्कथा लावाणकलंबक तरंग 5) आसात. कारवारपसून पाच स मैलार आशिल्ले 'आजाद्वीप' पेरिप्लसात आनी तांच्याय पयलींचो प्रसिद्ध भूगोलवेत्तो टॉलोमी हाच्या इ. स. 150 च्या वर्णनात तारवांक उदक पुरवण करची सुवात म्हणून उल्लेखिलें आसा. मिरजान ह्या बंदराचो उल्लेख इ. स. 77 त प्लिनीन केल्लो आसा. 'प्युर्टिजर्स टेबलस' त इ. स. 100 तलो उल्लेख आसा. आनी त्याच प्रमाण टॉलोमी आनी पेरिप्लसातूय उल्लेख आसात. (गेझेटीयर) असे ल्हान व्हड उल्लेख बरेच आसात, आनी त्यावयल्यान इसवीसनां पयली भायले देशांकडेन व्यापारी संबद दवरपा इतलो सुसंस्कृत लोकांनी हो भुभाग व्यापिल्लो आशिल्लो हें उघड दिसता. हे पश्चिम देगेर बुद्धांचे आगमन जाल्लें काय ना हो प्रस्न वादग्रस्त आसा. बुद्ध काळांतलो बुद्धशिश्य पुण्ण हो ह्याच कारवार तालुक्यांतल्या मुडगेरी ह्या शारांत आयिल्ल्याची गवाय प्राचीन पाली ग्रंथ 'सद्धर्मरत्नाकरे' आनी 'अमावतूर' हे दितात. इ. स. 240 ह्या वर्सा मौर्य सम्राट अशोक हाणें आपल्या रख्खित थेरो ह्या धर्मप्रचारकाक ह्या जिल्ह्याच्या घाट विभागांतल्या तेवेळार प्रसिद्ध आशिल्ल्या बनवासी राज्यांत धाडिल्ल्याचो उल्लेख स्पश्टच आसा. ह्या तरेचे ल्हान व्हड उल्लेख बरेच आसात, आनी ह्या उल्लेखांवयल्यान आनी त्या पसून दाखयिल्ल्या व्यापारी, धार्मिक, संबदां

वयल्यान आनी येरादारीच्या सातत्यावयल्यान हो पश्चिम देगेवयलो भूभाग ख्रिस्तपूर्व अनेक शेंकडयापसून संस्कृतीसंपन्न जमातींनीं व्यापिल्लो आशिल्लो अशें उघड अनुमान काडूं येता.

वसणुकेच्या उद्देशान भ्रमण करीत भोंवपी फकत आर्यच जमाती नाशिल्ल्यो, तर आर्यांच्या दडपणान उत्तरेकडल्यान सकयल भ्रमण करीत भोवपी अनेक आर्येत्तर जमातीय आशिल्ल्यो. आनी कांय आर्यत्व वा आर्येतरत्व वादग्रस्तच आसा. ह्या वसणूके पूर्व काळांत शेतकी आनी नुस्तेमारी ह्या दोनूय वेवसायांत आशिल्ल्या ह्या जमातींतल्यान थळाव्या जमांतीं कडेन रोटी बेटी व्यवहार जावन राज्यस्थापकय जाल्ले. पूण तांचे कडेन संबद आशिल्ल्यान दोन व्यवसाया पासत तांच्यो वसणूको न्हयें देगेरच जाल्ल्यो आसात. आनी हांगाच्या न्हये देगेवयल्या कांय गांवाच्या नांवांवयल्यान तांच्या सतत भ्रमणांत कांय काळ त्यो जमातीं हांगा थिरावल्यो आशिल्ल्याचें दिसता. अशा अनेक जमातीं मदीं 'कोरी' वा 'कोडी' ह्या नांवान वळखुपी कोळी जमात, भाई वा भोज, हाल वा हलीक. मल्ल, गोप, कुटंबी वा कुळंबी आनी विकसीत जाल्ले नाग मुखेले, काळी न्हंयच्या तोंडार कारवारा लागी आशिल्ले कोडीबाग, दुसऱ्या तिरावयले कोडीगजन हीं कोडी लोकांची थळां आंसुयेत; हळगे, हळेर आनी हळियाळ हीं हाल वा हलीकांची वसणूक दाखयतात; दोन भिन्न न्हंयी वयली दोन मल्लांपुरा मल्ल राष्ट्रांची याद करून दितात; गोपशिट्टा गोपराष्ट्राची खूण दाखयता; आनी कद्रे हांगाचे पुरातन दैवत कुटुंबी महामाया कुळंबी लोकांनी स्थापन केल्ल्याचें दिसता; नामसादृश्यावयल्यान काडिल्ले हे अंदाज शास्त्रीय निकशाचेर तिगतलेच शें मानूंक जायना;तरी सुद्धा वसणूके खातीर भ्रमण करपी ह्यो जमाती थळांतर करत आसतना त्या त्या थळार थोडो काळ वसणूक करून गेले म्हणपाचो संभव आसा. नाग लोक हे खूब सुदारिल्ले आशिल्ले, नागकन्यो सोबीतकाये खातीर प्रसिद्ध आशिल्ल्यो, सव्यसाच्या अर्जुनाचे सुद्धा एका नागकन्ये कडेन लग्न जाल्ले. तांची अनेक राष्ट्रांय आशिल्ली. कदाचीत जनमजेया कडेन जाल्ल्या झुजांत तांचो खूब नाश जावन तांचे म्हत्व कमी जाल्लें आसत, तरी गोकर्णा वटेन तांची वसणूक मोठी आसूंक फाव. कारण एकादऱ्या गांवांक वा जिल्ह्याक न्हंय तर बऱ्याच मोठया प्रदेशाक अहिच्छेत्र हें नांव आशिल्लें आनी कानडी वाड:मयांत सुद्धा हैवे म्हणल्यार सर्पाचो वाठार ह्या नांवान ह्या मोठया

प्रदेशाक वळखताले.

ख्रिस्ताच्या शेकडया नंतर जायत्या भोवंडेकारानी ह्या वटेच्या शारांचे आनी विशेश करून बंदराचे सन्मान पूर्ण उल्लेख आपल्या प्रवास वर्णनांतल्यान केल्ले आसात. इ. स. 913 ह्या वर्सा आयिल्लो अरब प्रवासी मसुदी हाणे काळी न्हंयेचो आनी त्यावयल्या मुखेल चिताकुले शाराचो उल्लेख केला आनी रसीदउद्दीन ह्या भोंवंडेकारानय मलबार म्हणल्यार ह्या पश्चिम देगेर चित्ताकुले हे एक सोबीत शार आसा, अशे म्हणिल्ले आसा. तशेच नामनेचो भूगोल तज्ञ आनी भोंवंडेकार इब्न बतुता हाणेय आपल्या प्रवास वर्णनात दिल्ल्या वेंचीक शारांचे यादींत ह्या जिल्ह्याच्या देगेर होन्नावर, मिरजान आनी चित्ताकुले ही आसात.

त्या काळांत राज्य वा राष्ट्र हांची कल्पना साधारण पणान एका विराच्या स्वायत्ततेच्या मर्यादि पुरतीच आशिल्ली. ल्हानशें संस्थान, प्रिन्सिपॅलीटी. एकादो जिल्हो वा एकादो तालुको सुद्धा एखाद्या राजाचे राज्य महणून घेवपाक पात्र थारताले. मिरज कोल्हापुरच्या वटेन मोटारीन प्रवास करताना पाच स संस्थानांक भेटी दिल्ल्याचें पूण्य एक दोन तासांच्या भोवंडेत मेळता. तीच व्यवस्था आनी तशीच परिस्थिती पोन्न्या काळांतय आसूंक फाव. व्हडलीं राष्ट्रां आशिल्लींच तरी सुद्धा होन्नावरचे राज्य, मिरजानचें राज्य. गेरसप्पाची राणी, चित्ताकुलेचे राजे, सिदपूरचे राजघराणे ह्या उतरांची व्यापकताय समजूनच घेवंक जाय, आनी प्रवासाची आवड आशिल्ले भोंवडेकार अशां' राज्यांतली' सामाजीक स्थिती, व्यापारी धोरण, राजकारण आदी समजून घेवचे खातीर येताले, आनी राजधानीची वा राज्याची क्षेत्र व्यापकता कितलीय आसली तरी तांचो उल्लेख करताले. भायल्या जगाचो, व्यापारी राष्ट्रांचो हिंदुस्थानांकडेन आयिल्लो संबंद पश्चिम देगेवयल्यानच जडलो आशिल्ल्यान ह्या देगेवयल्या ल्हान व्हड बंदराचें म्हत्व तांका आशिल्ले, आनी ही बंदरां भायले देशाच्या व्यापारी सघटनांक लागून संपन्न स्थितीतय नक्कीच आशिल्ली. चित्ताकुले, होन्नावर, हीं बंदरां पावण लाख, लाख वसणुकेची, व्यापाच्या गजबजाटान भरिल्ली शारां आशिल्ली, पूण आयज दर्यावयलीं येरादारीची साधनां बदल्ल्यात. मोठमोठयो आगबोटी संचार करू लागल्यो, मोठया प्रमांणार आयात निर्यात सुरू जाली. बांदिल्ल्या फकत व्हडल्या बंदरांचेच म्हत्व वाडलें, आनी मुंबय कराची ही मोठी बंदरा बांदतकच ही ल्हानसान बंदरां फाटी पडली. देखून त्या वटेचो व्यापार आनी

तांच्यो पेठो यादीनींच उरल्यात.

ह्या पश्चिम देगेर पुर्विल्ल्या काळापसून जायत्यो दाक्षिणात्य राजघराण्याच्यो कारकिर्दी जाल्यो. रामायण महाभारत हांतूत उल्लेखिल्ले, मौर्य राजा, अशोक हांका आपल्या धर्मप्रचारकाक धाडपायोग्य दिशिल्ले बनवासींचे राज्य, हरिवंशात उल्लेख केल्ले मद्गुर वा सध्याचे मोगेर ह्या कोळी जमातीन भरिल्ले श्रीकृष्णाच्या काळावयले यदुवंशातलें हारित राजांचे होन्नावरा लागसार अशिल्लें प्रज्ञावत राज्य (वि. विस्तार वर्स 62/1:मध्य भा. 1/110) पाचव्या शेंकड्यांतले कदंब घराणे, सव्या शेंकडयांतले चालुक्य, दुसरे कदंब, इ. स. 760 मेरेन गाजिल्ले राष्ट्रकूट घराणे,' कोंकण चक्रवर्ती' ह्या बिरूदांत भूशण मानपी दुसरे चालुक्य घराणे, देवगिरीचे यादव, 14 व्या शेंकडयांच्या पूर्वाधांत उदयाक आयिल्ले विजयनगरचे साम्राज्य, सौंदेकर आनी कांय काळापर्यंत राज्य करपी मराठे, इतल्या हिंदू साम्राज्याची हांगा सत्ता चल्ली. शिवाय गेरसप्पाचे जैन घराणेय कांय काळ आपली सत्ता देगेर गाजयताले. ही देग कांय वर्सा मेरेन विजापूरकाराच्या ताब्यांतय आशिल्ली. आनी इग्रजांनी घेवचे पयली कांय वर्सां मेरेन हैदरअली आनी टिपूसुलतान हाणीय ह्या प्रदेशार राज्य केले. मुखेल राजघराणे बरेंच पयस आशिल्ल्यान त्या त्या गांवचे वा जिल्ह्याचें सुभेदार म्हणून नेमिल्लेच थंयचे राजा मानताले. अशा कांय सुभेदारानी, पाळेगरानीय ह्या देगेर स्वतंत्र पणान सत्ता गाजयिल्ली आसा. ह्या मदल्या होन्नावर शारांतल्यान देगेर सत्ता चलोवपी शिवप्पा नायक हो 10 व्या शेंकडयात बरोच गाजिल्लो.

होन्नावर, भटकळ ह्या शारांत मुसलमान, नवायत आनी अरबी लोकांनी व्यापारी वसणुको स्थापन करून ह्या शारांक बरीच ऊर्जावस्ता हाडिल्ली. ह्या व्यापारी जमातीनी गोंय सुद्धा आपल्या हाताखाला हाडिल्लें. आनी पंदराव्या शेंकडयात पश्चिम देगेवयल्या व्यापाराची खूब मोठी आनी म्हत्वाची पेठ म्हणून होन्नावर शार नामनेक पाविल्लें. चल्या खातीर 23 शाळा आनी चलयां खातीर 17 शाळा चलत आशिल्ल्या ह्या शारांतली लोकवस्ती सुमार लाखभर आशिल्ली. (सर. ना. चं. 1प्र. )पूण ही पश्चिम देग विजयनगर साम्राज्यांत आयल्या नंतर बंदरांतल्यान जावपी व्यापाराचेर कडक निर्बंध घातले. हो व्यापार पुरायरितीन मुसलमान व्यापाऱ्यांच्याच हातांत आशिल्ल्यान हिंदु साम्राज्यांची ऊर्जावस्था हे एकच ध्येय दोळया मुखार दवरपी ह्या साम्राज्यांच्या

अधिकाऱ्यांनी मुसलमान व्यापाऱ्यांचेर कडक निर्बंध घाले. देखून हांगाच्यो पेठो हालयल्यो. मुसलमान आनी अरब वसणुकेनय गांव सोडलो आनी तांणी आपलो व्यापार गोंयात व्हरून थिरायलो . लोक संख्या कमी जाली. व्यापार शुन्यार आयलो, हे व्हड शार स्मृतीशेश जाले, आनी ह्या शारांपसून जिल्ह्यांतल्या हेर भागाक मेळचो व्यापार कमी जालो. देगेवयलो प्रदेश करगलो आनी ह्या भागाक देंवती कळा लागली.

फुडे इंग्रजांनी कारवार हांगा मुखेल वखार दवरून हेर शारांत ल्हान ल्हान वखारी उघडल्यो, आणी कारवार हें केंद्र करून देगेवयल्या हेर बंदरां कडेन संबंद दवरपाचे प्रयत्न केले, आनी ते वेळार संपन्नतेची थोडी पुसटशी आशा ह्या वखारी भागाक आयली. पूण राज्य विस्तारा परस पैसो एकठांय करचे कडेन चड लक्ष दिवपी विजापूरकर, सौंदेकर मराठे आदीनीं ह्या वखारी कडच्यान आपाआपल्या परीन खंडणी वसूल करपाचो सपाटो लायलो. ह्या खंडणेच्या भारान, आनी चाचोवपी हुंदराच्या वृत्तीन त्रास दिवपी पुर्तुगिजांक लागून आपले बस्तान बसोवप अशक्य जाले. व्यापाराची वाड परतून खूटली. रल्वे हाडून बंदर वाडोवपाचे तांचे सपन फळादीक जाले ना, आनी संपन्नतेची निर्माण जाल्ली आस कमी जाली. परप्रांता कडेन व्यापारी संबंद राखपय अशक्य जाले, आनी हो कारवार जिल्हो मुंबय वाठारांतलो म्हत्वहीन आनी दळिद्री जिल्हो उरलो!

**भौगोलीक :**

सह्याद्रिची वयर सकयल रांग सागवानी आनी हेर इमारती लाकाडांची दाट रांना, कोंडया वाशांनी भरिल्ली रानां, चंदनान फुलिल्लो मलयगिरी, माड आनी माडयांच्यो नदरेआड वचपी रांगो, जळाऊ लाकडांची रांनां, आंब्या पणसाची व्हड भाटां, मिरी वेलची हांची लागवड जावपी मळे, काजून भरिल्ली दोंगराची मुळसां, वेगवेळी गुणकारी वखदां आशिल्ले दोंगर, थोडे भीतर सांगचे म्हणल्यार वनदेवतेचे विश्वरूपदर्शनच ह्या भागात घडटा! घरगुती भाटांभेसांत चान्यांक लजेवपी धवी फुल्ल मोगरी, चमेली, सायली, हळदुवी ताल्ल शेंवती, धवो चांफो. पाचवो चांफो, सोन चांफो, भौ रंगाच्यो दसणी, रसिकांच्या भाटांत वेगळया आकारांचे, वेगळया रंगाचे गुलाब रुतू प्रमाण फुलिल्ले दिसतात. तर

पावसाळयांत चोंयवटेन पसरिल्ल्या शेंतांत पांचव्या रंगाची खैरात चलिल्ली नदरेक पडता. उदकाची पुरवण भरपूर आसून पावसाचें वर्सुकी प्रमाण 150 इंचा मरेन आसता.

**न्हंयो :**

सवायशी मैल लांबायेची काळी, शंबर मैलांची गंगावळी, पाउणशीं मैलांची शरावती आनी पन्नास मैल लांबायेची अघनाशींनी ह्यो चार नुखेल न्हंयो ह्या जिल्ह्यांतल्यान व्हांवतात. तीनई घाटात उगम पावन कारवार शेजरा अरबी दर्याक मेळपी काळी न्हंय कारवार तालुक्याचे दोन भाग करता. आनी तांदूळ पिकोवपी सुपीक देगण निर्माण करता. धारवाड जिल्ह्यातल्यान सुरू जावन पुर्विल्ल्या काळार अपरांताची दक्षिण मर्यादा आनी अकराव्या शेंकडयात महाराष्ट्राची दक्षिण शीम थारोवपी गंगावळी कारवारच्या दक्षिणेक वीस मैलार अरबी दर्याक मेळटा. व्हड धेगण, दोळे दिपकावपी रानांची सोबीतकाय आनी एक ल्हानसो घसघसो निर्माण करपी ह्या न्हंयेचो भोवतेक प्रवाह रांनांवनांतल्यान वता. 15 / 16 मैलांचो भाग प्रवासाक उपेगी पडटा. म्हैसूर संस्थांनातल्या बेदनूर हांगा उगम पाविल्ली आनी होन्नावर बंदरा शेजरां दर्याक मेळपी शरावती ह्या जिल्ह्याची सैमीक शीम थारायता. संसारात नामनेक पाविल्लो गेरसप्पा घसघसो, आनी नाल्ल, सुपारी, आंबे आनी तांदूळ खूब प्रमाणार पिकपी अती सुपीक देगण हीं ह्या न्हंयेची वैशिष्टां आसात.

**घसघशे :**

वाकडया तिकडया फातराळ दोंगरांतल्यान मार्ग काडीत येतना यल्लापुर गांवापसून धा मैलार काळी न्हंय एका तुटिल्ल्या धडयावयल्यान तीनशें फूट सकयल फातरार उडी घेता. ह्या तेंगशेर सौंदेक रांन बांदिल्ले श्री हनुमानाचें देवूळ आसा. आनी दोनूय वटेन दाट झिलांनी भरिल्ली ही तेंगशी 'कडेलोटाची सुवात' ह्या नांवांन प्रसिद्ध आसा. काळीच्या ह्या कडेलोटाक लालगुलीचो घसघसो म्हणतात.

यल्लापूरच्या दुसऱ्या दिशेन व्हांवपी गंगावळी ल्हानल्हान घसघशाच्या

रूपात सकयल येता, आनी एका  दोंगराच्या 200 फूट उंच तेमकां वयल्यान सकयल कोसळता. हो कोसळपी प्रवाह मागोड ह्या दोंगराच्या मुळसांक आशिल्ल्या गांवालागसार पडता, आनी ह्या ल्हानशा पूण सुबक आकाराच्या घसघशाक 'मागोद घसघसो'  अशें म्हणतात. वाशांच्या रानांतल्यान ह्या तेमकांकडेन वचूंक येता, आनी थंयच्यान ह्या घसघशाची सोबीतकाय,  आनी गंगावळीच्या पुर्वेक देंगणाचें भव्य रूप पळोवंक  मेळटात.

सिद्दापूर शारांपसून बारा मैलार उच्छली गांवात 400 फूट उंचायेचो एक घसघसो तयार जाल्लो आसा, अर्दी शेती, रानवटी सुवात हांतूतल्यान वाट काडीत काडीत इ. स. 1845 तले कारवारचे कलेक्टर मी. लशिंग्टन हाणी ह्या घसघशाचो सोद लायलो. ताका लागून हाका 'लशिंग्टन घसघसो'  अशें नांव दिलें.

मैसूर संस्थानांक कारवार जिल्ह्यापसून वेगळे करपी शरावती न्हंय एका खोल देंगणांत उडी घेता आसतना संवसारांत नामनेक पाविल्लो गेरसप्पा घसघसो तयार जाल्लो आसा. सुमार 250 फूट रूंदायेच्या पात्रांतले उदक  एकाच घोग्यान 960 फूट उंचाये वयल्यान सकायल खोल देंगणांत पडटना गाजिल्लो आवाज, उदकाच्या घोग्यांचो थयथयाट, थेंब्यांचो व्याप  आनी फेसांची रास कितली मोठी आसतली हांची कल्पनाच केल्ली बरी! ह्या घसघशाचे वर्णन स्वतंत्रपणान फुडे येतलें.

**परिस्थिती :**

सुमार 4000 हाजार चौरस मैलाच्या क्षेत्रफळात ह्या जिल्ह्यांत साडेचार लाख लोकसंख्या आसून तांतूत हिंदुची संख्या चड आसा. देगेवयल्या वाठारांत गौडसारस्वत ब्राह्मण, दैवज्ञ ब्राह्मण, कोंकण मराठे, भंडारी, जाय त्यो खारव्यांच्यो जमाती आसून घाटभागांत हवीग आनी नाडीग हे लोक खास करून आसात. हेर धर्मां मर्दी क्रिश्चन आनी मुसलमान हांचीय वस्ती चडकरून कोंकण पट्टेच्याच विभागांत आसा. एकवेळ जैनाच्यो व्हड प्रमाणार वसणुको आशिल्ल्याची गवाय दिवपी वस्ती आनी जैन मंदिरा, होन्नावर, भटकळ, गेरसप्पा ह्या वटेन आसली तरी आयची तांची लोकसंख्या हिसबांत धरपासारकी ना, देगेवयली भास चडकरून कोंकणी वा मराठी आसून, घाटार

कन्नडाचें प्रमाण चड आसा. तरी सुद्धां बोलीचें प्रमाण पळयल्यार एकूण जिल्ह्यांतल्या भौवजन समाजाक सरसकट समजूवपी बोली कोंकणीच आसा अशें म्हणूक येता.

शेती हो ह्या जिल्ह्यातलो मुखेल धंदो जावन आसा. आनी शेताचो भर चड करून भाताच्या पिकाचेरा आसा. बागायती नाल्ल, सुपारी, हांचे पीक मिरी वेलची हांची लागवड, द्विदल धान्यां आनी कणगां हांचे व्हड प्रमाणार उत्पन्न, हाका लाागून ह्या जिल्ह्ययाक ह्या धंदयाचो विभाग म्हणूयेता. सागवान माट्टी, नंदीआदी इमारती लाकडांचे उत्पन्न ह्या जिल्ह्यात खूब प्रमाणार आसा, आनी हो इमारती लाकडाचो व्यापार तशेंच चंदनाचो व्यापार व्हडा प्रमाणार कंत्राटाच्या रूपान सरकार चलयता. ह्या शिवाय दर्या देगेर चलपी दुसरो मुखेल व्यवसाय म्हणल्यार नुस्तेमारी. हे वटेचो समाज नुस्ते खावपी आशिल्ल्यान, आनी साठ सत्तर मैलांची दर्यादेग नुस्त्याच्या चड पुरवणुके खातीर प्रसिद्ध आशिल्ल्यान थळाव्या लोकांक पावन बरीच पुरवण दर्यांतल्यान मुंबय बंदराक आनी मोटारीच्या येरादारीन बेळगांव, धारवाडाक धाडटात.

शिक्षणाचो प्रसार एकंदर जिल्ह्यायात बरोच आसा, पूण खास करून कोंकण पट्टेच्या विभागांतल्या शाळांचो आंकडो आनी शिक्षणाचे प्रमाण खूबच चड आसा. बायलांच्या शिक्षणाच्या बाबतीतय ह्या भागाची उदरगत उल्लेख करपा सारकी आसा. मुळाव्यो शाळा, दोन वेळच्यो शाळा आनीं हायस्कूलस प्रत्येक तालुक्यात आसून मॅट्रिकच्या परिक्षेखातीर कारवार केंद्राक मान्यताय दिल्ली आसा. जिल्ह्यात एकच कॉलेज आसून तें कुमठा ह्या शारांत तीन वर्सा फाटी स्थापन जाल्ले आसा.

राजकीय वेवस्था सर्वसामान्य आसून जिल्हालोकल बॉर्ड, स्कूल बॉर्ड, नगरपालिका, दवाखाने आदी संस्था चलतात.

पोन्न्या जायत्या राजवटींत बांदिल्ले आनी सद्या मोडके अवस्थेत आशिल्ले जायते किल्ले आसात तांतूतलीं तटबंदी मात तीन चारच आसात.

ल्हान व्हड देवळां ह्या भागांत खूबच आसात. तांतूतले खूब पोन्ने आनी नामनेक पाविल्ले देवूळ म्हणल्यार श्री क्षेत्र गोकर्ण. रामायण महाभारत आदी पोन्न्या ग्रंथातल्या उल्लेखां वयल्यान ह्या क्षेत्रांचे पुरातनत्व आपूणच सिद्ध जांता. महाशिवरात्रेच्या दिसा हिंदुस्थानांतल्या जायत्या भागांतल्यान भावीक लोक

ह्या थळार तीर्थन्हाणां खातीर येतात. गंगावळीच्या उत्तर भागांत महादेव आनी शांतादुर्गा ह्या दैवतांचे प्राचुर्य आसा. दुसरी पवित्र मानिल्ली सुवात म्हणल्यार लिंगायत सांप्रदायाचो संस्थापक वीर बसव हाची समाधी आशिल्लें हल्ल्याळ तालुक्यांतले उळवी, ह्या दोनय थळांचे वर्णन स्वतंत्र रितीन एका प्रकरणांत करतले.

कारवार, तदडी, कुमठा, होन्नावर आनी भटकळ ही पश्चिम दर्या देगेवयली आगबोटीची बंदरां आसात. आनी पावसाळो सोडून वर्साच्या हेर म्हयन्यांत ती चालू आसतात. मुंबयच्यान मंगळूर मेरेन वचपी सप्तुकी आगबोट ही वयली बंदरां करता. मोटारीन जिल्ह्यांतली भोवतेक ल्हान व्हड शारां प्रवासाक सुलभ जाल्ली आसात. हुबळी, धारवाड, बेळगांव, अळणावर आनी लोंढा इतल्या रेल्वे स्टेशनां पसून मोटारीन जिल्ह्यांतल्या खंयच्याय शारांत वचूं येता. शिवाय मडगांव स्टेशनां वयल्यान पुर्तुगीज हद्देतल्यान येवपा वचपाची व्यवस्था आसा. मोटारीच्यो येरादारी भोवतेक रस्त्यांवयल्यान दिसा दोन पावटी जायत आसतात, आनी खुद्द ह्या जिल्ह्यांतलीय भोवतेक शारां मोटारीच्या दरदिसाच्या येरादारीन प्रवास सुलभ जाल्ली आसात.

●●●

# प्रकरण 2 रें

# कोंकणपट्टी

पश्चिमेक अरबी दर्याची देग आनी पूर्वेक सह्याद्री पर्वताची चलत आयिल्ली रांग हाच्या मदल्या शिमीत चिंचोळया भागाक कोंण पट्टी हें नांव खूब पुर्विल्ल्या काळापसून चलत आयिल्ले आसा. कारवार जिल्ह्यापुरती ह्या भूभागाची दक्षिणेची शीम म्हणल्यार ह्या जिल्ह्यांचे आनी मुंबयचें दक्षिणे कडले तोक भटकळ बंदर पसून धरतात. गोंयात वेग वेगळया शेंकडया मेरेन राबितो करून राविल्ल्या लोकांनी स सात शेंकडया फाटी गोंय सोडून ह्या पश्चिम देगेची दक्षिणे कडली पट्टी वसयली, असो समज आसा, अशें भूत्याग ह्या जमाती कडल्यान दोन वा तीन वेळा वेगवेगळया काळांत जाल्ले, हाका सबळ कारणां आसात. पुर्तगिजांच्या आक्रमणा नंतर केल्ले भ्रमण धर्माचे सतवणूकेच्या भंयान घडले अशें ठाम पणान सांगू येता, पूण हें भ्रमण सोळाव्या वा सतराव्या शेंकडयांत आसा, पूण कांय घराण्यांचो इतिहास तपासल्यार ह्या पयली दोन तीन शेंकडयां फाटल्यान सुद्धा गोंयांतल्यो जमाती ह्या दिशेक राबित्या निमित्तान आयिल्ल्याचें दृश्टीक पडता. आनी ताचे कारण वाडिल्ल्या लोक संखेक लागून वसणूके लायक सुवात सोदून काडपाची इत्सा वा दक्षिणेक चलिल्ल्या व्हड प्रमाणा वयल्या व्यापारांत रिगपाची आकांक्षा हातूंपैकी एखादे आसत. वा दोनय सुद्धा आसूंक शकता. ह्या जमातींनी ह्या दिशेक येतना आपले देव आनी संस्कृती, आनी त्या वेळार तयार जायत आशिल्ली कोंकणी भाशाय हाडली. उत्तरेकडली गोंया लागसरची कोंकणी भाशा ग्रांथीक मराठीच्या

लागसराक लागून ग्रांथीक मराठीच्या उदरगती बरोबरच किंचीत भिन्नतेक पावली. पूण ज्ञानेश्वरी वा महानुभावी वाङःमय हांतूत दिसून येवपी मराठीच्या आद्य अवस्थेंतल्या क्रियांपदाची रूपां आयज मराठींतल्यान काडून उडयिल्ली कांय पोन्नी उतरां ह्या दक्षिणेकडल्या कोंकणी बोलींत ठळक पणान मेळटात, आनी ह्या कोंकणी उलोवपी लोकांनी पश्चिम देगेर वसणुको स्थापन केल्यो. आनी वेगळया भाशीक जांयत्या राजवटींत ह्या कोंकणीची जतनाय करून आयज मेरेन ती तिगोवन दवरली.

कारवार जिल्ह्यांत सामील केल्लो असो हो दर्या देगेचो भाग कारवार शारां पसून दक्षिणेक भटकळ बंदरा पर्यंत पातळिल्लो आसा. ह्या विभागांत रांकेन कारवार, अंकोले, कुमठा आनी होन्नावर अशें चार तालुके सामील आसात. एक वेळ हो सगळो विभाग पूर्णपणान कोंकणी आशिल्लो, पूण तीन चार शेंकडयां फाटी कुमठा आनी होन्नावर हीं निर्यातीची व्हड बंदरां मानताली, आनी कर्नाटकांतली निर्यात ह्याच बंदरांतल्यान जाताली. आयज सुद्धां ह्या बंदरांक लागून पडिल्ल्या नांवांवयल्यान बिजापूर वटेनची कापसाची एक जात 'कुमठा कॉटन' ह्या नांवान वळखता. ह्या व्यापारां निमतान कर्नाटकांतल्यो खूब जाती ह्या दिशेन येवन स्थायीक जाल्यो, आनी त्या कारणान कानडी भाशेंचे प्रमाण ह्या तालुक्यांत वाडले. तरी सुद्धा आयचो मान्य केल्लो मराठी विभाग अंकोले, कुमठा आनी होन्नावर ह्या एकठांय केल्ल्या विभागांत जमेक धरलो तरीय कोंकणीचे प्रमाण सुमार अर्द शेंकडो 49.6 पडता, आनी कानडींचे 40.6 पडता.

ह्या वटेन चडशें होन्नावर तालुक्यांत जैन घराण्यांची राजवट बरीच वर्सा चल्ली. हांगा व्हडा प्रमाणांत जावपी मिरयांच्या निर्यातीक लागून गेरसप्पा हांगा राज्य करपी ह्या एक जैन घराण्यांतली राणी;' पेप्पर क्वीन' मिरयांची राणी, ह्या नांवान युरोपांत प्रसिद्ध जाली. ह्या घराण्याच्या कारकिर्दीत जैनांची वसणूक बऱ्याच व्हड प्रमणांत जाल्ली. तांच्यो खुणो वसणुकेच्या रूपान आयज पसून ह्या दिशेन नदरेक पडतात. पूण फकत राजाश्रयाच्या एकाच आधारार राविल्ली जैन घराणीं राजघराण्यांच्या अस्ता बरोबर अस्त पावली, आनी आयज ह्या वटेन जैनांची वसणूक अजिबात ना, अशें म्हणल्यार जाता.

पुर्तुगेज आनी शिवाजी हांच्या वेळार ह्या दिशेन प्रबळ जाल्लो शिवप्पा

नाईक नांवाच्या पाळेगाराक कांय वर्सां मरेन हांगचो राजा मानताले. हांगाच्या जायत्या राजघरांण्याची क्षेत्रमर्यादा मिरजान ह्या बंदरा पर्यंतच आशिल्ली. आनी ताच्या उत्तरे कडलो भाग म्हणल्यार कारवार तालुको, अंकोले, आनी कुमठयाचो थोडो भाग वेगळया वेगळया राजाखाला आसलो. पुरातनत्वा खातीर पुराय भारतांत प्रसिद्ध आशिल्लें श्रीक्षेत्र गोकर्ण ह्याच विभागंत आसा. आनी संवसारांतलो नामनेचो गेरसप्पा वा जोग घसघसो ह्या होन्नावर तालुक्यांत आसा. ह्या दोनय प्रेक्षणीय थळांची वर्णनां वेगळया विभागांत दिल्ली आसात. राजकारभाराच्या सोयी खातीर ह्या जिल्ह्याचें घाट आनी कोंकण अशें दोन विभाग मानिल्ले आसात पूण आयज भाशीक प्रस्न ताणून धरिल्ल्यान सुप्पे हल्याळ आनी कारवार हे तीन तालुके सांस्कृतीक आनी भाशीक दुव्यान एका द्विभाशीक विभागाचे भाग जाल्ले आसात.

●●●

# प्रकरण 3 रें

# वाङ्मयीन परंपरा

फाटी सांगिल्ल्या प्रमाण भायल्या जगांकडेन कोंकणचे संबंद खूब पुर्विल्ल्या काळा पसून आयिल्ले आसात, आनी बंदरांक लागून म्हत्व प्राप्त जाल्या ह्या भूभागार राज्य करपाचे भाग्य अनेक राजवटींक लाभलें पुर्विल्ल्या आनी मध्ययुगीन काळांपर्यंत कदंब, शिलाहार, राष्ट्रकूट आदी राजघराण्याच्यो कारकिर्दी जाल्यो. तरी सुद्धा आर्य संस्कृती पसून वेगळी आशिल्ल्या खंयच्याय राजघराण्यांची संस्कृती हांगा सदाकाळ उल्ली नात, पूण आचारविचार, भाशा, देवकार्यां आनी हेर सुवाळे आदी कडेन अभिन्न आनी आर्य संस्कृती पूर्णपणान समरस जावपा लायक अशी महाराष्ट्रीय संस्कृती तयार जाताच. हांगाच्या संस्कृतीक विशिश्ट रूप येंवक लागले आनी कारवार ज्लिह्याचो हो कोकण भाग त्या महाराष्ट्रीय संस्कृती कडेन समरस आनी एकजीव जांवक लागलो. वेगळया कालखंडानी कांय शेंकडयांच्या दीर्घ कन्नड राजवटींत तांच्या संस्कृती कडेन, तांच्या भाशे कडेन वा वाङ:मया कडेन एकजीव जालो नाशिल्लो . सगळे तरेच्या तांच्या आचारवैचारीक वाड:मयीन वाडीपसून पयस उरिल्लो हो कोकणी घटक ज्ञानदेवाच्यो स्वभाशेंतल्यो ओवयो आयकूवन थरथरूक लागलो. महानुभावी साहित्तीकां कडेन वाङ्मयीन देवाण घेवाण करूंक लागलो. नामदेव तुकारामाच्या अभंगांत रमूक लगलो मोरोपंताच्या केकांक साद दिवंक लागलो, आनी रघुनाथ पंडितांचे काव्य हस्तलिखीत करून जपूंक लागलो!(नल दमयंती स्वयंवराच्या जायत्या हस्तलिखितां वयल्यान श्री. अ.

का. प्रियोळकर हाणी आपली पाठशुद्ध अकृती तयार केली तातूंतले एक हास्तलिखीत कारवार स. मळकर्णीकर हांचे कडेन सांपडिल्लें न. द. स्व.)

**बैलूर मठ :**

श्री क्षेत्र गोकर्णाच्यान वीस पंचवीस मैलांचेर दक्षिणेक बैलूर हें गांव आसा. आनी खूब पुर्विल्ल्या अशा शिवलिंगा खातीर थंयचे देवूळ प्रसिद्ध आसा. ते सैमीक सोबीत थळ पळोवन आनी ध्यान मननाखातीर थंयच्या शांत वातावरणांन भूलसून श्रीचिदानंद स्वामी नांवाचे एक साधू थंय एकेवटेन वास्तव्य करून रावले. स्वामी एका रानांत रावता आसतना त्या गांवच्या एका अधिकाऱ्याच्या भुरग्याक (सर्पदंश) / सोरोप चाबलो आनी त्या भुरग्याचो जीव वाचोवप मानवी शक्ते भायली गजाल आसा असे सगळयांक दिसूंक लागले. त्या वेळार थंयच्या एका भावीकाच्या सांगणे वयल्यान स्वामींक आपोवन हाडलें. आनी चिदानंदस्वामीन आपल्या आंगच्या मंत्रसामर्थ्यान एका शेड्डया कडल्यान सर्प /सोरोप हाडून विशबाधा देवली, आनी त्या अथिकाऱ्याच्या भुरग्याचो जीव वाचयलो. स्वामींच्या ह्या अलौकीक सामर्थ्यान उपकृत जल्ल्या त्या अधिकाऱ्यान आनी तांच्या बरें मागप्यांनीं श्रीचिदानंद स्वामींच्या राबित्या खातीर एक मठ बांदून दिलो. आनी तो बैलूर मठ ह्या नांवान फुडे नामनेक पावलो.

श्रीचिदानंद स्वामी फकत मंत्र चमत्कार करपी साधूच नाशिल्ले, तर सखोल शास्त्राध्ययन केल्ले वेदान्ती आशिल्ले. तांच्या आंगच्या गुणांचो एकेक पैलू नदरेक पडताच तांचो शिश्यपरिवार वाडूंक लागलो. त्याच वेळार पुर्तूगेजांच्या धर्मछळाक बेजारून अनेक सारस्वत ब्राह्मणांची घराणी गोंयचो त्याग करून ह्या देगेर आनी बैलूर भोवतणच्या प्रदेशांत स्थायीक जाताली. आनी अध्ययन, शास्त्राभ्यास, वेदान्त आदींची मनांपसून उपासना करपी ह्या सारस्वत ब्राह्मणांक श्रचिदानंदस्वामींच्या ज्ञानांचे दर्शन जांवक लागताच स्वामीच्या मठांत अव्वल दर्जाचो आनी चोखंदळ अभ्यासकांचो परिवार वाडूंक लागलो. आनी गुणी गुणज्ञांचो संयोग जातकच स्वाभावीक रित्याच बैलूर मठाचो दर्जो वाडलो, आनी बैलूर हें एक मोठे सांस्कृतीक केंद्र जालें. हांगाच्या स्थानीक लोकांभायरय ह्या मठाच्या परंपरेतलें शिश्यगण वाडूंक लागले. पुण्याचे

सुप्रसिद्ध स्वामी श्रीलक्ष्मीधर हें ह्याच बेलूर मठाच्या परंपरेंतलेच आशिल्ले, आनी श्रीचिदानंद स्वामीन नियोजीत केल्ले थळावे शिश्य श्रीब्रह्मानंदस्वामी हांचे ते शिश्य आशिल्ले. पेशवाईतले एक उच्च्य अधिकारी सांप्रदाय परिमळाचे कर्ते निरंजन माधव आनी दौलताबदचे साधू श्रीरमावल्लभदास हे दोगूय श्रीलक्ष्मीधराचे शिश्य आशिल्ले. ह्या सगळयांची जाणीव जावन ह्या दक्षिण महाराष्ट्राच्या उपेक्षित भागांतल्या लोकांक आपल्या भुभागंतल्या ह्या परंपरेचे भव्य आनी व्यापक स्वरूप पळोवन सात्वीक अभिमान दिसल्यार व्हडलेशें अजाप न्हंय! निरंजनमाधवा सारखो मुरिल्लो / मुत्सद्दी कवी, रमावल्लभदासां सारके उंच दर्जाचो संतकवी, वर्णन कुशल असो 'देवीमहात्म्याचो' कर्तो, शिवानंदा सारको भावीक कवी, ज्या परंपरेत तयार जाले, तो बैलूर मठ कांय काळांपर्यंत संस्कृतीक केंद्र आनी उत्तर आनी दक्षिण महाराष्ट्रांतल्या जनतेक एक करपी संस्कृतीक दुवो जावन बशिल्लो आनी ह्या बैलूर मठाच्या कार्या खातीर कोणांकय कौतूकच दिसतले!

**श्रीरमावल्लभदास :**

श्रीचिदानंदसवामींचो संप्रदाय असो पयस पातळिल्लो, आनी वाङमयीन विचारांचे दिवप घेवप चड अणभवी लोकांपर्यंत आनी दौलताबाद पर्यंत पाविल्ले. हांगाच्या लोकांच्या मनाची वाड:मयीन ओड मराठी कडेन जावपाचें मुखेल कारण म्हणल्यार ह्या ग्रंथीक मराठींत तांका आपल्या बोलींचे रुप अलंकारान भरिल्ले रेखीवपणान नटपी रुपांत दिसूंक लागले, आनी ताका लागून हांगाच्या लोकांनी ग्रंथीक मराठी आत्मसात करून घेतली. आनी तिच्या साहित्त्यांत भरय घालपाची खटपट केली. हांगाच्या समाज मनाची अशी तयारी चलिल्ली आसतनाच देवगिरीचे नामनेचे साधू श्रीरमाल्लभदास हें तीर्थयात्रा करीत आपल्या गुरूमाउलीचे आद्यदैवत आशिल्ल्या ह्या दिशेन पावले. ह. भ. पंगारकराच्या उतरांनी सांगचे म्हणल्यार. .

एकनाथ रूपी एक व्हड तारपी व्हडे महाराष्ट्र समाज सागरांत खूब खवदळ घालून तडीक लागून आनंद जाली. तरी तिच्या खवदळीन जीं मळबांक तेकपी ल्हारां उसळ्ली तांणी देगेलागसरल्या अनेक लहान व्हड होडयांक झेलयत हूबयत दवरली! ल्हान ल्हान होडी दर्यांच्या पोटांत नाच्च जाल्यो. मोठी व्हडीं

अजून तिगून उरल्यात. अशा मोठया व्होडयां पैकी रमावल्लभदास हें एक मोठे सुंदर बांदणेचें दोळे दिपकावपी व्हडें. दक्षिण कानडी प्रांताच्या देगेर लागून थंयच अजून हूबत आसा(म. वा. इती खंड 2 पू. 545)

ह. भ. पंगारकरांनी चुकीन 'दक्षिण कानडा' म्हणिल्लो प्रांत म्हणल्यार आयचो कारवार जिल्हो. आपल्या शिश्य परिवारा सयत श्रीरमावल्लभदास महाशिवरात्रेचो मूर्त धरून हांगाच्या श्रीक्षेत्र गोकर्ण हांगा आयले. शिवरात्रे निमतान आयिल्ले कितलेशेच लोक दर्या न्हाण करीत आसतना लक्ष्मी नांवाची एक तरनाटी सारस्वत ब्राह्मण चली ताणीं रडतना पळयली, आनी चौकशे नंतर आपलें कानांतले शेडिंल्ल्या खातीर ती दुःख व्यक्त करताली म्हणपांचे तांका कळ्ळे. भांगरांचे व्हडलेशे मोल ना, पूण आयचे परबे दिसा भांगराची वस्त शेणली म्हण म्हाका खूब दुःख भोगता. अशें तिणे सांगतकच श्रीरमावल्लभदासांनी ती जागच्या जाग्यारच आशिल्ली दाखोवन दिली. कानांतले कानांत नाशिल्लें हें तिका नक्की खबर आशिल्लें, तेन्ना ह्या साधूच्या आंगात कांयतरी अलौकीक शक्ति आसा, अशी भावना जावन लक्ष्मीन तांका मोठ्या आदरान आपल्या घरच्या लोकांक मेळपा खातीर व्हलें. घरच्या लोकांचीय श्रीरमावल्लभदासांविशी आदराची भावना जाली, आनी लक्ष्मीबायन आनी तिचे घरकारान श्रीवल्लभदासांचे शिश्यत्व पत्करले. आनी तीं लक्ष्मी फुडें संतीण आवडीबाई ह्या नांवान प्रसिद्ध पावली. महाराष्ट्राच्या उत्तरभागांत संतवर्य तुकारामांनी जशी विठ्ठलभक्ती पातळायली. तशीच ह्या पूर्वाश्रमीच्या 'तुकारामांनी' आपली आवडती शिश्या आवडी हिज्या आदारान महाराष्ट्राच्या ह्या दक्षिण भागांत कृष्णभक्ती पातळायली. ह्या श्रीरमावल्लभदासांच्या कृष्णसंप्रदायांतल्यान एक मोठी परंपरा निर्माण जाली, आनी तांतूतल्या बऱ्याच ज़ाणांनी महाराष्ट्राच्या भक्ती वाङःमयांत आपल्या रसाळ कृतींनी मोलादीक भर सुद्धा घातिल्ली आसा. श्रीरामावल्लबदासांची पारमार्थिक संपत्ती कारवार प्रांतांतल्या मोगाळ जनांनी लूटली, आनी ताणी स्थापन केल्लो मुरलीधर संप्रदाय अजूनय ह्या दिशेन चालू आसा.

आपल्या मठाची व्यवस्था सारकी उरचे खातीर श्रीचिदानंदस्वामीन कैकीणी घराण्यांतल्या श्रीब्रह्मानंद हांका आपलो खास शिश्य / पट्टशिष्य केलो. हें ब्रह्मानंद संसारी आशिल्ले, आनी व्यासंगी, वेदान्ती, ज्ञानी मनीस आशिल्ले. तांका लागून ह्या बैलूर मठाची किर्त पयस मेरेन पातळली. तांच्या फाटल्यान

तांचे पूत श्रीशिवानंद हे मठाधीश जाले. आनी हाणी मराठी वाङ्मयाची बरीच सेवा केला. मार्कंडेय पुराणाच्या आदारावयल्यान तांणी रचिल्लें 'देवीमहात्म्य' हें ओवीबद्ध काव्य कांय वर्सां पयली उजवाडायलां. संशोधन आनी पाठशुद्धीकडेन कटाक्ष ह्या वाङ्मय शास्त्रांत बृहन्महाराष्ट्रांत नामनेक पाविल्ले विद्वान श्री. अ. का. प्रियोळकर, आयच्या संमेलनांचे नियोजीत अध्यक्ष, हांणी हें काव्य संपादीत केलां. आपल्या प्रस्तावनेत श्रीशिवानंदाच्या काव्यगूणांची खूब तोखणाय करून बऱ्याच जाग्यार कवी श्रेश्ट मुक्तेश्वराची आमकां याद जाता अशें श्री प्रियाळकरांनी आपलें मत दिल्लें आसा. ह्या ग्रंथाखेरीत श्रीनवरात्री कथा आनी नवावेधा भक्तीही दोन काव्यां आनी अनेक फुटकळ पदां इतली शिवानंदाची ग्रंथसंपत्ती उपलब्ध आसा. शिवानंदााची सफाई पळोवन. ह्या शिवाय तांची खूब काव्यसंपत्ती आशिल्ली, पूण ती आपल्या लोकांच्या अनास्थेक लागून काळाच्या भक्ष्यस्थानां पडली आसूंक फाव अशें खेदपूर्ण उद्गार श्री. प्रियोळकरांनी काडल्यात. हांच्या भक्ती पारायणांयते वयल्यान आनी साधुत्वा वयल्यान हें शिवमुनीश्वर ह्या नांवानच प्रसिद्ध आसून तांच्या समाधीचेर बांदिल्ल्या देवळाकय 'शिवमुनीश्वराचें देवूळ' अशेंच नांव आसा. पूण श्रीचिदानंद, श्रीब्रह्मानंद, पुण्याचे श्री. लक्ष्मीधर, देवगिरीचे श्रीरमावल्लभदास, निरंजनमाधव, शिवमुनीश्वर हांच्या सारख्यांनी आधारलेली ही व्हड मठ परंपरा शिवानंदाफाटल्यान खुटिल्ली पळोवन वायट दिसता. तरीसुद्धा सांप्रदायीक भक्त गणांतल्या खूब जाणांनी एक दोन पिळग्यो भक्ती वाङ्मय निर्माण केल्लें आसात, आनी शिवानंदाच्या गुरूबंधून श्रीरामावल्लभदासांनी स्थापिल्ली परंपरा चालू दवरिल्ली आसा. आनी ह्या परंपरेंतल्यानय बरेंच भक्तिकवी निर्माण जाले.

श्रीरमावल्लभदासांच्या नवीन संप्रदायाचें मुख्य दैवत म्हणल्यार मुरलीधर श्रीकृष्ण आनी ह्या संप्रदायाच्या प्रसारा खातीर श्रीरामावल्लभदासांच्या हयातींत आनी तांच्या फाटल्यानय ही श्रीकृष्णभक्ती अढळ करचे खातीर ल्हान व्हड मुरलीधर मठ स्थापन केले. आनी श्रीरमावल्लभदासांनी रचिल्ल्या 'श्रीकृष्ण जयंती व्रत' ह्या ग्रंथाचें पारायण हो ह्या सगळया मठांतलो मुख्य विशय जावन बसलो. तांची आद्य शिश्या आवडी ही फुडे संतीण म्हण प्रसिद्ध जाली. तिणे श्रीकृष्ण भक्ती पर काव्य रचना मराठीत केल्ल्याचें सांगतात, पूण लेखी पुरावो वा तिच्या हातबरपाच्या अभावी ह्या विशी खात्री पूर्वक सांगपाक येना. तरी

सुद्धा श्रीरमावल्लभदास देवगिरीक परतल्या नंतर तांचो आनी उभयकर घराण्याचो जाल्लो काव्यमय पत्रव्यवहार 'प्रबोधचंद्रिका' ह्या नांवान संकलीत जावन प्रसिद्ध जाल्लो आसा त्या वयल्यान ते वेळार मराठी लेखन वाचनाचो व्यासंग हांगाच्या लोकांत प्रसृत जाल्ल्याचो ठाम पुरावो मेळता.

ह्या संप्रदायाचो दुसरो नामनेक पाविल्लो मठ म्हळ्यार 'शिराली मठ' ह्या मठाचे महंत राघवदास हाणी बरीच मराठी काव्य रचना केल्ली. पूण दुर्दैवान तांच्या हातबरपाक वाळटी लागून ती नश्ट जाली. आनी कांय थोडी आसली ती मठाक उजो लागिल्ल्यान उज्याच्या भकीक पडली. रमावल्लभदासांच्या सांगाताक जाणीं बरेच जिवीत सारलें, रमावल्लभदासांचे समकालीन साधू आनी कवी हांचे पांडित्यपूर्ण वाद आयकुवपावें भाग्य जांका लाभलें त्या राघवदासांची वाङ्मय निर्मिती बऱ्याच वयल्या थराची आसूंक जाय. ग्रंथ संपत्तीच्या नदरेन भरगच्च अशी ही साहित्य निर्मिती मराठी भाशेचो वाडिल्लो इतिहास जाणून घेवपाचें नदरेन अमूल्य जातली आसली हांतूत दुबावच ना, पूण ही निर्मणी आधिदैविक आनी आधिभौतिक कोपांखातीर नश्ट जाल्ली पळोवन वायट दिसता.

ह्या संप्रदाचो आनीक एक मठांतलो अधिकारी कृष्णदास आनी तांची शिश्या जोगनाणी हांणीय काव्यरचना केल्ली. तिवय आपल्या लोकांच्या अनास्थेक लागून नश्ट जाली.

जायत्या मठांतल्यान प्रसार पाविल्ल्या ह्या संप्रदायाचो शिश्यपरिवार पयस मेरेन पातळिल्लो. आनी तांतूतल्या बऱ्याच जाणांनी मराठी वाड:मयाची सेवा केल्ली आसा. एकोणीसाव्या शेंकडयाच्या सुरवातेच्या काळांत काशिनाथस्वामी नांवाच्या एका कवीन भगवद्गितेचो अणकार केल्लो आसा. ह्या अणकाराची खासीयत म्हणल्यार श्लोकांचे गेय चालीर रुपांतर. ह्या दोनय परंपरेतल्यान बरेच ल्हान व्हड कवी जल्माक आयले. तांची म्हायती आजच प्रसिद्ध जावपाच्या संकलीत लेखन संग्रहात दिल्ली आसा.

अठराव्या शेंकड्यां पर्यंत ईश्वर भक्तेची, वाङ्मय उपासनेची आनी सर्वसामान्य संस्कृतीचें देवाण-घेवाणमहाराष्ट्राच्या ह्या दक्षिण भागांत आनी उत्तर भागांत मनमेकळे पणान चलिल्ली. महानुभावी वाड:मयांत, निरंजनमाधवाच्या सांप्रदायीक परिमळांत अशा तरेचे परस्परपूर्वक दिवपा घेवपाचें, कृतज्ञतेचें

उल्लेख बरेच आयिल्ले आसात. महाराष्ट्राच्या ह्या अती दक्षिणेच्या तोकांक श्रीचिदानंदस्वामी मठ स्थापन करतातच. पुण्याचे श्रीलक्ष्मीधर, देवगिरीचे रमावल्लभदास आनी महानुभावी प्रभावी कवी, निरंजनदास ह्या परंपरेतले शिस्यत्व पत्करतातच; रमावल्लभदास ह्या उपेक्षित भागांत कृष्णभक्ति चो स्वतंत्र संप्रदाय स्थापन करतातच, भक्ति वाङःमयाची उपज करचे खातीर योग्य पाठभूंय तयार करून दवरतात! संस्कृती सलोख्याचें कोण हें भव्य स्वरूप!आनी तेवूय आपूण किते तरी केलें, ह्या व्यवहारीक नदरेन न्हंय तर ज्या थिराविल्ल्या परंपरेत आपूण विलीन जालो, वा ज्या नव्या परंपरेंत आपूण कोणाकय गुंतयले, ताच्या आध्यात्मीक उदरगतीच्या म्हायती बद्दल अत्यंतीक तळमळ, क मालीचो कळवळो धरून! आपल्या गुरूंचे, आपल्या गुरूस्थानाचें दर्शन घेवपाची उत्कट तळमळ, कितले तरी दीस काळजांत बाळगिल्ली आपली इत्सा आयज पूर्ण जातली ही खोशी दाखोवपी भावना, कार्य बावल्यांक लागून ही गुरूचरण दर्शनाची इच्छापूर्ती लांबणेर उडयिल्ले बद्दलची आत्मदोशदर्शनाची प्रवृत्ती, ही सगळी निरंजनमाधवाच्या काव्यांत दिसून येतात. तीच आत्मैक्याची खूण! तशेंच स्वग्रामांत परतल्या नंतर आवडीक वा तिका उद्देशून तिच्या यजमानांक बरयिल्ल्या पत्रांतल्यानय रमावल्लभदास तांचे विशयिच्यो भावनांच दाखयतात.

*आवडीक अशी राव म्हणा । जाणा विश्वासाच्यो खुणो*
*तेणे कार्य सादतले भोव जाणा ! श्रीकृष्ण गुरूभजनांशी ।*
*ह्या स्थितींन आवडी । आसता आमकां भोव गोडी ।*

आपूण ह़जर नासलो तरी दिसावळींची कामां कशी चलोवची, आपूण प्रचारिल्ली आनी हांगच्या जनतेन आंपणायिल्ली श्रीकृष्ण भक्ती कशी वाडीक लागची, ह्या विशी मनांत निरंतर यादींचो नंदादीप तेंवत आशिल्ल्याचीच ही खूण आसा!

ह्या बैलूर मठाच्या परंपरेतल्या संताखेरीज हेर अनेक वाङःमय सेवक ह्या भागांत निर्माण जाल्ले आसतले. पूण जांची हातबरपां मेळिल्ली आसात तांतूंतलीं शुभानंद पिकळे, नाईकस्वामी, आनी व्यंकट बद्री ह्या तिगांचो उल्लेख प्रामुख्यान करप गरजेचे आसा. कवी शुभानंदाचो उद्योग आनी भीष्म ही दोन पर्वां छापून आयिल्लीं आसात, आनी नाईकस्वामी आनी बद्री हांच्या हातबरपाचीं तपासणी चालू आसा.

अशा रितीन विचारांची आनी वाड:मयांची, खासकरून जांका संत वाड:मय म्हणू येतले अशा वाङ्मयांची देवघेव करून वयर उल्लेखिल्ल्या आनी हेर अनेक अज्ञात शारदोपासकांनी मराठी लेखन परंपरेची प्रभावी पाठभूंय तयार केली. पूण बदलिल्ल्या कालपर्वांत राजकारण, राजदरबार आनी राजसत्तेंत वांटो घेवपाची उत्क ट इत्सा हाका लागून मुल्यां बदललीं. ग्रांथीक मान्यताय नाशिल्ली कोंकणी ही ह्या भागाची बोली भाशा, कानडी ही प्रादेशीक राजकारभाराची भाशा आनी इंग्लीश ही राजसत्तेची भाशा. ह्या भाशात्रयींच्या कचाटयांत हो महाराष्ट्राचो दक्षिण भाग सांपडलो. उपजिवीके खातीर शिकिल्ली कानडी भाशा ह्या मराठी आत्म्याक मानवना जाली. वाङ्मयनिर्मितीत खंड पडलो. तरी सुद्धा जीं थोडीभव साहित्य निर्मिती जाली ती मराठींतच जालीं. मराठी वाङ्मय निर्मितीक हे एक गिराणच लागले. पूण ह्या गिराणाच्या स्पर्श कालांत आनी मोक्ष कालांत चडसो काळ गेलो ना, हें एका अर्थान सुदैवच. तरी सुद्धां ह्या मध्यंतरीच्या काळांत वयर निर्माण जाल्ली वाङ्मयोपासनेची भूंय उदकांविणे आनी सात्याविणे निश्फळ जांवच्या मार्गाक लागिल्ली. पूण तयार जाल्ली भूंय जतन करून दवरली आनी सुमार देडेक शेंकडयाच्या काळा नंतर ही भूंय फलदायी जावपाची चिन्हां दिसूंक लागली. पोन्न्या भक्ति वाड:मयाचो काळ आनी आधुनीक ललीत वाङ्मयाचो काळ ह्या दोनांच्याय संधीकाळांत कांय विद्वानांनी वाड:मय जतनायेची परंपरा भक्तितल्यानच निर्माण केली. आनी तांच्या कश्टांचे प्रतीक म्हणल्यार आयज मराठी साहित्त्याची हिरहिरीन सेवा करूक धन्यताय मानपी आयच्या पिळगेंतले लेखक जावन आसात.

यरादरीची सादनां बदलिल्ली आसात. उत्तर भागांत तीव्र गतींची वाहनां फिरूंक लागली. वैचारीक देवघेव उत्तर भागांत सुसाध्य जाली. संसारांतली मूल्यां बदलली, वाड:मयीन देवघेव नजरे आड जाली. महाराष्ट्राचो उत्तर भाग आधुनीक साधनांक लागून प्रगत जालो, आनी ह्या दिशेचो बुद्धिजीवी वर्ग बहिर्मुख जालो. आनी ज्या भूभागाची शेंकडया फ टली मराठी वाड:मय सेवा उत्तरेंतल्या महानुभावांक, पुण्यांतल्या संतांक आनी देवगिरीच्या साधूंक गुरूस्थांनी दिसताली. तो भूभाग आयज मराठी नासून कन्नड असो दावो करतात. म्हातारी मेल्ल्याचें दु:ख ना पूण काळ सोकावता!

●●●

# प्रकरण 4 थें

# बौद्धसांप्रदायाचो प्रसार

दक्षिणेच्या संस्कृतीक इतिहासाक बुद्धान स्थापन केल्ल्या साप्रदायाक लागून वेगळे वळण मेळपाक सातवाहन पूर्व काळातच सुरवात जाल्ली अशें नाना घाटांतल्या सातवाहनांच्या अंकित लेखांवयल्यान दिसून येनासलें तरी त्या काळांत बौद्धसंप्रदाय दक्षिणेत प्रविश्ट जाल्लो, अशें सुमार त्याच काळच्या किंबहूना पयलींच्या अशोकाच्या लेखांवयल्यान निश्चित जाता. बुद्धाच्या काळातच शुर्पारक वा सोपाऱ्याचो प्रसिद्ध व्यापारी पुण्ण हाणी बौद्धधर्म आपणायिल्लो. आनी ताणे बौद्धधर्माच्या प्रचारार्थ कोकण पट्टी माडयिल्ली. हाका बौद्ध वाङ्मयातल्या जायते ग्रंथाचो आदार मेळता. ह्या पुण्णाच्या भ्रमणकाळाच्या सुमाराक ताच्याच आपोवण्या वयल्यान गौतमबुद्ध ह्या कोकण पट्टेर आयिल्लो. अशी कल्पना बौद्धवाङ:मयातल्या कांय उल्लेखांवयल्यान दिसता. बुद्धाच्या ह्या कोकणांतल्या वा दक्षिणे कडल्या आगमना बद्दल विद्वान संशोधकांत एकमत ना. तरी सुद्धा तो दक्षिणेकडेन धर्मप्रचाराक येंवक नाशिल्लो अशें निक्षून सांगूक जायना, पूण शुर्पारकांतलो व्यापारी बुद्धशिश्य पुण्ण हाणे आपल्या प्रचार कार्यांत बरेच यश संपादून बौद्धसंप्रदायाचो पगडो हांगाच्या लोकांर घातिल्लो नक्की.

ह्या पुण्णाच्या प्रचारभ्रमणाचो मार्ग सोपाऱ्याच्यान गोमंतक, थंयच्यान कारवारच्या मुडगेरी आनी भोवतणचो वाठार, थंयच्यान दक्षिणेक गोकर्ण क्षेत्रां मेरेन वा गोकर्ण क्षेत्राच्या किंचीत दक्षिणेकडेन मुर्डेश्वर ह्या गांवांपर्यंत आसूंक

जाय अशें दिसता. ह्या पुण्णा फाटल्यान दुसरे जायते प्रभावी बुद्ध भिक्षूय आयले आसतले, कारण बौद्ध संप्रदायाचो प्रभाव हांगाच्या लोकांर, तांच्या दैवतांर, हांगाच्या कांय गांवाच्या नांवांरय पडिल्लो आसूंक जाय अशें दिसता.

सद्धर्भरत्नकरे आनी अमावतूर ह्या पाली ग्रंथांत बुद्धशिश्य पुण्ण हाच्या धर्मप्रचारार्थ केल्ल्या प्रवासाचें वर्णन पांवडया पांवडयांनी दिल्ले आसा. तांतूत तो गोमंतकांत आयले नंतर 'मुळे' ह्या गांवांतल्यान दक्षिणेकडेन मुद्दगिरी ह्या गांवांत आयिल्ल्याचें सांगिल्लें आसा. ह्या गांवांक आनी ह्या गावांच्या भोवतणच्या प्रदेशाक शिवेश्वर अशेंय नांव आसा. मुद्दगिरी हें समुद्रगिरी ह्या संस्कृत शब्दाचें प्राकृत रूप दिसता. हें मुद्दगिरी म्हणल्यार गोमंतक आनी कारवार हांच्या अंतीम शीमेर वशिल्लें सद्याचें मुडगेरी हे शार.

ह्या मुडगेरच्यान कारवार देगेर येतना लागता ते असनोटी, हें एक गांव आसा. ह्या गांवाची व्युत्पत्ती कोंकणी, मराठी, वा कन्नड खंयच्याय भाशेंतल्यान लागना. बुद्धागमनाचो वृत्तांत सत मानल्यार वा एखादो मुखेल बुद्धशिश्य संप्रदाय प्रचारार्थ हांगा बरोच तेप रावलो अशें गृहीत धरल्यार धानस्त बसची सुवात 'आसन वाट' या वयल्यान आसनोटी वा असनोटी हें नांव व्युत्पादीत जांव येता. ह्या सुवातेर रानांतल्या एका जाग्यार अत्यंत प्राचीन अशें अवशेश दिसतात, आनी त्या जाग्यार वचप निशिद्ध समजत आसिल्ल्याची धुंसर म्हायती मेळता. श्री. शंकराचार्यांनी बौद्धमताचो पगडो लोकांवयल्यान पयस केल्या नंतर बुद्धसंबंधीत थळाक नास्तिक पणाच्या आरोपां वयल्यान 'अस्पृश्य' वा निशिद्ध मानपाचो काल कित्येक शेंकडया पर्यंत आशिल्लो. ह्या वयल्यान असनोटी हें हांगाचे निशिद्ध थळ एक काळचें बुद्ध भिक्षूकांचे शिक्षाथळ वा विहार आसप शक्य आसा.

या असनोटी वयल्यान सकल येतना चित्ताकुला हें खेडें लागता. ह्या नांवाची व्युत्पत्ती' चित्तकूल' मनाक भूल घालपी अशी करतात. वास्तवीक पळयत जाल्यार काळी न्हंयच्या देगेवयल्या आनी न्हंयच्या खोऱ्यांतलो आख्खो वाठार नितांत रमणीय आनी चित्ताकर्शक असो आसा. आनी वीस मैलांच्या टापूंक वाच्यार्थान शोभपी विशेशण ह्या एकाच गांवाक कित्याक दिलें जायत हे स्पश्ट पणान समजना. पूण बोद्धसंप्रदायाचो प्रचार, प्रसार आनी तांचे संरक्षण करपाच्या हेतून घडिल्लें प्रचारकांचे चिरवास्तव हांच्या समुच्चयान ह्या

नांवाची व्युत्पत्ती लावंक जावचे सारखी आसा. बौद्धसंप्रदायाच्या प्रचारकांची वसणूक घडले नंतर चैत्य बांदले आसतले, आनी पयल्या प्रचाराका फाटल्यान आयिल्ल्या संघान वा भोंवत आशिल्ल्या दुसऱ्या जमातींनी चैत्याचो घोळको पळोवन चैत्याकूल हें अभिदान ह्या शाराक दिले जांवये, आनी ताका लागून 'चित्तकुले' हे स्वरूप ताका प्राप्त जालें जांवये. असो तर्क करपाक जाता.

ह्या देगेवयल्यान दक्षिणार्भिमुख वता आसतना पुण्णाच्या मैलगिरीच्या मुळसांक केल्ल्या वसणुकेचो उल्लेख मेळता. ह्या पश्चिम देगेक समांतर रेशेत पातळिल्ल्या सह्याद्रिच्या राजीत मलयगिरी वा मलयपर्वत हाचो आरंभ ह्या जिल्ह्यातच गोकर्ण क्षेत्राकडल्यान जाता. आनी पाली वाङ:मयांत पुण्णाच्या भोवंडेत उल्लेखिल्लो मैलगिरी म्हणल्यारच हो मलयपर्वत आसा.

ह्या मलयपर्वता वयल्यान दक्षिण दिशेन देवले नंतर एका मुक्कामात असंख्य शेंवण्यांच्या किलकिलटान भोवंडेकाराची न्हीद मोडिल्ल्याचो उल्लेखय आसा. ह्या पश्चिम देगेर ह्या जिल्ह्याच्या दक्षिणतम तोकांक भटकळ बंदरां पसून कांय मैलार नेत्राणी नांवाचो एक जुंवो (बेट) आसा. असंख्य पारव्यांच्या सततच्या वसणुकेक लागून ह्या जुव्याक 'पारव्यांचो जुवो' 'पिजन आयलंड' ह्या नांवानय वळखतात. त्या वयल्यान पुण्ण आपल्या परिवारासयत पश्चिम देगेर भोवत आसतना त्या जुव्यार ताचो मुक्काम जाला आसूंक जाय. असंख्य पारव्यांच्या वसणूकेची दुसरी एक सुवात म्हणल्यार गिरसप्पा घसघशा सकयल्या फातराच्या राशींतली घोल. ह्या फातराच्या खाचीकोनशांतल्यान पारवे आनी चिमण्यो हांच्यो भिऱ्यांच्यो भिरी रावतात, आनी भोंवतणच्या शेंतातले दाणे गोटे विचून तांचो साठो करतात. ह्या वाटेनय कानखिळी बसून न्हीद मोड जावपा इतलो किलकिलाट आसता. तेन्ना पुण्णाचो हो मुक्काम हांगाय जाल्लो आशिल्याचो संभव आसा. ह्या दोनाय पैकी खंयच्याय सुवातेर पुण्णाचो मुक्काम जाल्लो आसलो तरी धर्मप्रचारार्थ पुण्णान आपणायिल्ल्या भोवंडेची सुसंगत अशी वळ काडल्यार तांचे पर्यटन ह्या जिल्ह्याच्या संपूर्ण पश्चिम विभागांतल्यान जाल्ल्याचें दिसून येतले. हो पुण्णाचो प्रवास शक पूर्व 6 व्या शेंकडयांत जालो आसा.

चौकस पणान विचार केल्यार 'बौद्धधर्म' हो 'धर्म' ह्या नांवा परस संप्रदाय ह्या नांवाकचच चड पात्र आशिल्ल्याचें दिसून येतले. कारण घडणूक

आनी मूलभूत तत्वज्ञान ह्या बाबतींत वेद आनी उपनिशदांतल्या उदात्त तत्वा पसून ताची फ ारकत जाल्ली ना. पूण त्या वेळार कर्मकांडाक दिल्या गेल्ल्या अपरिमीत म्हत्वाक लागून पशुहत्त्या आनी एक तरेची बुवाबाजी हाचो त्या वेळच्या हिन्दुधर्मांत बुजबुजाट जाल्लो आशिल्लो. यज्ञाच्या निमित्तान पशुहत्त्या खूबच व्हड प्रमाणार चलिल्ली, आनी ढोंगी ब्राह्मण, लोकांक नागयताले. धर्मांतल्या उदात तत्वांक कुशीक काडून प्रदर्शनांक प्राधान्य दिताले, आनी ह्या अनिर्बंधेक आळो घालपा खातीर यज्ञाचें होम पेटिल्ल्या सुवातेर अहिंसेच्या अस्त्रान घालो घालताले, म्हणल्यार बौद्धधर्म हो तात्वीक नदरेन हिन्दुधर्मच आसून आचारांपुरतोच एक संप्रदाय आसा अशे म्हणूंक येतलें.

ह्या यज्ञविधीरच भगवान बुद्धाचो कटाक्ष आशिल्ल्यान आपल्या धर्मप्रचारार्थ यज्ञ प्रधान जाल्ल्या आर्यांच्या वसणुकेंतच आपल्या शिश्याक वा हेरांक ताणे धाडिल्ल्याचें उघड जाता. आनी बुद्ध कालीन पुण्ण ज्या अर्थान ह्या दिशेक आयलो त्या वयल्यान बुद्धकाळांत हो भाग यज्ञ प्रधान, सुसंस्कृत अशा समाजाची वसणूक आशिल्ल्याचो अंदाज लागता. शिवाय पुण्णाच्या भ्रमणाचो जर बारकायेन विचार केलो आनी पायांसकयल घातिल्ल्या शारांची यादी तपासून पळयली जाल्यार अशें दिसून येता की, मुडगेरी ते भटकळ मेरेनची ही देग, देव पूजा, आरत अशा ब्राह्मणांनी व्याप्त आशिल्लो, कारण मुडगेरी ह्या गांवाचें दुसरें नांव शिवेश्वर अशें आसा, आनी हें नांव ह्या गांवाक प्राप्त जावचे कारण म्हणल्यार शिवलिंगाचें देवालय हें आसा.

पौराणीक कथेप्रमाण श्री क्षेत्र गोकर्णात रूतिल्ले शिवाचे लींग रावणाच्यान काडूंक जालें ना, पूण लिंगावयले कवच आयले आनी ताणे तें भिरकटावन उडोवन दिले. ताचे तुकडे जावन ते वळेरीन कारवार लागसरल्या शेजवाड, होन्नावर, बंदरच्या सकयल गुणवंती, मुर्डेश्वर आनी कुमठे बंदराच्या लागसार धारेश्वर हांगा पडले. पौराणीक कथेची सूत्रता सोडली तरी कथेवयल्यान लागपी निश्कर्श हो की, श्री क्षेत्र गोकर्ण, मुर्डेश्वर, गुणवंती, धारेश्वर, शेजवाड, शिवेश्वर ह्यो सगळयो सुवाती शिवपुजे खातीर प्रसिद्ध आशिल्ल्यो. आनी पुण्णाच्या प्रवासांत उल्लेखिल्ल्या शारांची एकसुत्रता ह्या गोश्टीवयल्यान दिसता. आनी बौद्धसंप्रदायप्रचारार्थ जाल्ले तांचे आगमन यदृच्छा जाल्लेनासून तें सुसंगत पणान आखिल्ले. शंकराची देवालयां म्हणल्यार यज्ञाचो धूमधडाको,

आनी ब्राह्मणांचे प्राधान्य;आनी बौद्ध संप्रदायाच्या प्रचाराचो घटना फ ातोर, म्हणल्यार ह्या यज्ञार जाल्ले आघात. ताका लागून बौद्धसंप्रदायांचो प्रचार करपाचो पयलो पांवंडो म्हणल्यार ही यज्ञसंस्था हाणून पाडप. ही प्रचार पद्धती ध्यांनांत धरून पुण्णान ह्या दिशेक शंकराची देवालयां आशिल्ल्या जाग्यारच आपले प्रचार कार्य केल्ले आसूंक जाय असें मानून चलपाक आधार मेळता. पुण्णाच्या फाटल्यानय जायते प्रचारक आयिल्ले आसतले, वा पुण्णान ह्या वयर उल्लेख केल्ल्या जाग्यार शिश्यवर्ग तयार करून बौद्धसंप्रदायाची ज्योत तेंवत दवरली आसतली. कारण ह्या दिशेक बौद्धसंप्रदायाचें प्रसारण, संरक्षण, आनी स्थायीस्वरूपाचो ताचो विस्तार जाल्लो अशें मानपाक अनेक कारणां आसात. आनी ह्या बौद्धसंप्रदायाचो विस्तार श्रीमच्छंकराचार्यांच्या वेळेर सुद्धां आशिल्लो, हाका पुरावे सापडतात. श्रीशंकराचार्यांनी बोद्धमतखंडनार्थ जो दौरो काडिल्लो ताची विस्तृत हकीकत शांरांच्या यादीनिशीं श्री. आठल्ले हांणी बरयिल्ल्या श्रीमच्छंकाराच्या चरित्रात आसा, आनी पश्चिम देगेवयल्या तांच्या प्रवासांत रामेश्वराच्यान उत्तरेकडेन येतना ते मुडपुरीक गेले आनी थंय बौद्धमताचें खंडन करून श्रीगोकर्ण क्षेत्रांत गेल्ल्याचो उल्लेख आसा. ही मृडपुरी म्हणल्यार मुर्डेश्वर वा आज मुर्डेश्वर ह्या नवीन नांवान प्रसिद्ध आशिल्लें ह्या जिल्ह्यांतले शार, आनी वयर उल्लेखिल्ल्या पांच शिवलिंगा मदलें एक लींग हांगा आसा.

बौद्धसंप्रदायातल्या बंधक आचारांमदले एक म्हणल्यार अहिंसेच्या तत्वार आधारिल्लो शाकाहार. ह्या वटेनच्या ब्राह्मण वर्गांसयत सगळे रावपी मत्स्याहारी आसात, आनी मत्स्य वा मांस वर्ज्य आशिल्ल्या शाकाहारी मनशाक ह्या वटेन कोंकणी बोलींत 'शिवराक' ह्या विशेशणान वळखतात. ह्या शिवराक शब्दाची व्युत्पत्ती 'श्रावक' ह्या शब्दापसून लावक येता, आनी 'श्रावक' हो बौद्धभिक्षू शाकाहारी आसलो. आयिल्ल्या श्रावकां खातीर शिजवपाचें अन्न निर्मत्स्य आसचें पडतालें, ताका लागून चडशें मत्स्याहारी लोकांतल्यान शाकाहारी मनशाक पर्यायान श्रावक हें विशेशण लायिल्लें आसूंक जाय. आनी श्रावकाचे रूपांतर शिवराक जाल्ले आसूंक जाय. सदच्या वापरांत विशेश अर्थान रूढ जाल्ल्या शब्दावयल्यान श्रावकांचे सातत्य दिसून येता, आनी श्रावकांच्या सातत्यावयल्यान बोद्धसंप्रदाय ह्या दिशेक बरोच विस्तार पाविल्लो असो तर्क बांदूक येता.

ह्या शिवाय नाथपंताचो उगम बौद्धसंप्रदायातल्यानच जाल्लो आशिल्ल्याचे आनी ह्या नाथपंताचे आद्यनाथ मच्छेंद्र आनी गोरख हें सुद्धा बुद्धसंप्रदायाचे हिन्दू अवतार आसात अशें मानतात. आमची हिन्दु दैवतां जीं प्राचीन वाङ:मयात शीव आनी राम आदी नांवानी उल्लेखीत केल्यात. तांची बोद्धसंप्रदायांच्या संपर्कान शिवनाथ आनी रामनाथ अशीं रूपांतरा जाली अशेंय मानतात. देवतांच्यो मुर्ती घडोवपाची प्रथा वा मुर्तीपूजा ही बोद्धसंप्रदायातल्यान आयली कांय ना, ह्या बाबतींत जरी विद्धान संशोधकांचे एकमत नासलें तरी सुद्धा ही 'नाथान्त' दैवतां बोद्धांचीच आसात असो समज आसा. आनी निदान ह्या दिशेक तरी ज्या विभागांत बौद्धमतांचो प्रचार जावन संप्रदाय थिराविल्लो अशें मानूक वयले हेर आधार आसात. तशेच 'नाथान्त' दैवतांची देवालयांय एक आधार आसा.

गोमंतकाच्या हद्देक तेकिल्ले मुडगेरी हांगाचे शिवनाथ, ताच्या आयले वटेचे माजाळी हांगासरले रामनाथ, ताच्या पलतडचे असनोटीचें रामनाथ, आनी रवळनाथ, चित्ताकुलेची ग्रामदेवता रामनाथ आनी याच दैवताची ह्या ह्या पट्टेवयली देवालयां पळोवन बौद्धसंप्रदाय ह्या बाजूक बरीच वर्सा स्थिराविल्ल्याचो संभव आसा, पूण आयज खुद्द बौद्धधर्मी ह्या बाजूक अजिबात नात.

●●●

# प्रकरण 5 वें

# मराठी विभाग, सुप्पा हल्याळ

**इतिहास :**

सुप्पा आनी हल्याळ हांचो एकठांय जाल्लो विभाग शेतकी उत्पादनाच्या नदरेन समृद्ध आसा. हल्याळ तालुक्यांक कारवार जिल्ह्यायांचे तांदळाचें गुदाम म्हणूंक हरक त ना. ते शिवाय मिरीं, पट्टेची पानां, हरभरो हांचेय हांगा पीक मेळता. दाट अशा रानांत सागवानी आनी हेर जातीचे इमारती लाकूडय व्हडा प्रमाणात मेळता., आनी लाकडाचो मोठो सरकारी कारखानो ह्याच विभागांत स्थापन केल्लो आसा. आनी दोनय महायुद्धांत ह्या कारखान्यांतल्यान लाकडाची भरपूर पुरवण केल्ली.

एका दिशेक गोमंतक आनी थंयची बंदरां, दक्षिणेक कारवार आनी हेर ल्हान ल्हान बंदरां सुप्पा हल्याळच्यान ते वेळच्या म्हत्वाच्या चित्ताकुला मेरेन खुश्कीचो रस्तो, आनी पुर्वेक कर्नाटकाचो विशाल प्रदेश ह्या सगळया साधक गजालीचो विचार करून वेलस्लीन इ. स. 1799 त सुपें आपल्या ताब्यांत घेतले, आनी पश्चिम देगेचो भूभाग आनी कर्नाटक ह्या दोगांचेरय नजर दवरूंक सोपें पडतलें ह्या हेतून सुपें हे केंद्र धरून एक मोठो रस्तो गोंयांकडेन आनी दुसरो सदाशिवगडा पर्यंत अशा दोन राजरस्त्याची शिफारस ताणे कंपनी सरकाराकडेन केली, पूण डळमळीत परिस्थितीच्या काळांत ह्यो शिफारसी गुलदस्त्यांतच उरल्यो.

याचवेळार मराठे हळुहळू आपलो अमंल कर्नाटकाच्या दिशेक बसोवपाचो

डाव खेळताले. ताणी पुर्वेकडच्यान नाकाबंदी करत हाडली, आनी धारवाड विभागावयलो मराठयांचो सुभेदार बापूजी शिंदे हाणे इंग्रजांक शह दिवपा खातीर म्हण आपली एक फ लटण इ. स. 1799 त हलयाळ शारांत हाडून दवरली, आनी हल्याळ शारांच्या दक्षिणेक पाच मैलार आशिल्ले सांब्राणी शारय नाकाबंदी करून दवरले. त्या वेळार सांब्राणी हें शार म्हणल्यार व्यापाराची व्हड पेठ आशिल्ली. आनी इंग्रज अधिकारी कंपनीच्या तालमीतले आशिल्ल्यान व्यापारी पेठेरच तांचे लक्ष केंद्रीत जाताले. त्या रिवाजा प्रमाण इंग्रजांनी मराठयांचो शह काडपाच्या उद्देशान ह्या सांब्राणी शारांचेर घुरी घालून पयली थंयची व्यापारी पेठ आपल्या ताब्यांत घेतलीच. आनी ही खबर कळताच हल्याळांतल्या मराठी फलटणीची भीवन गुळी जाली, आनी तिणे थंयच्यान पळ काडलो. फुडे आपल्या युद्धनैपुण्यान डयूक ऑफ वेलिंग्टन ह्या व्हड पदवेचो मान मेळयिल्ले तेवेळचे कर्नल वेलस्ली हे ह्या वर्सा म्हणल्यार इ. स. 1799 त हल्याळ शारांत आयिल्ले. सुप्याप्रमाण ह्याय शारांचो नाको ह्या नदरेन उपयुक्तता पटोवन दिवपाचो ताणीं प्रयत्न केलो, पूण तोय फोल थारलो, कर्नल वेलस्लीन सुपा हल्याळ ह्या विभागाचें केंद्रीय स्थान करपांचे केल्ले यत्न, ह्या विभागाची प्रत्यक्ष तेळणी, तपासणी करूनच केल्ले. ह्या दिशेक ताणी भोवंडी केल्ली, आनी केंद्र सरकाराक बरयिल्ल्या तांच्या पत्र व्यवहारांत तीन पत्रां सांब्राणीच्यान बरयिल्ली आसात.

सांब्राणी शार हें एक तीन चारशें वर्सां पयली व्यापाराचे केंद्रंस्थान आशिल्लें शार. साधारण मळार वशिल्लें आसून व्यापारांचे संरक्षण करचे खातीर बांदिल्लो एक ल्हानसो किल्लोय थंय आसा इ. स. 1695 सालात आयिल्ल्या इटालियनय प्रवाशान ह्या शारांत व्हड प्रमाणार व्यापार चलत अशिल्ल्याचो उल्लेख आपल्या प्रवास वर्णनात केला. आनी ह्या दिशेच्या हेर भागांप्रमाणे हें शारय त्या वेळार सौंदेकाराच्या ताब्यांत आशिल्लें मळावयल्या शाराक त्या वेळार तेळणेच्या नदरेन बरेच म्हत्व आसताले, आनी ताका लागून सौंदेकारान हे आपल्या ताब्यांत दवरले, मराठयांनी आपली फौज हाडून थंय नाका बंदी केली. आनी शेवटाक कर्नल वेलस्लीन कर्नल सेंटजेलर ह्या लस्करी अमंलदाराक हांगा हाडून हें आपल्या ताब्यात घेतले.

कारवार जिल्ह्याच्या हेर भागांप्रमाण ही बाजूय रानांनी आनी दोंगरांच्या

वळीनी शृंगारीत अशीच आसा. दाट सावळेचो आनी हड्डे फुटपी चडणेचो अणशी घाट. पोन्या कुंतलराष्ट्राच्या मर्यादेची नामसादृशान याद करून दिवपी कुंडलघाट, उजळी आनी काळी ह्या दोन भिन्नवर्णिय न्हंयाचो दोळे दिपकावपी संगम. ह्या संगमाच्या जुंव्यार वशिल्ले रामलिंग देवालय. न्हंयची खोल दरी ह्या सगळयांक लागून या स्थानांर निसर्गाची भव्यताय आनी नाजूक सुंदरकाय या दोनांचेय दर्शन वांगडाच जाता. त्या प्रदेशांत लिंगायत धर्माचो संस्थापक बसव हाच्या समाधींची सुवात आशिल्ले उळवी हें गांव आसा.

**समाज :**

सुपा पेठ हो ह्या जिल्ह्याच्या उत्तरेकडचो विभाग आसा. कुवेशी घाटा कडची ह्या पठेची पश्चिम शीम गोंयाक तेकिल्ली आसा. ह्या पेठेचो बरोच व्हड वांटो रानांनी भरिल्लो आसा. आनी ह्या रानांत तरेतरेचे लाकूड व्हडा प्रमाणांत मेळता. सुप्याच्या एका वाटेन गोमंतक आनी दुसरे वटेन बेळगांवचो मराठी भाग आशिल्ल्यान हांगाच्या लोक वस्थेत कानडीचो पुरायेन अभाव आसा. आनी कारवार जिल्ह्यातल्या 'ग्रांथीक मराठीचो भाग' ह्या अभिधानाक साधारण पणान पात्र आशिल्लो हो इतलोच भाग आसा. हाच्या लागच्या हल्याळ तालुक्यांतय मराठीचेंच प्राधान्य आसा. आनी कोंकणी बोलीची खरी सुरवात सुपा हल्याळ विभागाच्या दक्षिण शीमे पसून जाता. पूण लागसराक लागून हल्याळ तालुक्याक कोर्टकचेरीच्या कामाक लागून दुसऱ्या जिल्ह्यात क कर्नाटकांतल्या धारवाड शाराच्या कानडी भाशीक कोर्टांक जोडिल्लें आसा.

ह्या विभागांतल्या लांकडाचे उत्पन्न बऱ्याच प्रमाणार जाता आशिल्ल्या कारणान हल्याळ शारा लागीच्या दांडेली ह्या गांवात सरकारान लाकडाचो कारखानो दावरला. हांगा ग्रंत्राच्या आदारान लाकूड चिरतात, आनी ताच्या येरादारी खातीर अळणावर ह्या स्टेशनावयल्यान रेल्वेचो एक फाटो ह्या कारखान्या पर्यंत हाडिल्लो, आनी ह्या जिल्ह्यात रेल्वे आशिल्ल्याचो अभिमान बाळगुवपा सारखो हो इतलोच भाग जावन आसा. कर्नाटकाच्या लागीचो संबंद आशिल्ल्यान हल्याळ शार व्यापारांत बरेच फुढारिल्लें आसा. शिवाय लांकडा खेरीज तांदळाच्या व्हडा प्रमाणांतल्या उत्पन्नाक लागून जायत्यो गिरण्यो ह्या शाराच्या वाठारांत केंद्रीत जाल्ल्यो आसात. गेल्ल्या महायुद्धाच्या

सुरवेक अर्थिक विपन्नावस्थेची झळ सुरू जावचे पयली हांगा 'प्लायवुड' चो एक कारखानो आनी कोंडयाच्या लागवडीक लागून कागद तयार करपाचो एक कारखानो जावपाचे थारताले पूण युद्धाउपरांत अर्थिक परिस्थितीच्या प्रतिकुलतेक लागून ते विचार गुलदस्त्यातच उरले. वेगवेगळया दिशेकडेल्यान सुटपी, बेळगांवाक वचपी मोटारीचें हल्याळ हें म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें.

पूण आयच्या महाराष्ट्रीय संस्कृतीच्या एका विभागाक ह्याच हल्याळान भोव मोलाची आनी चिरस्थायी स्वरूपाची सेवा दिल्ली आसा. महाराष्ट्रांन आज जी आपली विशिश्ट अशी रंगभूंय तयार केल्ली आसा, ती आद्यस्वरूपांत कारवार जिल्ह्यांत नांदत आशिल्लीच. ल्हान प्रमाणार मंडळी मराठी नाटकां करून दाखयताली, आनी ह्या पंगडाचे क्षेत्रय त्या जिल्ह्यापुरतेच मर्यादीत नाशिल्लें. अशा या पंगडा मदीं एक भागवत पंगड इ. स. 1842 सालांत सांगली वचून आपली नाटकां करून दाखयतालो. आनी ताचे दोन तीन प्रयोग सांगलीचें संस्थानीक चिंतामणराव आप्पासायब हाणी करून घेतिले फुडे आप्पासायबान रा. विष्णुपंत भावे हांका उमेद दिवन तांच्या कडल्यान पौराणीक नाटकां करून घेतली, आनी आयच्या विशिश्ट मराठी रंगभूंयेचो पावंडो घातलो.

महाराष्ट्र रंगभूंयेक ह्याच हल्याळची दुसरी भौवमोलादीक देणगी म्हणल्यार एकवेळ महाराष्ट्र रंगभूंयर गाजिल्ले अद्वितीय नट कै. दत्तू हल्याळकर हे हल्याळकर हांगाचें सुप्रसिद्ध देशपांडे घराण्यांतले आशिल्ले. ह्या दोनय देणग्यां खातीर मराठी रंगभूंयेन कारवार जिल्ह्याचें रीण मान्य करून घेतला.

# प्रकरण 6 वें

# कारवार तालुको

सह्याद्रिच्यो रांको आनी देग हाणे व्यापिल्ल्या कारवार तालुक्यांत 58 खेडी आसून तांतूतलीं वट्ट लेकसंख्या 68000 इतली जायत. पुर्तुगेज गोंयची शीम तीच कारवार तालुक्याची एका वटेची राजकीय मर्यादा थारली आसली, तरी सैमीक वाटणी आसली तेन्ना गोंयंतल्या करंबेल घाटाच्या आयल्या वटेन म्हणल्यार सध्याच्या काणकोण म्हालाचो समावेश कारवारच्या टापूतच केल्लो. आचार, विचार, भाशीक,, सांस्कृतीक वैशिश्टां पीक पाण्याची समानता, शेतां दोंगरांतल्या मातेचें गुणधर्म आनी घराब्यांचे संबंद ह्या सगळया गजालींचो विचार केल्यार काणकोण म्हाल हो गोंयांतल्या खंयच्याय भागां परस कारवारा कडेनच चड लागीचो दिसता. काणकोण म्हालाची शीम एका वेळार अंकोला पर्यंत आशिल्ल्याचो इतिहासीक उल्लेख लेगीत मेळता. राजकीय परिस्थितीक लागून ह्या विभागार पुर्तु-गिजांची वैशिश्टांय खुबच कमी प्रमाणांत आयिल्ली आसात. इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ली कारवार, सदाशिवगड हांगाच्या शाळेंत येवन रीतसर इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ले लोकय ह्या भागांत चड प्रमाणांत आसात. आनी तांच्या कोंकणी बोलींत पुर्तुगेज उतरांचो भरणोय गोंयांतल्या हेर वाठारां परस तुलनेन खुबच कमी आसा अशें दिसून येतलें. ह्या राजकीय शिमेर आशिल्लीं माजाळी आनी मुडगेरी हीं कारवार तालुक्यांतली निमाणी गांवा आसात.

समांतर आशिल्ल्या दोन पाचव्या चार दोंगरांच्या रांकेत आशिल्लो कारवार तालुको काळी न्हंयच्या लोंड्यान विभागिल्लो आसा. आनी काळी न्हंयचें हे

खाजन तांदूळ पिकोवपाच्व्या नदरेन सुपीक जावन आसा. न्हंयच्या दोनय तिरार वसलेल्या कारवार शाराच्या भोंतणी आनी दोंगराच्या मुळसांत आशिल्ल्या वट्ट 58 गांवांचो हो तालुको जाल्लो आसा. न्हंय देगेवयल्या गांवांचो शेती होच मुख्य व्यवसाय आसा. कारवारच्या आसपास व्यापार आनी सरकारी वा हेर नोकऱ्यांक लागून वसंणुको जाल्ल्यो आसात, आनी दोंगरा सकयल आशिल्ले गांव शेती आनी मोलमजूरेक लागून वसलेले आसात पावसाच्या उदकार पिकयिल्ल्या तांदळां खेरीज पावसाळयाच्या उपरांत तळीं होळांतले उदक गांवठी पाटाक पुरवन तांदळाचें आनीक एक पीक काडतात. आनी ह्या खाशेल्या पिकांक 'वायंगण' हें नांव दिला. ह्या शिवाय 'गजनी शेती' हें एक ह्या बाजूंचे खाशेलेपण आसा, अशें म्हणूक हरकत ना. न्हंय देगेर घट्ट मुट्ट बांद घालून सुकयिल्ल्या ह्या वाठारांतली खारसाण भरांव घालून आनी हेर प्रयोगांनी काडून उडयतात, आनी ही जमीन जाका इंग्लीशीन 'रिक्लेम्ड लँड' म्हणू येत, ती तांदूळ पिकोवपाक वापरतात. ह्या जमनी खातीर खूब यत्न करचे पडतात. बांदार देखरेक दवरची पडता, आनी भरती सुकतेच्या वेळार जतनाय घेवची पडता.

तरतरेच्या फुलपाक्यांच्या जाती खातीर हांगाचीं रानां प्रसिद्ध आसात. हांगाच्या पोन्न्या पिळगेंतले रांन खात्यांतले मुख्याधिकारी मि. बेल हांणी एकठांय केल्ले हजार तरेचे फुलपाकें लंडनांतल्या ब्रिटिश म्युझियमांत दवरिल्ले आसात.

शेती प्रधान आशिल्ल्या ह्या तालुक्यांतले लोक शांत स्वभावाचे आनी अल्प संतुश्ट आसात. सुखवस्तू जिणेची आवड आनी म्हत्वाकांक्षा, चिकाटीचो अभाव हाका लागून कित्येक प्रखर बुद्धीचे लोक, कैक व्यासंगी आनी अभ्यासू लोक अशेंच जगून गेले. जमाती जमातीतले वेग वेगळया संप्रदायांतली आनी वेग वेगळया धर्मांतली सुद्धा भेदरेशो तीव्र स्वरूपाच्यो नात. व्यापारी वा औद्योगिक धडाडीच्या अभावान अनेक तरेच्या कच्च्या म्हालाची पुरवण करूंक शकतल्या ह्या भूयेंत व्हड व्हड व्यापारी पेठयांची आनी कारखान्यांची कमतरता तीव्रपणान भासता. पूण हिंदुस्थानांतले जायते उद्देगीक आनी व्यापारी शारांत अणभव घेतिल्ली आयची पिळगी थोडी चळवळ करूंक पळयता. भौशिक कार्यांच्यो आनी धनोत्पादनाच्यो यवजण्यो करीत आसा. आनी थळाव्या

लोकांत अशातरेची उमेद हाडूंक पळयता. थळावे लोकच ह्या कार्यकर्त्यांक सक्रीय साथ दीत आसा ही सुदैवाची गजाल आसा.

कारवार तालुक्यांतले बरेच गांव काळी न्हंयच्या देगेरदोनय वाटेन वसलेली आसात, आनी ह्या ग्राममालिकेक कद्रें ह्या गांवापसून सुरवात जाता. आर्यांच्या तशेंच ह्या भ्रमण करतल्या जामातींच्यो वसणुकोय न्हयेदेगेरच जाल्ल्याचें संशोधकांचे मत आसा. अशाच जमाती मदली कुळंबी वा त्या वेळार कुटंबी ह्या नांवान वळखूवपी जमात ह्या कद्रे गांवात थीर जाल्ल्याचो पुरावो हांगाचे अतिप्राचीन देवालय 'कुटुंबी महामाया' दीत आसा. भरपूर प्रमाणांत सागवानी लाकडाची पैदास जावच्या ह्या गांवात पोन्न्या किल्ल्यांचे अवशेश अजूनय दृश्टी पडतात, आनी हो किल्लो विजापूरकराचो सरदार शरीफ उल मुल्क हाणे इ. स. 1610 सालांत बांदिल्लो 1675 त शिवाजीन हो किल्लो घेतिल्ल्याचो उल्लेख इंग्रज प्रवासी फ्रायर हाणे केल्लो आसा. हांगाचो मुलूख सौंदेकाराच्या शेका खाला आयले नंतर ह्या घराण्यांतल्या बसवलिंग राजान हो किल्लो जमिन दोस्त करून उडयलो. ताच्या फ टल्यान हो वाठार 1773 ते 1783 मेरेन धा वर्सां हैदरच्या हातांत गेलो, आनी अठराव्या शेंकडयाच्या अखेरेक इंग्रजांकडेन पावलो. काळी न्हंयचो प्रवासोपयोगी लोट ह्या कद्रे गांवांपर्यंतच आसा, आनी उगमा पसून कद्रे पर्यंत ताचो प्रवास खडपांतल्यान जाता.

कद्रे गांवच्या विरूद्ध दिशेकडल्या दगेर व्हडा प्रमाणार आठवडयाचो बाजार भरता आशिल्ल्याच्यो खुणो गांवात दिसतात. आनी त्या गांवच्या 'कुरणीपेठ' ह्या नांवातय दिसतात.

ह्या उपरांतचे व्हडले गांव मल्लापूर हे मल्ल लोकांच्या वसणुकेची याद करून दिता, हळगे आनी हळेर ही गांवा हलीक लोकांच्या वसणुकेची आसप अशक्य ना. हळगें हें बरेच फुढारिल्ल्या खेडयांमदले एक आसा. पावसाळया खेरीजच्या दिसांत तांदूळ पिकोवचे खातीर उदक साठोवचे पडता, आनी ते पाटांनी व्हरचें पडता. तीन दोंगरांच्या त्रिकोणांत हें उदक खूब व्हड प्रमाणांत साठोवपाचें 'पडतळें' शेतकी प्रधान पूर्वजांच्या खटपटीचें जणू प्रतीक च जावन आसा. हांगाचे नारायणाचें देवूळ चारशें वर्सां परस पोन्ने आसा.

कारवार तालुक्यांतल्या बऱ्याच गांवाच्या नांवावयल्यान संस्कृत वा संस्कृतोद्भव प्राकृत भाशिकांच्या वसणुकेची याद जाता. हालग्रामांवयल्यान

हळगे, मल्लांचे मल्लापूर, खारगें खारग्राम, असनोटी आसनवट, चित्ताकुलें चैताकूल, किन्नर सिद्देश्वर, बिणगे, द्विनगम दोन दोंगरां मदलें गांव, चेंडिया चंडिका देवीवयल्यान, अमदळी आम्रदली वयल्यान, अजूनय हांगा जावपी आंबे चड रूचीक आसतात. कोडीबाग कोडीकोळी जामाती वयल्यान आदी.

ह्या तालुक्यांतल्या पाऊण जनतेची बोली भाशा कोंकणी हीच आसा. कारवार शारांतल्या व्यापरा निमित्त आनी सरकारी कामकाजा निमित्त स्थायिक जाल्ल्या लोकांक लागून कारवार परिसरांत कानडीचें थोडे प्रमाण दिसता. पूण न्हंये देगेवयल्या तीस चाळीस गांवांत कानडी उलोवपी मात अपवादापुरतेच मेळतात.

शिक्षणाचो प्रसार बऱ्याच व्हड प्रमाणार जाल्ल्या कारणान मुळावी शाळा नाशिल्ली अशें एकय गांव तालुक्यांत दिसून येना. बऱ्याच सुवातेर इंग्लीश तिसरी यत्ते मेरेन शिक्षण दिवपी संस्था आसात.

ह्या न्हंये देगेवयल्या गांवातल्यान कारवारा मेरेनचो प्रवास ल्हान व्हड होडयांतल्यानच जातालो. आनी दरदिसा कोडीबाग बंदरावयल्यान पंचवीस तीस होडयांची येरादारी चलता. सदाशिवगडावयल्यान बेळगांव मेरेन वचपी मोटारींतल्यानय देगेवयल्या उत्तरेकडल्या गांवात वचूक येता

ह्या तालुक्यांतल्या रानांतल्यान तरे तरेचें इमारती लाकूड व्हडा प्रमाणार मेळता, आनी ते सरकाराकडल्यान काँट्रेक्ट पद्धतीचेर दितात. थोडी भोव चंदनाची निपज जाता. आनी भरपूर जळाऊ लाकूडय मेळता. हांगाच्या रानांत वाग, रानडूक्कर, गवेरेडे, आनी वेगवेगळे जातीचीं हरणां आसात. न्हयेतल्या नुस्त्याक लागून बगळे खूब दिसतात, आनी रानांत मोर, कीर, साळुंकी सापडतात.

# प्रकरण 7 वें

# भाशीक प्रस्न

राजकीय नदरेन कारवार जिल्ह्याचै घाट आनी कोकण पट्टी अशें दोन विभाग जरी कल्पिल्ले आसले तरी भाशीक नदरेन घाट विभागांतलो हल्याळ तालुको आनी सुप्पा पेठ कोकण पट्टेच्या गोतावळयातच बऱ्याच वर्सा पसून जमा जातात. कारण आचार विचारांच्या नदरेन आनी कोंकणी भाशेच्या सांस्कृतीक दुव्यान ह्या विभागाचे हीत संबंद गोंया सयत देगेसरच्या वाठाराक चड निगडीत जाल्ले आसात. आनी ह्या कोंकणी प्रचूर विभागांतले अंकोला, कुमठा, आनी होन्नावर हे तालुके लिंगायत, नाडीग, हबीग आदी वर्गाच्या कित्येक वर्साच्या वसणुकेक लागून निदान संख्याशास्त्रां प्रमाण तरी कन्नड प्रचूर जाल्ले आसात. ह्या तीनय तालुक्यांत मुळचे अस्सल कोंकणी उलोवपी गौडसारस्वत ब्राह्मण संखेन बरेच आसात. व्यापाराचे अर्जन, संरक्षण आनी वर्धन करपांत ह्या घराण्यांच्यो कित्येक पिळग्यो पडिल्ल्यान, आनी त्या निमित्त तांचे वयर उल्लेखिल्ल्या लिंगायत, नाडीग, आदी लोकांकडेन संपर्क आनी संघर्श जावप अटळ जाल्ल्या कारणान तांच्या हातांतल्यान कोंकणी प्रमाण कानडी भाशेचीय जतनाय जायत गेली. ह्या कारणाक लागून महानुभावी पंथाचो संस्थापक श्री चक्रधराच्या वेळार मराठीची दक्षिण शीम गंगावळी पर्यंत आयिल्ली. ती तशीच उत्तराभिमुख जायत कारवार तालुक्या पर्यंत आयली, म्हणल्यार ह्या 800 वर्सांत कुमठा आनी अंकोला हे दान तालुके मराठी पसून पयस उरले.

कारवार तालुको, हल्याळ तालुको आनी सुप्पा पेठ हांतूत कोंकणी मराठी उलोवप्यांचे प्रमाण 72 टक्यावयर आसा, आनी 50 /60 वर्सां फाटी सरकारी व्यवहारांत, घाण खरेदी खतात मराठी मोडीचो सर्रास वापर करताले. वेपारी लोकांचे हिशेब, खाजगी पत्रव्यवहार, लग्न, मुंजीची आमंत्रण पत्रिका, वाचनांलयां, मुळावी शाळा, कथा किर्तनां, थळावी नाटकां, येवपी नाटयमंडळाचे प्रयोग सगळे कांय मराठींतल्यानच जाताले. काँग्रेसीन आपले सोयी खातीर कर्नाटक हो जो एक विभाग केला ताच्या बाल्ल्यावस्थेंत लेगीत काँग्रेस संबंदी पत्रव्यवहार, प्रचारकार्यां, व्याख्यानां, भाशणां मराठीतच जाताली. कारण गटबाजी परस खऱ्याखुऱ्या राजकारणाचो प्रचार, शिक्षणाचो प्रसार, लोकशाहीच्या जतनाये खातीर आम जनतेची ज्ञानवृद्धी ह्या गजालींक म्हत्व दिताले. इ. स. 1920 सालांत कारवार हांगा भरिल्ल्या राजकीय परिशदेचे अध्यक्ष स. सर नारायण चंदावरकर हे आशिल्ले. तांका मराठींत अस्खलीत भाशण जमले ना, ताका लागून आपल्या अध्यक्षीय भाशणांक ताणी कानडीन सुरवात करताच 'कानडीत नको मराठीतच बोला' असो आयकुवप्या कडल्यान तांका आग्रो जाल्लो! पूण गेल्ल्या पंदरा वीस वर्सांत परिस्थिती बदल्ली, गटबाजी निर्माण जाली, आनी भौशीक हीत विशिश्ट गटाच्याहिता खातीर राबवपाक येंवक लागलें. गटाच्या उदरगते खातीर भौशीक हिताचे रक्त शोशण जांवक लागले. लोकांच्यो गरजो गौण थारोवन गटांच्या गरजांक प्राधान्य दिवंक लागले. विशिश्ट गटाचे हीत तेच लोकांचे हीत हें सामीकरण थारायलें, आनी ह्या कोकण भागांतल्या मराठीचें उच्चाटन आनी कानडीचें आक्रमण ह्या प्रयोगाक अतीशय सावधपणान सुरवात जाली. पयल्या पांच सात वर्सात हाची जाणवीकाय हांगाच्या लोकांक खर पणान जाली ना. कारण ही प्रयोग पद्धती सामकी संथपणान आनी खंयच्याय तरेचो गाजोवाजो करीनासतना अंमलात येताली. काँग्रेसीन कर्नाटक हो एक राजकीय स्वरूपाचो गट केल्ल्या कारणान ह्या आक्रमणाक चालना मेळ्ळी. आनी भाशावार प्रांत रचनेचे तत्व राज्यव्यवस्थेच्या सौकार्याखातीर गरजेचें आसा अशें प्रतिपादन केल्ल्या कारणान प्रांत विस्ताराचे वीख भिनत गेले. वयर उल्लेख केल्ल्या राज्यव्यवस्थेच्या वेचणूके खातीर कर्नाटक ह्या काँग्रसीन मर्यादीत केल्ल्या प्रांतात ह्या कोंकणी विभागाचो आसपाव केल्लो पूण त्या वेळार इंग्रजांकडल्यान

स्वराज्य मेळोवप ह्या एकाच ध्येया मुखार ह्या कर्नाटकी आक्रमणाक हांगाच्या कोंकणी मराठी लोकांकडल्यान खर वा मोघम /मातूय कमी असो विरोध सुद्धा करपांत आयलो ना. हाचे कारण स्वराज्य प्राप्तीच्या धेया मुखार हांगाच्या लोकांच्या मतान हेर प्रस्न गौण /कमी थारतताले. काँग्रेसीचे प्रचार कार्य सुद्धा मराठींतल्यानच जातालें. ह्या वाटेचे काँग्रेस कार्यकर्ते आनी भायल्यान येत आशिल्ले श्री, गंगाधरराव देशपांडया सारखे वक्ते सुद्धा मराठींतल्यानच व्यख्यानां दिवन जनमत तयार करताले. आनी ताका लागून हें संथपणान चलत आयिल्ले, कानडीचे आक्रमण हांगाच्या लोकांक जाणवले ना. मराठी शाळांची संख्या कमी जायत वताली. राजकीय कचेरीत फकत कानडी दवरपाची सक्ती जावंक लागली. थळाव्या दिसाळयांत येवपी सरकारी जायराती कानडीतल्यानच दिवंक सुरवात जाली. आनी निमाणे निमाणे मराठी शाळांत कानडी पास जाल्ल्या शिक्षकांच्योच नेमणुको जांवक लागल्यो!

ध्येय, आचार वा संस्कृती ह्या सगळयांपरस पोटाचो कल खर आसता, सरकाराचो कारभार वाडत आशिल्लो, सरकारी खाती वाडत आशिल्ली, कारण कारभारांत व्यापकता येत आशिल्ली . सरकारी कारभार मुखेल शारांत एक कचेरी दवरून भागतालो. ते खातीर जायत्या फुढारिल्ल्या गांवात जाय त्यो कचेऱ्यो उगडच्यो पडल्यो, आनी सरकारी दफ्तरां, पत्रव्यवहार, नोंदण्यो आदीं सगळे कानडी भाशेंत जांवक लागिल्ल्यान सरकारी नोकऱ्यो मेळोवपा खातीर कन्नड भाशेचे शिक्षण गरजेचें जावन बसले. नोकर वर्ग तयार करचे खातीर कानडी शाळा चड प्रमाणांत उकत्यो केल्यो, आनी इत्सा आसूं वा नासूं गरज म्हण कोंकणी मराठी लोकांक कानडी शिक्षण घेवचें पडलें. मराठी भाशीकांक आपल्या भुरग्यांच्या शिक्षणाची व्यवस्था करप कांय जाग्यार अशक्य जालें, कारण शाळाच नाशिल्ल्यो, आनी कांय शाळा आशिल्ल्यो तांच्या नशीबांत शिक्षण खात्यांकडल्यान सवतीभावान वागयताले. आनी इंग्लीश वाक्प्रचारा प्रमाण; 'व्हिशस-सर्कल' निर्माण जाल्लें. ह्यो अडचणी आनी आडवणेचे प्रकार कांय जाणकाराच्या ध्यानांत येवन ताणी मराठीची बाजू उखलून धरपाचें सतत यत्न चालू दवरले. चेडवाच्यो शाळा उक्त्यो केल्यो, पूण सत्तारूढ विरोधी पक्षा मुखार तांचे यत्न निश्फळ जाले. तरी चळवळीक तोंड फुटले. गोगलगायीच्या गतीन काय जायना मराठीची एक आघाडी तयार जाली, आनी कोंकणी मराठी

भाशिकांच्यो कागाळी सरकार दरबारां पर्यंत पावल्यो.

मराठी वादी लोकांच्यो ह्यो खटपटी चालू आसतानाच कानडीचे आक्रमण प्रगमनशील पणान आनी शास्त्रोक्त पद्धतीन चलतच आशिल्लें अधिकारी वर्गात कानंडी लोकांचोच भरणो चड जांवक लागलो, कुळकर्णी तलाठयांच्या कचेरेतल्यानय मराठीचें उच्चाटन करपांत आयलें. आनी शेवटा शेवटाक रस्त्यावयले मैलांचे फातर आनी गांवांची नांवांय कानडी आंकडयांत आनी अक्षरांत दिसूंक लागली. आख्या मराठी विभागांत मराठी मुळाव्यो शाळा उघडपाक विरोध जांवक लागलो.

संयुक्त महाराष्ट्राचो प्रस्न मुंबयच्या हेर वाठारांत चर्चेक येंवक लागिल्लो. कारवार आनी बेळगांव जिल्ह्यांतल्या सीमाप्रांताच्यो कागाळी समान स्वरूपाच्यो आशिल्ल्यो. आनी ह्या साधर्म्याक लागून ह्या दोनय जिल्ह्यांतल्या कुचंबणा जावपी विभागान एकवटून महाराष्ट्र एकीकरणाची दक्षिण भागाची आघाडी उघडली. ह्या एकिकरणाच्या परिशदेचे पांचवे अधिवेशन कारवारांत 1950 च्या जानेवारीत जैतवंत जालें. आनी अखंड पत्रव्यवहारात उपरांत तपशीलवार आंकडेवारीन ह्या विभागांचे मराठी प्राचुर्य सरकाराच्या नदरेक हाडून दिल्या उपरांत कारवार आनी हल्याळ हे तालुके आनी सुप्पा पेठ ह्या सलग भागांत मराठीक राजमान्यता मेळ्ळी.

●●●

# प्रकरण 1 लें

# इ. स. 1668 ते 1800

जलसंगम राष्ट्रसंगम आणी भाशासंगम अशा तीन संगमाच्या वाठारांत वसलेले कारवार हें ह्या जिल्ह्यांचे मुखेल शार आसा. इंग्रजांच्या सुबक आखणेन बांदेसुद्धपणा आनी आकर्शक टुमदारपणा आयिल्लें हें शार दानूय वटेन सह्याद्रिच्या दोळेदिपकावपी वळीनी वेस्टिल्ले आसून पश्चिमेक अरबी दर्यान व्यापिल्लें आसा. ह्या शाराचो इतिहास फकत तीन चार शेंकडयां इतलोच पोन्नो आसलो तरी वाठारांसयत ह्या शारांचे सुंदरकायेचे वर्णन करूंक पानांचे तीन चार शेकडे सुद्धा कमी पडटले! शांत अशा बैतखोल खाडीचे तळें दर्याच्या ल्हारांचो चलिल्लो अखंड मंत्रघोश, द्वारपालासारखे फुडयांत उबे आशिल्ले 'कूर्मगड', 'मदले गड' आनी 'देवगडाचो' दीपस्थंब, अरबी दर्या आनी काळी न्हंय हांच्या जिणचे भिनिल्लें अद्वैत, खांद्या फाटीवयलो वनराजींचो पांचवोचार शालू ही सगळी साधनां पळोवन एका मोठया भव्य देवालयांत कारवारच्या रूपदेवतेची सैमान प्रतिष्ठापना केल्ल्याचो भास जाता! रूपदेवतेच्या प्रभावी दर्शनान रूक्ष राजकारणांत वावूरपी काका कालेलकरांची सौंदर्यपिपांसा नदरेक हाडली. शाळांतल्या भुरग्यांच्यो वह्यो चोपडयो, हजेरी पुस्तकां तपासूक दीसभर झरत आशिल्या बाबा गर्दे सारख्यांच्या लिखणेंतल्यान 'कारवारवर्णना' सारकें लालित्य पूर्ण, मंजूळ काव्य निर्माण जालें, आनी रसीक वर्ग रविंद्रनाथ टागेरां सारख्यांक भूल घाली! सौंदर्यपिपांसा पूर्ण करूंक काव्यसुंदरी षड्रसांनी नटिल्ली, काव्यसुंदरी दृश्टीक्षेपाच्या प्रत्येक दिकेक मुर्तिमंत उबी आसा. उद्दाम

पणान उफाळपी दर्या, शांतपणान दर्याक मेळूक वचपी काळी न्हंय, इल्ल्याशा ल्हारांनी हांसो दाखोवपी खाडी, सगळे कांय हांगा आसा. सैमाचे दरएक देणे हांगा नदरेक पडटा. सैमाच्या सोबीतकायेची छटा ह्या बाजूक उदेल्ली दिसता!

नंदनवन ह्या अभिदानाक पुरायपणान पात्र आशिल्ले हें ल्हानशे शार सतराव्या शेंकडयाच्या मध्यपर्वात इस्ट इंडिया कंपनी कडल्यान बसयिल्ले. ह्या शारांपसून पूर्व दिकेक पांच स मैलांचेर आज कडवाड हें एक ल्हानशें गांव आसा. पूण तीन चार शेंकडयांपयली तें एक मोठे बंदर आशिल्लें. न्हंयी देगेवयल्या ह्या बंदराच्या जतनायेक लागून आनी थंय आशिल्ल्या एका ल्हानशा किल्ल्याक लागून हें बंदर आपल्या ताब्यांत दवरपाखातीर पुर्तुगेज, हैदरअली, सौंदेकार, विजापूरकर आदी आपापल्या परीन यत्न करीत आशिल्ले. कारण ह्या बंदरांतल्यान आयात निर्यात बऱ्याच व्हड प्रमाणार जाताली. पूण व्यापारांत घोणीच्या दोळयान वावूरपी इंग्रजांनी न्हंयी देगेवयल्या ह्या जाग्यांपरस दर्या देगेवयलो व्हड जागोच पसंत केलो. ह्या गांवाक दुसरें नांव नाशिल्ल्या कारणान ताणी ह्या भागाक पोन्नेच नांव दिलें. पूण आपल्या उच्च्यारांच्या विशिश्ट नेमांप्रमाण म्हणल्यार 'ड' चो 'र' करून कडवाडचे कारवार केले. भायल्या देशांचो व्यापार वाडोवपाक दर्या देगेवयल्या व्हड बंदराची उपयुक्तता, सुरक्षीतता आनी वखारी उघडपाक मेकळया फाटभूंयेची समीपता ह्यो सगळयो गजाली लक्षांत घेवन ताणी पोन्ने कडवाड बंदर पयसावन कारवार बंदर स्थापन केले. आनी निर्जन भूभागाची आंखणी करून तांतूतल्यान आयचें कारवार निर्माण केलें. आनी बंदरा लागसरल्या बैतखोल खाडेच्या तांडार आपल्यो वखारी उघडल्यो. ईस्ट इंडिया कंपनीच्या पत्रव्यवहारांत कारवार बंदराचें आनी वखारीचें जायते उल्लेख आसात. कंपनीचे पूर्वस्थान सूरते कडेन कारवारचें व्यापारा बाबतींत पुराय एकवट जाल्ल्याचो पुरावो दाखोवपी कारवार सुरत असो जोड उल्लेखय कंपनीच्या पत्रव्यवहारांत आसात.

इंग्रज आयिल्ले तेन्ना सतराव्या शेंकडयांत हो जिल्हो जायत्या पाळेगारात विभागिल्लो. आनी ल्हान ल्हान पोटभाग वेगवेगळया राज्यांत मोडताले. रूस्तम इ इमान ह्या विजापूरच्या सरदाराकडेन दक्षिण कोंकणाचो बरोच भाग आशिल्लो. आनी ह्या जिल्ह्यांतलो कारवार ते दक्षिणेक मिरजान ह्या बंदरापर्यंतचो भाग हांतूत मोडतालो. मिरजानच्या सकयले वाटेचो भाग केलाडी राजघराण्या कडेन

आशिल्लो, आनी घाटभाग सौंदेकराच्या शेका खाला आसतालो. कारवाराक इंग्रजांनी वखार आनी कारखानो उघडलो त्या वेळार ह्या रणदुल्लाखान वा रूस्तम-इ-झमानचो व्यापारी एजंट हांगाचो कारभार पळयताले. चौल हे उत्तरेंकडले बंदर विजापूरकरांच्या हातांतल्यान गेल्या उपरांत ताणी कडवाड हेच आपले म्हत्वाचे बंदर केले. कारण हांगाच्यान जावपी मिऱ्यांची निर्यात खूबच चड आशिल्ली. आनी युरोपांत ती मिरीं' कारवार मिरी' ह्या नांवान त्या वेळार प्रसिद्ध आशिल्ली.

ह्या ज्लिह्याचो घाटभाग उत्कृश्ट मिऱ्यांखातीर पुर्विल्ल्या काळापसून प्रसिद्ध आसा. इंग्रज हांगा येवचे पयली सौंदेकराच्या मालकीच्या भाटांतल्यान मिऱ्यांचो व्यापार खूबच व्हड प्रमाणार जातालो. त्या व्हड प्रमाणार जाल्ल्या धंद्याक लागून दोळे दिपकावन वचून स विल्यम कॉटन ह्या गृहस्थान मिऱ्यांच्या व्यापारां खातीर म्हण एक ल्हानशी वखार इ. स. 1638 वर्सा उघडली. आनी त्या दिसासावन कारवारच्या इतिहासाक सुरवात जाली. थोडयाच वर्सात ह्या वखारीची उपयुक्त तता पटून इ. स. 1653 वर्सा ही वखार लंडनच्या मुख्य कचेरीच्या यादींत भायल्या देशाची स्वतंत्र वखार ह्या मान्यते मेरेन पावली. इंग्रज लोकांची व्यापारांतली हुशारकाय, तांचो नेमस्तपणा आदी गुणांक लागून ही वखार उदरगतीक पावली. शार वाढीक लागलें, आनी इ. स. 1660 त कारवार शार गजबजिल्ल्ल्या व्यापारांची पयले श्रेणीची पेठ म्हण ,नामनेक पावली. युरोप, अरबस्थान, पर्शिया, मस्कत आदी देशांच्यो व्यापारी बोटी हांगा सतत नांगरिल्ल्यो आसताल्यो. मिऱ्यांखेरीज दालचिनी, वेलची, हिरडे ह्याय वस्तूंची निर्यात जांवक लागली. एके तरेचो जाड भरड कपडो आनी अत्यंत सफायदार मजलीन हांचोय व्यापार सुरू जालो. ह्या वखारीतल्यान निर्याती खातीर कपडे पुरवपाक कंपनीन आपले कारखाने शंभर मैलांवयल्या हुबळी शारांत उगडले. आनी त्या वेळार कंपनीच्या कारखान्यांत 50, 000 विणकार दिसवडयार काम करताले! सूरत बंदरांत आयिल्लो व्यापारी मचवो कारवार बंदरात आयले बगर परतून वचच नाशिल्लो. इतले म्हत्व ह्या बंदराक आठ धा वर्सांत प्राप्त जाल्ले.

पूण ह्या वाडत्या व्यापाराची प्रतिक्रिया दुखदायक जाली. ह्या फायद्याचे प्रमाण पळोवन विजापूरकरां वटेनचो व्यापारी एजंट हावालदील जालो. ताणे

कराचे आनी जकातीचे प्रमाण खूबच वाडयलें आनी इंग्लीश कंपनीक पुराय सोलून काडलें. तांचो परिणाम असो जाले की, सुरतच्या गवर्नरा कडल्यान कारवारची वखार हालोवपाचो आदेश आयलो, आनी वखार हालोवपाच्या तयारीची खबर विजापूर दरबारांत पावली. थंयच्यान माफक जकातीची लेखी आश्वासनां कंपनीक दिली गेली आनी व्यापारी पेठ हांगाच्यान हालोवपाची यवजण बंद जाली.

ह्याच वेळार स्वराज्यसंस्थापक शिवाजी दक्षिणेच्या क्षितिजार उदय पावताले. शिवाजीक मेळिल्या कांय थोडया जैताक लागून रूस्तम-इ-झमन ताका फितूर आसूंक फाव असो दुबाव विजापूर दरबाराक येवन रूस्तम-इ-झमनाक नोकरे वयल्यान पयस केले. पूण थोडयाच दिसांनी दुबावाचें निरसन जावन ह्या वेळार हो मुलूख परत ताच्या ताब्यांत दिलो. पूण ह्या सुभेदारान कारवार, अकोले, आनी शिवेश्वर कद्रा असे तीन विभाग करून ते आपल्या तिगांय भुरग्यांक वांटून दिले.

हे टापू घेवचे खातीर शिवाजीन 1664 त भटकळ बंदरा वयल्यान येवचो यत्न केलो, पूण सुभेदार खवासखान हाच्या जागरूक तायेन तो हल्लो परतयलो. ह्याच वेळार लखम सांवता वयल्यान शिवाजीची विजापूर कराकडेन लढाय जाली, आनी तांतूत शिवाजीचे बरेच नुकसान जालें. पूण गनिमी कावो लढोवन शिवाजी कारवार घेवपाची खटपट करतच आशिल्लो. कारण कारवारा वखारीची संपान्नकाय जगजाहीर जाल्ली. 1665 च्या फेब्रुवारीक शिवाजी मालवण बंदरांतल्यान 85 ल्हान बोटीं आनी तीन व्हड बोटी घेवन ह्या दिकेक आयलो. (मराठे आनी इंग्रज पृ. 22) दक्षिणेक वळून गोकर्ण क्षेत्राक भेट दिवन कारवारा पावलो. आनी ताणे इंग्रजार आपलो अंमल बसोवन बरीच व्हड खंडणी वसूल केली. इतिहासकार, सरकार अशें सांगतात की, फेब्रुवारी 22 इ. स. 1665 क शिवाजी कारवाराक पावलो आनी हें आयक ताच वखारीतल्या इंग्रज अधिकाऱ्यांनी आपलो सगळो म्हाल ते वेळार बंदरार आशिल्ल्या मस्कतच्या इमामाच्या बोटींत भरलो आनी आपूणय बोटीर रावले. शेरखान व्यापाराखातीर आयिल्लो ताणे शिवाजीक सुचोवणी केली आनी शिवाजी न्हंयचे तोडार बोटींत रावलो. ताणे शेरखानाक रकाद धाडलो की, इंग्रज म्हगेले दुस्मान तांका म्हजे स्वाधीन करचे. शेरखानान हो रकाद इंग्रज अधिकाऱ्यांकडेन पावयताच

ताणे जाप धाडली की, शिवाजीक दिवपाक आमचे कडेन बंदुकेतल्यो गुळयो तितल्योच तयार आसात. ह्या जापेन शिवाजी संतापलो. आनी ताणे शारार हल्लो करचो बेत केलो. तो कळताच सुभेदारान व्यापाऱ्यांची आनी इंग्रजांची मनां वळोवन शिवाजी साठी खंडणी धाडली. आनी आपल्या वखारीतल्या म्हालाची लूटमार जावनये म्हणून ह्या खंडणे ब्लॅक मेलाक इंग्रजांनी 112 पौंडाची वर्गणी दिली ही खंडणी घेवन शिवाजी परतलो.

ही खंडणी घेवन शिवाजी परतल्या उपरांत त्याच वर्सा जुनांत शिवाजीचो आनी मोंगलाचो पुरंदर तह जालो. आनी ह्या तहान्वये आदिलशाही दक्षिण कोकण शिवाजीक मेळ्ळो. शिवाजीच्या राखीव सैन्या कडल्यान कारवारातल्या व्यापाऱ्यांक शिवाजीच्या उपरांत बरोच त्रास जालो.

ह्या वाठाराची मजा म्हणल्यार शिवाजी हांगा आयिल्ल्या वेळार तो हो भाग आपल्या शेकाखाला हाडतालो पूण शिवाजी परत वताच आदिलशाही आपली हुक मत चलोवक सुरवात करतालो. त्या प्रमाण परत आदिलशहान हो प्रांत आपल्या राज्याक जोडून मुलकी कामाखातीर फ ौजदार मिंयांसायब हांची नेमणूक खुद्द कारवाराक केली, (5छ. शि. महाराज पृ. 348) ह्या मियासायबाच्या मनांत म्हत्वाकांक्षेचो उगम जालो. आनी ताणे आदिलशाहीची सत्ता झुगारून स्वतंत्र राजा जावचे यत्न चलयले. आनी बंडाची तयारी केली. पूण सशस्त्र बंडाक आवश्यक आशिल्लो दारूगोळो ताचे कडेन नाशिल्लो. आनी इंग्रजांच्या वखारीत ताचो पुरवठो भरपूर आशिल्लो. हे पळोवन ताणे इंग्रज अधिकाऱ्या कडेन दारू गोळो आनी बंदुको हाची मागणी केली. पूण ताच्या कटाचो सुगावो लागिल्यान वखारी वयल्या अधिकाऱ्यानी ताची मागणी न्हयकारली. आनी ह्या न्हयकारान चिडून मियासायबान कांय सुगावो लागू न दिता वखारीक गराडो घालो, आनी वखार लुटली. थोडे भव प्रमाणांत पूर्वस्थितीर आयिल्ल्या वखारीच्या व्यापारार परत गदा आयली. विजापुरकरांचो सरदार कारवाराचेर आपलो हक्क बसोवपाचो यत्न करता ही खबर लागताच शिवाजी थंय आयलो आनी ताणे कारवार शारार हल्लो केलो. आनी मियासायबाच्या हाता सकयलो वाठार जळोवन खाक करून उडयलो. पूण शिवाजीन इंग्रजांच्या वखारीक खंयच्याच तरेचो त्रास दिलो ना. तरी सुद्धा ह्या राजकारणाचो हांगाच्या वखारीर आनी व्यापारार अनिश्ट परिणाम जालो.

कारण व्यापाराचे बस्तान बसता न बसता तोच अशा तरेच्या लुटीचे, बंडाचें जाळपोळीचे प्रकार जावंक लागले, आनी ताका लागून हांगा स्थायिक जाल्ले परमुलखांतले संपन्न व्यापारी वखारी कडल्यान विन्मुख जांवक लागले. आनी व्यापाराचे आनी वखारीतल्यान जावपी आयात निर्यातीचे प्रमाण बरेच घटले.

हें विजापूर सरदाराचे बंड जावच्या वेळार शिवाजी 25000 सैन्य घेवन ह्या दिशेक येतालो. तो कद्रा किल्ल्यार हल्लो करूंक आयिल्ल्या वेळार ताचे कडेन 4000 मनीस आनी 200 घोडेस्वार आशिल्ले. तेन्ना विजापूर दरबारांत झगडीं सुरू जाल्ली. आनी सुभदाच्यो परत्यो परत्यो बदल्यो जायत आशिल्ल्यो. कारण एकल्याच्या विरूद्ध दुसरो कान फुकतालो. ह्या बोवाळांत शिवाजीन येवन हो वाठार कायमचोच आपल्या हाता खाला हाडलो. (शिवाजी-सरकार)

सौंदेकारय हो वाठार आपल्या ताब्यात आशिल्ल्याचें दाखयताले. विजापूरकर आपलो हक्क सांगताले. विजापूरकरांनी वखारीतल्यान कर वसूल करचो, सौंदेकरांनी जकात वसूल करची, आनी शिंवाजीन खंडणी वसूल करची, असो प्रकार चलूंक लागलो. आनी ह्या सामुदायिक खंडणी जकातीचो भार जड जावन इ. स. 1679 त इंग्रजांक ही वखार बंद करची पडली.

दोन तीन वर्सानी सुरतच्या गवर्नरान ही वखार परत सुरू करपा खातीर यत्न केले. आनी ह्या यत्नांत ताका थोडे भव यशूय येंवक लागिल्लें पूण याच वेळार वखारीच्या एका गोऱ्या अधिकाऱ्याच्या शिकारी सुण्यान गांवांतली एक गाय मारली. ह्या गो वधाक लागून गांवकऱ्यांत आनी वखारीवयल्या अधिकाऱ्यांत तेढ निर्माण जावन हें प्रकरण चिगळ्ळे. सामोपचारान प्रकरण सुट नाशिल्ल्यान गोऱ्या अधिकाऱ्याची आनी तांचे कडेन आशिल्ल्या बंदुको दारूगोळयाची पर्वा करिनासतना गांवकऱ्यांनी वखारीचेर पयले पावटी हल्लो केलो. आनी कांय दिसांनी असहकार चळवळ सुरू केली.

ते वेळार हांगाचो मुलकी कारभार पळोवचे खातीर 'देसाय' आशिल्ले, ह्या गोवधाचो वापर राजकारण करपाच्या हेतान पुर्तुगिजांनी ह्या देसायाक इंग्रजां विरूद्ध चिथयलें, आनी वखारीचेर हल्लो करचे खातीर सैन्यय दिलें. पूण ही कारवाय फसली. व्यापारी वर्गाचो आनी वखारीचो समेट जालो. आनी वखार भव्य स्वरूपाची जावन आता सुरतेच्या मध्यस्ती शिवाय थेट लंडनाक हांगाच्यान व्यवहार जांवक लागले. हुबळीचो कारखानो भरमसाट वाडलो.

आनी आयात निर्यात खूब व्हड प्रमाणार जांवक लागली. लंडनांखेरीज इराण, मस्कत, ह्या बंदरां कडेन थेट संबंद जोडले. कारवार शारांक भरभराटीची आनी संपन्नतेची पर्वणी लाभली, आनी हे संपन्नतेचे दीस सुमार पंदरा वर्स तिगलें.

विजापुरकरांच्या वतीन हांगाचो कारभार पळोवचे खातीर 'देसाय' आशिल्ले. ह्या देसायान कारवारचो टापू शिवाजीक मेळोवन दिवचे खातीर यत्न केले. आनी ते यत्न बऱ्याच अंशी साध्यय जाले. हो भाग बरीच वर्सां शिवाजीच्या हाता खाला अशिल्लो, पूणं सौंदेकराच्या ताब्यांतल्या 'घाट' भागार शिवाजीन अंतकाळाच्या सुमाराक विजापुरकराच्या देसायांचे मन बदलल्ले, आनी ताणे खाल्ल्या अन्ना कडेन इमान राखपाचे व्रत पत्करून शिवाजीच्या विरूद्ध कपट रचूक सुरवात केली. शिवाजी हो प्रांत जिकले उपरांत आपले थोडेच सैन्य 'राखीव' सैन्य म्हण कारवारांत दवरतालो, आनी ह्या देसायान आपल्या बदलिल्ल्या मनाचो थाव लागू न दिता ह्या 'राखीव' सैन्यार अचानक हल्लो केलो. सैन्यांमदले कांय लोक किल्ल्यांत लिपून बसले. पूण ह्या अशा हल्ल्याचो कायमचो निकाल लागनासतना शिवाजीच्या मरणां पर्यंत सुद्धा हो भाग मराठयांच्या राज्यांतच मोडटालो.

सतराव्या शेंकडयांच्या शेवटाच्या दसकांत डच लोक हिन्दुस्थानांत आनी प्रामुख्यान ह्या पश्चिम देगेर आपले पांय थिरावपाचे यत्न करताले. ह्या देगे वयल्यान युरोप आनी हेर भायल्या देशांबरोबर जावपी व्यापारय तांच्या दोळयांत भरतालो. दर्यावर्दी पणाखातीर नांवाजिल्ल्या ह्या डच लोकांचे अरमारय उत्कृश्ट आशिल्ले. ताकालागून ह्या आरमारी बळार तांणी ह्या देगेवयल्या बंदरार हल्ले करपाक सुरवात केली. खुद्द कारवार बंदरार जरी ताणी आरमारी हल्ले केले नात. तरी आसपासच्या संबंदीत बंदरार केल्ल्या हल्ल्याची प्रतिक्रिया कारवार बंदरार, हांगाच्या वखारीर आनी आयात निर्यातीर जाले बगर रावलिना.

इ. स. 1697 वर्सा मराठयांनी कारवार बंदरार व्हडा प्रमाणार हल्लो केलो. म्हालान भरगच्च भरिल्ली इंग्रजांची वखार लुटली. शारांत रिगून व्यापाऱ्यांक लुटले, आनी व्यापारी पेठांची नासधूस करून उडयली. ह्या हल्ल्यांत मराठयांक लुटिच्या रूपान भरपूर संपत्ती मेळ्ळी.

हे वेळ पसून आयात निर्यातीची व्हडली पेठ म्हणून युरोपांत आनी हेर देशांत कारवारची बरीच प्रसिद्धी जाल्ली. इराण, अरबस्थान, मस्कत आदी

देशांतल्यानय तरे तरेचो म्हाल व्हडा प्रमाणार कारवार बंदरार देंवतालो. डच लोकांच्या संभाव्य हल्ल्याक लागून आनी मराठयांच्या जायत आशिल्ल्या हल्ल्यांक लागून इंग्रजांक आपल्या वाडत्या व्यापाराच्या जतनायेची गरज भासूंक लागली. कारवारचो ल्हानसो किल्लो ह्या जतनायेच्या नदरेन तांका मोटवो दिसूं लागलो. ताका लागून तांणी हो किल्लो सोडून संभाव्य आरमारी हल्ल्याची तेळणी करपाच्या नदरेन चड उपयुक्त असो सदाशिवगडचो मजबूत किल्लो इ. स. 1715 वर्सा बांदलो. अठराव्या शेंकडयाच्या सुरवेच्या काळांत सदाशिवगडाची बाजू सौंदेकराच्या मुलखांत समाविश्ट जाल्ली, आनी इंग्रजांचे आनी सौंदेकरांचे बरे संबंद आशिल्ले: पूण हो किल्लो बांदल्या उपरांत वर्स दोन वर्सांतच इंग्रज आनी सौंदेकरांचे पेटलें. किल्ल्यार हल्लो केलो. वखारीरय धाड पडली. आनी चडत्या व्यापारांत दिसान दीस आडकाठी येंवंक लागली.

ह्या दक्षिण कोकणांत आनीक ल्हान ल्हान राष्ट्रां उदयाक येताली तांतूतली सावंतवाडीकर हाचे घराणे आशिल्लें. ह्या अवस्थेंच्या काळातच इ. स. 1728 त सावंतवाडीकर देसायांनी इंग्रजांच्या कारवार वखारीक दोन म्हयने गराडो घालो. हल्ल्ल्याचो जोर वाडोवचे खातीर जलमार्गान ताका मदत येताली. पूण सावंतवडीकराच्या वर्चस्वाक शह दिवचे खातीर दडून बशिल्ल्या शाहूमहाराजांनी ही संद सादून सावंतवडीकराचेर हल्लो केल्ल्यान देसायांक आपलो कारवारचो गराडो उठोवचो पडलो. (मराठे आनी इंग्रज पृ. 32) पूण हो गराडो उठलो तरी ह्या दीर्घकालीन गराडयाक लागून व्यापाराच्या उदरगतीक खीळ बसली. ती कायमचीच. हेर भायले देशाचे मचवे आपलो म्हाल घेवन ह्या बंदरांत येवंक भिवूक लागले. ताका लागून आयातय थांबली. आनी निर्यातय बंद जाली. व्यापार अजीबात चलना जालो. आनी खंडण्यो, जकाती कांय चुकली नात. अशा दोनय पेचांत सांपडून युरोपांत आनी हेर व्यापारी राष्ट्रांत बरीच नामनेक पाविल्ली ही इंग्लीश वखार अठराव्या शेंकडयाच्या सुरवातेक पश्चिम देगेवयल्या पयल्या प्रतिची म्हण मान्यताय पाविल्ली ही वखार इ. स. 1720 वर्सा कायमचीच बंद करपाचो वेळ आयलो.

ह्या सुमाराक कारवारचे 'देसाय' हे मालकी हक्कानच वागताले. मराठया विरूद्ध चिथायिल्ले तांचे मन निवळ्ळे नाशिल्ले. ताका लागून ताणे इ. स. 1739 वर्सा पुर्तुगिजांक मराठया विरूद्ध जावच्या कारवायांत मदत करूंक

सुरवात केली. ह्या वाठारांत वावुरपी सगळया पक्षांचे बलाबल आनी उपयुक्तता आजमावन इंग्रजांनी सौंदेकाराकडेनच इश्टागतीचे नाते राखून दवरपाचें आपलें यत्न चालूच दवरिल्ले, पूण धा वर्सा मेरेन चिकाटीन चालू दवरिल्ल्या यत्नांक इंग्रजांक जैत मेळ्ळे ना. जागरूकपणान वागत आसून सुद्धा इ. स. 1752 त इंग्रज आनी पुर्तुगिज हांच्यात बेबनाव निर्माण जालो. आनी दुसऱ्या वाटेन सौंदेकराबरोबरय तांचे झगडे सुरू जालें. ह्या गडबडेंत पुर्तुगिजांनी सदाशिवगड आपल्या हाताखाला हाडलें. मस्तायिल्ले पुर्तुगिज कोणाचेच हक्क मानीनात आनी कोणाकडेनय जाल्ल्यो व्यापारी अटीय मान्य करिनात, असो पेच प्रसंग उद्भवलो. चडत्या व्यापाऱ्यांचे एकच ध्येय दोळयांमुखार दवरून इंग्रज अधिकाऱ्यांनी आपल्या व्यापारी सुत्राच्या जतनायेच्या हेतून कोणा तरी एका पक्षाबरोबर तह करपाचें दीर्घ यत्न सुरू केलें. पूण शेवटाक ते निश्फळ थारले. आनी इंग्रजांक आपलो बाडबिस्तरो घेवन कारवार सोडून वचचें पडलें. आनी आपली वखार कायमचीच बंद करची पडली. एका शेंकडया परस चड काळ गाजिल्ल्या कारवारच्या रंगभूयें वयल्या इंग्रजांच्या व्यापारी नाटकाचो पडदो पडलो!

ह्या भूभागांखातीर झगडपी तिगां प्रतिस्पर्ध्यां मदी एकलो रणांगण सोडून पळून गेल्या उपरांत आतां हांगा पुर्तुगिज आनी सौंदेकार हे दोन उरले. ह्या जाग्यांकडेन पळोवपाचें दोगांयचेंय दृश्टीकोन वेगळे आशिल्ले. गोमंतकांतल्या बंदरांतल्यान जावचो व्यापार वाडत आशिल्लो. सौंदेकाराच्या नदरेन गोमंतक शेजारचो, गोमंतक भूंये कडेन एकजीव जाल्लो सदाशिवगड चित्ताकुले विभाग चड म्हत्वाचो आशिल्लो, पूण पुर्तुगीज सदाशिवगड किल्ल्यार ठाण मांडून बशिल्ले. तडजोड म्हण सदाशिवगडच्या बदला सौंदेकरान पुर्तुगिजांक इ. स. 1755 वर्सा कारवार बैतखोला वखार उगडपाची परवानगी दिली. आनी करारा प्रमाण पुर्तुगिज कारवारांत येवन रावले.

इंग्रजांच्या पावलार पावल दवरून पुर्तुगिजांनी व्यापार बसोवपाच्या यत्नांक सुरवात केली. पूण व्यापार हें तांचे इंग्रजां प्रमाण निखालूच ध्येय नासिल्लें. ताका लागून इंग्रजांच्या हातांतल्यान ओडून घेतिल्लो व्यापार सारखो सांबाळून दवरपाचें कामय पुर्तुगिजां कडल्यान घडले ना. चालू व्यापार बरोच आशिल्लो. बंदर सुरक्षितते खातीर प्रसिद्ध आशिल्लें. पेठ भायल्या देशांच्या व्यापाऱ्यांच्या

सवयेची आशिल्ली. ताका लागून फोबर्स हो भोवंडेकार हांगा आयिल्ल्या वेळार इ. स. 1772 त कारवार उदरगतीक पाविल्ले पुर्तुगिजांचे वर्चस्व आशिल्लें. व्यापारा इतलेंच, थोडे चडच लक्ष धर्मप्रचारांकडेन दिताले. कांय लोकांक क्रिस्तांव करून घेतिल्लें. धर्मप्रचारा खातीर एक व्हड इगर्ज आशिल्याचोय उल्लेख फोबर्स हाणे आपल्या प्रवास वर्णनांत केल्लो आसा. ही इगर्ज सुंकेरीत अजूनय नदरेक पडता. अद्याप वापरांत आशिल्ली इ. स. 1722 वर्सा इंग्रजांनी बांदिल्ली ही व्हड इगर्ज आसूंक फावो अशें दिसता.

पुर्तुगिजांचे कारवारांतले वर्चस्व खूबच कमी वर्सा तिगलें. हैदर अली आनी टिपूसुलतान हे, प्रबल प्रतिस्पर्धी ह्या रणांगणात देंवले. आनी तांणी कारवारच्यान मंगळूर मेरेनचो पश्चिम देगेचो एक जिनसी भाग आपल्या शेकाखाला हाडलो. इ. स. 1722 वर्सा कारवार शाराचो पूर्व भाग म्हणल्यार कडवाड आनी सुकेरी ही बंदरां हैदर अल्लीन आपल्या अमंलाखाला हाडिल्लीच. पुर्तुगिजांचो व्यापार बैतखोलच्यान चलतालो. इ. स. 1784 वर्सा टिपून हल्लो करून सगळी बंदरां आपल्या हातांत घेतलीं. क्रिस्तांव लोकांक बाटोवन मुसलमान केलें. आनी हांतूतल्या बऱ्याच जणांक ताणे श्रीरंगपट्टणाक व्हेलें, पूण इ. स. 1799 वर्सा टिपूच्या शेकासकयलो देगेवयलो हो सगळो भाग इंग्रजां कडेन आयलो. इ. स. 1801 त हांगा आयिल्ल्या प्रवाशांच्या वर्णनांत कारवार शाराची दैना जाल्ली स्थिती दाखयिल्ली आसा. आनी मीठ आनी कात हांच्या व्यापाराचो उल्लेख आसा. आनी तांच्या नोंदी प्रमाण कारवार शार आनी बंदर हें एके काळच्या व्यापारी उर्जितावस्थेचे अवशेश दाखोवपी एक म्हत्व हीन नुस्तेमारी गांव उरिल्लें.

●●●

# प्रकरण 2 रें
# भूवर्णन

बैतखोलच्या न्हंयेफाटया पसून कडवाडच्या न्हंयेफाटयापर्यंत पांच स मैल आनी' बिणगे' दोंगुल्लेच्या घाटमाथ्या पसून कोडीबाग पर्यंत चार मैल इतल्या विस्तारांत संबंद कारवार शार सामायिल्लें आसा. बैतखोल, अलीगदा, खारवी वाडो,' वेळ' वा देगे लगतचो वाठार, बाजार पेठ, हांगाच्यान पुर्वेक कोंणे, बाड, शेजाड, कडवाड, सुंकेरी, पश्चिमेक काजूबाग, कोडीबाग, आनी उत्तरेक नंदनगद्दे असे ह्या शारांचे ढोबळ विभाग मानतात.

बैतखोल ह्या विभागाक कारवार शारांचे मुखद्धार म्हणू येत. मुंबयच्यान बोटीन येवपी प्रवाशांक' बैतखोल' ह्या बंदरांतल्यानच येवचे पडता. आनी मुंबय पुण्याच्यन रेल्वेन आयल्यार बेळगांव, धारवाड, हुबळी, ह्या स्टेशनां वयल्यान मोटारीन येवचे पडता. तवूय बैतखालच्यान आनी कारवार जिल्ह्यांतल्या हेर शारांतल्यान कारवाराक मोटारीन ह्या बैतखोलच्याच रस्त्यावयल्यान येवचे पडता. वेगळया मार्गान कारवार शारांत ह्याच वाठारांतल्यान प्रवेश जाता आशिल्ल्यान बैतखोलाक कारवारचे मुखद्वार म्हणटात. शांतशी खाडी, फेसाळपी दर्या, आनी दोंगुल्ल्यांच्या भेटेन जाल्लो त्रिकोण, ह्या शिमेत बैतखोल वसलेले आसा. प्राचीन काळांत दर्यावर्दी अरबांनी ह्या न्हंये फाटयाक दिल्ले हें नांव अजूनय चालू आसा. एका दिशेक मानग्या प्रमाण दर्यात ठाण मांडून बशिल्ली आंबेहोळची दोंगुल्ली, घोवागेर आयिल्ल्या नव्या व्हंकलेच्या तोंडावयलो किंचित भास जावपी स्मिताप्रमाण उदकाची ल्हान ल्हारां दाखोवपी न्हंयेफाटो,

नागिणी प्रमाण दिसपी खिंडारांतल्यान वचपी वाट, नदर पावना इतले मेरेन दिसपी आनी सतत गर्जूवपी अथांग दर्या ही निसर्गाची देणगी एका दिकेक, आनी सरकारी अधिकाऱ्यांच्या व्यवस्थे खातीर दोंगुल्लेर बांदिल्लो ट्रॅव्हलर्स बंगलो, सुग्रास वासान आमंत्रण दिवपी ग्रँड हॉटेल, कस्टम कचेरी, पडाव वा मचवे लागपा पुरतेच बांदिल्ले ल्हानशें बंदर, नगरपालिकेचे टोल नाके, आनी बोटीच्या अधिकाऱ्यांची कचेरी ही मनुश्य निर्मित प्रसाधनां शारांत रिगपी प्रवाशांक आपआपल्या परीन पयली सलामी दितात.

ह्या बैतखोल बंदरां पसून कारवार शाराची सुरवात जाताली अशें दाखोवपी एक व्हड मैलाचो फातर बंदरा लागीच आसा, पूण आतां तो कन्नड जाल्ल्यान तो हांगाच्या वा मुंबय पुण्याच्या लोकांक निरूपयोगी जाल्लो आसा. एका कडेक सह्याद्रिचो पायथो तेंकिल्लो आसा, आनी दुसऱ्या कडेक दर्यांची ल्हारां तेंकिल्ली आसात. असो राजरस्तो हांगाच्यान सुरू जावन कारवारच्या भरवस्तेत वता. मैलाच्या फातराच्या फाटलेवटेन दोंगुल्लेर एक खूब व्हड पोन्नी इगर्ज आसा. आनी ह्या इगर्जेच्या दारात रावन सरभोवतणी मातशी नदर मारली तरी ईश्वराच्या अस्तित्वाची साक्ष पटची इतल्या रमणीय वनराजीन चारी बाजू फुलून गेल्ली आसा! मातसो रस्तो हुपले नंतर दर्या देगेच्या दिकेक कोणे लायटहाऊस आसा. आनी हांगाच्या झेंडयाच्या खांब्या वयल्यान दर्यांतल्यान येवपी वचपी होडी, मचव्यांक दर्याच्या अंतरंगाचो कल दिसान भिन्न रंगाच्या पताकांनी, आनी रातीं दिव्यांनी दाखयता. ह्या लायटहाऊस वा बावटेबडेच्या वाठारांतल्यान बऱ्याच वर्सा फाटी दनपरां बारा वरार तोफ दागली वताली. उजव्या दिकेक आशिल्ल्या दोंगुल्लेर जिल्हा अधिकाऱ्यांक रावपा खातीर घरां बांदिल्लीं आसात.

आनीक थोडोसो रस्तो चलतकच पोस्ट ऑफिसा पसून सुरवात जावन सगळयो कचेऱ्यो लागतात. ह्या थिकाणं वयल्यान एक रस्तो दर्या देगेक समांतर वता. आनी दुसरो रस्तो शाराच्या बाजार पेठेत वता. भोवतेक सगळयो सरकारी कचेऱ्यो, मित्रसमाज, नगरपालिकेची इमारत, कोर्ट ही सगळी ह्या देगे वयल्या रस्त्याक लागूनच आसात. हो रस्तो सुरूच्या विस्तीर्ण 'पार्क' मेरेन वता. आनी वळसो घेवन कोडीबाग ह्या न्हंये देगेवयल्या बंदरां पर्यंत पावता.

देगेवयलो रस्तो सोडून मुख्य रस्त्यान चलतकच थोडयाच वेळांत बाजारपेठ

लगता. ल्हान व्हड दुकानां, मोटारीच्यो कचेऱ्यो, हिंदू हायस्कूलच्यो इमारती, गुदांवा, थळाव्या बोर्डाची कचेरी, बँक व्यवहाराच्या अस्तित्वाची खूण दाखोवपी सगळयो संस्था हागाच्या वाठारांत सामाविल्ल्यो आसतात. बाजारपेठ साधारण पणान चौकोनी आसा. पेठेच्या केंद्रस्थानार आयतारचो सप्तुकी बाजार 'सांत' भरपाचो वाठार आसा. ह्याच वाठाराच्या कोनशार नुस्त्या पेठय आसा.

बाजारपेठ सोपतकच कोनशांवयल्यान चार रस्ते फुटतात पुर्वेचो रस्तो शेजवाड ह्या क्षेत्रां मेरेन वता. दक्षिणेचो रस्तो पोन्नी व्हड बाजार पेठ हुपून राधाकृष्ण मारूतीक भेट दिवन दोंगरा मुळसांक वता. आनी उत्तरे कडचो रस्तो, इस्पितळ, सरकारी हायस्कूल, काजूबाग विभाग . पोलीस लायनी वयल्यान कोडीबाग बंदरा मेरेन वता. तरेकवार व्यवसायांत गुरफटिल्ल्या, तरतरेचे व्यवहार सांभाळतल्या 18000 जिवांच्या दिसावळींच्यो धडपडी ह्या इतल्या वाठारांत चलतात. आनी ह्याच चतु:सीमांत कारवार समाजाचो आत्मो, बुद्धी आनी कूड साठिल्लीं आसात.

खुद्द कारवारांत तीन हायस्कूलां मेळून सुमार देड हजार विद्यार्थी-विद्यार्थिनी शिक्षण घेतात. आनी पाचशीं सयशी भुरगीं मराठी, कानडी, आनी उर्दू भाशेंत मुळावें शिक्षण घेतात. स व्यापारी बँकातल्यान अर्थिक व्यवहार चलता. भोवतेक सगळया ल्हान व्हड कंपन्यांचे एजंटय हांगा काम करतात. चार मोटार सर्विसेच्यो कचेऱ्यो भायले गांवांत वचप्या येवप्याची वहातूक सांभाळतात. रस्त्याची देखरेख भौशीक बांदकाम खाते. लोकल बोर्ड, आनी नगरपालिका हांच्या कडल्यान दवरतात. मुळाव्या शाळांच्यो येवजण्यो स्कूलबोर्डा कडल्यान आंखल्यो वतात. देवळाची वेवस्था देवस्थान कमिटी पळयता, तीन ग्रंथालयांतल्यान वाचनाची भूक भागयली वता. बायलांच्यो खाशेल्यो सोयी महिलामंडळ आनी भगिनी समाज ह्या संस्थानी केल्ली आसा . सांजेची वेळ गजालींत घालोवपाक 'मित्रसमाज' आनी अधिकाऱ्यांचो क्लब आदार दितात, आनी मनोरंजनांचे साधन म्हणल्यार सिरीन टॉकीज.

**विस्तार :**

काळीन्हयेच्या कारवार वाटेच्या देगेवयल्यान कारवार शारांक सुरवात जाता. ह्या बाजूक बाड नांवाचें एक ल्हानशें गांव आसा. पूण सरकारी दप्तरांत

अजूनय कारवार शाराचो बरोच व्हडलो वाटो 'बाड' ह्या नांवानच वळखतात. त्या वयल्यान हो सगळो वाठार इंग्रज येवचे पयली पासून' बाड' ह्याच नांवान वळखता आसूंक जाय, हें स्पश्ट जाता. हर्शचरित्रांतल्या उल्लेखांवयल्यान स. वैद्य हांचे म्हणणे अशें की, राज्यकारभाराच्या सोयी खातीर जे देशाचे वाटे केल्ले आसात तांका उत्तर हिंदुस्थानांत भुक्ति म्हणले, आनी दक्षिणेत बाड वा मंडल म्हणटाले. आयच्या भाशेंत हांका जिल्हो म्हणू येत. (9 मध्य. भा. 1/3 पर. 187) 'वाड' ह्या वयल्यान 'बाड' शब्द सहजसिद्ध आसा. त्या वयल्यान एक बरोच मोठो ज्ञात भाग प्राचीन काळांत बाड ह्या नांवान वळखतालो आसूं जाय. आनी ह्या वाडाचे वेगवेगळे विभाग कडवाड, शेजवाड, शिरवाड आदी आपल्या नांवात मुळचो बाड होच शब्द धारण करून अजुनय नांदत आसात.

पाश्चात्य राष्ट्रां साम्राज्यवर्धन वा व्यापारवृद्धी या हेतून हांगा आयले नंतरच बंदरांचे म्हत्व वाडले. त्या पयली 'आंतर राष्ट्रीय' युद्धांत ठाण्याची, किल्ल्याची, आदी उपयुक्तता चड आशिल्ली. कारण ह्या 'राष्ट्राचो' कलह आंतरशिमेखातीरच आशिल्लो. ताका लागून पुर्तुगेज ह्या पश्चिम देगेर येताच कडवाड ह्या बंदरांचे म्हत्व वाडले. आनी न्हंयेच्या दुसऱ्या देगेवयल्या चित्ताकुल्याचे म्हत्व वाडले. कडवाड हांगा बंदराच्या रक्षणार्थ किल्लो बांदलो. आनी त्या किल्ल्याचे बारीक बारीक अवशेश अजुनय नदरेक पडतात. हैदरअल्लीच्यो आनी पुर्तुगेजांच्यो हांगा चकमकी जांवक लागल्यो, आनी हैदरच्या ताब्यांत हो वाठार येतकच म्हैसूर पर्यंत वचपा खातीर दोंगरा वयल्यान ताणे रस्तो तयार केलो, आनी तो अजुनय 'हैदरघाट' ह्याच नांवान वळखता. इंग्रजांनी हे न्हंये देगेवयले बंदर सोडून आपल्या विशाल म्हत्वाकांक्षेक फावशें व्हड दर्याच्या देगेर कारवार हें बंदर तयार केलें आनी तेन्नाच्यान कडवाड हें ल्हानशें गांव उल्ला. पूण ह्या कडवाडच्या शेजराक एका 'हब्बू' राजाची राजधानी आशिल्ल्याचो उल्लेख आसा. पूण हो वाठारय आयज रानटी झोपानीं भरिल्लो आसा! व्यंकटरमण मठ हो बरोच पोन्नो आसा. आनी महादेवाचें देवूळय खूब पोन्ने मानतात.

कडवाडच्या शेजराच्या वाठाराक सुंकेरी म्हणतात. हें गांव आकारान खूब ल्हान आसले तरी बरेच फुडारिल्लें आसा. लोकांच्या वतीन स्थापन जाल्लेंकारवार वाठारांतले आद्य मराठी ग्रंथालय हांगा आसा. सतराव्या शेंकडयांत बांदिल्ली

एक ऐतिहासीक इगर्ज हांगा आसा. आनी शिक्षणाच्या उदरगतेचो निमाणो पावंडो म्हणल्यार फकत चेडवांखातीर चलयिल्ली मराठी शाळाय हांगा आसा. सुंकेरी गांव न्हंयेच्या उदकांत गेल्ल्या जमिनीच्या तोकांप्रमाण दिसता. हांगाची न्हंयेदेग आनी ताचे फ टल्यो दोंगराच्यो रांको हांणी सिद्ध जाल्ली वनश्री अत्यंत रम्य आसा. आनी सृश्टीसौंदर्य पळोवपाक कारवाराक आयिल्लो रसीक ह्या भूशीराक भेट दिलेशिवाय वचना.

सुंकेरीच्यान काळी न्हंयेक समांतर आशिल्लो एक ल्हान रस्तो कोडीबाग ह्या बंदरा पर्यंत वता. कोडीबाग हें बंदर कारवार शाराच्या वाहतुकीच्या नदरेन आनी कारवार तालुक्यांतल्या न्हंयेदेगेर वसलेल्या गांवाकडेन संबंद दवरपाच्या नदरेन म्हत्वाचें आसा. ह्या बंदरा शेजरा इमारती लाकूड आनी वाशे हांची साठवण करतात. कारण जंगलांत मारिल्ले मुंडे उदकाच्या लोंड्यांतल्यान हाडटात.

कोडीबाग बंदरांतल्यान दिसपी देखावो खूबच आल्हाददायक आसा. एक दिशेक व्हांवत येवपी न्हंय, एका दिशेक दर्या, नहंय-दर्याचे मीलन, विरूद्ध दिशेक एका वाटेन सदाशिवगड, दुसऱ्या वाटेन सावरगड, न्हंय दर्याच्या संगमां कडेन जुव्या सारख्या जमनी वयले सुरी रूकाचे पार्क, चारय दिकेक दोंगराच्यो नवथर रांको, आनी ह्या सगळयांच्या भिन्न रंगांची मिसळ, ही मनाक उत्तेजीत करतात. न्हंयेच्या उगमाच्या दिशेक आशिल्ल्या 'वयल्या गांवात' वचपी व्हड शिडांची व्हडली व्हडीं, एखाद दुसऱ्या इसमाक बसपा पुरत्यो आनी इल्ल्याशा ल्हारां बरोबर धोलत वचपी नुस्तेमारी व्हडीं, कोळी लोकांनी उडयिल्ल्यी वाटकुळीच जाळां, पैल तीरार मोटारीक व्हरचे खातीर दोन व्हडीं एकठांय बांदून तयार केल्लें 'जंगल' हीवय मनांची कारमणूक करतात. थंड न्हंयेक पळोवन मनुश्य जिणेच्या अखंड झोताचो विचार येता. मोडकळीक आयिल्लो किल्ले पळोवन, आनी पोन्ने वैभव आठोवन चित्रविचित्र विचार तकलेंत थैमान घालतात. व्हडी धरचे खातीर चलिल्ली प्रवाशांची धडपड, बंदर सोडता सोडता येवन पाविल्ल्या प्रवाशान व्हडें मातशें आयले वाटेन हाडून आपल्याक व्हरूक केल्ली याचना, होडी चुकिल्ल्यान आपल्याशीच चडफडत वाट पळयत बशिल्ले पवासी, तिऱ्हायताच्या नदरेन हें दृश्य पळयताच पोन्न्या संत कवींन वर्णिल्ल्या 'ज्यांचे सुख त्याला' ह्या पदांचो प्रत्यक्ष अणभव येता आनी, 'एक

न्हंय देवोन गेलो, एक साद घाली तारवाक' अशें दोगय देवपी मूर्त स्वरूपांत आमकां दिसतात. पांच मिनटा, पंदरां मिनटां, एक वर हें दृश्य पळयताना आमी कालमापनाच्या पलतडी आसात असो भास जाता. पूर्वसुरांनी संसाराक दिल्ली सागराची उपमा, मोठया पुण्याच्या भावान खरेदी केल्ली देह-नोका, पैलतडीर वचचें खातीर चलिल्ली मनुश्य प्रज्ञेची अखंड धडपड, प्रवाह पतीताची जीण, सगळया सगळया गजाली बद्दलचें विचार मनांत थैमान घालतात. इतिहास बदल्लो, देखावे बदल्ले, थळांची मुल्ल्यां बदल्ली, न्हंये देगेची शीम बदल्ली, एका तत्वज्ञानान म्हणिल्ल्या प्रमाण सगळया अस्थिर जगांत 'बदल' तितलोच स्थीर आसा! ह्या बंदारवयलें दृश्य पळयता पळयता मनाक पटता की, ह्या एका जलसंभारा खेरीज सगळें कांय नवीन रूप धारण करत आसा. भक्तिची, भावनेची, अक्षरता पटोवपी संताचे हे शब्द आसात. भावना खरोखरच सत्य आसा. नासल्यार कसल्याय तीव्र तुफानांत व्हडीं चलोवंक व्हडेंकार धज नाशिल्ले, कारण व्हडेकारांची शेंकडयाची भावना आसा की, पैलतीरार जागत आशिल्लो मुसलमानी पीर व्हडयांची राखण करीत आसता. आनी ह्या न्हंयेत मानवी स्मृतीच्या काळांत तरी एकूय व्हडें बुडूक ना, अशी साक्ष दिवन इतिहासय ह्या भावनेची सत्यता पटोवन दिता.

**वेळ :**

कारवारक येतकच तिरायताच्या नदरेत भरपी हांगाच्या निसर्गाचें देणे म्हणल्यार कारवारची विस्तीर्ण दर्या देग, वा हांगाच्या कोंकणी भाशेंत सांगचें जाल्यार 'दर्याची वेळ', संस्कृतांतल्यान आयिल्ल्या ह्या शब्दाचो 'आ' कार बदल्लो तरी लींग बदल्ले ना. आनी कोंकणी बोलींत 'वेळ' हो शब्द स्त्रीलिंगीच वापरतात. एका तोकापसून दुसऱ्या तोकापर्यंत सरळ दोन मैल पातळिल्या ह्या वेळेर परीटघडेच्या रेवेंचो धवोफुल्ल गालीचो हांतुळिलो आसा. असो भास जाता. ह्या रेवेंर समुद्राभिमुख बसल्यार दावे वाटेन बैतखोल बंदर, मुखार तीन जुव्यांची द्वीपमालिका, आनी उजवे वाटेन इतिहासप्रसिद्ध सदाशिवगड किल्ल्याचो दोंगर हें नदरेक पडतात. किंचित उबारेर बांदिल्लो व्हड रस्तो ह्या वेळेक पावण मैलांपर्यंत समांतर वता, आनी मागीर भितल्ले वटेन वळण घेता. ह्या वळणापसून सुरीच्या झाडांचे व्हड 'पार्क' सुरू

जाता, आनी सुमार देग सोपमेरेन हें पार्क पातळिल्लें आसा. 'ऐन दनपारच्या काळखांत' आशिल्ल्याची इत्सा पुराय करूंक ह्या विस्तीर्ण आनी दाट पार्का सारखे थिकाण मेळचें ना. हातभर जाड ह्या सुरीच्या पाल्याच्या थरावयल्यान चलताना अरेबियन नाइट्सांतल्या राजकन्येच्या अणभवाचो भास जाता. आनी तोरू दत्त हिचें काव्य मूर्त रूपांत दोळयामुखार उबे रावता'

दर्याच्या उदकांत बुडप, व्हडयांतल्यान पिकनीक काडप, नुस्तें धरप, आनी शेजारच्या जंगलांत शिकार करप, ह्या सगळया उपकरणांच्या साध्यतेक लागून इंग्रजांची वखार हांगा आसताना सतराव्या शेंकडयांत जगांतले उत्कृश्ट क्रिडास्थान असो कारवाराचो लौकीक युरोपांत सुद्धा जाल्लो, आनी हांगाच्या वर्णनाक लागून इंग्लडमदल्या लॉर्ड घराण्यांतले दोग हौसी तरनाटे हांगा येवन राविल्ले. खेळाडू वृत्तीच्या मनशाक ह्या ऐतिहासीक नोंदीची सत्यता वा संभाव्यता तत्काळ पटतली.

खिणा खिणांक बदलपी अशी ही सोबीतकाय जरी ह्या देगेर नासली तरी भिन्न वृत्तीच्या प्रकृतीक भिन्न रसानुकूल अशें दृश्य हांगा खास नदरेक पडतलें. खारव्यांच्या जाळांत दीसभर सांपडपी नुस्तें पळोवन एखादो तत्वज्ञ म्हणत 'जीवो जीवस्य जीवनम्'. सागराच्या अफाट विस्ताराकडेन पळोवन जो जो विचार करूंक लागचें तो तो एखाद्या भाविकाक परमेश्वराच्या 'अगाध' करणेचो प्रत्यय येतलो. सूर्यास्ताच्या वेळार क्षितिजाकडेन पळयत रावपी विनोद पंडितांक जादवाची नजरबंदी करपी गुलाबी कोडयांची याद जावन, ताचें गुपीत कानांत सांगचे खातीर मान फिरयले शिवाय रांवक जावचे ना! निसर्गाकडेन तादात्म्य पावपी रसीक पश्चिमेचें आरक्त तोंड पळोवन तिची खुळी समाधी अजूनय देंव नाशिल्ल्याचें पळोवन मनांतल्या मनांत तिचें सांत्वन करीत! मळबांत सांजेच्यो रांगोळयो, कुपांच्यो फुगडयो, आनी नखेत्रांचो आपलिपा, उदकार ल्हारांचे तांडव, पाळांचे घुंगूर आनी व्हडयांचो नाच! हीं दृश्यां पळोवन जाणटो नेणटो जाता. तरेकवार खांणानी भरिल्लें ताट पळयतकच पयलें हे घेंव कांय ते खांव असो बालवयाक प्रस्न पडटाच.

सुर्योदया पसून केल्ल्या कश्टांचो परिहार जावचो म्हणून हांगाचो लोक ह्या वेळेर येता. निसर्गाचे पावित्र्य विस्कटावपाक हांगा भेळवाले नात, गंडेरेवाले नात वा फुगेवाले नात, निसर्ग देवता हांगा दृश्याची भेळ फुकट वाट्टा. काव्याचो

रोस पिवंक दिता. आनी रंगाचे बोमाडे मळबांत सोडटा. वाडत्या जिणेंतल्या घडणूकेचो अर्थ समजनासलीं भुरगी हांगा रेंवेचे किल्ले बांदतना दिसतले. पदर सावरता सावरता चवचाल वाऱ्याक लागून जाल्लो गोड त्रागो दाखोवपी चलयो दिसतल्यो. निर्मळ वाऱ्यांत ह्या देगेर पिकनीक करप हे आपल्या दिसावळीतलें एक म्हत्वाचें काम आसा, अशी भावना तोंडार दाखयत नाकामुखार चलपी 'हपीसर' दिसतले. गत जिणेंतल्या यादीरच जगपी पेन्शनर्स रेंवेंत गजाली मारीत बशिल्ले दिसतले. निसर्गाची भिन्न देणी ह्या सगळयांक सदाचीच आसात. मलयगिरी वयल्यो भिल्लिणी चंदन वापरून चूल पेटयतात.

•••

# प्रकरण 3 रें

# कालखंड इ. स. 1800 ते 1951

इ. स. 1800 त टिपूसुलताना कडल्यान हो प्रांत ब्रिटिशांच्या हातांत आयले उपरांत 50/60 वर्सां पर्यंत कारवाराक एक नुस्तेमारीचें गांव इतलीच किंमत आशिल्ली. जिकिल्ल्या प्रदेशांत शांतताय प्रस्थापीत करूंकच अर्द शेंकडयांचो अवधी इंग्रजांनी घेतलो. राज्यकारभाराचें तंत्र रीतसर बसल्या उपरांत हो वाठार मद्रास राज्यांत आसपावतालो. आनी कारवार जिल्हो हो एक वेगळो विभाग केलो नाशिल्लो. इ. स. 1866 वर्सा म्हणल्यार, हो एक सवतंत्र जिल्हो जाले उपरांत चार वर्सांनी कारवार हें जिल्ह्याचें मुख्य ठिकाण केलें. आनी त्या वर्सा पसून कारवारच्या आंगार शाराचो भेस चडपाक आरंभ जालो. शाळा, मुळावी आनी दुय्यम, हेर सरकारी केंद्र कचेऱ्यो, इस्पितळ, लायब्ररी, अशो स्थापन जायत वचून भौशिक संस्थाय सुरू केल्यो.

पदवीधराची पयली पिळगी एकोणीसाव्या शेंकडयाच्या अखेरेक धा बारा वर्सात तयार जाली. कोर्ट कचेऱ्यो, इंग्लीश शाळा हातूंत ह्या पदवीधराची गरज आसली. मोठया नोकरेच्या आशेन आनी म्हत्वाकांक्षेन कांय लोक मुंबय पुण्याकडेन गेले. आनी कांय पदवीधर कारवाराक येवन स्थायिक जाले. विचारवंताच्या ह्या पयल्या सुशिक्षित पिळगेन आपापले नित्य नैमित्तीक व्यवसाय सांबाळून कारवारच्या उदरगती खातीर येवजण्यो आंखूक उमेदीन वाटो घेतलो. आनी ज्यो कांय उदरगतीक आयिल्ल्यो थोडयो भव संस्था आमकां दिसतात. त्यो, तांची स्थापना, आराधना, आनी जतनाय करचे

खातीर ताणी घेतिल्ल्या अथक कश्टाची प्रतिका आसात अशे म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

सामाजीक सुधारणांची सुरवात शिक्षणापसूनच जाता. एका मोठया अवजड आनी राज्यकारभाराच्या नदरेन कठीण अशा मोठया ज्लिह्यांतल्या मुखेल शारांपसून कारवार हें तीन साडेतीन मैल पयस आशिल्लें एक नुस्तेमारीचें गांव आशिल्लें. आनी ताका लागून हांगाच्या आधुनीक शिक्षणाक सुरवात खूब उसरां जाली. पूण सुरवात जाले उपरांत शिक्षणाची प्रगती मात झपाटयान जाली. फुढारिल्ल्या वर्गान इंग्लीश शिक्षण घेवपांत बरीच अघाडी मारली. आनी आघाडी मारिल्ल्या घराण्यांमदली एक देख अभिमानान दिवची भूल सोसवना. आज विश्वविद्यालयीन शिक्षण सर्वव्यापी जाल्ल्या काळांत दरएका घरांत जायते पदवीधर मेळतले, पूण गेल्ल्या शेंकडयाच्या शेवटाच्या धा बारा वर्साच्या काळांत ही गजाल अपवादात्मकच मानताले. ते वेळार मुंबय पुण्या सारख्या शारांपसून चार पांचशे मैलार आशिल्ल्या कोकणात घरांतलो एखादो भुरगो मॅट्रिक जाल्यार बापायक अभिमान दिसतालो. आनी पदवीधर जाल्ल्यार तो व्हड सुवाळो मनयतालो. त्या मागासिल्ल्या युगांत सरस्वती हें एक च दैवत मानपी स. सुब्राव मंजप्पा वागळे हे हांगाचे ग्रहस्थ आशिल्ले. तांचे चारय चले पदवीधर जाल्ले. आनी एक जांवय एल्. एल्. बी. जाल्लो. इतलो अभिमान बाळगुवपा सारखे व्हड उदाहरण आख्या इलाख्यांतल्या हिंदु जामातींत तरी दुसरें एखादें मेळत कांय ना हाचो दुबाव आसा!विद्येची अखंड उपासना करचे व्रत घेतिल्ल्या त्या घराण्यांतल्या दोग पदवीधरांनी हांगाच्या हिंदू हायस्कूल ह्या संस्थे खातीर आपली जीण खर्ची घातली. हांगाची पयली बायल पदवीथरय ह्याच घराण्यांतली आसा.

शिक्षणाचो प्रचार हांगा जोरांत जालो. आनी कारवाराक येवन व्यापार धंदो, नोकरी, सांभाळपी सुशिक्षित विचारवंतानी पयली धा वर्सा तरेकवार येवजण्यो आंखपाक च घाली, आनी ल्हान प्रमाणार तीं मूर्त स्वरूपांत हाडलीय. पूण त्या आंखणेत ध्येयवाद वा निश्ठिावंत आग्रो जोरदार स्वरूपांत नाशिल्लो. कारण भवतेक सुधारणेचे पावंडे सरकारी येवजणेन, सरकारी तंत्रान मांडताले. आनी सुशिक्षित जनतेची शक्ति फकत साय्यक शक्ति मानताले. ही परिस्थिती बदलताली पूण अतिशय मंद गतीन बदलताली.

गेल्या शेंकडयाच्या अखेरेक हांगाचे एक विद्वान कलावंत पुरूशोत्तम रामकृष्ण तेलंग हाणी अमेरिकेक वचून हिंदुस्थाविशीची म्हायती आपल्या व्याख्यांनतल्यान दिली. अनेक भासो सोपेपणान उलोवपी, नाखटांनी कागदार चित्रां काडपी, उत्कृश्ट बीन वाजोवपी, स. तेलंग हाणी आपल्या भौवढंगी बुद्धिबळान मुंबयच्या जायत्या ल्हानां व्हडांक कारवारची वळख पटोवन दिली.

ह्याच सुमाराक दुसरें बुद्धिवादी कार्यकर्ते स. शामराव विठ्ठल कैकिणी हेवूय कारवारच्या नांवलौकीकात भर घालताले, आनी आपले फ ाटल्यान येवपी पिळगी तयार करताले. स. सर नारायण चंदावरकरय तांचेच देणे आसा.

**सुधारणां :**

इ. स. 1910 चो सुमार हो ह्या सुधारणेच्या दुसऱ्या कालखंडाचो प्रारंभबिंदू मानूक हरकत ना. सरकाराकडल्यान लोकांक विश्वासांत घेवंक लागिल्ले; बुद्धीन आंखिल्ल्या सुधारणांचो सरकारा कडल्यान विचार जांवक लागिल्लो. किंचित प्रसंगार सरकारी विरोधाक जुमानी नासतना आपलो विचार अंमलांत हाडची खटपट करपाची हिंमत सुशिक्षित लोकांत आयिल्ली. सरकारी अधिकारा खाला चलपी केंद्र वाचनालय हिंदी चिटणीसांच्या हातांत दिल्ले. आनी 1910 वर्सा ताचें रूप बदलिल्लें. एक तरेची सरकारी कचेरी समजपी नगरपालिका 1910 वर्सा कारभारां खातीर लोकांच्या हातात सुपूर्द केली. आनी तिचें पयले हिंदी अध्यक्ष ह्याच वर्सा जाले. 1905 वर्सा निखळ मामुली स्थापना जावन राविल्ल्या मित्रसमाजाच्या स्वतंत्र इमारतीचें उद्घाटन 1911 वर्सा गवर्नराच्या हातान केलें. ह्याच सुमाराक हिंदूस्कूल ही संस्था दीर्घकालीन सेवा दिल्ल्या चालकां कडेन सोपयली. 1912 वर्सासावन सदाशिवगडच्या इंग्लीश शाळेचे उदरगतीचें पयले पावल पडलें. ह्या जायत्या चिरस्थायी घटनांक लागून 1910 च्या सुमाराक हो कालखंड प्रारंभबिंदू मानपाक येता.

ह्या कालखंडात सुधारणांची तरेक वार आंगा हातळपांत आयली, एका एका आंगाची नानां रूपांत वाड करचेय यत्न केले. कश्ट आनी सेवा करूंक तत्पर अशें कार्यकर्ते दिसतांच गिरेस्त वार्गांतल्या लोकांनी सुधारणे खातीर देणग्यांनी आपले औदार्य दाखोवपाक सुवात केली. खुद्द कारवारांत भुरग्यांच्या मराठी शाळेक सुटसुटीत सुवात नाशिल्ली, तर हांगाचें स. श्री. सदासिव सुबा

नाईक ह्या ग्रहस्थान इमारत बांदून सुवात करून दिली. चलयांच्या शाळे खातीर इमारत जाय आशिल्ली; हांगाचे दानशूर पारशी ग्रहस्थ स. दादाभाई रतनजी हाणी आपल्या खर्चान इमारत बांदून आपली बायल बाई कुंवरबाई हिज्या नांवान यादस्तीक करून ती दान दिली. सदाशिवगडा वयली खाजगी इंग्लीश शाळेखातीर थंयचे स. सदाशिवराव वाघ हाणी इमारत बांदून दिली. शिक्षण प्रचाराच्या आद्यकाळांत जतनाय घेवन लायिल्ली हीं झोपां आयज व्हड रूख जाल्ले आसात. आनी तांची फळां आयच्या पिळगेक चाखपाक मेळटात.

**भावी पिळगी :**

लोक कार्य करूंक समर्थ जावचे ह्या हेतून 'स्टुडंट्स ब्रदरहूड' ही संस्था ह्या वेळार स्थापन केली. शरीरवर्धना खातीर जाय ते तरेचे मैदानी खेळ, शीलवर्धना खातीर नैतीक वर्ग, बुद्धीच्या उदरगती खातीर वेंचक वाचनीय पुस्तकां, भौशिक कार्याखतीर व्यासपिठाची तालीम, आनी ह्या सगळया आंगांतल्यान संघटन-प्रियता, अशा पंचरंगी येवजणे खाला ही उपयुक्त संस्था चलोवपांत येताली. पयलीच्या उमेदीत ह्या सगळया विभागां कडेन कटाक्षान लक्ष पुरयताले. सगळे चालकत्व जाण्टेल्याच्या हुकमां प्रमाण विद्यार्थ्यां कडल्यानच सांभाळतालें. ह्या संस्थेत काम करपी जायते जण, ते वेळचे तरनाटे आनी आयचे उतारवयस्क आपल्या आंगात बाणिल्ल्या शिस्तीचो आंपणाक अद्याप कसो उपेग जाता, हाचें वर्णन करतात. पूण कांय वर्सा मेरेन चलून उमेदी कार्यकर्त्यांच्या ग्रामत्यागाक लागून ही संस्था फुडे बंद केली.

सहकारी तत्वार उभारलेल्या संस्थांचे म्हत्व लोकांक पटपाक लागिल्लें. अनेक व्हड शारांत सहकारी पतपेढयो अस्तित्वांत आयिल्ल्यो. सहकारी पतपेढयां खातीर तांची स्थापणूक करपांत, त्यो वाडीक लावपाक, तांका भौशिक स्वरूप दिवपाक, सरकारी अधिकाऱ्यांच्यो नेमणुको करताले. सुशिक्षित लोक त्या नदरेन विचार करताले. भौशिक कार्या खातीर उमेदीन कश्ट करपी कांय ग्रहस्थ एकठांय जमून ताणी कारवार म्युनिसिपालिटिच्या हद्देंत असली संस्था स्थापन करचो विचार केलो. आनी 19:11:1912 दिसा कारवार अर्बन को. ऑपरेटिव सोसायटी अस्थित्वांत आयली. आज ह्या सोसयटीचे बँकेत रूपांतर जाल्लें आसा. आनी ही संस्था आज अनेक लोकोपयोगी संस्था मदीं

एक अशी मान्यतेक पाविल्ली आसा. ह्या सहकारी तत्वा नुसार अनेक संस्था अस्तित्वांत आयिल्ल्यो आसात. 'द्रवीड ब्राह्मण', 'दैवज्ञ ब्राह्मण', 'रोमन कॅथोलीक' आनी 'हरक्रंत्र' ह्यो ज्ञातीनिश्ट आसत.' जिल्हा पोलीस' कस्टम डिपार्टमेंट' 'पोस्टल' ह्यो खाशेल्या खात्यातल्या नोकर वर्गाच्या उपेगा खातीर आसात. आनी' मुळावें शिक्षक आर्बन बँक' आनी 'गव्हर्नमेंट ऑफीस अर्बन बँक' ह्यो दोन व्हड प्रमाणावयल्यो सहकारी संस्था आसात.

धार्मिक बाबतीतय चळवळी जायत आशिल्ली. द्वारकामठाच्या परांपरेतले श्रीपद्मनाभतीर्थ हाणी आपल्या कारवारी शिश्यवर्गाच्या आदारान बाड हांगा 1907 वर्सा दत्तमठाची थापन केल्ली. आनी धर्मज्ञानाच्या प्रचार कार्या खातीर स्वत:चो छापखानो स्थापून 'अखंड समाधान' नांवाचे एक मासीक सुरू केल्ले. हांगा थंय फापसल्ली अनेक देवळां उत्पन्नाच्या नदरेन समाधान कारक आशिल्ली, तरी व्यवस्थेच्या नदरेन तांच्यात कमतरताय आशिल्ली. तांची सुदारणां करचे खातीर आनी तांचेर देखरेख दावरचे खातीर टेंपल कमिटी स्थापन केली. आनी ह्या समितिचो व्यवहारय पदवीधरांकडेन दिलो.

ह्याच सुमाराक सामाजिक सुधारणांत प्रामुख्यान भाग घेवन मुंबयतल्या उदारमतवादी वर्गांत पसिद्ध पाविल्ली व्यक्ति म्हणल्यार. स. आत्माराम उर्फ नरूबाब वाघ ही, शिक्षणाची आनी समाज सुधारणेची अतिशय चाड आशिल्ल्या वाघांनी आपल्या, म्हणल्यार कारवारी गौडसारस्वत ब्राह्मण वर्गा खातीर तर भौवमोल कामगिरी केल्लीच्च आसा. पूण तांच्या नदरेची फेक पयस मेरेन पातळावपी आशिल्ल्यान ताणी मुंबयच्या प्रेसिडेंसी 'सोशल रिफॉर्म' त जिवापाड कश्ट घेतले. विधवा बायलांच्या कळवळीन 'विधवाग्रहाची' स्थापना करूनच ओग्गी बसनासतना तांणी 1906 वर्सा एका विधवे बरोबर पुनर्विवाह केलो. 'सोशल सर्विसलीग' चे आधारस्तंभ. जातीभेदनिशेधक, परिशदेचे कार्यकर्ते आशिल्ल्या ह्या वाघांच्यो गजाली, भरिल्ल्या गळयांनी मुंबयतली कितलीशींच कुटुंबा सागतात. आनी आमी तांच्या गांवचे म्हणल्यार कारवारचे म्हणटा खिणाच आमचे कडेन सुद्धा कृतज्ञतेच्या अभिमानान वागतात! इतली भरीव कामगिरी करून तांणी कारवाचें नांव दलितांच्या वळखीचे करून दवरलें.

कलेच्या एका विशिश्ट आंगात ह्याच वेळार या विभागाचे नांव गाजलें.

मराठी रंगभूंय तयार जाताली. ती आपले वैशिश्टय जतनायेन बसयताली. आनी आपल्या आंगच्या अतूलनीय कलाविकाराक लागून, अभिनय नैपुण्याक लागून, आनी गायनपटुतत्वाक लागून, एक नट उब्या महाराष्ट्राचे लक्ष आंपणाकडेन ओढून घेताले. स. दत्तू हल्याळकर हांचे नांव खबर नाशिल्लो मराठी रंगभूयेंचो भोक्तो विरळच. रंगभूंयेर उत्कर्शाच्या तेंगशेर आसतना तांका पळयिल्ली, आनी तांचे गायन आयकल्ली बरीच मंडळी आजूनय हयात आसात. हें दत्तू हल्याळकर ह्याच वाठारांतल्या हल्याळ गांवच्या देशपांडे घराण्यांतले. आनी योगयोग असो की, इ. स. 1843 वर्सा पयले मराठी संगीत नाटक सांगलीकरांच्या उत्तेजनान बसवचे खातीर स. विश्णुपंत भावे हाणी वेंचून काडिल्ली नाटक मंडळी ह्या हल्याळचीच आशिल्ली. हांगाच्या भूयेंत मराठी रंगभूयेंची बिजांच आशिल्ली.

भोवमान कारवाराकडेन ओढून हाडचे प्रयत्न जाय ते वाटेन जांवक लागिल्ले. मॅट्रिकेच्या परिक्षेंत पयलो मेळोवपाचो मान ह्याच सुमाराक स. मंगेशराव नाडकर्णी हांणी हाडलो. स. सर नारायण चंदावरकर मानाच्या एकेक पांवंडयार चडतच आशिल्ले. 1913 वर्सा संयुक्त गौड सारस्वत ब्राह्मण परिशद हांगा आपोवन, पुणे इंदूर, हरडा आदी पयसुल्ल्या लोकांचे लक्ष हांगा ओडले.

इ. स. 1914 वर्सा पयल्या जागतीक म्हायुद्धाचो वणवो पेटलो. तांतूत हांगाच्या मराठा लोकांनी भौवसंखेन सैन्यांत शिरकाव करून घेतलो. आनी फुडे जाल्ल्या एका समाज सुधारणेच्या क्रांतीचो पायंडोच घातलो. सैन्यांतली भरती कश्टकरी लोकां पुर्तीच उरली ना. आयज मुंबयचे सुप्रसिद्ध सर्जन डॉ. कै किणी हांणीय लढायेचो भेस चडयलो., आनी भायले देशांत वचून ते कॅप्टन जावन आयिल्ले.

### नवो दृश्टीकोन :

समाजाकडेन पळोवपाचो दृश्टीकोन बदलत आशिल्लो. समाज ह्या श्ब्दाची व्याख्या ते वेळच्या पांढरपेशा पुरतीच सिमीत आशिल्ली. इंगलीश शिक्षण ह्या पांढरपेशांची भुरगींच घेतालीं. पूण हळूहळू मागसिल्ल्या वर्गांतली भुरगी शाळेंत दाखल जांवक लागली. चलयांक इंग्लीश तिसरे यत्ते पुरतेंच हिंदुस्कूलांतल्यान शिक्षण मेळताले. पूण वर्गा खातीर तांका सरकारी हायस्कूलांत

मनाय आशिल्ली. तांच्या फुडल्या शिक्षणांखातीर हांगाचे शिक्षण प्रेमी नुनामास्तर हे खाजगी वर्गांतल्यान तरतूद करपाक लागले वाचनालय म्हणल्यार फकत इंग्लीश शिकिल्ल्या खातीरच आसचें असो एक अनुच्चारीत नेम आशिल्लो. तांचो पायंडो मोडून फकत मराठी वाचनाची भूक भागोवचे खातीर हांगाचे शिक्षक श्री जनार्दन सावकार हांणी आपल्या सहकाऱ्यांच्या आदारान 1917 वर्सां सुंकेरी 'बालवाचन समाज' स्थापन केलो. आनी पयले खाजगीं वाचनालय उघडले. ह्या प्रमाण शिक्षणाची तरेक वार आंगा वाडवपाचें कसून प्रयत्न जांवक लागले. लोकशिक्षणाचे तरेकवार रस्ते बांदले.

चलयांच्या शिक्षणाकडेन खास लक्ष दिवंक लागले. सदाशिवगड सारख्या ल्हानशा गांवांत सुद्धा चलयांची शाळा उघडली. चलयांच्या इंग्लीश शिक्षणां कडेन लक्ष दिवपाक लागले. सुमार 1918 ते 1922 च्या काळांत मुंबयची ते वेळाची तीन कॉलेजां मेळून 18/20 चलयांतल्यो चार चल्यो खुद्द कारवारच्यो आशिल्ल्यो. ही गजाल खाशेली आसा! त्या चौगांतल्या कु. शांताबाय वागळे आनी सौ उमा मुरंजन (पुर्वाश्रमीच्यो उमा शिराळी) ह्यो 1920 सालच्यो कारवारच्यो पयल्यो पदवीधर, आनी कु. यमुना नाडकर्णी आनी कु. कल्याणी नाडकर्णी ह्यो दोन तीन वर्सा नंतर पास जाल्ल्यो पदवीथर आसात.

1918 वर्साच्या युद्ध सामाप्ते नंतर साम्राज्याच्या संरक्षणार्थ प्राणदान केल्ल्या बद्दलचे बक्षिस म्हण सरकारान मराठा वर्गांतल्या भुरग्यांक फुकट शिक्षण दिवपाची वेवस्था केली. आनी शिक्षणीक मळार बरीच क्रांती जाली. शिक्षणाच्यो सवलतीं मेळल्यो तरी, इंग्लीश शिक्षणा बद्दल आपुलकीची भावना त्या वर्गात खरपणान जागृत जाली नासली. पूण शिक्षणमोगी थळाव्या सद्गृहस्तांच्या उमेदी वयल्यान बऱ्याच कुटुंबानीं आपल्या भुरग्यांक इंग्लीश शिक्षण दिवपांचे धैर्य दाखयलें. खेडयांत त्या वेळार म्हयन्याक रूपया बारा आणे फी सुद्धां जड दिसताली. तांका ह्या सवलतींचो व्हडा प्रमाणार फायदो जालो. भुरग्यांची संख्या शाळांतल्यान वाडत गेली. एकेका यत्ते खातीर दोन दोन वर्ग करपांत येंवक लागले. ल्हान ल्हान शाळा उकत्यो जांवक लागल्यो. मागशिल्ल्या लोकांच्या घरांत ज्ञानाची गंगा व्हांवक लागली. आनी फुढारिल्ल्या समाजांतले घटक जल्मभूयेंची प्रतिश्टा चडाओडीन आडोंवक लागले.

स. नारायण चंदावरकरांनी आपल्या बुद्धीमत्तेन आनी भौशीक

कार्यालयांतल्या जैतान कारवाराक नकाशांत एक स्थान मेळोवन दिलें. हिंदुस्थानांतल्या अनेक विद्यापिठांतल्यान संस्कृत विद्वत्ते बद्दल स. मंगेश रामकृष्ण तेलंग हांणी ज्ञानदर्शक पदव्यो मेळोवन एका खास वर्गाक कारवारची वळख पटोवन दिली. स. प्रा. वामनराव गायतोंडे हांणी मुंबय विश्वविद्यालयाचे अत्युच्च परितोशीक 'चेन्सेलर्स मेडल' हें भांगर पदक, गणित विशयांतल्या पारंगते खातीर मेळोवन कारवारच्या निश्चित स्थानां बद्‌दल सुशिक्षित समाजंत उत्सुकताय निर्माण केली. आधुनीक भीम ह्या उपधानान मुंबयतल्या फाटल्या पिळगेतल्या तरनाटयांक परिचीत आशिल्ले स. पांडुरंग शिवावर वागळे हांणीय तांतूत भर घाली. आनी आपल्या अतूलनीय क्रिडानैपुण्यान हिंदु क्रिकेट संघाचे आघाडीवयले खेळगडी म्हूण चमकल्ले. स. कंटक हांणी ते वेळच्या अबाल वृद्धांक कारवारच्यो खुणो पटोवन दिल्यो! ही यादी अभिमानाची खरी पूण ती सर्गेस्तांची यादी आसा, अशें दिसतकच मन खिन्न जाता. आनी पयल्या दोगांय वयोवृद्धां खेरीज हेरांचेर काळाची झडप अकाली, भर जवानीतच पडिल्ली पळोवन हळहळ दिसता. जरिपटक्याचो मान मेळयिल्ले हे शिलेदार मार्गदर्शन करून आपल्या फाटली पिळगी तयार करूंक शकले नात हे पळोवन मन उद्विग्न जाता.

थळाव्या दिसाळयांची कमतरताय 'विचारी' ह्या पत्रान साधारणपणान भरून येताली. इ. स. 1895 च्या सुमाराक हांगाचे पै. शेख आदमसायब ह्या मनशान आपलो एक छापखानो घालो. आनी व्हड प्रमाणार 'विचारी' नांवाचें एक दाशाहिक पत्र सुरू केले. थळाव्यो खबरो, अधिकाऱ्यांच्यो बदल्यो, हेर म्हत्वाच्या खबरांचे संक्षेपान उल्लेख, इतल्याच मजकुरार गुजराण करपी हे पत्र अजूनय चालू आसा. आनी आज तांतूतल्यान राजकीय, सामाजीक, आनी हेर कळवळयाचे प्रस्न चर्चेक येंवक लागलात. एका कोनशांतल्या एका ल्हानशा गांवांतल्या पत्राचो खप तो कितलो आसतलो! तरी पसून ह्या पत्रान अजून मेरेन तग धरिल्लो आसा. मध्यंतराक 'नागरीक' नांवाचे एक नियत कालीक सुरू केल्ले पूण ते अल्पजिवी थारले. धार्मिक विशयाक ओंपिल्ले 'अखंड समाधान' हें कांय वर्सा चल्ले, पूण भरीव संखेच्या वाचक वर्गा अभावी हेवूय चलोवप्याक बंद करचे पडले.

पयल्या महायुद्धाच्या समाप्ते नंतर समाजाचो दृश्टीकोन व्यापक जालो.

विद्यार्थि वर्गात म्हत्वाकांक्षेचो उगम जालो. हांगाच्या थळाव्या तरनाटया पिळगेंत सुधारणे विशी ओड उत्पन्न जाली. सुशिक्षितांचो ल्हानसो वर्ग आशिल्लो, तो वाडलो. सुशिक्षितंच्या पयल्या पिळगे कडेन सगळया सामाजीक संस्थांचे सूत्रसंचालकत्व आशिल्ले. आनी ते समाजाच्या हेर वाठारांकडल्यान जाल्ल्या, आनी जायत आशिल्ल्या आग्र्राक लागून जाल्ले. तो आग्रो कमी जांवक लागलो. फाटल्यान तयार जाल्ल्या पिळगेची दखल घेंवक जाय असो आग्रो जांवक लागलो. समाजांत जागरूकताय आयिल्ल्याच्यो ह्यो खुणो आशिल्ल्यो. सत्तेच्या केंद्रिकरणा विरूद्ध उठपी लोकशाही तत्वांचो हो आवाज आशिल्लो. नगरपालिकेचे पदाधिकारी मक्तेदारीन नासचे असो प्रचार जांवक लागलो. केंद्र वाचनालयांत कॉलेज विद्यार्थ्यांक सभासद जावपाची सूट आसची, मित्रसमाजात, क्रिडा फाटयांत कॉलेज विद्यार्थ्याक दाखल करून घेवचे अशो विद्यार्थ्यांच्यो मागण्यो जांवक लागल्यो.

कारवारचो समाज दुराग्रहानी पाछाडिल्लो ना, तो समंजस आनी खेळकर वृत्तीचो आसा. जातीभेद, धर्मभेद, फकत नांवापुरतोच आसून समजीक संबदांत 'दिवाळ' आड येनात. शारिरीक वा मानसीक अस्पृशता हांगा तग धरूंक शकली ना. हांगाच्या दत्त मठाच्या संस्थापकांनी आपल्या मठाची व्यवस्था पळोवचे खातीर केल्ल्या नेमावलीतलो एक अतीशय म्हत्वाचो नेम उद्दृत करचो मोह अनावर जाता.' ह्या मठाक भजपी, मागीर तो म्हार आसलो तरी आमच्या छात्रगणान तो सगळे तरेन आपलोच आसा, अशें समजून वागचें' . 1907 वर्साची ही एका देवालयाच्या संस्थापकाची वृत्ती! आमच्या भुरगे पणात आमच्या वर्गांत अस्पृश्य विद्यार्थिय बसताले. ही 1910-11 ची गजाल. आनी 1912 वर्सा मुंबयत गाजोवाजो जाल्ली जातीभेद निशेधक परिशद भरली, त्या परिशदे वतीन सहभोजनाचो कार्यक्रम जालो. आनी पंक्तीत अस्पृश्य वर्गांतले श्री, पी. बाळू आनी मिठा हेवूय आशिल्ले. ते वेळार हजर रावपाचे धैर्य दाखोवपी मनशांमदी स. सर नारायण चंदावरकर, स. आत्माराम वाघ आनी स. शिवराव पालेकर हे तिगूय कारवारी मनीस आशिल्ले! 1926 वर्सा कारवाराक पयलो भौशीक गणपतीचो कार्यक्रम जालो. तांतूत अस्पृशांनी प्रामुख्यान वांटो घेतिल्लो. ही शारिरकि अस्पृशता हांगाचो समाज मानी नाशिल्लो. त्याच प्रमाण मानसीक अस्पृशतेची बादा त्या समाजाक

नाशिल्ली. नवीन येवपी पिळगे परस आपूण व्हड ही भावना त्या समाजांत नाशिल्ली. विद्यार्थि वर्गाकडेन सलगी केल्ल्यान आपल्या वयस्कतेक बादा येत हो विचार त्या समाजाच्या तकलेंत येनाशिल्लो. ताका लागून अटीतटीचो सामनो जायनासतना खेळीमेळीन दोनय पिळग्यो रकजीव जाल्ल्यो. पूण कांय वर्सां नंतर ह्या उदार वृत्तीक उपरती लागली. वैयक्तिक प्रतिश्टेचे युग सुरू जाले. सार्वजनीक जीणेत आपलें वैयक्तिक जीवन लुप्त प्राय करून घेवन कार्य करची प्रवृत्तीय गेली. विचारवंत आनी बुद्धीमान अशा येवजुप्यांक आनी मुखेल कार्यकर्त्यांक आदार करूंकच आपूण सार्वजनीक कार्य करता ही भावना नश्ट जाली. आनी फुडारपणा खातीर सर्ती जांवक लागल्यो. पूण खोशेची गजाल ही की, चक्रगतीन मूळ स्थिती परत आयली. समाजाच्या सर्वांगीण उदरगती खातीर कार्यकर्ते एक दिलान झटत आसात. फुढाऱ्यांचे नेतृत्व एकमुखान मान्य करतात. विरोधांचो सूर हो सदा आसताच, पूण तो अत्यंत क्षीण जाल्लो आसा.

1920 वर्सा कारवारच्या सामाजीक सुधारणेन आपले एक पावल फुडें घाले. कारवारची पयली बायल पदवीधर मुंबय विश्वविद्यालयांतल्यान ह्याच वर्सा भायर सरली. लोकांत राजकीय जागरूकताय आयली. आनी ह्याच वर्सा कारवारांत पयली राजकीय परिशद भरवपात आयली. आनी तिच्या अध्यक्षपदाचो भौवमान कारवारचे जेश्ट पूत स. सर नारायण चंदावरकर हांका दिलो. फाटल्यान मवाळ हें नामाभिमान प्राप्त जाल्ल्या परंपरेतल्या राजकारणांचे ते दीस आसले. थारावीक साच्यांच्यो परिशदो जाग्या जाग्यार भरताल्यो, सुराज्य म्हणल्यार स्वराज्य न्हय अशें परकी सरकाराक सांगचे पर्यंतच राजकारणाची मजल पाविल्ली. गांधीयुगाक सुरवात जावच्या एका वर्सा पयलीची ती राजकीय परिशद आशिल्ली.

विश्वविद्यालयीन शिक्षणाच्या बाबतीतय 1920 पसूनची दोन तीन वर्सा कारवाराक प्रगती दर्शकच गेली. 1920 ते 23 पर्यंत चार बायलो पदवीधर जाल्ल्यो. आनी अत्यंत अभिमानाची गजाल म्हणल्यार विश्वविद्यालयांतल्या शेवटाच्या परिक्षे बाबतचे अत्यूच्य पारितोशीक 'चान्सेलर्स मेडल' हें हांगाचो विद्यार्थी 'वामन मुकुंदराव गायतोंडे' हांणी गणित विशय घेवन मेळयले. कारवारच्या विद्यार्थ्यान हे मेडल मेळोवपाचो पयलोच हो प्रसंग. आनी ही

खबर हांगा तारीन कळयिल्ल्या दिसा एखाद्या परबेची उमेद लोकांच्या तोंडार दिसताली. आपूणच कसली तरी व्हड कामगिरी केल्ल्याचो अभिमान लोकांत दिसून येतालो. तांचो गौरवपर समारंभ साजरो केल्लो. मागाशिल्लो समजतल्या कारवारचे शिक्षणीक उदरगतीचे पयले पावल छाप उदेवपा सारखे आशिल्ले. विद्यार्थिवर्गात आत्मविश्वास उत्पन्न जालो. आनी खटपट केल्यार पुण्या-मुंबय कडल्या विद्यार्थ्यां कडेन आमी जैतपूर्ण टक्कर दिवंक आनी मान मेळोवक शकतात अशें हांगाच्या विद्यार्थ्यांक दिसूंक लागले. आनी ते बऱ्याच प्रमाणांत ताच्या फुडल्या विद्यार्थ्यांनी मेळयिल्ल्या जैता वयल्यान खरें थारले.

ह्याच वेळार महात्मा गांधीन राजकारणांचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतली. देशभर पेटिल्ल्या ज्वलंत राजकारणांची जोत भारताच्या खाची कोनशांत पाविल्ली. तिची झळ कारवाराकय थोडी भव लागिल्ली. ह्या नवीन राजकारणांत थोडेभव मनीस पडले. प्रचारकार्य सुरू जाले. गांवातल्या फुढाऱ्यांची भाशणां जांवक लागली. श्री. गंगाधरराव देशपांडे हांचेय पांय कारवाराक लागले. शाळा सोडचो आग्रो जांवक लागलो. विधिमंडळार बहिश्कार घातलो. कौन्सिलचे विडंबन करचे खातीर बेकार मनशांक वेंचून धाडपाची मोहीम सुरू जाली. आनी कारवार मार्फत अशाच एकाची वयल्या मंडळात वर्णी लागली. ह्या नवीन राजकारणां फाटोफाट जातीविशिश्ट गटाक उत्तेजन मेळूंक लागले. लोकलबोर्ड, नगरपालिका, थळावी बँक हांच्या वेचणुकेंतय असल्या गटामार्फत लढो सुरू जालो. आनी खऱ्या अर्थान 'सेक्युलर' आशिल्ल्या त्या वेळच्या कारवारच्या समाजांत ज्ञातिनिश्टेचे अंत:प्रवाह सुरू जाले. आनी विशिश्ट प्रकारच्या गटबाजीक आरंभ जालो.

**येरादारी :**

इ. स. 1922 -23 चो काळ व्यवहाराच्या नदरेन एका नव्या युगाचो प्रारंभ मानपाक हरकत ना. कारवारचे भायल्या जगाकडेन येवचे संबंद म्हणल्यार पावसाळया खेरीज आठ म्हयने चलपी आगबोटीक लागून मुंबय कडेनच. सप्तकांतल्यान चडसो एक पावट, विशिश्ट कालात सप्तकांतल्यान दोनदा, मुंबयच्यान आगबोट कारवाराक येताली. पावसाळयाच्या दिसांनी जावपी प्रवास बैलगाडयांतल्यान गोंयांतल्या मडगांव ह्या रेल्वे स्टेशनां पर्यंत आनी

थंयच्यान मुंबय वा पूणे, आनी हेर शारां पर्यंत जाताली. अर्द शेकडया मेरेन चालू आशिल्ल्या ह्या येरादारी लागून कारवार शाराचे संबंद मुंबय कडेन जुळ्ळे. खुद्द कारवार जिल्ह्यांतल्या एका शारा कडल्यान दुसऱ्या शाराक वचप पसून मुश्किलीचे आशिल्लें. पूण 1922-23 वर्सां पयली मोटर सेवा सुरू जाली. आनी कारवारचो बेळगांवा कडेन संबंद जुळ्ळो. पूण त्या काळार मोटारीचें भाडे खूबच कमी आशिल्ल्यान ही येरादारी आनी हे संबंद आम जनतेच्या उपेगा पडले. पूण हळूहळू येरादारीच्यो सोयी वाडू लागल्यो. धरवाड हुबळी मेरेन नेमान येरादारी सुरू जावन कर्नाटकाकडेन संबंद येंवक लागले. खुद्द कारवार जिल्ह्यांतल्या शारांचे एकमेकांकडेन दळणवळण सुरू जालें. व्यापार व्यवहार वाडू लागले, लग्न संमध वाडू लागले, भुरग्यांच्या शिक्षणाची सोय जाली, आनी कारवारच्या संकुचीत मळावयल्या जीवनांचो एक दृश्टीन विकास जालो. टपालाची हाड व्हर मोटारीन सुरू जाली, शेळी वर्तमान पत्रां मेळचे बदलां 'गरम' नासली तरी ताजी मेळूंक लागली. जे सुवातेर टाइम्साच्यो चार दोन प्रतीं येताल्यो, ते सुवातेर आज दोनशीं इंग्लीश, दोन अडेचशें मराठी दैनिकांचो खप जाता. साप्तहिकां, मासिकां हांचोय भरपूर पुरवठो जायत आसा. 'केल्ल्यान देशाटन'. मनुश्य प्राणी सुधारता पूण देशाटनाच्या सोयी लागून कारवार शार सुधारले हे मात खचीत, कारण भायल्या देशा कडेन संबंद येतकच व्यापारी वर्गांचे येवप वचप सुरू जालें. तरेकवार संस्थांचे प्रतिनिधी, म्हालाची जायरात घेवन येंवक लागले. परगांवच्यान येवपी अशा व्यापारी प्रतिनिधींच्या सोयी खातीर हॉटेलां सुरू जाली. म्हालाची पुरवण रीतसर जाता अशें दिसताच दुकानां वाडली, दुकानांत ननवीन म्हाल नदरेक पडताच गिऱ्हायक वाडले, मोठे प्रमाणार पैशांची उलढाल सुरू जाताच बँको वाडल्यो, परगांवच्या बँकांनी आपल्यो शाखो वाडयल्यो, हांगाच्यान निर्यात जावपी म्हाल म्हणल्यार चडशें इमारती लाकूड. नुस्तें, नाल्ल, आनी थोडें प्रमाणार कणगां. चडा ओडीक लागून हांचेय मोल वाडले, आनी मोटारीची येरादारी सुरू जाले नंतर कारवारच्या अर्थिक परिस्थितींत बरोच व्हड बदल जालो.

यंत्रिक सुधारणे पसून निखळ बरेपण मेळना. ह्या येरादारीच्या साधनांतल्या सुधारणेच्या पयल्या कालखंडात कारवाराचेर एक मोठी आपत्ती आयली. कसल्याय तरेच्या साथीच्या रोगांपसून अलिप्त आशिल्ल्या ह्या शारांत 1926

वर्सा प्लेगाचो प्रादुर्भाव जालो. पयल्या भारात बरेच बळी पडले. मरणाचे प्रमाण मागीर कमी जालें, तरी लागण जावची थांबली ना. लोकांच्या मनांत भंयान ठाण मांडले, सरासरी धा बारा वर्सा मेरेन रूतुमाना प्रमाण प्लेग उद्भवतालो. नगरपालिकेन उपचार सुरू केले. लोकांनी आपापल्या परीन यत्न केले. आनी दोगांयच्याय एक वटिल्ल्या यत्नांनी ह्या साथीचे पुरायेन उच्चाटन केले. नगरपालिकेन केल्ल्या अतोनात परिश्रमान प्लेगाच्या निर्मुलना बरोबर शाराची निवळसाण बरीच वाडली.

सामाजीक सुधारणां संथपणान चालूच आशिल्ल्यो. शिक्षणाचे क्षेत्रय वाडत आशिल्ले. समाजांतल्या शिक्षणाक व्यापकता येताली. विद्यार्थिवर्गांत म्हत्वाकांक्षा मूळ धरताली. 1925 वर्सा हांगाचे विद्यार्थी स. श्रीधर हट्टंगडी हे पयल्या वर्गात बी. ए. पास जाले. आनी आय. सी एस् च्या परिक्षेखातीर विलायतेक गेले, पास जावन आयले, कारवारच्यान पयले आय. सी. एस्. तयार जाले. पूण दुर्दैवान ते अकस्मात मरण पावले. विद्यार्थी वर्ग आपली म्हत्वाकांक्षा साध्य करचे खातीर नवेनवे विशय हाताळपाचो यत्न करताले. विद्यार्थी वर्गाच्या आवडींत वैचित्र्य आनी जोम येत गेलो. इंग्लीश शिक्षण घेवपी चलयांची संख्या हळूहळू वाडत वताली. मागाशिल्ल्या समाजाच्या घटकांतल्यान विद्यार्थीवर्ग तयार जातालो. खाजगी शाळा वाडीक लागिल्ल्यो. पूण कारवारची अर्थिक स्थिती सुधारनाशिल्ली. ती सुधारपाक वावय नाशिल्लो. लोकसंखेच्या वाडी प्रमाण व्यापाराची वाड, शेतकी, होच एकमेव व्यवसाय, ना धंदे, ना कारखाने, संसारोपयोगी जिनसांची तितली आयात. निर्यात करपासारख्या म्हालाची कमतरताय ताका लागून धनोत्पादनाची साधनां तयार जायनाशिल्ली. नोकर वर्ग, वकील वर्ग, शेतकार, व्यापारी, आनी सुखवस्तू घराणीं हे ह्या समाजाचें मुखेल घटक वाड जावची ती घटकांच्या संखेत. साचो तोच.

पयल्या महायुद्धा नंतर विसाव्या नंतरचो काळा सुरू जालो. मुंबय पुण्या सारकी शारां वाडीक लागताली. तांची भरमसाट वाड जायत आशिल्ली. उद्योग धंदे, कारखाने, एकसारखे वाडत आशिल्ले गांव वजा शारां निर्जन जांवक लागिल्ली. कोंकण प्रांतांत उद्योगधंदे कमीच. नाच म्हणले तरी चलता. ताचे मुखेल कारण रेल्वेचो उणाव हे दिवंक येत. ताका लागून कोंकणांतल्या ल्हान

स्वरूपाच्या शारांतलो सुशिक्षित समाज बहिर्मुख जांवक लागिल्लो. भोवतेक आख्या कोंकण पट्टेवयलो प्रमुख व्यवसाय शेतकी . शिक्षणाची बेसुमार वाड जाल्ल्या कारणान सुशिक्षितांक मर्यादीत स्वरूपांतच व्यवसाय मेळपाची वेवस्था, सरकारी नोकऱ्यो सामक्यो मर्यादीतच, शाळांत शिक्षकी पेशो, वकीली वा डॉक्टर, ह्या तीनय व्यवसायांतय वाव मर्यादीत. ताका लागून अशा ल्हान व्हड शारांतलो सुशिक्षित समाज मुंबय वा त्या तोडीच्या शारांत स्थायीक जांवक लागलो. तरनाटी पिळगी पूर्णपणान बहिर्मुख जाली. कोंकणांतली ही दुय्यम प्रतीची शारां सेवा निवृत्तीच्यो वसणुको भासूंक लागल्यो कारवारय ताका अपवाद नाशिल्लें. कारवारची बुद्धीमत्ता मुंबयत राबूक लागली. कारवारचे कार्योत्साही तरनाटे हेर शारांत समाज सेवा करूंक लागले. कारवारचे व्यवहार चतूर परगांवांत धनोत्पादन करूक लागले. खुद्द कारवार अशा लोकांच्या यशान मेळच्या गौरवा खेरीज अन्य तरेच्या फायद्याक मुकले, तरी सुद्धा कारवाराक आवय सारखे मानपी, मुंबयत जायते तरेच्या कार्याचो प्रत्यक्ष अणभव घेतिल्ले कांय ग्रहस्थ वेळचे वेळार हांगा येवन समाज सुधारणेच्या कार्याची दिशा आंखून दिवपांत उमेद मानताले. ह्याच उमेदींतल्यान कारवारची पयली लोकोपयोगी संस्था 'वामनाश्रम' ही 1926 वर्सा जल्माक आयली.

**निवडक विद्यार्थी :**

मुंबय सारख्या शारांत रूळिल्ल्यान तरनाटया पिळगेचो दृश्टीकोन विशाल जालो. विद्यार्थी वर्गाच्या म्हत्वाकांक्षेचे क्षितिजय विस्तीर्ण जालें बी. ए. च्या वा एल्, एल्. बी च्या चाकोरेतल्यान विद्यार्थी वर्ग भायर पडूंक लागलो. बुद्धीचें देणे आशिल्लेंच. पूण ताका म्हत्वाकांक्षेचो अंकुश आनी यत्नांचे पाठबळ मेळतकच जैत लागीं आयले. डॉ. रोहीदास राघवेंद्र हट्टंगडी हे मुंबय विश्वविद्यालयांतल्यान बी. ए. आनी एम्. एस्. सी. पयल्या वर्गांत पास जावन 1930 वर्सा विज्ञानशास्त्राचो अभ्यास करचे खातीर लंडनाक गेले. थंयूय संपूर्ण जैत मेळोवन आपल्या तीन वर्सातल्या शास्त्रीय संशोधनांच्या बळार थंयचे पीएच् डी. जावन आयले. नवीन क्षेत्रांत रीग, तरबेज पण, आनी अत्युच्च मान मेळोवन आयिल्ले कारवारचे हे पयलेच विद्यार्थी, कारवाराक परतले तेन्ना हांगा तांचो गौरव केलो. वास्तवीक आपल्या विद्याभूंयेचोच तांणी

गौरव केल्लो! तो शिकत आशिल्ल्या लंडनांतल्या कॉलेजांत त्या वेळार फकत तीनच विद्यार्थी केमिकल इंजिनियरिंगाचो अभ्यास करताले. तांतूत हिंदी हे एकटेच आशिल्ले. आनी तेवूय कारवारचे.

मुंबयत कारवारच्या विद्यार्थीवर्गान मेळयिल्ल्या जैताची प्रतिक्रिया खुद्द कारवाराक जावप अपरिहार्यच आशिल्ले . दोळया मुखार दिशिल्ल्या देखीचो बालमनार परिणाम घडना जावप कठीणच, आनी असो परिणाम कारवारच्या एका बालमनार घडलो. श्री, रमाकांत महेश्वर मुजुमदार हांणी अनेक विशयांतली बक्षिसां मेळोवन 1934 च्या मॅट्रिकच्या परिक्षेंत पयलो नंबर मेळयलो. सुमार तीस वर्सान कारवाराक हो मान परत मेळ्ळो. शिक्षणाचो रूख झपाटयान वाडतालो. त्या रूखाक अत्युच्य जैताची फळां येताली. वा ज्येतीशांच्या भाशेंत कारवारच्या शिक्षणाचे ग्रह फळटाले. मॅट्रिकेत पयलो नंबर मेळोवपी पयल्या आनी दुसऱ्या विद्यार्थ्यात तीस वर्साचें अंतर आशिल्लें पूण हो मान कारवाराक हाडपी तिसऱ्या विद्यार्थ्यान हे अंतर चार वर्सार हाडले. अतिशय तल्लख बुद्धीचे विद्यार्थी प्रभाकर दत्तात्रय कसबेकर हे चारच वर्सांनी इ. स. 1938 वर्सा मॅट्रिक परिक्षेंत पयले आयले. त्या दिसा हिंदु हायस्कूलाचे नळे सुद्धा खोशेन नाचताले! पयलो मान सरकारी शाळेक मेळ्ळो. बापायच्या नोकरेक लागून मॅट्रिकेच्या वर्गात आसतना रमाकांत मुजुमदार धारवाडच्या सरकारी शाळेत गेल्ल्यान हो मान धारवाड शाळेक मेळलो. पूण 1938 चो मान कारवारच्या सुप्रसिद्ध हिंदु हायस्कुल ह्या खाजगी शाळेक मेळ्लो. दुसरे एक तल्लख बुद्धीचे विद्यार्थी श्री. मधुकर यार्दी, आय. सी. एस. आनी एम्. ए, च्या परिक्षेंत पयल्या वर्गांत पास जावन चान्सेलर्स मेडल मेळयले. पयले मेडल प्रा. गायतोंडे हांणी गणित विशयांत 1920 वर्सा मेळायले. सुमार वीस वर्सांनी गणित विशयच घेवन श्री यादी हाणी तेच अत्युच्य पारितोशीक मेळोवन कारवाराक गौरयले!

सुशिक्षित पदवीधरांच्या पयल्या पिळगेन केल्ल्या कार्याची यादी समाजाक जावपाचे योग येताले, इ. स. 1912 त स्थापन जाल्ल्या अर्बन बँकेचो रूप्या सुवाळो 1937 वर्सा मनोवपांत आयलो. पाव शेंकडयाच्या प्रदीर्घ कालपर्यंत जाय ते तरेच्या तुफानांक जुमनिनासतना लायिल्ले रोपें रूखात रूपांतरीत पावतना दिसूक लागले. अर्बन बँक हिवूय संस्था तांच्यातलीच एक आशिल्ली. त्या

वेळार दिवंगत जाल्ले आद्य संस्थापक स्वर्गातल्यान फुलां शिंवरपाची वाट पळयताले.

पोन्न्याची याद जाताच चालू पिळगेक आंपणेय अशेंच किते तरी करचे अशें दिसूंक लागले. स्थापन केल्ली संस्था पाव शेंकडया पर्यंत जतनायेन दवरून वाडोवंक येता, हाची खात्री पट्टकच मनांतली उमेद मूर्त स्वरूप घेता. श्री. गुणेश्वर वागळे ह्या तरनाटयाच्या मनातय अशेंच विचार जागृत जाले. आनी ताणी ह्याच वर्सा माजाळी ह्या खेडयांत 'युनियन इंग्लीश स्कूल' स्थापन केलें, आनी हायस्कूल शिक्षणाचे लोण ल्हानशा खेडयात पावयले. शाळेचे समीपत्व आनी शिक्षणाची वाड हांचो अत्यंत लागीचो संबंद आसता. खुद्द ह्या गांवातल्यान आनी भोवतणच्या गांवांतल्यान फकत धा पंदरा विद्यार्थी तीन चार मैलार आशिल्ल्या शाळेत वताली. पूण खुद्द गांवात शाळा उघडतकच शिक्षण घेतल्याची संख्या वाडूंक लागली. इ. स. 1925 वर्सा कारवारच्या पारेसांतले 'बाड' हांगा उघडपांत आयिल्ल्या न्यु हायस्कूल ह्या संस्थेनय हेंच दाखोवन दिलें. पांच धा विद्यार्थ्यांनी सुरू केल्ल्या ह्या संस्थांत विद्यार्थ्यांची संख्या दोन अडेचशेंच्या वयर गेल्ली आसा. इ. स. 1936 वर्सा खुद्द सदाशिवगड हांगाय शिवाजी हायस्कूल ही संस्था उघडली. ह्या प्रमाण शिक्षणाच्या विस्तारांत, विद्यार्थ्यांच्या विश्वविद्यालयीन जैतांत कारवार उंचेली तेगशी गाठूंक लागले.

**स्त्रीजीवन :**

समाजांत हेर क्षेत्रांतय पावल फुडे पडतालें. 1939 च्या सुमाराक बायलोय सामाजीक कार्यात फुडें येंवक लागिल्ल्यो. दुसऱ्या जागतीक महायुद्धाचो होम पटूंक पळयतालो. पूण या उज्याच्या हुलपाची झळ हांगा मेरेन पावली नासली. ह्याच वर्सा कारवारांत 'महिला समाज' स्थापन केलो. शिवणकामाचे वर्ग भरवपाक, भरत कामाचे शिक्षण दिवपाक, वाक्‌बगार बायलो तयार जाल्ल्यो. ज्ञानदानाचे सत्र उघडताच दान ग्रहणाक विद्यार्थिनीय तयार जाल्ल्यो. घरच्या संसाराचो आटाप सांभाळून शिक्षिका आनी शिक्षणेच्छू 'समाजा' ची वृद्धी करूंक लागल्यो. ग्रंथालयाची येवजण करपांत आयली. वाचनाची आवड उत्पन्न केली. बायलांची सामाजीक आनी बौद्धीक वाड करपाचे यत्न यशस्वी थारले. आनी ह्या वाडी बरोबर स्त्रीजीवनाच्या एका विशिशट भागाचो विचार

करपांत आयलो. स्त्रीजीवन सुलभ करची येवजण आंखली, आनी कांय वर्सा जाणवोची कमतरताय भरून गेली.

'श्री. शांतादुर्गा सृतिका गृह' ह्या उपयुक्त संस्थेच्या स्थापनेन कारवारच्या लोकोपयेगी कार्यक्रमांत एक पावल फुडे पडले. वैद्यकीय शास्त्राच्यो सुधारणो आधुनीक युगांत झपाटयान जातात. पूण व्हड शारवासींया खेरीज असल्या सुधारणांचो उपयोग घेवपाचें भाग्य खेडयापाडयांतल्या लोकांक मेळना. कारण कारवार सारख्या ग्रामीण भागांतल्या लोकांची खर्च सोंसपाची तांक आनी धंदो ह्या नदरेन चालकांच्या आकांक्षेत महद अंतर आसता. पूण मध्यम वर्ग आनी दलित वर्ग हांचे विशीं सहानुभूती बाळगुवपी हांगाचे दानशूर स. शांताराम मंगेश कुळकर्णी हांणी रू. 15000 ची देणगी दिवन सरकारी दवाखान्यांशी संलग्न अशा व्यवस्थे खाला हे सृतिका गृह उघडपाचें श्रेय घेतले. ह्या सृतिका गृहाचे

उक्तावण ते वेळचे मुंबय सरकारचे भलायकी मंत्री डॉ. गिल्डर हांच्या हस्तुकी 14 नोव्हेंबर 1937 दिसा केलें.

ह्या खेरीज स. शां. मं कुळकर्णी हांणी 'एक्स रे' ची सामुग्री हाडपा खातीर सरकारी इस्पितळाकडेन पांच हजाराची देणगी दिवन दवरिल्लीआसा. आनी जाय तितलो निधी जमताच मानवी व्यथा कमी करपी ह्या आधुनीक उपकरणान कारवारच्या सुधारणेत बरीच भर पडटली.

उपयुक्त संस्थांत दरवर्सा भर पडतच आसा. अशो संस्था स्थापन करपाक लोक प्रचार कार्यान आनी देणग्यांनी आदार करीत आसा. वायट मार्गाक लागपी पिळगी सुधारपा खातीर 'रिमांड होम' तवनास भुरग्यां खातीर' शिस्त शाळा' उघडपांत आयिल्ली आसा. आनी मानवी जीवन सुलभ करचे कार्यात हेर जीवांचो विसर पडनासतना गोरवांचो दावखानोय सुरू केलो.

फाटल्या महायुद्धाच्या धामधुमीची वर्सां सुरू जाली. त्यावेळार खंयच्याय सामाजीक सुधारणेक हात घालूंक वेळ नाशिल्लो. समाज उरतलो कसो?गांव तिगतलो कसो? हेच प्रस्न लोकांक भेडसायताले. तरनाटया पिळगेक ह्या युद्धालागून तरेकवार क्षात्र क्षेत्रां उत्ती जाली. खुद्द लढायेर सैनीक म्हणून, इंजिनियर, डॉक्टर, कॅप्टन, वैमानीक, नावीक दलांत तरेकवार व्यवसायांत तरनाटे रिगूंक लागले. नवीन संस्था काडपाक द्रव्य आनी मनुश्य बळ दोनांचीय चणचण भासताली. पूण भौशीक हिताच्यो गोश्टी हांतांत घेवपाचो विसर

पडनासलो. कारण पोन्न्या पिळगेन स्थापन केल्ल्यो संस्था आपल्या जातल्या भांगरा सुवाळयान आयच्या समाजाक पुर्वजांच्या कार्याची याद करून दिताल्यो. सदाशिवगडच्या पयल्या खाजगी इंग्लीश शाळेचो भांगरा सुवाळो डिसेंबर 1905 वर्सा व्हडा थाटान मनोवपांत आयलो. इ. स. 1947 वर्सा कारवारांतल्या हिंदु हायस्कूल ह्या संस्थेचो भांगरा सुवाळो व्हडा प्रमाणार मनयलो. भिन्न क्षेत्रांत आयज प्रथित जैत जाल्ल्या एक वेळच्या ह्या शाळेच्या ज्या विद्यार्थ्यांनी हांतूत आपलेपणाच्या भावनेन वांटो घेतिल्लो तांतूत काका कालेलकर हांच्या नांवाचो निर्देश करचो असो दिसता.

**भासीक प्रस्न :**

घटक संवर्धनाचें वारें परप्रांतांतल्यान कारवारांत येंवक पळयताले. वास्तवीक कारवारी समाजांत घटकांच्या भेदबुद्धीक अवसर मेळना. सगळे तरेच्यो सामजीक उलाढाली क्षुद्र मतभेदाच्या वयीक जुमानी नासतना सामुदयीक पणान घडत आसतात. जातीभेदाक हांगा चड म्हत्व दिनात, आनी असले प्रस्न उघडपणान चिघळयनात. भाशीक प्रस्नाबाबतय हीच प्रथा चालू आशिल्ली. कानडी, मराठी वाद सुद्धा कानडी लेकांनी आक्रमक रितीन हातळपाक सुरवात करचे पयली चव्हाटयार उलोवपाचो विशयुय नाशिल्लो! त्या सुवातेर कोंकणी मराठी वाद उठपाची शक्यताय कितली आसतली, हाची कल्पनाच करची. पूण भेदनितीचो एक फावट समाजांत शिरकाव जातकच तिका जायते फाटे फुटूक लगतात, हे ऐतिहासीक सत्य आसा. भिन्नपणाचो सामकोच अभाव आसता, तेन्ना बरें आसता. पूण भिन्नता एका बाबतींत वा एका पर्यायांत रिगली की, भिन्नपणाचे पर्याय वाडूंक लागतात. कानडी मराठी हो वाद उत्पन्न जालो. भाशीक वादाक सुरवात जाली, आनी ह्या वादान दुसरे तात्वीक रूप धारण केलें. कोंकणी काय मराठी ?कोंकणी बोलीक ग्रांथीक भाशेचे स्वरूप दिवपाचे यत्न हेरकडेन जाताले. कोंकणी ही स्वतंत्र भास आसून आयच्या ग्रांथीक मराठीचो आनी तिचो खंयचोय संबंद ना, असो प्रचार जांवक लागलो. कांय विद्वानांनी दाखयिल्ल्या प्रमाण हो खरोखर स्वतंत्र वाद आपसूकच उत्पन्न जालो नाशिल्लो. तर ताच्या फाटल्यान कांय स्वार्थसाधू गटांच्यो कार्यवायो आशिल्ल्यो. पूण कारणां कितेंय आसली तरी

आयजवेर घरगुती व्यवहारांत आनी माजगरांत नांदपी आपली मायबोली नटून थटून भायर येतली, ह्या रम्य कल्पनेन बरेंचशे कोंकणी वादी भारावन गेले. आनी स. विद्वद्वर्य मंगेशराव तेलंग हांच्या अधक्षतेखाला 1939 वर्सा कोंकणी परिशद भरयली. किंचित काळ हो 'वाद' उरलो. मागीर हो कोंकणी मराठी 'प्रस्न' जालो, आनी धर्मराजान भीमाक केल्ल्या उपदेशाप्रमाण कानडीचे परचक्र येतकच कोंकणी मराठी अभिन्नता पटली. ही खूब खोशेची गजाल हय!

सत्तात्याग करून इंग्रजांनी काँग्रेसच्या हातांत राज्यकारभार सोंपयलो. लोकाशाहीच्या धोरणांचो उच्चार जोराजोरान जांवक लागिल्लो. काँग्रेसान इंग्रजांच्या आमदानींतल्या लोकाशाहीच्या प्रचाराक प्रतिकूल म्हणून चव्हाटयार मांडिल्ल्यो चुको सुधारपाची वाच्यता जांवक लागली. तांतूतच भोवभाशीक प्रदेशाची रचना ही चूक अशी दाखयली. ती सुधारचे खातीर भाशावार प्रांतरचनेचे प्रस्न सोडोवपाच्यो खटपटी सुरू जाल्यो. तांतूतल्यानच प्रादेशीक क्षेत्रफळ वाडोवपाची आस वाडूंक लागली. सीमाप्रांताची कुचंबणा जांवक सुरवात जाली. कारवार, बेळगांव, जिल्ह्यांतल्या सीमाप्रांताची कुचंबणा जांवक लागली. शेंकडो 75 टक्के लोक कोंकणी मराठी उलयतात, तो कारवार जिल्ह्याचो कोंकण पट्टेचो उत्तरेकडचो कानडी आसा. असो दावो कर्नाटकोत्साही फुडाऱ्यांनी मांडपाक आरंभ केलो. कित्येक प्रतिक्रिया उत्पन्न जाल्यो, आनी जानेवारी 1950 त महाराष्ट्र एकिकरण परिशदेचे दक्षिण भागांचे पांचवे अधिवेशन महाराष्ट्र काँग्रेस समितीचे अधक्ष श्री. भाऊसाहेब हिरे हांच्या अधक्षतेखाला यशस्वी रितीन पार पडले. ह्या विभागाची खरीखुरी म्हायती, प्रचारतत्व डावलून आंकडयानिशीं सरकाराक सादर केली, आनी कारवार जिल्ह्यांतल्या कारवार, हल्याळ आनी सुप्पा हांचो एक सलग विभाग मराठी भाशीक म्हणून मान्य केलो. या सरकारी मान्यतेक लागून वाद जालो, वाद म्हणचे परस एकतर्फी विरोधी प्रचार उत्पन्न जालो. असंबधीत अधिकाऱ्यांचेर विखोल उडयलो. कारण सरकाराक शास्त्रशुद्ध आंकडे दिवपी अधिकारी मराठी आशिल्ले म्हण! चिखोलच तो, तळाक बसलो. मराठी वाङ:मयमंडळ निर्माण जाले. ह्या अत्यंत अल्पवयीन वाङ:मय मंडळान साहित्य संमेलनाक आमंत्रण दिलें, आनी महाराष्ट्र साहित्य परिशदेन ते स्वीकारले.

**कॅप्टन राणे :**

कारवारच्या वाठारांत चेंडिया नांवाचे एक गांव आसा. ह्या कोंकण पट्टेर कांय पिळग्यांपसून स्थायीक जाल्ली जाय तीं क्षत्रिय मराठा घरांणी आसात. कोंकणांत रावपी म्हण ही जमात कोंकण मराठा ह्या नांवान वळखली वता. क्षत्रिय परंपरा आशिल्ल्या ह्या जमातींतल्यान दोनय युद्धांत अनेक सैनीकांची भरती जाल्ली आसा. ह्या चेंडिया गांवातले राणे उपनांवाच्या घराण्यांतलो राम हो गेल्ल्या म्हायुद्धांच्या काळांत सैन्यांत दाखल जालो. आपल्या कर्तबगारीन एकेक पावंडो चडत हो बऱ्याच वयल्या हुद्यार पावलो. आनी हाणे काश्मीर आघाडेचेर अतूलनीय पराक्रम गाजोवन भारत सरकाराचे रणांगणावयल्या शौर्याबद्दलचें अत्युच्य पारितोशीक 'परमवीरचक्र' मेळोवन आपले नांव भारताच्या इतिहासांत अजरामर केलें. परमवीरचक्राच्या पयल्या दोगां मानकऱ्यां मदलो एक कारवारचो आसचो हाचे बद्दल ह्या वाटेच्या कोणाकय आत्यंतीक अभिमान दिसप साहजीकच आसा. कारवारची यशोसंपदा भौवरूपी जायत वता, कारवार अत्यूच्य मानाक पात्र करपी सुपुत्रांची परंपरा खुटली ना. हें कॅप्टन राम राघोबा राणे हांणी सिद्ध करून दाखयले. बुद्धी, कला, वादन, शक्ती, क्रिडानैपुण्य, नाटय आदी जाय ते आंगान पयले सुवातेर उबे राविल्ल्या मानकऱ्यांत शौर्यशाली कॅप्टन राणे हांचे स्थान अढळ आसा. आनी कारवारच्या यशोधनांत तांणी घातिल्ली भर खऱ्यांनीच मोलदीक आसा. तांच्या सत्कार समारंभाच्या सुवाळयान कारवार शार आनी भोवतणचो गांव म्हयनो भर गाजत आशिल्लो.

लोकांनी सुधारणेची अनेक आंगा हांतांत घेतिल्ली. शेतकी सुधारणा संघ स्थापन जालो. जमीनदार आनी रयत हांच्यात समेट घडोवन हाडचे खातीर संघ स्थापन जालो. कारवाराक पयल्या प्रतिच्या बंदराचो दर्जो प्राप्त करून घेवचे खातीर खटपटी सुरू जाल्यो. केंद्र सरकारा वतीन बंदर तपासणीय जाली. रेल्वेचो फाटो कारवार मेरेन हाडचे खातीर पत्र-व्यवहार चलिल्लो. आधुनीक यांत्रीक पद्धतीन शेती करचो विचार करचे खातीर मिटिंगो जातात, विजेचो पुरवठो करचे खातीर एक लिमिटेड कंपनी गेल्ल्या वर्सा स्थापन जाली. आनी बरेच भांडवलय जमा जाल्लें आसा. देड दोन वर्सांत कारवाराक वीज येतली अशी आस्त दिसता.

नगरपालिकेन एक भव्य सभामंदीर बांदले, आनी प्रदर्शनां भरोवपी, भायल्या गांवच्या विद्वानांची भाशणां आयोजीत करपांत जी कुचंबणा जाताली, ती कायमची पयस केली. ह्या बद्दल नगराध्यक्ष श्री. माधवराव कसबेकर वकील हांचे लोकांनी एका सुरान उपकार मानले. शारांचे अंतरंग आनी बाह्यरंग सुधारपाच्यो अनेक येवजण्यो आखल्यो. लेकशिक्षणाच्या कार्याखातीर महादेवशास्त्री दिवेकर हांची उद्‌बोधक व्याख्यांना केली. वाङ:मय मंडळाच्या वर्सुकी दिसानिमित्तान बेळगांवचे श्री. बा. रं. सुंठणकर हांका आमंत्रण दिवन तांचे कडल्यान दोन म्हायती पूर्ण व्याख्यांना आयोजीत केली. फुडें फुडें वचपी उदरगते वयल्या सुधारणे कडेन पावलाक पावल उडोवपाची शिकस्त केली. प्रयत्न हेंच ऊर्जेचें स्वरूप आसा.

•••

# प्रकरण 4 थें

# शिक्षण

पश्चिम किनाऱ्याचो एक बरोच व्हडलो भाग टिपुसुलताना कडल्यान इंग्रजांच्या हातांत आयलो. आनी 'कानडा' ह्या नांवान हो भाग मद्रास इलाख्यांत सामाविश्ट केलो. कांय वर्सा नंतर जरी हाचे उत्तर आनी दक्षिण कानडा अशें दोन विभाग राज्य कारभाराच्या सौकार्याखातीर केले, तरी केंद्र भाग दक्षिणे कडेनच आशिल्ल्यान उत्तर कानडा ह्या जिल्ह्याक एका ल्हानशा पठेपरस चड म्हत्व नाशिल्लें. मुलकी आनी हेर खात्यांतले दुय्यम अधिकारी मंगळूरच्या इंग्लीश शिकिल्ल्या समाजांतल्यानच हाडटाले. आनी थोडेभव हिशेब दवरपाचे ज्ञान आशिल्ल्या हांगाच्या मनशांक कारकून म्हण घेताले. साम्राज्यस्थापना हें आतां इंग्रजांचे ध्येय जाल्लें आशिल्ल्यान राज्यकारभार सुरळीत पणान चलता हाची खात्री दिसताच ह्या जिल्ह्यांत इंग्लीश शिक्षणाचो प्रसार करपाचे म्हत्व तांका दिसले ना, आनी ताका लागून इंग्लीश शिक्षणाची ह्या वाटेन त्या वेळार खूबच आबाळ जाली. तरी सुद्धा कांय म्हत्वाकांक्षी मंडळी मंगळूरच्यान हाडिल्ल्या अधिकाऱ्यांकडल्यान थोडीभव इंग्लीश शिकूंक लागली. पेल्यांतल्यान नासलें तरी बाटलेंतल्यान वागीणीच्या दुदाची रूच ताणी भागयली. अशें हे अधिकारी लोक, सरकारी नोकर आशिल्ल्यान तांका राजरोस वर्ग वा शाळा काडूंक जायनात, आनी तांचे कडल्यान इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ली हांगाची मंडळीय अर्दवट ज्ञानाचीच आशिल्ल्यान रीतसर इंग्लीश शिकपाची व्यवस्था हांगा जाली ना. आनी मद्रास इलाख्यांत हो जिल्हो आसा पर्यंत

परिस्थिती अशीच उरली.

पूण इ. स. 1862 वर्सा कारवार जिल्हो मुंबय इलाख्यांत घेतले नंतर मात सरकारी पातळेवयल्यान शिक्षण प्रसारांच्या येवजणेंचो विचार करपांत येंवक लागलो. आनी इ. स. 1864 वर्सा दर्या देगेर आज 'मित्रसमाज' ही इमारत आशिल्ल्या जाग्यार एका ल्हानशा खोपींत 'अँग्लो व्हर्नक्युलर' शाळा उगडून 16 विद्यार्थ्यांक दाखल करून घेतले. हळू हळू विद्यार्थ्यांची संख्या वाडूंक लागली, आनी जागो कमी पडूंक लागलो. इ. स 1871 वर्सा सद्याची हायस्कूल इमारत बांदली. मुळावी आनी दुय्यम अशो दोनय शाळा एकाच इमारतींत हाडल्यो. आनी पुस्तकांच्या पुरवठया खातीर एक बूक डेपोय ह्याच इमारतींत स्थपलो. ह्या शाळेंत इंग्लीश पांचवे यत्ते पर्यंतच शिक्षण दिताले. आनी ताका लागून फुडल्या यत्तां खातीर, आनी मॅट्रिकेच्या परिक्षेखातीर विद्यार्थ्यांक पडावांतल्यान रत्नागिरीक वचचें पडताले. सात वर्सांत विद्यार्थ्यांची संख्या 140 मेरेन गेली. उपरांत ह्या 'अँग्लो व्हर्नक्युलर' शाळेचे हायस्कूलांत रूपांतर केलें. आनी रेव्हरंड डी. कॉस्टा ह्या गृहस्थाची पयले मुख्याध्यापक म्हाणून नेमणूक केली. मदल्या काळांत सकयल्या वर्गांचे शिक्षण खाजगी शाळांकडेन सोंपयिल्ले. ह्या हायस्कूलांत इंग्लीश चवथी साकून मॅट्रिक पर्यंतचेच वर्ग चलयताले. पूण तांतूतय परत बदल करून आज ह्या हायस्कूलांत 11 वर्ग आसून 400 विद्यार्थी आसात. आनी आजचे श्री पाटील हे ह्या शाळेक हायस्कूलचो दर्जो मेळत साकून नेमणूक जाल्ले एकोणीसावे मुख्याध्यापक आसात.

सरकारी शाळा आशिल्ल्यान चित्रकलेचे वर्ग भरोवचे खातीर स्वतंत्र इमारत, खुद्द शाळेमुखार बाग, फाटल्या वाटेन कवायतीं खातीर व्हड मैदान, मल्लखांब, आदीं आशिल्लो आखाडो. स्वतंत्र इमारतींत रासायनीक प्रयोग शाळा, फुटबॉल, हॉकी, आदी खेळां खातीर विस्तीर्ण क्रिडांगण आदी व्यवस्था सुंदर आसा. कारवार शारांतल्या आनी जिल्ह्यांतल्या आंतरशालेय क्रिकेटिचे सामने वा शारांमदले सामने ह्याच क्रिडांगणार जातात.

**हिंदू हायस्कूल :**

'ऋगवेदी' ह्या नांवान मराठी वाचकांक परिचीत आशिल्ले श्री वामन मंगेश

दुभाशी आनी श्री हरी वाघ कामत सहकारी ह्या दोगा शिक्षण प्रेमी संस्थांनी इ. स. 1897 च्या जानेवरींत इंग्लीश पयल्यो तीन यत्ता शिकोवचे खातीर ही शाळा स्थापन केली. पयल्या वर्सा27 विद्यार्थी, दुसऱ्या वर्सा 57 आनी तिसऱ्या वर्सा110 अशी संख्या झपाटयान वाडली. सरकारी शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांच्या संखेर हाचो अनिश्ट परिणाम जाल्ल्यान ह्या संस्थेच्या उदरगतींत अनेक आडखळी हाडपांत आयल्यो. आनी अखेरेक हांगाच्यान तयार जाल्ल्या विद्यार्थ्यांक फुडल्या यत्तां खातीर सरकारी शाळेंत दाखल करूंन घेंवकय नकार दिवंक लागले. पूण ह्याच वर्सा म्हणल्यार इ. स. 1900 वर्सा निकतेच बी. ए. जावन आयिल्ले श्री, मंगेश पुंडलीक कुळकर्णी हांणी ह्या संकटांतल्यान तोड काडली. आनी 4 थी पसून 7 व्या यत्ते पर्यंत शिक्षण दिवपा खातीर ताणी स्वतंत्र शाळा काडली. परत सरकारी आडमेळे निर्माण केले, आनी बंधनां घाली. आनी हिंदू स्कूलार तीन यत्ता उपरांत श्री कुळकर्णी हांच्या शाळेंत भुरगीं धाडपाक मनाय केली. ह्याच वेळार श्री मंगेश पुंडलीक कुळकर्णी हांच्या आदाराक तांचे बी. ए. जाल्ले भाव श्री घनश्याम सुब्राव वागळे हेवूय आयिल्ले. आनी ह्या दोनूय भावांनी कसल्याय आडमेळींक जुमानीनासतना आपल्या स्वतःच्या शाळेचे पयली सावन मॅट्रिक पर्यंत शिक्षण दिवपी हायस्कूलांत रूपांतर केलें. ह्या दोनूय भावांच्या कौशल्यांक लागून सरकारी शाळा सोडून विद्यार्थी ह्या शाळेंत येंवक लागले. सरकारी रोशाचो ऊजो चडूच भडकलो. पूण श्री कुळकर्णी आनी श्री वागळे वा तांचे हजारों विद्यार्थी तशेंच हांगाची जनता तांका ज्या नांवान वळखतात ते नुनामास्तर आनी धिमण्णा हे ह्या सगळया दिव्यांतल्यान पार पडले.

तीन चार वर्सांत हिंदूस्कूल चलोवप तांच्या मूळ चालकांक अशक्य जालें. आनी ताणी ती संस्था नुनामास्तर आनी धिमण्णा ह्या दोगूय भावां कडेन दिली. ल्हान व्हड तुफानी वाऱ्यांतल्यान हांणी संस्थेचें तारू सावरून व्हेलें. आनी इ. स. 1914 पसून प्रगतपिथावेलो आपलो प्रवास संथपणान करीत ही संस्था इ. स. 1939 त हायस्कू लच्या दर्ज्याक पावयली. ह्या वर्सा पसून आज ती हिंदू हायस्कूल ह्या नांवान वळखतात.

इ. स. 1944 त कारवार एज्युकेशन सोसायटी ही संस्था स्थापन केली, आनी हिंदू हायस्कूल ह्या संस्थेच्या स्वाधीन केली. आज ह्या शाळेंत शालान्त

परिक्षे पर्यंत सगळे वर्ग आसून विद्यार्थ्यांची संख्या 600 वयर आसा. आनी चोवीस शिक्षक आसात. जाय त्या दानशूर दात्यांनी दवरिल्ल्या रकमेंतल्यान वर्सुकी 18 बक्षिसां आनी शिश्यवृत्त्यो दितात. . रा. सा. गणपत शंकर तेलंग हे ह्या चालक संस्थेचे अध्यक्ष, श्री. महेश्वर सर्वोत्तम मुझुमदार, बी. ए. हे विश्वस्त मंडळाचे अध्यक्ष, आनी श्री. आनंद दत्तात्रय कुळकर्णी बी. एसूसी. हे शाळेचे मुख्याध्यापक आसात.

आदर्श शिक्षण संस्था, आदर्श नितीशिक्षण दिवपी संस्थां अशीच ह्या शाळेची प्रसिद्धी आसा. आनी एक भव्य परंपरा सांभाळपी ही शाळा म्हणल्यार नुनामास्तर आनी धिमण्णा हांच्या अर्द शेकड्यांच्या ज्ञान दानांचे प्रतीक जावन बसला. ह्या संस्थेच्या अर्द शतसांवत्सरीक सुवाळो इ. स. 1947 त व्हडा थाटान मनयलो.

**न्यू हायस्कूल बाड :**

श्री नायक आनी श्री मांजरेकर ह्या दोगां म्हत्वाकांक्षी तरनाटयांनी फक्त 38 विद्यार्थी जमोवन पयली चार यत्ता शिकोवपी एक शाळा कारवारच्या उपनगरांतल्या बाड हांगा इ. स. 1925 वर्सा स्थापन केली. एका गृहस्थाच्या उदारतेक लागून दिल्ल्या रावच्या घरांच्या एका भागांत ह्या संस्थेचो जल्म जालो. शिक्षण प्रेमी गृहस्थांकडल्यान कांय रकम जमोवन तांतूत पदरच्या रकमेची भर घालून आद्य चालकांनी शाळेखातीर स्वत:ची इमारत बांदली. आनी इ. स. 1928 वर्सा त्या वेळचे कलेक्टर मि. बास्कर व्हिल हांच्या हस्तुकी ह्या इमारतींचे उक्तावण केलें. त्याच वेळार बाड हांगा दुसरी एक ल्हानशी खाजगी शाळा आशिल्ली, ती बंद करून तांतुतल्या विद्यार्थ्यांचो आनी शिक्षकांचो ह्या शाळेंत आसपाव केलो. द्रव्याच्या पाठबळा बगर शाळेची उदरगत जावप अशक्य प्राय जाल्ल्यान 'प्रिमियर एज्युकेशन सोसायटी' नांवाची सार्वजनीक संस्था स्थापन करून ही शाळा संस्थेच्या हातांत सोपयली. या नंतर शाळेची हळू हळु उदरगत जांवक लागली. आनी वाठारांत दुसरी एक शाळा उगडूनय इ. स. 1948 त ह्या शाळेक हायस्कूलाचो दर्जो प्राप्त जालो. आज ह्या शाळेंत 233 विद्यार्थी अध्ययन करतात.

श्री. वा. रा. हळदीपूर बी. ए. हे ह्या संस्थेचे आजचे अध्यक्ष आसात,

आनी श्री. कृष्णराव नायक बी. ए. एस्. टी. सी. हे मुख्याध्यापक आसात.

**श्री. शिवाजी मराठा हायस्कूल बाड :**

कोंकण मराठा ह्या विशिश्ट नांवान वळखतल्या एका प्रमुख जमातीच्या फुडाऱ्यांनी 'कोंकण मराठा एज्युकेशन सोसायटी' ही संस्था सुरू केली. आनी त्या संस्थेच्या वतीन इ. स. 1945 वर्सा कारवारा वाठारांतल्या बाड ह्या गांवात ही इंग्लीश शाळा स्थापन केली. स्थापन केल्ल्या वर्सा पासून एकेक यत्ता वाडयत आशिल्ली ही शाळा येता त्या वर्सा साकून हायस्कूलच्या दर्ज्याक पावपाची मान्यताय मेळोवन बसल्या.

'सोसायटीचे' आयचे अध्यक्ष श्री. शं. बा. सावंत हे आसून शाळेचे मुख्याध्यापक श्री. भुजले बी. ए. बी. टी. हे आसात.

**सेंट मायकेल कॉन्वेंट हायस्कूल:**

सुमार पंचवीस वर्सा फाटी ईस्ट इंडिया कंपनीच्या हांगाच्या वखारीच्या वाठारांत 'कॉन्वेन्ट' शाळांच्या धर्तेर ही चलयांची शाळा सुरू केली. आज शालांत परिक्षे मेरेन सगळयो यत्तो आशिल्लें हें एक नमुनेदार हायस्कूल जाला. शाळेचो वाठार, क्रिडांगण, रमणीय बाग, शिस्त आदिनीं ही संस्था संपन्न आसा.

## प्रकरण 5 वें

# नागरी जीवन

**नगरपालिका :**

आनी तेरा वर्सांनी आपलो शतसांवत्सरीक सुवाळो मनोवपाच्या योग्यतेक पाविल्ली कारवार नगरपालिका 30 जून 1864 दिसा सरकारान स्थापन केली. आनी इ. स. 1870 त तिची स्वत:ची इमारत तयार जाली. स्थापने पसून इ. स. 1910 मेरेन नगरपालिका सरकारी कारभाराचें एक आंग अशें मानून तिचो कारभार जिल्हो कलेक्टराच्या अध्यक्षतेखाला आनी अधिकाराखाला चलयताले. आनी ह्या संस्थेची आद्य हंगामी समिती सदाशिवगड हांगच्यान कारभार चलयताली. सन 1910 वर्सा ही लोकांच्या सुवादीन केली. आनी कारवारची सर्वांगीण उदरगत करची मोख त्या वेळावयले उमेदी कार्यकर्ते स. रा. ब. गंगोळी हांका ह्या नगरपालिकेच्या पयल्या अध्यक्षपदाचो मान दिलो. आपली तीन वर्साची कारकीर्द उमेदीन चलोवपी अनेक नि:स्वार्थी अध्यक्ष ह्या संस्थेक आतापर्यंत लाभले. शारांतल्या रस्त्यांची सुधारणा, मुळाव्या शिक्षणाचो प्रसार, निवळसाण राखचे खातीर तरेकवार येवजण्यो, आनी कांय वर्सा मेरेन ठाण मांडून बशिल्ल्या प्लेगाचे समूळ उच्चाटन, आनी हेर जायत्यो लोकोपयोगी कामां करून आदल्या अध्यक्षांनी परंपरा राखली. आजचे लोक नियुक्त अध्यक्ष श्री. माधवराव कसबेकर वकील, हाणी आपल्या आमदानीत सात आठशें प्रेक्षकांची बसपाची सोय आशिल्लो भव्य हॉल बांदून दिलो. आनी समारंभ, व्याख्यानां आदी सांस्कृतीक कार्यक्रमांखातीर ताचो वापर

जावचो अशी व्यवस्था करून नागरीकांची कांय वर्साची अडचण पयस केली. नगरपालिकेचे वर्सुकी उत्पन्न रू. 1, 05, 000 आसा. आनी खर्चय सुमार तितलोच आसा.

ह्रेर सरकारी कचेऱ्यांप्रमाण ही इमारतय दर्या देगेलगतच आसा, आनी इमारतीक लागूनच नगरपालिकेच्या मालकेचे एक विस्तीर्ण खेळामळ आसा. ह्या खेळामळाच्या एका कोनशांत ल्हान भुरग्यांच्या मनरिजवणे खातीर, आनी व्यायामां खातीर झोपाळे, निसण्यो आदी साधनां दवरिल्लीं आसात. कारवार शारांत उकत्या मळार जावच्यो भौशीक स्वरूपाच्यो सभा ह्याच रेंवटाच्या मळार भरतात.

**कारवार जनरल लायब्ररी :**

भिन्न वर्णाच्या, भिन्न संस्कृतीच्या पूण समान उमेदीच्या दोन चिटणीसांच्या चौतीस चौतीस वर्साच्या दोन प्रदीर्घ कारकिर्दीक लागून आज नांवारूपांक आयिल्लें हें ग्रंथालय 57 सालच्या बंडाची धामधूम ओसरिल्ल्या सात वर्सांतच जल्मांक आयलें. 1864 मे च्या पयल्या तारखेक कांय इंग्रज अधिकाऱ्यांच्या विचारान मि. एम्. जे. शॉ. स्टुआर्ट हांच्या अध्यक्षते खाला ह्या ग्रंथालयांचे उक्तावण जालें. आनी कांय इंग्लीश पुस्तकांचो साठो विलायतेच्यान मचव्यांतल्यान हाडलो. त्या वेळचे उमेदी आनी लोकांचो मोग आशिल्ले इंग्रज गृहस्थ, डेप्युटी कलेक्टर मि. इंगल हांणी स्थापने दिसा सावन 34 वर्सां ह्या वाचनालयाची जतनाय घेतली. तांच्या से निवृत्ती उपरांत श्री. उग्राणकर हांणी आपल्या णव वर्साच्या कारकिर्दींत ग्रंथालया खातीर स्वतंत्र इमारत आसची अशी आपली कल्पना मांडून वाचनाचो प्रचार केलो. आनी तिसरे चिटणीस श्री. हट्टंगडी हांणी 1910 पसूनच्या आपल्या 34 वर्साच्या अमदानीत ग्रंथवैचित्र्यान लोकांत व्यासंगाची अभिरुची निर्माण केली.

1910 पसून वाचक वर्गा प्रमाण ह्या ग्रंथालयान बाल्यावस्थेचो हुंबरो दाटून जुवान पणाच्या विस्तीर्ण मळार पदार्पण केलें. छापाचें ग्रंथ, आनी टाइम्स ऑफ इंडिया हें एक दिसाळें, आनी इतल्यांचे वाचन सगळयांक रुचूंक जाय हो आग्रो. ह्या चौकटींतल्यान श्री. हट्टंगडी मास्तर हांणी ह्या वाचनालयाक भायर काडले. राजकीय आनी सांस्कृ तीक नदरेन वेगळया

दृश्टीकोनांतल्यान बरयिल्ले भिन्न मतप्रणालीचें ग्रंथ, दिसाळीं, साप्ताहिकां, आनी इंग्लीशा प्रमाण मराठी, कानडी, संस्कृत, आदी ग्रंथ हांची पुरवण वाचक वर्गांक मेळूक लागली. हांणी स्वतंत्र इमारतीचो प्रस्न हातांत घेतलो. आनी जाय तितलो निधी जमोवन 1913 वर्सा नवे इमारतीचे उक्त ावण मोठया समारंभान मनयले. आज ह्या वाचनालयाक जी खास परंपरा, ग्रंथाच्या संग्रहांत गहन आनी ललीत वाड:मयाचें मसालेदार रूचिवैविव्य प्राप्त जाल्ले आसा, ताचें श्रेय सर्वाथान आज सर्गेस्त पूण फोटवाच्या रूपान आपली नजर आनी पाखर ह्या ग्रंथालयार दवरतले श्री. हट्टंगडी हांकाच आसा. ह्या वाचनालयाची एक सांस्कृतीक शाखा आसून तिचे वतीन अनेक परस्थ विद्वानांची व्याख्यांना वेळावेळार घडोवन हाडटात.

इंग्लीश, मराठी, संस्कृत, कानडी आनी हिंदी मेळून सुमार 5000 ग्रंथसंपत्ती आशिल्लें हें ग्रंथालय आजच्या सरकारी आदेशान फुकट जिल्हो वाचनालय जाल्लें आसा.

**बालबंधूसमाज वाचनमंदीर, सुंकेरी:**

कारवारा शारांच्या वाठारांत संथपणान व्हांवपी काळी न्हंयेच्या दगेकदेन शांत अशा वातावरणांत, सुंकेरी हांगा व्यंकटेश देवालय वशिल्लें आसा. थंयच्या मूर्तेमुखार लोक शिक्षणाचो जणू सोपूत घेवन हांगाच्या हिंदू हायस्कूलचें व्यासंगी आनी शिक्षणप्रेमी शिक्षक श्री. जानर्दन सावकार आनी तांचे सर्गेस्त सहकारी श्री. गोविंद नाईक ह्या दोगांनी त्याच देवालयांतल्या सोप्यार थोडीशी पुस्तकां एकठांय करून ता. 4/5/1917 दिसा वयले वाचनालय स्थापन केलें, रूक्ष वाचनांक श्रृद्धेची उब दिवचे खातीर वाचनमंदिराची मिटिंग देवालयांत कली. इतलेच न्हंय तर दरवर्सा शारदोत्सव मनोवपाची बुनयाद ह्या संस्थापकांनी घातली. ललित वाङ्मयाच्या जोडीक ज्ञानपिपासू खातीर महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश, पडिंतवर्गां खातीर महाभारता सारखे संस्कृत ग्रंथय संग्रहीत केलें. ग्रंथालयाचो आकार वाडोवचे परस स्वरूप ल्हान आसलें तरी चिरकालते कडेन लक्ष दिवन, ह्या वाचन मंदिराची एक' विश्वस्त समिती' नेमली. आनी कायम निधी केल्लो आसा. फ क त एका रूपयाच्या वर्सुकी वर्गणीचेर चलत आशिल्ल्ल्या ह्या वाचनमंदिराच्या ग्रंथसंग्रहांत बरेच पोन्ने ग्रंथ आसात. आनी जायती मराठी

दिसाळीं, साप्ताहिकां आनी मासिकां वाचपाची भरपूर सोय आसा.

**अवर लायब्ररी, कारवार :**

हें वाचनालय बाजारांतल्या एका भाडयाच्या इमारतींत 1942 त स्थापले. कारवारांत एक फ कत हिंदी ग्रंथालय आशिल्लें, पूण तें सारखें चल नाशिल्ल्यान तें 'अवर लायब्ररी' ह्या संस्थेत 1945 वर्सा समविश्ट केलें. फकत चार आण्याच्या मासीक वर्गणेत आजकालचे मराठी ललीत वाङःमय, भरपूर वाचपाक मेळपाची सोय ह्या ग्रंथालयांत आसा. मराठी, हिंदी आनी कानडी अशा तिनूय भाशेंतले ग्रंथसंग्रह आसून म्हयन्यांतल्यान सरासरी तिनशें पुस्तकां वाचली वतात.

**महिला मंडळ, वाचनालय :**

हें वाचनालय बायलांनी खातीर बायलां खातीर चलयिल्ले वाचनालय आसा. ह्या संस्थेची ग्रंथसंपत्ती मराठींतच आसा. कथा, कादंबऱ्यो हरी नारायण आपटे पसून आयच्या पिळगेंतल्या लेखकां पर्यंत उपलब्ध आसपी बरेचशे चरित्रात्मक ग्रंथ, इतिहास, संकलीत लेखसंग्रह आदी वेगळया स्वरूपाचे साहित्य ह्या संग्रहालयांत आसा. महिला वर्गात वाचनाची आवड उत्पन्न करपाचें श्रेय ह्याच संस्थेक आसा.

ह्या शिवाय 'सार्वजनीक वाचनालय' आनी 'कस्तुरबा गांधी स्मारक वाचनालय' ह्यो दोन संस्थाय ल्हान प्रमाणार बाड ह्या नांवान वळखतल्या भागांत आपआपल्या परीन साहित्याची आवड निर्माण करचे कार्य करीत आसात.

'मराठी वाङ्मय मंडळ, कारवार', ह्या नव्यानच सुरू जाल्ल्या संस्थेनय आपले ग्रंथसंग्रहालय स्थापन करपाचे यत्न केल्ले आसात. आनी मराठी वाङ्मयाची केंद्र संस्था अशें ह्या नव्या संस्थेक स्वरूप येता आशिल्ल्यान ह्या संस्थचे संग्रहालय खूबच व्हडा प्रमाणार जातले असो अंदाज आसा.

**काशीनाथ पुरूषोत्तम सावंत, स्मारक ग्रंथालय, बाड :**

कारवारच्या वाठारांत आशिल्ल्या बाड ह्या गांवांत थंयच्या कांय लोकांनी कांय वर्सा फाटी वाचनालय उगडलें पूण धना अभावी तें बंद पडले. हांगाचे

जमीनदार आनी सार्वजनीक  कार्यकर्ते श्री. पुरूषोत्तम सावंत हांचे सर्गेस्त पूत काशीनाथ हांणी त्या वाचनालयाच्या चालकांक  धनसहाय्य दिवन व्हडा प्रमाणार वाचनालय  चलवपाचे उतर दिलें. पूण तांच्या अकाली मरणान वाचनालयाची येवजण तशीच उरली. फुडे तांचे भाव श्री. पांडुरंग पुरूषोत्तम सावंत हांणी आपल्या भावान दिल्ले उतर राखचे खातीर स्वत: कश्ट करून आनी डॉ. कैकिणी हांच्या आदारान देणग्यो, वर्गण्यो, सिनेमा आदी वाटेन पयशे जमोवन, सरकारी मदतीन जमीन घेवन सात आट हजारांची ही इमारत, ग्रंथालय आनी फुकट वाचनालय दवरचे खातीर बांदून दिली. ग्रंथालयाची व्यवस्था चोख दवरची ह्या विचारान ताचे चालकत्व कारवार वाङ:मय मंडळाकडेन सोपयिल्लें आसा. ह्या इमारतीचो उक्त ावण सुवाळो साहित्य संमेलनाच्या वेळार करचो ठरयला.

### अर्बन को बँक :

खुद्द कारवारांत अखील समाजाच्या उपेगाखातीर सहकारी पद्धतीन स्थापन जाल्ली ही बँक आसा. सहकारी चळवळ सुरू जाल्या नंतर सात आट वर्सात सहकारी तत्वाच्या प्रसारार्थ सरकारा कडल्यान खेडोपाडी प्रयत्न केले. आनी सहकारी तत्वाचे थळावे पुरस्कर्ते स. दि. बा. यन्नेगडी, रा. ब.  गंगोळी, सा. शं. तेलंग आनी खानसायब शेख अबदुल करीम हांणी फुडाकार घेवन 19/11/1912 दिसा ह्या संस्थेची स्थापना केली. पयल्या एक  दोन वर्साच्या उदरगते नंतर अशा संस्थेच्या उपयुक्तते विशीं लोक साशंक  जाले. पूणचालकांनी नाउमेद जायनासतना पयल्या पांच वर्सात संस्थेची भरीव कामगिरी करून दाखोवन तिची उपयुक्त ता लोकांक  प्रमाणासयत पटोवन दिली. सुरवातेक व्यवहार, अहवाल आदी इंग्लीशींतच जातालो. पूण सहकारी तत्वाची खरीखुरी जाणवीकाय लोकांक  जावची म्हणून पयलो पंचवर्सुकी अहवाल मराठीतच पसिद्ध केलो. आनी हीच पद्धत अजूनय चालू आसा. ह्या पद्धतीन लोकांक ही संस्था आपलीच आसा अशी खात्री पटली. आनी सभासदांची संख्याय भराभर वाडू लागली.

मध्यंतराच्या कांय काळांत बाकी थकिल्ल्यान ह्या संस्थेक  सकयल्या वर्गात घालपाच्या संस्काराचो विचार सुरू जाल्लो, पूण तेवेळच्या उमेदी

कार्यकर्त्यांनी थक बाकीची वसूली करून संस्थेचे नांव राखले. ह्या कार्यकर्त्यांत स. शां. वि. पालेकर आनी स. दत्ता सुबा नाईक हांची प्रामुख्यान नांवा घेतात.

व्यापार उद्योग, कंत्राट, आदींत पदार्पण करपी जाय त्या जणांनी ह्या संस्थेच्या आदारान आपलो जम बसयलो. सार्वजनीक उपयुक्ततेच्या कार्याक, संस्थांक, संकटग्रस्तांक, आदार करचे खातीर' धर्नदाय निधी' साठयिल्लो आसा. को. ऑपरेटिव्ह इंस्टिटयूट, शेतकी सुधारणा संघ, सरकारी दवाखानो, गोरवांचो दावाखानो आदी लोकाहिताच्या आनी समाज सुधारणेच्या संस्थांक भरीव मदत करून ही संस्था सहकारी तत्वाचे सर्वांगीण पालन कटाक्षान करत आसा.

बँक ऑफ रूरल इंडिया लि. ही खुद्द कारवारातच स्थापन जाल्ली, व्यापारी धर्तेर काम करपी बँक आसा. कारवार जिल्ह्यांतल्या भौवतेक सगळया शारांत ह्या बँकच्यो शाखो आसात. बॅकिंगाच्या व्यवसायांत आपली जीण घालयिल्ले, श्री. पी. ग्रेशस हांच्या अध्यक्षते खाला इ. स. 1944 वर्सा ही संस्था स्थापन जाली. 1947 मेरेनच्या चारच वर्सांत ठेवीचो आंकडो अडेच लाखांवयल्यान सव्वा धा लाखां मेरेन पावलो. ह्या चडपी आंकडया वयल्यान ह्या संस्थेर आनी तिच्या अध्यक्षार ह्या जिल्ह्यांतल्या लोकांचो कितलो विश्वास आसा हें दिसून येता.

या दोन बँका खेरीज खुद्द कारवारांत स्थापन जाल्ली दुसरी बँक ना, तरी सुद्धा कारवारांत व्यापारी धर्तेर काम करतल्या हेर कांय बँकाच्यो शाखो हांगा आसात.

कॅनरा इंडस्ट्रियल अँड बँकिंग सिंडिकेट, लि. इ. स. 1925 वर्सा कांय धीरवंत लोकांनी दक्षिण कानडांतल्या उडुपी शारांत ह्या बँकेची स्थापना केली. आनी त्या खातीर फकत 8000 रू. भांडवल उबारले. हळू हळू व्यवहार वाडत गेलो, आनी मोठया मोठया व्यापारी शारांत हांणी शाखो उगडूंक सुरवात केली. व्यापार उद्योगांत नांवाजिल्ल्या लोकांचे पाटबळ ह्या संस्थेक आशिल्ल्याचें दिसताच व्यवहारांचे क्षेत्र वाडलें, आनी निधीय वाडूंक लागलो. इ. स. 1941 नंतर ह्या बँकेची वाड झपाटयान जायत गेली. खास करून दुय्यम शारांतल्या लोकांच्या उपेगा खातीर हांणी जायत्यो शाखो उगडिल्ल्यो आसात. आनी ह्या पश्चिम देगेवयल्या शारांत शाखो आशिल्ल्या बँकांत ह्या सिंडिके टिचो

पयलो नंबर लागतलो. डॉ. टी. एम्. पै. अत्यंत व्यवहार कुशल अध्यक्षांच्या फुडारपणा खाला ह्या संस्थेची वाड जायत आसा.

शामराव विठ्ठल को. बँक लि. हांगाच्या प्रसिद्ध केकिणी घराण्यांतले सर्गेस्त शामराव विठ्ठल ह्या अत्यंत कर्तबगार कार्यकर्त्याचे नांव चिरस्थायी करचे खातीर सहकार तत्वार मुंबयत ही संस्था स्थापन जाली. खुद्द कारवारची अर्बन बँक स्थापन जावच्या पयली पसूनच ह्या संस्थेची शाखा कारवाराक व्यवहार करीत असा.

ॲग्रिक ल्चरल बँक लि. मंगळूराक स्थापन जाल्ल्या ह्या बँकेच्या शाखेचो व्यवहारय बऱ्याच मोठया प्रमाणर चलता.

न्यु. सिटिझन बँक लि. बेळगांव, ह्या संस्थेन गेल्ल्या पांच स वर्सासावन आपली शाखा कारवाराक उगडली. बेळगांव आनी कारवार हांचे व्यापारी संमंद, मोटार वाहतूक जाल्ल्यापासून मोठया प्रमाणार चलतात आनी ह्या बँकेच्या शाखेक लागून व्यवहार सुलभ जाल्लो आसा.

**मित्रसमाज :**

18/3/1905 दिसा कारवारांतल्या प्रतिश्टित गृहस्थांची एक मिटिंग भरोवन दरदिसाचो आपापलो व्यवसाय सोपले नंतर एकठांय बसून एक मेकांचे सामाजीक संबंद लागी हाडच्या उद्देशान मित्रसमाज ही संस्था स्थापन केली. कारवारांतल्या अनेक संस्थांत उमेदीन वांटो घेवपी सर्गेस्त रा. व. गंगोळी हे अध्यक्ष, सर्गेस्त द. भा. नाडकर्णी हे चिटणीस आनी हेर 17 सभासद एकठांय येवन एका लाकडी इमारतींत मित्रसमाजाच्या 'मित्र' मंडळान आपली बसका मांडली. परगांवचे आसूनय कारवारच्या वातावरणांत आपलेपणाच्या भावनेन एकजीव जाल्ले तेवेळचे कलेक्टर सरदार पानसे, हांच्या कश्टान ह्या समाजा खातीर सरकाराकडल्यान दर्या देगेलागी जागो मेळ्ळो. चार पांच वर्सांत इमारत बांदचो विचार जालो. आनी 15/1/1911 दिसा तेवेळचे मुंबयचे गव्हर्नर सर जॉर्ज क्लार्क हांच्या हस्तुकी ह्या इमारतीचे उक्त ावण जालें. सभासदांची संख्या वाडूंक लागली. बैठे खेळ आनी टेनीस सुरू जाले. कॉलेज विद्यार्थ्यांक सभासद जावची मेकळीक दिली.

कारवारांत तो वेळमेरेन सभा वा व्याख्यांना ह्या खातीर एकय सभागृह

नाशिल्लें. ताजी कमतरताय मित्रसमाजाच्या ह्या हॉलान भरून काडली. आनी गेल्ल्या वर्सा नगरपालिकेचे भव्य सभागृह बांदी पर्यंत व्याख्यांना खातीर, समारंभा खातीर ह्या मित्रसमाजाचोच उपेग करताले.

आज पटार देडशें सभासद आसात, आनी रा. सा. गणपत शंकर तेलंग हे ह्या संस्थेचे अध्यक्ष आसात.

**वामनाश्रम, कारवार :**

गेल्ल्या शेंकड्याच्या अखेरेक कारवारचे सर्गेस्त वामन सुब्राव वागळे, हे व्यवसाया निमित्त मुंबयत स्थायीक जाले. ते एक उमेदी कार्यकर्ते, अनेक लोकोपयोगी कार्यात वांटो घेवपी, आनी सामाजीक कार्याक हातभार लावपाक तत्पर असे आसले. तांका लागून तांचो इश्टपरिवार खूब व्हड आसलो. तांका 1910 वर्सा कमी वयांत मरण आयलें. तांची स्मृती चिरकाल दवरचे खातीर तांच्या सहाध्यायांनी आनी इश्टमित्रांनी एक येवजण आंखली. तांचे भाव हिंदू हायस्कूलचे सेवा निवृत्त चालक श्री. मंगेश पुंडलीक कुळक र्णी हाणी आपल्या जमिनीचो एक तुकडो दिवन ह्या येवजणेक सक्रिय सहानुभूती दाखयली. आनी 'वामनाश्रम' ही इमारत बांदली. भायल्या गांवच्यान आयिल्ल्या शीक मनशांक रावपाची व्यवस्था जावची ह्या उद्देशान हे स्मारक बांदले. बायलांचे मंडळ, ग्रंथालय, आदी येवजण्यो ह्याच स्मारकांत मूर्त रूपाक आयल्यो. आज ही संस्था विश्वस्थांच्या देखरेखी खाला आसा.

**टेंपल कमिटी :**

पोन्या राजवटींत हिंदुस्थांनांतल्या अनेक प्राचीन देवळांक सरकारी तिजोरेंतल्यान वर्सुकी तनखो मेळटालो. इंग्रजांच्या हातांत सत्ता आयले नंतरय ताणीं अनेक सुवाते वयले तनखे चालू दवरले, आनी आपूण दिल्ल्या पैशांचो विनियोग योग्य रितीन जावचो अशा विचारान ताणी इ. स. 1810 वर्सा एक कायदो करून तो बंगाल आनी मद्रास ह्या दोनच इलाख्यांत लागू केलो. ते वेळार कारवार जिल्हो मद्रास इलाख्यांत आशिल्ल्यान हें कलम ह्या जिल्ह्याक लागू जाले. देवालयांवयली देखरेख करचे काम, ते वेळार सरकारी अधिकाऱ्यां कडेनच सोपयिल्लें. आनी अनेक धर्म संस्थांच्या इस्टेटींत पुराय

लक्ष दिवप शक्य नाशिल्ल्यान गोंदळ माजिल्लो दिसलो. . त्या वयल्यान 1863 च्या कलमाच्या आदारान दरेक जिल्ह्यांत ह्या कामां खातीर 'टेंपल कमिटी' स्थापन केल्यो, आनी या समितीचे सभासद प्रतिश्टित स्थानीक गृहस्थांतल्यान वेंचपाची व्यवस्था केली. कारवारच्या समितिच्या देखरेखी खाला 52 देवळां आसात, आनी दरेक देवळां खातीर नेमिल्ल्या विश्वस्थां कडल्यान पूजा अर्चेचे दिसावळीचे कार्यक्रम, उत्सव, जात्रांचे नैमित्तीक कार्यक्रम, नोकर वर्गांचे पगार दिवप आदी व्यवहार, तांचे हिशेब दवरप आदी कामां रीतसर करून घेवपाची जबाबदारी ह्या समितीर आसा. सर्गेस्त दिवाणबहादूर यन्नेमडी, सर्गेस्त दत्तात्रय भास्कर नाडकर्णी हांणी ह्या समितिचे अध्यक्ष ह्या नात्यान भरीव कामगिरी केल्ली आसून ह्या समितिचे आजचे अध्यक्ष श्री. शेट्टी वकील हे आसात. आनी श्री. ग. वि नाईक हे सचीव आसात.

धर्मदाय संस्थांच्या व्यवस्थे खातीर आताच्या सरकारान नवीन कायदो पास केल्लो आसा. आनी हो कायदो अमलात येतरेत शेंकडया वयर चलत आशिल्ल्यो ह्यो समित्यो बंद करतले असो अंदाज आसा.

●●●

# प्रकरण 6 वें

# धर्ममंदिरां

कारवारा शारांत ल्हान व्हड देवळां खूब आसात. तरी पूण गोंयांत सुरू जाल्ली देवळांची परंपरा त्याच सरळ रेशेत ह्या पश्चिम देगेर चलत आयिल्ली आसा. उत्तरेकडल्यान आयिल्ल्यो आर्यांच्यो टोळयो गोंयात थिरावल्यो, आनी लोक संखेच्या वाडीक लागून, व्यवहारा निमित्त आनी पुर्तुगिजांच्या आगमना नंतर जाल्ल्या अती तीव्र धर्म छळाक वैतागून, अशा तीन कालखंडात, तीन कारणांक लागून भोवंडी करीत ही पश्चिम देग ह्या आद्य टोळयांच्या वंशजानी व्यापून उडयली. ह्या अनुमानाक ह्या देवळां लागून पुश्टी मेळटा. इतिहासाची रीतसर नोंद नशिल्ल्यान अनेक देवळांच्या इतिहासांत दंतकथांचे भारूडच चड आसा. पूण एक गोश्ट खरपणान दिसून येता, ती ही की, गोंयच्या शिमेक लागून आशिल्ली देवळां अत्यंत प्राचीन आसात. हो पुर्वापार चलत आयिल्लो समज गोंयांतल्या सुवर्णार्थक गावाच्या नांवाची परंपराय सदाशिवगडा लागी कनकगि़री, सोनारगिरी ह्या गांवा पर्यंत दिसून येता. गोंयांतली शांतादुर्गा, महादेव ही दैवतांय ह्या देगेवयल्या गंगावळी मरेन आढळतात. तरी महादेव आनी शांतादुर्गा ह्या दैवतांचो प्राचूर्य कारवार तालुक्यांत तर खूबच आसा. या दोनय वा दोनां पैकी एका तरी दैवतांचे देवूळ नाशिल्लें गांव चडशे मेळचे ना. ह्या सगळया देवळांचो इतिहास आजमावन पळयल्यार सगळे तपशील समान दिसतात. प्रतिष्ठापनेच्या काळांत आनी प्रतिष्ठापकांच्या नांवात तितलो फरक दिसून येता. कारवार शार आनी ह्या शारांचो वाठार हांतूतल्या कांय मुखेल

देवळांची आनी धर्ममदिंरांची वळख ह्या प्रकरणांत करून दितात.

**श्री; सज्जेश्वर:**

कारवार शारांच्या पुर्वेक दोन मैलार शेजवाड ह्या विभागांत हे सज्जेश्वर नांवान प्रसिद्ध आशिल्लें शंकरांचे देवूळ प्राचिनतेच्या नदरेन सगळयांत पोन्ने आसा. रावणाक गोकर्णलिंग जमनीतल्यान खणून काडूंक जाले ना, तरी त्या लिंगाचे कवच तुकडे जावन ताच्या हातांत आयले. आनी आशाभंगाच्या रागात रावणान उडयिल्ल्या त्या कवचाचे पांच तुकडे पांच जाग्यार पडले. तांतूतलो एक हांगा पडलो, आनी ताचेरच ह्या देवालयाची प्रतिष्ठापना जाली अशी दंतकथा आसा. (गॅझेटियर) पुजाऱ्यांच्या घराण्यांत चलत आयिल्ल्या समजुते प्रमाण कैक शेंकडया फाटी जखणाचार्य नांवाच्या एका शिल्पकारा कडल्यान एका जैन राजान हें देवूळ बांदून घेतलें. फुडे सौंदेकार राजाक शिवरात्रेच्या दिसा ह्या जिल्ह्यातल्या पांचय शंकर लिंगाचे दर्शन घेवची हुक्की आयली. तो घोडयावयल्यान गाकर्णाच्यान सुटलो, आनी बरोबर ताचो एक सेवक चलतच सुटलो. पंचलिंगाच्या दर्शना नंतर घरा येतरेच अती श्रमान तो सेवक अत्यवस्थ स्थितीत आशिल्लो. सौंदेकराच्या नदरेक पडलो. राजान ताका बक्षिस मागूक सांगले, आनी ताणे भलायकी बरी जाताच एक प्रहर राज्यांचो कारभार आपल्या तंत्रान चलचो असी विनंती केली. राजान ही विनंती रोखडीच मान्य करताच ताणे ह्या पांचय देवळांक दिसाक चार रूपय खर्चा खातीर मेळतले अशा उत्पन्नाच्यो जमनी दान करून दिल्यो. फुडे टिपूच्या ताब्यांत हो भाग आयले नंतर ताणे चौकशी करतना देवळांची व्यवस्था पळोवपी मंडळी ताचे कडेन गाऱ्हाणे घेवन गेली, आनी खोटे हिशेब दाखोवन ताणी टिपूक भासोवन दिलें की, वर्साचो खर्च रू. 1500 आसलो तरी आपल्या ताब्यांतल्या जमनी पसून अतिशय कश्टान वर्सुकी रू. 450 मेळतात. टिपून आयिल्ल्या शिश्ट मंडळाकडल्यान त्यो 1500 रू. जमनी सरकार जमा करून घेतल्यो, आनी देवळांक वर्सुकी रू. 450 मेळपाची व्यवस्था कली. अजूनय सरकारांतल्यान ही रक्कम या देवळाक मेळता.

देवळांत शंकर, दुर्गा आनी गणपती हीं दैवतां आसात. गर्भकूड काळया फातराची आसून खूबच पोन्नी आसा. भायली बाजू शंभर देडशीं वर्सां पयली

बांदिल्ली आसा. शेजरांक 'वरूण तीर्थ' नांवाचे तळें आसा. महाशिवरात्रेक व्हड उत्सव, दसऱ्याक पालखेची मिरवणूक आनी कार्तिकांतल्या त्रिपुरारी पूनवेक दिपोत्सव आनी वनभोजन हे वर्सुकी कार्यक्रम जातात.

**महादेव, बाड :**

खुद्द कारवार शार वाडीक लागचे पयली बाड होच व्हड विभाग आसलो, आनी अजूनय सरकारी कचेरेंत कारवार शराचो बरोच मोठो भाग बाड असोच उल्लेख आसा. गोयांतल्या धर्मछळाच्या अतिरेकान भायर पडिल्ल्या आनी ह्या दिकेक येवन वसणूको केल्ल्या गौडसारस्वत ब्राह्मणांनी ह्या दैवतांची स्थापना सुमार 400 वर्सां फाटी केल्ल्याची दंत कथा आसा. देवळांत महादेव, गणपती आनी भगवती हांच्यो मुर्ती आसून वाठारांत ग्रामदेवता आनी भूदेवता बसयिल्ल्यो आसात

1920वर्सा कांय प्रतिश्टीत लोकांनी आट धा हजारांचो निधी जामोवन ह्या देवळाचो जीर्णोद्धार केलो.

कार्तिक वद्य पाडव्या पसून पंदरा दीस व्हड उत्सव जाता. हिंदुतल्या उच्चनीचत्वाचे भेद मानिनासतना ह्या पंद्रसेत दरेक दिसा एके का घराण्या कडल्यान पूजा सांभाळली वता. हेर शंकराच्या देवळां प्रमाणे वनभोजन, सिमोलंघन, आनी शिवरात्रेच्या दिसा दर्यान्हाण आनी पालखेची मिरवणूक हीं हांगाय जातात.

श्री शंकराचे वा महादेवाचे आनीक एक पोन्ने देवूळ कडवाड हांगा आसा. आनी कारवारच्या पूर्व दिकेक गणपतीचे आनी शेजराक दुर्गेचे अशी देवळां आसात.

**व्यंकटरमण मठ, कडवाड :**

कारवार शाराच्या पुर्वेक पांच मैलार आशिल्ल्या ह्या पोन्न्या शारांत हो मठ आसा. 350 वर्साफाटी व्यंकटेश आनी देवी ह्या प्रतिमेचे 'स्वयंवर' घेवन एक बैरागी ह्या दिकेक आयलो. आनी उगडयार ताणे ह्या प्रतिमांची पूजा अर्चा सुरू केली. त्या वेळार ह्या गांवचे प्रतिश्टीत रावपी सर्गेस्त म्हातम शेणय कसबेकर हांका त्या मूर्तेची आस जावन ताणी थंयच्या लेकांच्या आदारान

एक  मठ बांदून दिलो. त्या 'स्वयंवराची' प्रतिष्ठापना केली आनी नित्य नैमित्तीक  पूजा अर्चे खातीर सुमार 400 खंडी भाताच्या उत्पन्नाची जमीन देवळाच्या नांवार केली. मठाची भक्त  मंडळी वाडली आनी मठाचो लौकीक आयकून पयस पयसचे लोक  हांगा येंवक  लागले. वैश्णव संप्रदायाचे त्या वेळचे धर्मपिठाध्यक्ष श्रीरामचंद्रतीर्थ श्रीपादस्वामी हे एक  फावट हांगा पावले. आनी त्या वेळार कायदेशीर दस्तऐवज करून देवळाचे उत्पन्न आनी व्यवस्था सन 1704 त तांचे कडेन दिली, इंग्रजांच्या अमदानीतल्या 'सर्वे' वेळार ही स्वामींच्या नांवार खाजगी मालमत्ता जमा केली. फुडे मानापमानाच्या शुल्लक कारणां वयल्यान भक्तां मदी फूट पडली.

कांय वर्सांनी लाकडी मठाची जीर्णावस्था पळोवन इ. स. 1843 वर्सा नवीन मठ बांदलो. ह्या मठांत रथ स्थापन केल्ल्याचो दीस म्हण माघ शुद्ध नमीक  रथोत्सव मनयतात.

**श्री मारूती, कारवार :**

सुमार एका शेंकडया फ ाटी सीताराम बुवा नांवाचे एक  परगांवचो बुवाजी एक मूर्ती घेवन रस्त्याच्या एका वटेन बशिल्ले आसताले. कांय भावीक  लोकांनी तांका तेल, शेदूर दिवपाक सुरवात केली, आनी कांय दिसांनी शेजारच्या भाटांतल्या उक्त्या जाग्यार एक  घुमटी बांदून दिवन थंय ह्या मुर्तिची स्थापना केली. त्या वेळार कारवार शाराची मुख्य व्यापारी पेठ ह्या घुमटीच्या लागीच आशिल्ली, आनी व्यापारी करारांबाबत तंटेवाद जाल्यार 'पंचायती' करूक, शपथ घेवंक  लोक  थंय येंवक लागले. भक्त गण वाडले, मेळ तयार जाले, आनी भाटांच्या मालकांनी तक्रार क रूंक  सुरवात केली. लोकांच्या आगऱ्या वयल्यान त्या वेळचे धनीक  व्यापारी सर्गेस्त नारायण सबनीस हाणी थोडे पयशे जमोवन पदरचे बरेच पयशे घालून जागो विकत घेतलो. देवूळ बांदून दिलें, आनी पुजाऱ्यांच्या पगाराची आनी उत्सवाच्या खर्चाची बी व्यवस्था केली. तांच्या आकस्मीक  मरणा नंतर तांच्या बापोल भावानी फुडाकार घेवन देवूळ नांवलौकि काक  हाडलें. आनी व्यवस्था एका समितीच्या सुवाधीन केली.

प्रतिष्ठापनेचो दीस आनी मारूतीजल्म अशें दोन उत्सव दर वर्साक मनयतात, आनी एक  जात्रा भरता.

**राधाकृष्ण :**

मारूती देवळाच्या लागीच राधाकृष्णाचे देवूळ आसा. देवळाची बरीचशी उभारणी एके वेळचे धनीक व्यापारी शेठ तुळशीदास हांणी आपल्या बापोल्याच्या स्मरणार्थ करून दिल्ली आसा. गर्भकूड बापोल्याच्या आनी सभामंडप आपली आवय आनी काकी हांच्या स्मरणार्थ इ. स. 1923 त बांदून दिला.

**विठोबा :**

हें देवूळ सुमार 75 वर्साचें पोन्ने आसा. शारांतल्या पोलीस 'लायन्स' लागी आशिल्ले, तेन्ना भजक वर्गात तांचोय भरणो खास आसलो. आनी काणी, किर्तनां, भजनां, बी ह्या सुवातेर बरींच जाताली. पूण पोलीस लायन्स हांगाच्यान हालयले नंतर कार्यक्रमांत पयलींचो जोम ना, तरी सुद्धा ते वेळार पडिल्ली भजन -मेळयाची प्रथा अजूनय चालू आसून वर्सांतल्यान एक फावट ह्या देवळा मुखार जात्रा भरता.

**श्री. रामेश्वर, कारवार :**

कारवार हे जिल्ह्यांचे मुख्य शार केल्या उपरांत थोडयाच दिसांनी सरकारी नोकरी आनी वकीली पेशा आपणायिल्ले अनेक सारस्वत गृहस्थ आपल्या कुटूंबासयत कारवाराक येवन स्थायीक जाले. धर्माच्यो आनी भक्ती संप्रदायाच्यो विशिश्ट कल्पना मनांत बाळगुवपी ह्या घराण्यांनी खास आपल्या जमाती खातीर म्हण ह्या देवालयाची इ. स. 1818 वर्सा स्थापना केली. थळाव्या लोकां कडल्यान थोडो निधी जमोवन हळुहळू देवूळ, चंद्रशाळा, विस्तीर्ण वाठार, अतिथीच्या रावपाची वयवस्था आदींची भर केली देखरेख पळोवचे खातीर एक विश्वस्थ मंडळ नेमले. वनभोजनाचो उत्सव आनी रामजन्माचो उत्सव मनोवपाची प्रथा घातली. आनी हे देवूळ नांवारुपाक हाडले. हांगा जायत आशिल्ल्यो जायत्यो पूजा विधी आनी उत्सव हांची म्हायती, उत्पत्ती, आनी फलश्रृती सांगपी एक पुस्तीका छापून प्रसिद्ध करपाचो आयच्या मंडळाचो हेतू आसा. त्याच प्रमाण कारवार शाराच्या उदरगतीक झटिल्ल्या ह्या देवळाच्या भजक मंडळीचो परिचय करून दिवपी एक पुस्तीका काडपाचो मंडळाचो

उपक्रम कौतूक करपा सारखो आसा.

**मुरलीधर मठ :**

महाराष्ट्रीय संतांत प्रसिद्धी पाविल्ले दौलताबादचे साधू श्री रमावल्लभदास हांणी ह्या जिल्ह्यांत श्रीकृष्ण मुरलीधराच्या मठाची परंपरा सुरू केली. आनी 18 व्या शेंकडयातच जायत्या सुवातेर तांच्या शिष्यवृंदानी मठ स्थापन केल. पूण खुद्द कारवारा शारांत असो मठ नाशिल्लो. हांगाच्या हळदीपूर घराण्यांच्या उदारतेक लागून आनी परिश्रमान 1926 वर्सा घाटां सकयल लागीच विस्तीर्ण पटांगण आशिल्लो मुरलीधर मठ स्थापन जालो.

**दत्तमठ, बाड :**

द्वारका मठाच्या परंपरेतले एक वेदांती आनी संन्यास धर्माची दीक्षा घेतिल्ले स्वामी पद्मनाभ तीर्थ हांच्या शिष्यगणात भायल्या एका शारांत व्यवसाया निमित्त रावपी दोन कारवारी गृहस्थ हजर जाले. धार्मिक पीठाची स्थापना करूंक कारवारची भूंय आनी समाजाची मानसीक भूंय योग्य आसा, तरी तुमी थंय चला असो स्वामींक तांचो आग्रो जालो. आनी प्रचारकार्याकच स्वतःक व्हावेन घेतिल्ल्या श्रीपद्मभनाथ तीर्थांनी तांका मान्यताय दिली, आनी ते हांगा आयले. शिष्यांनी केल्ले कारवारचें वर्णन तांका पटले, आनी तांणी आपल्या शिष्याच्या आदारान हांगाच्यान दोन मैलांर आशिल्ल्या बाड ह्या गांवात हो दत्तमठ 1907 वर्सा स्थापन केलो. श्रीपद्मभनाभतीर्थ हे विद्वान, व्यासंगी, धर्माचो सखोल अभ्यास केल्ले, प्रासादीक कवी आनी उत्तम प्रवचन करपी आशिल्ले. ह्या तांच्या गुणांक लागून तांचो छात्रगण भराभर वाडूंक लागलो. आपले धर्मप्रचाराचें कार्य करचे खातीर तांणी स्वतः छापखानो घातलो. आनी 'अखंड समाधान' हें मासीक कांय म्हयने चलयलें. पूण 1908 वर्सा तांका 'पोटाचो' रोग जालो आनी 1910 वर्सा ते समाधिस्त जाले.

श्रीपद्मनाभ तीर्थ हे खूब उदारमतवदी आशिल्ले. ते स्वतः संन्यासी आशिल्ले, तरी आपल्या छात्रगणां मदल्या कोणकच तांणी आपल्या प्रापंचीक कर्तव्या पसून परावृत्त केलें ना. बायल -दादलो, उच्च-नीच, जाण्टे-नेण्टे, हे भेद

तांका खबरच नशिल्ले. आपल्या आत्यंतीक दुखण्यात मठाची व्यवस्था चलवचे खातीर तांणी एक समिती स्थापन केली. आनी आपल्या मनांतले कांय नेम थारयले. त्या नेमांतल्यान एका नेमावतीन ह्या मठाच्या अस्पृश्य भक्त ाक सुद्धा स्पृश्य हिंदुप्रमाणेच वागोवचे अशें बंधन घातिल्लें आसा!अशा तरेचे उदाहरण त्या कालखंडात सांपडप कठीणच.

ह्या मठाचो भक्त परिवार बरोच व्हड आसा. गुरूद्वादशीच्या व्हड उत्सवा शिवांय श्रावण म्हयन्यांत पुण्यतिथीचो उत्सवय व्हडा थाटान जाता.

**सुंकेरी चर्च :**

कारवार शाराच्या शेवटाच्या भागात सुंकेरी ह्या वाठारांत एक सामकी पोन्नी आनी भव्य अशी चर्च आसा, आनी क्रिश्चन लोकांच्या धर्ममंदिरा मदलें हें सुमार 350 वर्साचें सगळयांत पोन्ने चर्च आसा.

इंग्रजांनी इ. स. 1638 वर्सा आपली वखार उगडतकच क्रिश्चन लोकांसंख्या कांय प्रमाणर वाडूंक लागली. पूण सौंदेकार, विजापूरकर, मोंगल इत्यादिकांच्या राजकारणी डावपेचाक लागून तांका धर्माकडेन लक्ष दिवंक फुरसत नशिल्ली. पूण इ. स. 1709 त एक पाद्री येवन ताच्या अधिकारा सकयल एका खोपीतच 'चर्च' ची व्यवस्था केली. आनी 1722 त ह्या खोपीच्या सुवातेर भव्य फातराचे चर्च बांदले. इ. स. 1752 त सौंदेकारांचो पुर्तुगिजांकडेन बेबनाव जालो. आनी ताका लागून ह्या चर्चावयलो अधिकारी पुर्तुगिजांच्या वाटेन आसा या संशया वयल्यान सौंदेकारान ताका अटक केली. इ. स. 1764 त हो भाग हैदरा कडेन येतरेच हांगाची ख्रिस्ती लोकसंख्या कमी जाली. 1784 त टिपून हें चर्च बंद केलें. कांय ख्रिस्ती बाटयले, आनी कांय जणांक ताणे श्रीरंगपट्टणाक व्हेलें. इ. स. 1794 वर्सा हो भाग इंग्रजांकडेन यतरेच पळून गेल्ले कांय ख्रिस्ती परत हांगा आयले. लोकसंख्या 300 पर्यंत आयली. आनी चर्च परत वाडीक लागले. इ. स. 1800 च्यान व्यवस्थे खातीर तंटे सुरू जाले, कारण उत्पन्न वाडिल्लें, आनी पुर्तुगेज धर्मकेंद्राक हें चर्च आपल्या कडेन आसचे अशें दिसूंक लागले. इ. स. 1801 त आयिल्ल्या अधिकाऱ्यांक आसरो दिवंक जायना असो आदेश गोंयच्या गवर्नरान कारवारच्या इंग्रज क लेक्टराक धाडून दिलो. पूण फादर फ्रॅन्सीस ह्या धर्माधिकाऱ्याक इंग्रजांनी सवलती

दिल्यो, क्रिश्चनांची जमवाजमव केली. आनी इंग्रजां कडल्यान मेळिल्ल्या 2000 रू च्या आदारान व्हडलें चर्च बांदून तें फ ादर फ्रॅन्सीसच्या देखरेखी खाला 39 वर्सा उरले. ह्या जिल्ह्याचो अंतर्भाव मद्रास इलाख्यांत जाता म्हण इ. स. 1812 पर्यंत मद्रास सरकाराकडल्यान ह्या चर्चाक पगार दिलो, आनी देखरेखी खातीर ताबो मेळचो म्हण जायत्या केंद्रांत तंटे उपस्थित जाले. इ. स. 1853 वर्सा ह्या चर्चाची व्यवस्था, एकत्रीत कानडा जिल्ह्याची त्या वेळची राजधानी मंगळूरच्या एथील मिशनाकडेन सोपयली. आनी मुंबय सरकारच्या हातांतल्यान हें चर्च भायर पडले. 1886 वर्सा हें चर्च गोंयच्या केंद्रा खाला गेलें. आनी ते वेळार सुमार 3000 क्रिश्चन ह्या चर्चाच्या 'क्षेत्रांत' आशिल्ले. नवीन व्यवस्थापकांनी पोन्न्या व्यवस्थापकांकडेन केल्ले तंटे इतल्या थरांमेरेन पावले की. पोन्न्या कारकिर्दींत चर्चाच्या वाठारांत पुरिल्लीं अधिकाऱ्यांची मडीं उस्तून हाडां रस्त्यार उडोवन दिवपा पर्यंत 'धर्मचालकांची' मजल गेली! पोन्न्या ग्रंथांत ह्या गोंयांतल्या पाद्री लोकांविशी बरेच किळसवाणे उल्लेख आसात. ताची गैरव्यवस्था, सुखासीनता, संस्थांचो पैसो आपल्या खाजगी चैनीखातीर वापरपाची प्रवृत्ती, हांचेर बरेच आसूड ओडिल्ले आसात. आजय थळाव्या लोकांच्यो बऱ्योच कागाळी आयकूंवक येतात. ह्या चर्चाच्या वाठारांत रावपी गरीब विद्यार्थ्यांक मदत नाकारतात. आनी आपल्या वाटेच्या भुरग्यांचो कैवार घेतात. हांगाच्या लोकांकडल्यान पैसो जमयलो वता आनी ताचो विनियोग भायल्या गांवच्या लोकांखातीर करतात असो सूर आसा.

# प्रकरण 7 वें

# साहित्यसेवा

ललीतकलांच्या जायत्या आंगान हांगाच्या लोकांची बरीच प्रगती आसा, साहित्य, संगीत, चित्रकला, वादन आदींची आवड हांगाच्या समाजाक बरीच आसा. पूण ह्या आंगात उच्चांक गाठपाचें भाग्य खूबच थोडयांक मेळिल्लें आसा. कारण ह्या विविध कलांची उपासना, हौस व शोक म्हणूनच करतात. महाराष्ट्रांतले एक विद्वान, टिकाकार आनी लेखक श्री. पु. रा. लेले हांणी आधुनीक रंग भूंये वयले आपले मत प्रकट करताना सांगिल्लें विचार ह्या बाबतींत मननीय असात. नटवर्गाच्या उदरगते विशीं ते म्हणतात की, हौशी नटांकडल्यान आज मरणान्न स्थितींत आशिल्ली रंगभूंय जगोवपाची आशा व्यर्थ आसा. हें कार्य धंदेवाल्या नटांकडल्यानच जावप शक्य आसा. कारण आपलो अभिनय श्रोतवृंदांक पसंत पडलो ना जाल्यार घरांत चूल पेटची शक्यताय ना, हाची जाणवीकाय जाताच, धंदेवायीक नट आपली कला वाडोवपाचो यत्न करतले. हौस म्हणून केल्ल्या कामांत वा कलोपासनेत पोटतिडीक नासताच. आनी ती आसपय शक्य ना. त्याच कारणान आपले हेर पोटापाण्याचे व्यवसाय सांबाळून फावल्या वेळांत केल्ल्या कलोपासनेत तीव्रताय नासता. आत्यंतीक उदरगतेची तळमळय नासता. आनी ताका लागून उदरगतेचे पावल एका थारावीक तोकां पर्यंत आयले नंतर तें थंयच स्थगीत जाता. उपासनेच्या आरंभकाळांत अशा हौशी लोकां कडल्यान उच्च दर्जाच्यो अपेक्षा हेर लोक करतात. पूण त्यो एका थारावीक बिंदू मेरेन आयले नंतर फोल थारतात.

आयच्या पिळगेंत, ह्या जायरातीच्या युगांत आक र्षक, कल्पनापूर्ण आनी सूचक चित्रांक भांगराच्या मोलान दर मेळता. पूण अशा तरेच्या उपासनेतल्या दैवतांक 'कला' हें नामाभिधान समर्पक दिसच ना. पोटापाण्या खातीर विशिश्ट चौकटेंतलीच चित्रां काडप हाका कला हें विशेशण लागूच पडना. बंधनाची जाडजूड बेडी घातिल्ल्या पावलांच्या नाचांतल्यान घुंगरांचो गोड आवाजय येवचो ना, आनी पदक्षीणय शक्या ना. तरी सुद्धा हौस म्हण कलेची उपासना सुरू केल्ली आसली जाल्यार असल्या व्यवसायी कालकाराकडल्यान थोडीभव कलानिर्मिती जायत. आयच्या कारवारी पिळगेंत व्यवसायी आनी हौशी कलाकार थोडो आसात, पूण वयल्या कारणान तांच्या हातांतल्यान उच्च पातळे वयली वा भव्य ह्या विशेशणाक फावशी निर्मिती जाल्ली ना.

**गायन वादन :**

अखिल भारतांतल्या 'बीन' कारांत प्रसिद्ध पाविल्ले सर्गेस्त मंगेशराव तेलंग हांचे बीन वादन अतुलनीय आशिल्ले. ही तांची कला तांचे नातू श्री. पभाकर तेलंग हांच्यात आयिल्ली आसा. फकत कलेखातीर म्हणून कलेची उपासना करपी सर्गेस्त तेलंग हांच्या आंगात वादन, चित्रकला, आनी काव्य ह्या ललीत कलेच्या सगल्या आंगाचो सामुच्चय जाल्लो. हार्मेनियम वाजोवपाच्या कलेत आयज श्री. वसंत शेजवाडकर हे महाराष्ट्र रसिकांक आपली वळख करून दितात.

पूण कलात्मक उपासनेक प्रारंभ करून तोच व्यवसाय घेतिल्ल्या मदी आज मुंबयत रावपी आनी पयस मेरेन कीर्त पाविल्ले शिल्पकार श्री. विनायक राव वाघ हांचो उल्लेख करचो पडतलो. जांचे शिल्पचित्र हांचे कडल्यान करून घेतलें ना, असो एखाद दुसरोच भारतांतलो प्रसिद्ध मनीस आसतलो. एम्. देसाई ह्या नांवान प्रसिद्ध पाविल्ले सर्गेस्त माधव गणपत देसाई हेवय एक अखिल भारतीय किर्तिचे फोटोग्राफर आशिल्ले. इंजिनियरिंगाचो अभ्यास करतानाच तांका फोटो काडपाची गोडी लागली. 'वीकली' तल्यान एखाद दुसरें इनाम मेळतरेच हांच्या कलोपासनेक चालना मेळ्ळी. आनी ह्या कलेंत तांणी घेतिल्ल्या कश्टांचे फळ आनी केल्ल्या उदरगतीचे प्रतीक म्हणल्यार आंतर्देशीय युरोपांतल्या सर्तींत हांच्या एका छायाचित्राक पयले इनाम मेळ्ळे.

**वाङ्मयसेवा :**

ललीत कले प्रमाणच वाड:मय सेवेचे बाळकडूच हांगाच्या लोकांक मेळिल्ल्या सारखें आसा. वाचनाची गोडी ह्या इल्ल्याशा परिघांतल्या सार्वजनीक ग्रंथालयां वयल्यान दिसताच. शिवाय एखाद्या सार्वजनीक ग्रंथालयांक शोभून दिसपी ग्रंथसंपत्ती खाजगींत वापरपी कितली तरी घराणीं आसात. पूण वाचनाच्या परिमाणांन हांगाच्या सुशिक्षित लोकांनी केल्ली साहित्य निर्मिती खूबंच कमी प्रमाणात आसा.

विद्यावाचस्पती ही पदवी मेळिल्ले सर्गेस्त तेलंग हांणी कांय ग्रंथाचे संपादनय केल्लेंआसा. शिवाय ह्या दोगांय पंडितांनी मराठींतल्यानय थोडेभव स्फूटलेखन केल्ले आसा. डॉ. कैकिणी हांचोय संस्कृताचो अभ्यास दांडगो आसून, हांलीच तांणी केल्लें 'साधू शिवानंद' हांचे वृद्यत्तबद्ध चरित्र प्रसिद्ध जाल्ले आसा.

ह्या भागांतल्या लोकांची खरीखुरी आवड म्हणल्यार मराठी वाड:मय, मराठीचे रीतसर शिक्षण घेतिल्ले नासले तरी पत्रव्यवहार करप, पोथी वाचप, वर्तमान पत्रांचे निदान मथळे तरी वाचप इतली मराठीची वळख ह्या वाटेच्या भोवतेक सगळयांक आसताच. सार्वजनीक ग्रंथालयांत आसू, शाळांच्या वाचनलयात आसू, वा घरगुरती ग्रंथसंग्रहात आसू, मराठी पुस्तकांचो भरणोच खूब, उच्च शिक्षण घेतिल्ल्यांच्या घरच्या संग्रहांत इंग्लीश ग्रंथाचो भर आसप साहजीकच आसा. खुद्द कारवार शारांत लिखाण प्रसिद्ध करचे साधन अशे एखादे नियतकालीक वा एखादी प्रकाशन संस्था नाच. ताका लागून स्थानीक लोकांतल्यान लेखक वर्ग असो निर्माण जालोच ना. तरी सुद्धा मुंबय पुण्यातल्या नियकालिकांत लेख धाडून जांचे संकलीत संग्रह प्रसिद्ध जाल्ले आसात अशें विद्यावाचस्पती ओडलमने शास्त्री, अनंत पै आनी 'शरद' ह्या टोपण नांवाखाला लेखन करपी डॉ. मुझुमदार तीग जाण आसात.

व्यवसाया निमित्त मुंबय पुण्यांत रावपी कारवारी समाजातल्या जायत्या लोकांनी क्रियाशील वाड:मय सेवा केल्ली आसा. फुटकळ लेखन, फावल्या वेळात हौस म्हण लेखन करीत आशिल्लो बरोच मोठो वर्ग आसा. पूण महाराष्ट्र साहित्य मंदिरांतल्या विशिश्ट दालनांत आपले स्थान अढळ केल्ले साहित्तीक म्हणल्यार डॉ, अ. वा. वर्टी आनी श्री. दतू बांदेकर हे दोगच आसात.

डॉ. अ. वा. वर्टी हे मुंबय विश्वविद्यालयाची वैद्यकीय पदवी घेतिल्ले डॉक्टर

आसात. पूण ते कडू वखदा परस रुचकर वाङ:मय निर्मिती लोकांक पिवोवपंतच जीण घालोवपी अभिजात साहित्तीक आसात. आधुनीक लघुकथांचे तंत्र आत्मसात केल्ले, मराठी नियत कालीकांच्या वर्सुकी विशेशांकात उठून दिसपी अ. वा. हांणी मराठी लघूकथेच्या दालनांत मानाची सुवात मेळयिल्ली आसा. 'किर्लोसकरा' वतीन जाल्ल्या लघुकथा सर्तींत हांच्या 'टॉमी' ह्या गोश्टीक पयले इनाम मेळिल्ले. लघु कथांचो हुंबरो बलांटून 'नाटय' हााताळपाचो तांचो प्रयत्न 'राणीची बाग' ह्या नाटकाक मेळिल्ल्या भरघोस यशाक लागून सफल जाल्लो आसा.

उत्कट आवडीक परिश्रमाची जोड मेळ्ळी तर विरोधी परिस्थितीतल्यान सुद्धा मनीस फुडें येवक शकता हांचे जिंते जागतें उदाहरणं म्हणल्यारा दत्तू बांदेकर. बोलीभाशा कोंकणी, मुळावे शिक्षण कानडींत आनी फुडे हायस्कूल शिक्षण, आनी इतले जायसर ग्रांथीक मराठी कडेन फकत तोंड वळख. इतल्या तुटपुंज्या साधनाचेर एखादया नोकरेच्या आशेन आयिल्ल्या दत्तू बांदेकरानी महारष्ट्र साहित्यांत आपले नांव कायम केल्ले आसा. गद्यस्वरूपात विडंबन, गर्भ टिका आनी चुणचुणीत विनोद हांचो वापर करून हांणी आपली एक विशिश्ट प्रथा निर्माण केल्ली आसा बहुजन समाजाक आवडनाशिल्ली अशी एखादी घटना घडली की, त्या घटनेचो उल्लेखय करीनासतना केल्ली विडंबन, गर्भ टिका ही हांची खासीयत आसा. आपल्या प्रभावी लेखनाच्या जोरार आज ते 'नवयुग' साप्ताहिकात विनोद सम्राट आचार्य अत्रे हाचे दुय्यम आसात. हांचे फुटकळ लिखाण बरेच आसा, आनी सख्याहरी, नवी आघाडी, चुकामूक, आदी संग्रह प्रसिद्ध आसात.

'आर्यांच्या परबांचो प्राचीन इतिहास' 'हिंदू धर्म दिपीका' आनी 'अभंगगितांजली' ह्या गहन ग्रंथाचे कर्ते श्री ऋग्वेदी वामन मंगेश दुभाशी हे एक पोन्न्या पिळगेतले प्रसिद्ध लेखक आसात.

ह्या शिवाय 'प्रसादददिक्षेलागून' नामनेक पाविल्ल्यो कु. प्रेमा कंटक, पंदरा वीस वर्सा आदी मदी लेखन करपी श्री भ. नी. वागळे, सौ. इंदिरा तेलंग. 'लिलाग्रज' नांवाखाला बरोवपी श्री. गजानन वाघ, विठ्ठल यशवंत बोरकर, नंद तेलंग आदी जायती मनशां आसात.

महाराष्ट्राच्या काव्य क्षितिजार नवीनच उदयाक येवपी श्री. गायतोंडे आनी

श्री. मंगेश पतकी हांचेकडल्यान बरीच अपेक्षा करतात. चोखंदळ पणाखातीर प्रसिद्ध आशिल्ल्या मराठी मासिकांतल्यान ह्या दोगांयच्योय कविता नेमान प्रसिद्ध जांवक लागिल्ल्यो आसात. ऑल इंडिया रेडिओतले 'काव्य दर्शन' ह्या सदरा खाला श्री. पतकी हांचे कार्यक्रम जायत आसात. गेल्ल्या सहित्य संमेलना वेळार प्रकाशीत जाल्ल्या काव्य संग्रहात हांच्या कवितेक स्थान मेळिल्ले आसा.

संपादन हातळिल्ल्या मर्दीं 'आत्मोन्नती' मासीक कांय वर्सा चलयिल्ले श्री. गोविंद सर्वोत्तम वाघ, 'नवजीवन' मासीक चलयिल्ले, श्री. विठ्ठल यशवंत बोरकर आनी 'गृहलक्ष्मी' ह्या मासीकाच्यो सहसंपादिका म्हणून काम केल्ल्यो कु. शांताबाई वागळे हांचो उल्लेख करूक येत.

●●●

# प्रकरण 8 वें

# पैलथडी

**सदाशिवगड :**

'नदीमुखेनेव समुद्रमाविशते्' ह्या कालदिसोक्तीतली सैमीक रम्यता पूर्णपणान एका दृश्टीक्षेपात चित्रित स्वरूपात पळोवपाक मेळपाची नितांत रम्य सुवात म्हणल्यार सदाशिवगड दोंगरावयलो किल्लो. एका वटेन दोंगर माथ्यावयलो 'सदाशिवगड' दुसरे वटेन 'सावरगड' एका गडाच्या मुळसालागी दुर्गेचे देवूळ, तर दुसऱ्या मुळसा कडेन मुसलमानी 'पीर' एका दिशेन संथपणान नागिणी सारखी व्हांवत येवपी काळी न्हय, तर दुसऱ्या वाटेन न्हयी मुखाच्या दर्शनान बेफाम उचांबळपी अरबी दर्या, ह्या दोनांचोय संगम, रूक्ष सागवानी झाडांच्या सांगातान वसंत रूतूंत फुलून येवपी आंब्याचो म्होर, वाऱ्याच्या संगीता बरोबर ल्हारांच्या तालार छनछन नाचपी ल्हान व्हड होडयो, थोडे भीतर, सदाशिवगड हें सात हजार वसंणुकेचें माणकुलें शार अद्वैताचे कुळारच आसा।

ह्या उंच मळावयल्या किल्ल्याच्या पडक्या वण्टीर उबे रावन आंपणा भोवतणीच एक पदक्षिणा काडल्यार तीच वनदेवता भिन्न प्रसाधनांनी नटलेली दिसताच, कौरव सभेंत श्रीकृष्णान पत्येक खिणा नवीं कापडा पुरोवन दवरिल्ल्या द्रौपदीचीच याद जाता!

एका वाटेन कारवारचे निसर्ग सौंदर्य, एका दिशेन गोंयच्या वाठारांतले वनसौंदर्य. एका वाटेन पांचव्याचार दोंगराच्या दोन रांगांतल्यान व्हांवपी काळयाशार उदकाच्या काळी न्हंयचे जलसौंदर्य, आनी ह्या ओत्याक

आयिल्ल्या सौंदर्याच्या कुंडात बेभान जावन बुडपी आमी. ह्या मूर्तिमंत काव्याच्या चित्रणाक कलाकारच जाय!

कारवार शाराची शीम काळी न्हंयच्या देगेकडेनच तेकिल्ली आसा. अर्द मैल रूंदीची ही न्हंय हुपून वचपाचे तयार बंदर कोडीबाग हें कारवार शाराच्या वाठारांतले शेवटाचे बंदरा आसा. कारवार तालुक्याक फाळपी ह्या न्हंयीच्या पैलतडीर सदाशिवगड शार वशिल्ले आस. ह्या शारांपसून गोंयची हद्द चारपांच मैलार आसा. सदाशिवगड बंदराकडल्यान गोंयांतल्या मडगांव ह्या व्यापार पेठेमेरेन वचपी मोटार दोन फावटी वाहतूक करता. आगगाडेच्या स्टेशना कडेन पावपी अत्यंत कमी अंतराचे रस्ते हे दोनच आसात.

सतराव्या शेकडयाच्या अखेरेक सौंदेकार राजा सदाशिव नाईक हाणे बांदिल्ल्या गडावयल्यान ह्या शारांचे चित्ताकुलें हें नांव फाटी पडून 'सदाशिवगड' ह्याच नांवान हे शार वळखतात. चित्ताकुले ह्या शारचो पयलो उल्लेख अरब प्रवासी मसुदी हांच्या इ. स. 916 वर्साच्या प्रवास वर्णनात दिसून येता. सिंदाकोरा, चिन्ताबोरा अशा विलक्षण दिसपी नांवानी भायल्या देशाच्या प्रवाशांनी ह्या शाराचो उल्लेख केल्लो आसलो तरी, कांटेकोर वर्णना वयल्यान ते उल्लेख चित्ताकुल्या विशीचेंच आसात ह्या बद्दल संशय उरना. इ. स. 1310 त रसीद उदीन ह्या प्रवाशान आख्या पश्चिम देगेवयले हें उत्कृश्ट बंदर आशिल्ल्याचे आपले मत दिल्ले आसा. सुप्रसिद्ध फिरस्तो इब्न बतूता इ. स. 1342 त आजादद्विपा वयल्यान हांगा आयिल्लो, आनी त्या वेळार विजयनगरच्या हरीहरप्पा राजाचो मांडलीक आशिल्लो होन्नावरचो सुभेदार जमालुद्दीन हांणे चित्ताकुल्याक गराडो घातिल्ल्याचे ताणे सांगिल्ले आसा. ते वेळार चित्ताकुले हे व्यापाराचे मोठे केंद्र आशिल्ले, आनी भायले देशाचे व्यापारी व्हडा प्रमाणार हांगा वसणूक करून आशिल्ले. इ. स 1350 त युरोपीयिन प्रवासी पोर्तुलाना मेडिसिया हाकाय आपल्या हिंदुस्थानाच्या भोंवडेत हे बंदर भेट दिवपा सारखे दिसले. 'कॅटेलॉन' च्या नकाशात नोंद जावपा सारखे चित्ताकुले इ. स. 1375 त म्हत्वाचे व्यापारी शार आशिल्ले. आनी त्या वेळच्या ज्ञात प्रदेशात भोंवपी सिदी अली कपोधन हाणे आपलो 'चोवीसावो प्रवास' ह्या वृत्तांतात ह्या शाराचे वर्णन केल्ले आसा.

पंदराव्या शेंकडयाच्या अखेरेक हे विजापुरच्या आदीलशाहीकडेन आशिल्ले.

आनी ते वेळार अरबी, हिंदु, आनी मुसलमान व्यापाऱ्यांनी हे शार गजबजिल्ले आसताले. 1498 त पुर्तुगेज सत्तेची मूर्तम्हेड हिंदुस्थानांत रोवपी वास्को-ड-गामा आजादद्विपार राविल्लो. आनी ताका खावपा पिवपाक उच्च दर्जाचे जिनस, दूद, कोंबी आदी हांगच्यानच व्हरचे पडताले. कारण त्या वेळार खुद्द कारवारची बाजू रानमय आशिल्ली.

ह्या सुमाराक पुर्तुगिज लोक आपले पाय हांगा थिरावपाचे यत्न करताले, आनी तेन्ना होनावरात तिमया हो राज्य करतालो. ताणे वास्को-ड-गामाक धावंडावन घालचे खातीर आजादद्विपार हल्लो केलो. पूण तो साध्य जालो ना. पुर्तुगेजांनी ताचो होन्नावर पर्यंत फाटलाग केलो. आनी ताचो पराभव करून ताका आपलो मांडलीक केलो. पुर्तुगिज हे स्वतः नामानिराळे रावन आपलो कार्यभाग साधपाच्यो मखलाशी करताले. आनी त्या अनुरोधान तांणी आपल्या अधिकाराखाला आशिल्ल्या तिमय्या कडल्यान विजापुरकरा कडेन आशिल्ल्या ह्या चित्ताकुल्यार हल्लो करयलो. चित्ताकुल्याच्या ह्या किल्ल्यार सैन्यय भरपूर आशिल्ले. आनी तुर्कांचो तोफखानोय आशिल्लो. पूण तिमय्याचे सैन्य आनी पुर्तुगिजांचो आदार ह्या एक वटिल्ल्या ताकदी मुखार किल्ल्याचो तिगाव लागलो ना. किल्ल्याच्यो वण्टी पडल्यो. तोफखान्याचो नाश जालो. शारांतल्या घरांची आनी पेठेची लुटालूट करून तिमय्याच्या सैन्यान वचत थंय जाळपोळ करून उडयली. ह्या वेळार आलबूकर्क हो पुर्तुगिजांचो अधिकारी आसलो. आनी ताणे तोफेच्या माऱ्यान खिळखिळीत जाल्ल्या चित्ताकुला किल्ल्याच्या दुरूस्तेखातीर दियागो नांवाच्या अधिकाऱ्याक धाडून दिलो, पूण वण्टी चडशो पडिल्ल्यो आशिल्ल्यान दुरूस्ती अशक्य दिसून तो परतलो. आनी किल्लो पडक्या अवस्थेतच उरलो.

आदिलशाही मुलखांतले गोंय, होन्नावर, भटकळ, आदी शारांतल्यान हांगा आयिल्ल्या मुसलमान आनी मूर व्यापाऱ्यांनी चित्ताकुले उदरगतीक हाडले. आलबूकर्काक गोंयचो सोस उत्पन्न जावन ताणे विजापूरकराक गोंयच्या बदलात चित्ताकुला दिवचे केले, इ. स 1514 तल्या दुआर्ट बार्बोसा हांच्या नोंदी प्रमाण हांगचो किल्लो आदिलशहा कडेन आशिल्लो, आनी घोडे, पायदळ आदींनी तो मोठया बंदोबस्तांत दवरिल्लो. आनी वर्सुकी खंडणीच्या रूपांन पुर्तुगिजांक चित्ताकुल्याच्यान 500 तांदळाच्यो घोणी मेळताल्यो.

गोंय बंदराचें म्हत्व हळूहळू वाडूंक लागले, आनी ते बंदरय व्यापाऱ्यांक लागून वाडूंक लागले. दर्याच्या उक्त्या आंगाक आशिल्ल्यान गोंयच्या उपयुक्तते मुखार चित्ताकुला सारख्या न्हयी मुखावयल्या बंदराची उपयुक्तता घटूंक लागली. आनी त्या कारणान व्यापारी लोकांची वसणूक गोंयच्या वटेन पश्चिमाभिमूख जांवक लागली. पूण इंग्रजांनी वखारी खातीर ह्या चित्ताकुला किल्ल्याच्या मुखाल्ल्या वटेन आशिल्ल्या कारवार शाराची निवड करतरेच चित्ताकुल्याच्या मालके खातीर पुतुगिज आनी त्या वेळार उदेल्ले सौंदेकार हांच्यात प्रतिस्पर्धा निर्माण जाली. पांचवो सौंदेकार राजा, सदाशीव नायक हाणे दुरूस्त करून दवरिल्लो पोन्नो किल्लो मूळासकट खणून काडून इ. स. 1674 वर्सा त्या सुवातेर व्हड भक्कम किल्लो बांदलो. आनी आपले नांव चिरस्थायी करचे खातीर चित्ताकुल्याक सदाशिवगड हे नांव दिले. तेंच अद्याप चालू आसा. धा एकर जमीन व्यापून घेवपी हो किल्लो सुमार अडेचशें फूट उंचेच्या दोंगर माथ्यार भक्कम तरेन बांदिल्लो आसा. पुराय चिरेबंदी अशो वीस फूट उंचेच्यो वण्टी, सात ते आट फूट जाड आसात. मनोरे, तोफो दागपाचे बुराक, सकयल पाणकिल्लो, चोंयवटेन पंदरा वीस फूट खोल चर अशी ह्या किल्ल्याची येवजण आसून सदाशिवगड ह्या बंदराकडल्यान आटापशीर बांदकामाच्या दोनय वटेन सागवानी झाडां आशिल्लो एक रस्तो कमानी दारां पर्यंत वता. आतां ह्या किल्ल्याच्यो सगळयो वण्टी पडिल्ल्यो आसात, आनी कांय निरूपयोगी तोफो सकयल्या न्हयी देगेवयल्या धक्या कडेन उब्यो पुरिल्ल्यो आसून तांचो वापर होडयांचे दोर बांदचे खातीर करतात! किल्ल्याच्या भितरल्या वाठारांत एक अती खोल बांय आसा. उत्तर दिशेच्या चड्टेर दुर्गेचें देवूळ आसून सौंदेकराच्या सैनिकांचे तें दैवत आशिल्लें अशें सांगतात.

किल्ल्याच्या मुळसाक एक मुसलमानी 'पीर' आसा. ह्या पिराकडेन पयली एका हिंदू साधूची समाधी आशिल्ल्याची आनी मुसलमानी आक्रमण जाल्ल्या वेळार त्याच समाधीचेर मशिदीच्या आकाराचो घुमट बांदलो अशी एक दंतकथा प्रचलीत आसा. हांगा हिंदू भावीक दिवो लायतात, पशुहत्तेकय हांगा बंदी आसा. आनी ह्या पिराच्या उत्सवात दोनय जमाती वाटो घेतात. हाचे वयल्यान ह्या दंत कथेक आदार आसूंक जाय अशें दिसता. ह्या पिरावयल्यानच पुर्तुगिजांच्या कागद पत्रांत चित्ताकुला किल्ल्याचो 'पीर किल्लो'

असो उल्लेख केल्लो दिसून येता.

पिराच्या दुसऱ्या दिशेक आशिल्ल्या किल्ल्याक सावरगड अशें नांव आसा. भोवतणी व्हड व्हड झाडां नाशिल्ल्यान ह्या किल्ल्याच्यो वण्टी खूब पयसल्ल्यान दिसतात.

इंग्रजांली कारवारची वखार वाडीक लागिल्लीदिसताच पुर्तुगिजांनी आपली नदर परत त्या दिशेक वळयली. आनी इ. स. 1747 त तांणी सौंदेकराक परती चूड लायली, सौंदेकरान ताका विरोध दाखयलो, पूण पुर्तुगिजांच सुसज्ज आरमार गोंयच्यान सदाशिवगडच्या मुळसाक आयिल्ले दिसताच किल्ले उक्ते उडोवन तो पळून गेलो. पूण कांय दिसा नंतर ते ताणे परत आपल्या ताब्यांत घेतले. आनी इ. स. 1752 त पुर्तुगिजांकडेन ताची लडाय जाली. पूण शास्त्रोक्त व्यायामाखाला तयार जाल्ल्या पुर्तुगिजांच्या सैन्या मुखार ताच्या सैन्याचो तिगाव लागलो ना, शेवटाक किल्लो पुर्तुगिजांच्या हातांत पडलो. पूण 1754 त तांचो तह जालो, आनी बैतखोल, म्हणल्यार कारवार बंदरात किल्लो बांदपाच्या परवानगेच्या बदलात पुतुगिजांनी सदाशिवगड सौंदेकराक परत दिले. पूण सात आट वर्सात हांगा सौंदेकराचो अंमल उरल्या नंतर हैदरअल्लीन आपलो सेनापती फजल उल्लाखान हाच्या आदारान सदाशिवगड सर केले. आनी इ. स. 1783 त इंग्रज जनरल मॅथ्यूस हाणे गराडो घालून शार आपल्या ताब्यांत घेतले. टिपून हळूहळू सगळी पश्चिम देग आपल्या अंमला खाला हाडिल्ली, पूण टिपू बरोबर जाल्ल्या शेवटाच्या व्हडल्या लडायेत इंग्रजांक जीत मेळून ही पश्चिम देग इ. स. 1799 वर्सा चडकन्न इंग्रजांच्या हाताखाला आयली. आनी सदाशिवगड आनी हलियाळ हे दोन किल्ले फुडल्या एक दोन वर्सात इंग्रजांच्या हातांत आयले.

इंग्रजांच्या हातांत आयल्या नंतरय तांच्या पलटणीचे केंद्र सदाशिवगड हेच आशिल्ले. सैनिकांचे बॅरेक्स (Barracks) आयजय हांगाच आसून 'बारकस' ह्या नांवान वळखतात. आनी दुरूस्ती करून राखिल्ल्यो एकदोन ल्हानशो इमारती हांगा आसून तांतूत हांगाच्या ग्रामीण अधिकाऱ्याच्यो कचेऱ्यो भरतात.

नंतर कांय वर्सा पर्यंत सुद्धा कारवारचो कारभार चलवपाचे हेच केंद्र आशिल्ले. आनी आयज सुद्धा न्हयीच्या लोटान विभागून गेल्ले आसले तरी हे शार कारवारचो भागच मानतात.

**धर्ममंदिरां :**

श्रीशांतादुर्गा महामाया देवूळ हे ह्या वटेच्या अतीप्राचीन देवळां मदले एक अशें मानतात. गोंयांतल्या दैवतांची परंपरा गोंयाच्या पंचक्रोशींत आनी ह्या पश्चिम देगेवयल्या बऱ्याच वाठारांत आसा. आनी दरेक देवळाच्या प्रतिष्ठापने विशी जरी वेगळो इतिहास आसलो तरी गोंयांतल्यान भायर गेल्ल्या जमातींनी ह्या दैवतांची जाग्या जाग्यार स्थापना केल्ल्याचे दिसून येता. ह्या देवळां विशी एक विलक्षण अशी दंतकथा आसा, 'आंबी' ह्या नांवान वळखतल्या एका नुस्तेमारी जमातीक नुस्ते धरपाच्या जाळांत पिपळापानांच्या धातूच्या पट्टेर णव तोंडां आशिल्ली एक मूर्त सांपडली ती तांणी एका उक्त्या जाग्यारच स्थापन केली. आनी गांवकऱ्यांकडल्यान ह्या मूर्तेची नित्य पूजा अर्चा जांवक लागली. गोयाच्या धर्मछळाचें ल्हार आनी बाटाबाटीची वावटळ गोंयच्या हद्देरच आशिल्ल्यान तीन चार मैला वयल्या ह्या गांवातय आयली आनी धर्मपिशांच्या हातांतल्यान ह्या मूर्तेचे पावित्र्य रक्षण जावचे ह्या हेतून गांवकऱ्यांनी ही मूर्त गर्द सावळेच्या एका रानवटी जाग्यार व्हरून दवरली. ह्या बाटाबाटीचो ओघ देवले नंतर उमेदीन ही मूर्त हाडून सुमार 300 वर्सा पयली तिची स्थापना सध्याच्या जाग्यार केली. आनी त्याच सुवातेर आयच्या देवळाचो गाभारो बांदलो. ह्या देवीचें तोंड पश्चिमाभिमूख आसा. आनी ताचे कारण अशें सांगतात की, मूर्त दवरतना पूर्वाभिमूखच दवरिल्ली, पूण आपोआप तिचें तोंड पश्चिमेक जालें. हाचे कारण म्हणल्यार ती मूर्त पश्चिम दिशेक दर्यात मेळिल्ली आशिल्ल्यान आपल्या उगम स्थानार तिची कृपादृश्टी घुंवली!

उत्पन्न, देणग्यो, मालकेची शेतांभाटां हांतूत हे देवूळ समृद्ध आसा. शेतांभाटांतल्यान येवपी वर्सुकी रू. 1000 उत्पन्ना भायर सरकाराकडल्यान वर्सुकी रू. 24 चो तनखो ह्या देवळाक मेळता. आनी उत्सवाच्या वेळार भजक लोकांकडल्यान 'काणीक' ह्या खास नांवान दिल्ली देणगी मेळता. ह्या उत्पन्नाांल्यान नित्यनैमित्तीक पूजाप्रसादाचो खर्च, आनी चैत्र वद्य पंचम, कार्तिक वद्य चवथ, आनी कार्तिक पूनव असे तीन वर्सुकी उत्सव, रथोत्सव आनी जत्रा हांचो खर्च चलयलो वता. मुखार दीपस्तंभ, बाजून तळे आनी सभामंटप आदी सजावट गोंयांतल्या देवळा प्रमाणच आसा.

ह्या देवळाच्या वाठारांत सर्प, मनीस, हेर प्राणी आदींची चित्रा कोरांयिल्ली

कांय पोन्न्यो काळयो शिळो पिंपळाच्या मुळांकडेन दवरिल्ल्यो आसात. आनी भावीक लोकांकडल्यान ह्या शिळांचीय पूजा जाता.

'सदाशिवगड' ह्या नांवान वळखतल्या घाटमाथ्यावयल्या किल्ल्याकडेन वचपाच्या अर्द्या वाटेर एक दुर्गेचे देवूळ आसा. सौंदेकर घराण्यांतल्या इम्माडी सदाशिवराव हाणे जेन्ना सदाशिवगड शार घेतले आनी बंदोबस्ती खातीर गडार सैन्य दवरले, ते वेळार त्या सैनिकांनी ह्या दुर्गेची स्थापना केली अशें म्हणतात. ह्या देवळा मुखाल्ल्या पटांगणात वर्सुकी उत्सव जाता. आनी थळावे हौशी कलाकार दशावतारांतलो एखादो नाटय प्रसंग करून दाखयतात.

सदाशिवगड गांवाच्या वाठारांतल्या कणसगिरी ह्या खेडयांत प्राचीन परंपरेतले एक महादेवाचें देवूळ आनी दुसरें 'रामनाथ' ही दोन देवळां आसात.

ह्या शिवाय हांगाचो एक भावीक गृहस्थ श्री वामन भट हांणी, स्थापन केल्ले 'वर्टी' वाडयांतले मारूतीचे देवूळ आनी वैश्य जमातीन हालींच बांदिले सुंदर दत्त मंदीर ही दोन देवळां आसत.

सदाशिवगडच्या सरहद्देर 'माइन' व्होळाच्या देगेर चारय वाटेन रम्य वनश्री आशिल्ल्या सुवातेर, ह्या वाटेन प्रामुख्यान आशिल्ल्या गौड सारस्वत ब्राह्मण जमातीचो धर्म मठ आसा. हो मठ ह्या जमातीचे धर्मगुरू श्रीशिवानंद स्वामी हांणी इ. स 1870 वर्सा बांदलो. आनी मठांत श्री शारदा देवीची स्थापना केली हे धर्म गुरू श्रीशिवानंद ह्याच मठांत समाधिस्त जाले. आनी तांची समाधीय हांगाच आसा.

हो भाग बरीच वर्सा पर्यंत आदीलशाहीच्या हाताखाला आशिल्लो. आनी मुसलमान लोकांची वसणूक बरीच आशिल्ली. अजूनय हांगा मुसलमान लोकांची बरीच पोन्नी घराणीं आसात. ताका लागून ह्या ल्हानशा गांवात तीन मशिदी आसात. न्हयी देगेलागी 'करमुद्दीनपीर'य आसा. आनी ह्या पिरावयल्यान पुतुगिजांच्या पोन्न्या कागदपत्रांत हांगाच्या किल्ल्याचो' पीर किल्लो' असो खूब पटी उल्लेख दिसून येता.

मागीर जायती वर्सा पर्यंत हो भाग पुर्तुगिजांच्या ताब्यांत आशिल्लो, आनी तांच्या सैन्याच्या छावणीची ही मुखेल सुवात आशिल्ली. ताका लागून बाजारपेठेच्या मध्यार एक पोन्ने रोमन कॅथोलीक चर्च अजूनय आसा.

ज्लिह्याच्या मुखेल शारांलागी आशिल्ल्यान कारवार तालुक्यांतल्या अत्यंत

फुडारिल्ल्या खेडयांत सदाशिवगडाची गणना जाता. सुमार सात हजार वसतेच्या ह्या गांवात 11 मराठी, 1कानडी, आनी दोन उर्दु मुळाव्यो शाळा आसून 1100 विद्यार्थी हातूंतल्यान मुळावे शिक्षण घेतात. शिक्षणाची अभिरुची दाखोवपी कौतुकास्पद संख्या म्हणल्यार क्रिश्चन चर्चांत पाद्रीन चलयिल्ली मराठी शाळा. आनी जल्मापसून हात नाशिल्ल्या, पायांनीच सुबक चित्रां आनी अक्षरां काडतल्या' थोटया मास्तराची' शाळा ही आसात.

**प्रायव्हेट हायस्कूल. सदाशिवगड :**

हांगाचो एक थळावो सुशिक्षित श्री शंकर भास्कर नाडकर्णी हांणी पोन्न्या तेपा वयल्या फलटणीच्या सोऱ्याच्या गुदांवात पांच विद्यार्थी एकठांय करून 1895च्या नोव्हेंबर म्हयन्यात' प्रायव्हेट इंग्लीश स्कूलाचो' बॉर्ड लायलो. हीच ह्या गांवची इंग्लीश शिक्षणाची सुरवात. विद्यादान ह्या एकच अढळ ध्येयार नदर दवरून श्री नाडकर्णी हांणी निकृश्टावस्थेत दीस काडूनय ही शाळा वाडीक लायली. आनी 30 वर्सां मेरेन जतनायेन वाडयिल्लें हें गुटगुटीत भुरगे इ. स. 1925 वर्सा शारवासियांनी स्थापन केल्ल्या 'सदाशिवगड शिक्षण संस्था' हिच्या हातांत दिली. आनी पांच वर्सां शिक्षण संस्थे वतीन मुख्याध्यापक रावन इ. स. 1930 वर्सा ते सेवानिवृत्त जाले. इ. स. 1940 वर्साह्या शाळेक हायस्कुलाचो दर्जो मेळ्ळो. सुरवातेच्या काळात हांगाचे दानशूर मनीस सर्गे स. सदाशिवराव वाघ हाणी बांदून दिल्ल्या इमारतींत ही शाळा भरताली. पूण शिक्षण संस्थेच्या हातांत कारभार आयल्या नंतर कांय वर्सांनी हायस्कूल पर्यंत वाडिल्लें वर्ग भरचे इतली ह्या शाळेची स्वत:ची इमारत तयार जाली. इ. स. 1945 वर्सा ह्या शाळेचो 'भांगरा सुवाळो' मोठ्या थाटान मनयलो.

एक शाळा आशिल्ल्या ह्या पंचक्रोशींत चार शाळा जाल्ल्यो आसूनय आज ह्या शाळेत दोनशेंच्या वयर विद्यार्थी आसात, आनी धा शिक्षक आसात.

शाळेचे आद्य संस्थापक श्री नाडकर्णी हेच 'सदाशिवगड शिक्षण संस्थे'चे अध्यक्ष आसात, आनी श्री सलगर हे शाळेचे मुख्याध्यापक आसात.

**शिवाजी हायस्कूल :**

श्री. घनश्याम देसाई ह्या उमेदी तरनाटयान 1936 वर्सा फकत तीन विद्यार्थी

जमोवन एक ल्हानशी शाळा सुरू केली. त्या शाळेक थोडोभव शाळेचो आकार येतरेच जून 1946 त तिका सरकारी मंजूरी मेळ्ली, आनी 1949 च्या मार्चांत ह्या शाळेचे 'शिवाजी हायस्कूल' जालें. ह्याच वर्साक मराठी मुळावी शाळा सुरू करून शिक्षण खात्याच्या नियमां प्रमाण ती 'स्कूल बोर्डा' कडेन सोपयली.

ह्या शाळेची खासीयत म्हणल्यार शेतकी विभाग, शेतकीचे प्रात्यक्षिक शिक्षण ह्या संस्थेत दिवन शेतकी वयल्या निबंध सर्तींत पयलें बक्षिस मेळोवन 1948 त रूप्या पदक आनी 1950 त भांगरा पदक मेळोवपाचो भोवमानय ह्या शेतकी विभागांत काम करतल्याच्या उमेदीची साक्ष दीत आसात.

स्वतःची इमारत आशिल्ली ही शाळा 'शिवाजी एज्युकेशन सोसायटी' संस्थे कडल्यान चलयली वता. आनी तिचे अध्यक्ष श्री, को. स. राणे हे आसात. आनी श्री सदाशिव म. देसाई बी. ए. बी. टी. हे हायस्कू लचे मुख्याध्यापक आसात.

सदाशिवगडच्या वाठारांत माज्ञाळी आनी मुडगेरी हे गांव आसात. माजाळी गांवात एका दोंगराच्या मुळसांक रामनाथाचें देवूळ आसून थंय सतत उदकाची धार दोंगराच्या उदरातल्यान व्हांवत आसता. असो नैसर्गीक अभिशेक सतत चलिल्लो आशिल्ल्यान, हें देवूळ पवित्र आनी जागृत मानले वता. ह्या गांवच्या एका वटेच्या देगेर खूब मोठे कणाची रेंव आसा. एकेक कण तिळायेदो आनी तिळासारखो दिसता आशिल्ल्यान ह्या देगेक 'तिळमाती' ह्याच नांवान वळखतात. हांगाचें तिसरें दृश्य म्हणल्यार 'दाड' ह्या नांवान वळखूवपी विशाल आकाराची नग्न मूर्ती जैन वा बुद्ध संप्रदायाच्या फैलावांचे प्रतीक आसूंक फाव. ह्या सुवातेर उक्त्या शेतात एक समाधी ती जमणाचार्य नांवाच्या ह्या वाटेच्या इतिहास प्रसिद्ध शिल्पकाराची समाधी आसा, अशें मानलें वता. ह्या समाधी विशीं 700-800 वर्साची पोन्नी कागद पत्रां आसात अशें कळता.

मुडगेरी हें खूब प्राचीन गांव आसून एका तेपार ते भरभराटीचें शार आशिल्लें. मुडगेरीचो 'मुद्दगिरी', 'समुद्रगिरी' असो उल्लेख बौद्ध वाङःमयांत दिसून येता. आनी बुद्ध कालीन बुद्धशिष्य पुण्ण, संप्रदायाच्या प्रचार कार्याखातीर हांगा आयिल्ल्याचे दिसता. मुडगेरी, शिवेश्वर, आंगडी अशा वेगवेगळया नांवानी हो सबंध गांव इतिहासांतल्या वेगवेगळया कालखंडांत वळखतालो. आनी आज

ह्या गांवाच्या तीन भिन्न विभागांक ही तीन नांवा दिल्ली आसात.

आंगडी ह्या कानडी भाशेंतली 'बाजार पेठ' ह्या अर्थाच्या उतरावयल्यान एका वेळार ही मोठी व्यापाराची पेठ शारभर फापसल्ली पेठ आसूंक फाव. सबंद गांवाक बाजार पेठ हें अभिधान प्राप्त जांवक हांगाचो व्यापार खूबच व्हड प्रमाणार चलतालो आसूंक जाय, लागसरल्लो किल्लो हो ह्या पेठेचे संरक्षण करचे खातीर बांदिल्लो अशें सांगतात. आज पसून वैश्य समाजाचें हें केंद्रच आसा. ह्या वाटेची कांय घराणीं दारूकाम करपांत खूबच कुशल आसात.

शिवेश्वर हें आज ल्हानशें स्वतंत्र गांव मानले वता. पूण एकवेळ इतिहासांत उल्लेख जावपा सारखो मान ह्या गांवाक आशिल्लो. हांगा पयली तेंपार एक अतीशय भव्य किल्लो आशिल्लो. आज पडीक अवस्थेंत सुद्धा वण्टीच्या रुंदेवयल्यान किल्ल्याची भव्यताय आजमावपाक येता. किल्ल्याच्या सरभोंवतणची चर पुरून गेल्ली आसा. आनी किल्ल्याच्या वाठारांत अक्षरश:रान मातिल्लें आसा.

सरपनमलीक ह्या नांवान ह्या वाठारांत नांवाजतो विजापूरकरांचो सरदार शरीफ उल् मुल्क दोंगरावटेतल्यान फोंडा आनी आंबावली ही शारां जिकून इ. स. 1606 त तो शिवेश्वराच्या किल्ल्यांत आयलो. 1675 त फ्रायर हो इंग्लीश मनीस हांगा आयिल्ल्या वेळार हो शिवेश्वराचो किल्लो निकतोच शिवाजीच्या ताब्यांत गेल्लो. थोडयाच दिसांत सौंदेकर घराण्यांतल्या सदाशीव राजान हो बळकायलो. आनी आपलो दारूखानो दवरपाक उपेग केलो. इ. स. 1720 त ह्या किल्ल्यार थोडयोशो तोफो मात आशिल्ल्याचो हॉमिल्टनान उल्लेख केल्लो आसा. 1735 त पुर्तुगिजांक हांगा चर्च बंदपाक परवानगी मेळ्ळी, आनी इमारती लाकडांचो व्यापार करपाची मेकळीक मेळ्ळी, गोंयची सरहद्द ह्या गांवाक तेकिल्ली आशिल्ल्यान पुर्तुगिजांक ही मेकळीक मेळिल्ले बद्दल खूबच खोशी जाली. इ. स 1763 त हैदरअलीचो सुभेदार फजलउल्ला हांणे सौंदेकरां विरूद्ध शस्त्र उबारलें. ताणे सौंदेकराची राजधानी सोंडे काबीज करतरेत थंयचो राजा इम्मडी सदाशीव हाणे ह्या किल्ल्याचो आसरो घेतलो. पूण फजलउल्ला ताचो फाटलाग करीत ह्या दिशेक येताच सदाशिवराजा गोंयात पळून गेलो. आनी शिवेश्वराचो किल्लेदार फजलउल्लाक शरण गेलो. इ. स. 1764 वर्सा विजयदुर्गावयल्यान उदकामार्गान आनी कद्रा ह्या शारांवयल्यान भूंयमार्गान मराठे

ह्या दिशेक आयले . हैदरअल्लीन खुश्कीच्या मार्गान येवपी मराठयांक कद्रा हांगाच विरोध केलो. पूण तो निश्फळ जालो. आनी मराठयांची दोनय सैन्यां शिवेश्वराक पावली. किल्ल्यार हल्ल्याचो जोर वाडून तो पडपाच्या बेतांत आशिल्लो, तेन्नाच सदाशिवगडाच्या मुसलमान किल्लेदाराची मोठी कुमक येवन पाविल्ल्यान मराठयांचो नाइलाज जालो. आनी तांका तोफो, दारूगुळो आनी हेर सामान उडोवन वचचें पडले. आनी किल्लो हैदरच्याच ताब्यांत उरलो. हो किल्लो बऱ्या अवस्थेत आशिल्लो ते वेळार शिवेश्वर हें प्रतिश्टीत शार आसून शिवेश्वरमहाल ह्या मोठया विभागांचे ते मुख्य ठाणे आशिल्लें. इ. स. 1783 त इंग्रजांचो जनरल मॅथ्यूस हांच्या आदेशान हो भव्य किल्लो जमीनदोस्त केलो. ह्या शाराची प्रतिश्टा लयाक गेली. आनी एकोणीसाव्या शेंकडयाच्या सुरवातेक हो एक बिनम्हत्वाचो गाव मानूक लागले.

आजय हो एक ल्हानसो गांवच आसा. शेताचेर उपजीविका करपी कांय लोक हांगा आसात. आनी ते शिक्षणाची पांयवाट चलत आसात.

ह्या वाटेच्या लोकांच्या शिक्षणाची तरतूद माजाळीच्या 'युनियन हायस्कूलां' तल्यान जाता. माजाळीचे उमेदी तरनाटे श्री गुणेश्वर वागळे हांणी ही शाळा इ. स. 1937 त स्थापन केली. लोकांचे फाटबळ बऱ्याच प्रमाणांत मेळिल्ल्यान विद्यार्थ्यांची संख्या भराभर वाडत गेली, वर्ग वाडले, स्वतःची इमारत बांदली. आनी आज ताका हायस्कूलाचो दर्जो प्राप्त जाल्लो आसा.

●●●

# प्रकरण 9 वें

# कांय वेंचीक संमेलनां

कारवाराक तुफानी वाऱ्याचें आघात एकंदरीत कमीच. सह्याद्रिची एक अखंड ओळ दर्यात ठाण मांडून बशिल्ल्यान दर्यादिग विस्तीर्ण आनी उक्ती आसूनय तुफानी वाऱ्याच्या अभावान दर्या भोवतेक शांतच आसता. कारवार शारांतय सामाजीक वा राजकीय चळवळीक लागून वादळ उठिल्ल्याचे प्रसंगय कमीच. धा बारा वर्सांनी एखादी परिशद भरची वा एखादो मोठया स्वरूपाचो सार्वजनीक सुवाळो भरचो, चार आट दीस लोकांक खास करून सुशिक्षित मध्यमवर्गियांक आपल्या संथ आयुश्यांत एखादी ल्हार उठिल्ल्या प्रमाण भासचें, आनी परत त्याच संथ आयुश्यक्रमाक सुरवात जावची!

आपल्या लग्नाचो रूप्या सुवाळो मनोवपाची वेळ आयली तरी पंचवीस वर्सा फाटी जाल्ल्या लग्न सुवाळयांत शिंवरिल्ल्या गुलाब उदकाचो सौम्य सुगंध फकत यादीन गोड आनी ताजो दिसता. आपल्या फाटल्या आयुश्याचे दीस याद करताना एखादो रम्य प्रसंग कित्तेक वर्सा फाटी घडिल्लो आसलो तरी यादींच्या ताजेपणान मनाची पकड घेता. कारवारच्या पाच पन्नास वर्सांचो इतिहास आठयताना हांगाच्या प्रशांत वातावरणांत बारीकशा वाऱ्याच्या झोतान उठिल्ल्या पाळाची चित्रां दोळयामुखार उबी रावतात. आपल्या खाजगी आयुश्यांत घडिल्ल्या गजालींक सामाजीक म्हत्व नासता. एखाद्या ल्हानशा शारांत वा समाजांत घडिल्ल्या घडणुकीचो परप्रदेशार परिणाम जाताच असो ना, पूण आत्मचरित्रांत वा ल्हानशा शाराच्या इतिहासांत परक्यांक शुल्लक

दिसपी असल्या घडणुकेक  म्हत्वाचें स्थान नासता. त्या खातीर आमच्या नदरेन सुद्धां ल्हान दिसपी सुवाळे सोडून थोडेभव वेंचीक  संमेलनाचे धांवते वर्णन ह्या प्रकरणांत दिल्लें आसा.

नैसर्गिक रूतुमानाप्रमाण वातावरणांत बदल करपी प्रसंग म्हणल्यार वेगवेगळया शाळांचे वर्सुकी उत्सव. लोकलबोर्ड, स्कूलबोर्ड, हांच्यो वेचणूको आनी नगरपालिकेच्च्यो चुरशीच्यो वेचणूको, ह्यो दोन म्हणू येत. पयल्या सदरांतले प्रसंग फकत विद्यार्थ्यां भीतर उमेद निर्माण करचे पुरतेच आसतात, दुसऱ्या सदरांतले प्रसंग एका विवक्षित मळार चालना दितात, आनी नगरपालिकेच्च्यो वेचणूको मात सगळया लोकांक  प्रक्षूब्ध करत आसतात. ह्या नित्य प्रसंगा खेरीज लोकांत अपूर्व चैतन्य आशिल्ल्याची खूण पटोवपी कांय नैमित्तीक  प्रसंगाची याद कारवारच्या सामाजीक  इतिहासा कडेन जिव्हाळयान निगडीत जाल्ली आसा.

**राज्यारोहण :**

राजे सातवे एडवर्ड हांच्या राज्या रोहाणा निमित्त जाल्लो इ. स.  1903 तलो सुवाळो हो आख्या हिंदुस्थानांक  सर्वसामान्यच आशिल्लो. शिक्षणाचो थोडोसोच प्रसार जाले नंतर हो पयलोच सुवाळो, आनी देशांत पूर्णपणान शांतताय पस्थापीत जाल्या नंतर थाटामाटान मनयल्लो पयलोच राज्यारोहण सुवाळो. स्वागताची तयारी, भाशणाची तालीम, सजावटीचे आकर्शण अपूर्व उमेदीन, सुशिक्षित वर्ग आपली सगळी कामां कडेक  दचरून घोळतालो. उसनवारी करीनासतना दरेक  मळार आपल्या बुद्धीची, कलेची. आनी करामतीची स्वतंत्रताय दाखोवचें खातीर नेटान प्रयत्न करताले. पोन्न्या पिळगेच्या मतान सदांकाळ याद उरपी गजाल म्हणल्यार स्वागत आनी सम्राटाचो गौरव हांची रचिल्ली मराठी पदांची वळेरी. एलिझाबेध राणेच्या कारकिर्दींत इंग्लंडात कवीयूग निर्माण जाल्लें,  ह्या राज्यारोहण प्रसंगार कारवारचो आत्मो उमेदीच्या भरांत गांवक लागिल्लो! लक्षांत दवरपा सारखी गजाल म्हणल्यार कारवारची काव्यात्मकता मराठींत व्यक्त जाल्ली आशिल्ली. सुवाळयांतली सगळी भाशणां मराठींतच जाल्लीं. सुस्वागतम् चो विस्तीर्ण फलक निमंत्रीत आनी आगंतूक सोयऱ्यांक मराठींत साद घालतालो!

**संयुक्त गौड सारस्वत ब्राह्मण परिशद :**

गौड सारस्वत ब्राह्मण ह्या नांवान पौराणीक काळापसून वळखुवपी जमात प्रांतीक आनी सांप्रदायीक भेदांनी छिन्नभिन्न जाल्ली आसा. एका अनामीक कवीन ओवीवृत्तांत रचिल्ल्या कोंकणाख्यान ह्या काव्यांत खूबच प्राचीन काळांत गोमंतकांत थिराविल्ल्या ह्या जमातींत इरेक लागून, दुराग्रहाक लागून, आनी खोटया अभिमानाक लागून भेदभाव कशे निर्माण जाले, हाचे तपशीलवार वर्णन केल्ले आसा. (कोंकणाख्यान) कांय इतिहासीक कागद पत्रांतल्यान, कांय आयकीव गजालीं वयल्यान, आनी कांय दंतकथांक आदारून रचिल्लें हें कोंकणाख्यान उपपत्तिदृश्टया शबंर टक्के प्रमाण नासले तरी आज दृश्टोत्पत्तीक येवच्या भेदा वयल्यान तांतूतले तपशील, खेदान जायना, पूण मान्य करचेच पडतले. इंदुरापसून कोची पर्यंत वेगवेगळया सुवातेर वसणुको करून राविल्ले मूळचे गौड सारस्वत ब्राह्मण आज वेगवेगळया अभिधानान वळखतात. स्मार्त आनी वैष्णव हे दोन वेगळे सांप्रदायीक भेद आनी प्रांतपरत्वे जाल्ले, कुडाळदेशकर, वालावलीकर, पेडणेकर, आदी भेद, (Saraswat families R. S. Talmakki) दक्षिणे कडेन गेल्ले आनी आद्य धर्मगुरूंची फारकत जाल्ल्यान नवीन पीठ वसोवचो प्रसंग आयिल्ले 'चित्रापूर मठाचे' हो एक भेद, हे भेद रोटीबंद वा बेटीबंदय नात, पूण संबंध जोडपाचो कल आपापल्या उपभेदांकडेनच आसा. कसल्याय तरेचे दुस्मानपण नासतना वा वैरय नासतना कांय अपरिहार्य ऐतिहासीक भ्रमणाक लागून पडिल्ले हे भेद पयस करून फापसल्लो सारस्वत समाज एकठांय करचो अशी आशा कांय सुशिक्षित मंडळीत 1907-8 वर्साच्या सुमाराक निर्माण जाली. भिन्न संप्रदायाचो अभिमान काळजांत बाळगुवपी कांय जाण ह्या विचाराक कडक विरोध करूंक लागले. आनी ह्या एकि करणाच्या कार्यांत दोन गट पडले. एकि करणाचो पुरस्कार करपी 'एकीवाले' आनी विरोधक ते 'बेकीवाले' आनी ह्या एकि करणा खातीर भरिल्ल्या परिशदेक 'एकी बेकी परिशद' असे विडंबनात्मक नांव प्राप्त जाले! ह्या संयुक्त परिशदेचे 5 वें अधिवेशन डिसेंबर 1913 वर्सा कारवारांत जाले.

ह्या अधिवेशना खातीर दर्यादेगेवयल्या उक्त्या सुवातेर एक भव्य माटोव घातिल्लो. आनी आयिल्ल्या सोयऱ्यांची रावपाची व्यवस्थाय लागसारच मैदानार

माटोव घालून केल्ली. ह्या परिशदेची तयारी कितलेशैच दीस पयली पसूनच चलिल्ली. चारय दिशेच्यान पयस पयसल्ल्या प्रांतांतले प्रतिनिधी, सोयरे, येवचे आंशिल्ले. आनी परिशदेच्या अध्यक्ष स्थानार पुण्याचे स्व. बाबासायब कामत हांची निवड जाल्ली. मुख्य उद्दीश्ट साद्यते इतलीच आयिल्ल्या सोयऱ्यांची खंयच्याय तरेची गैरसोय जावची न्हय ह्या गोश्टी कडेन दोळयांत तेल घालून मंडळी लक्ष दिताली. कारवारच्या व्यवहारांत ग्रांथिक मराठीय कमी, आनी मराठीची सतत तोंडात घोळणूकय कमीच. पुणे, मुंबय, इंदूर, हरडा हांगाच्यान आयिल्ल्या सोयऱ्यांत खंद्या वक्त्यांचो भरणो आशिल्ल्यो. आनी त्या मानान खुद्द कारवारचे वक्ते प्रमाणाभायर कमी आशिल्ले. ह्या बाबतीत कारवारचो मान राखपाचो सगळो भार हांगाचे स्व. दत्तात्रय भास्कर नाडकर्णी वकील, हांचेर आशिल्लो. हांचे भाशाप्रभुत्व आनी वक्तृत्व शैली कौतुकास्पद आशिल्ली. आनी ह्या परिशदेच्या अधिवेशनांत आपल्या मुद्देसूद भाशणान आयकुप्यांचेर घातिल्लो प्रभाव चिरस्थायी स्वरूपाचो आशिल्लो. स्व. नाडकर्णी हांचे हे प्रभावी मराठी भाशण कित्येक म्हयन्या पर्यंत लोकांच्या उलोवपाचो विशय जाल्लो.

सारस्वत समाजाच्या एकिकरणा खातीर आतां पर्यंत भरिल्ल्या चार अधिवेशनां प्रमाण हें पाचवे अधिवेशनय पार पडलें, भाशणां जालीं, ठराव जाले, फुडल्या अधिवेशनांचे आपोवणे दिले, आनी आयिल्ल्या धांदळीची लाट कमी जावन कारवार परत शांत जालें.

इ. स. 1920 वर्सा जाल्ली राजकीय परिशद ही, ह्या नंतर जाल्ली दुसरी परिशद, ह्या राजकीय परिशदेचे अधिवेशनय दर्यादेगे लागसरल्या उक्त्या शेंतात उबारिल्ल्या एका व्हडल्या माटवांत मनयले. अध्यक्ष न्यायमूर्ति स्व. सर नारायण चंदावरकर हें आशिल्ले. तीस वर्सां पयलीची गजाल, त्या वेळार मोटार गाडयो नाशिल्ल्यो, आनी मोटारी येवचे सारखे रस्तेय नाशिल्ले. मुंबय पुण्याच्यान कारवाराक येवच्याक एकच रस्तो, तो म्हणल्यार गोंयांतल्या मडगांव स्टेशनां वयल्यान . फुडे थोडे अंतर बैलगाडयांतल्यान, मागीर होडेंतल्यान न्हंय बलांटून सदाशिवगड, थंयच्यान काळी न्हंय बलांटून कोडीबाग आनी थंयच्यान कारवार शारां पर्यंत परत बैलगाडेन प्रवास. स्व. सर नारायण हांचे जाण्टेपणय जाल्लें, आनी थोडेच दीस पयलीं जाल्ल्या तांच्या मोगाळ बायलेच्या मरणाक लागून तांचे आरोग्य खूबच खालावल्लें. ताका लागून बैलगाडेंतलो

ओबडधोबड रस्त्यावयलो त्रासाचो प्रवास तांका झेपचो ना ह्या गोश्टीची जाणीव आशिल्ल्यान तांका 'मंचला' तल्यान हाडपाची व्यवस्था केल्ली. त्या वेळच्या ब्रिटिश हद्देंत आयले नंतर थोडयाच वेळांत लागपी सदाशिवगडार तांचे पयले जाहीर स्वागत केलें.

त्या वेळार राजकीय परशिदो भरोवप म्हणल्यार सरकारच्या मनविरूद्ध वागप, अशीच व्याख्या करताले. ताका लागून परिशदेच्या श्रोतसमुदायांत सरकारी नोकरांची उपस्थिती आसपाची शक्यताच नाशिल्ली. साहजीक श्रोतसमुदाय पाव वाटयान कमी जाल्लो. राजकीय परिशद ती, आनी तीय बी कारवार सारख्या कडेक पडिल्ल्या एका ल्हानशा शारांत! असल्या ह्या परिशदांची उपयुक्तता म्हणल्यार परकी सरकारा विरूद्ध मनांत धुमसुवपी राग शब्दांत व्यक्त करचो, आनी आपल्यो मागण्यो वजनदार स्वरूपांत ठरावाच्या रूपान लोकांमुखार आनी पर्यायान सरकारा मुखार दवरच्यो. 'सुराज्य म्हणल्यार स्वराज्य न्ही' ह्या घोशणेचे भडक मराठी फलक गांवभर लटकयल्ले. अध्यक्षांची मिरवणूक, उक्ते अधिवेशन, माटवाच्या भोंवतणी आठ धा पोलीस, धडाके बाज भाशणां, ठराव आदीं मामूली गजालींनी सुवाळो मनयलो.

स. सर नारायण चंदावरकर हांचो मराठीचो व्यासंग आनी मुख्यतः संत वाङ:मयाचो व्यासंग दांडगो आसलो. भाशणां, व्याख्यानांत ते तुकारामांच्या अभंगाचे उल्लेख सामके सहज पणान करताले. तरी सुद्धा तांची वक्तृत्व शैली इंग्लीशींतल्यानच प्रभावीपणान दिसून येताली. सभेवेळार मराठींतल्यान अस्खलीत उलोवप तांका जमले नासले. शालेय शिक्षण ह्या भागांत कानडींत दिताले. हे तांका खबर आसले. ताका लागून तांणी कानडीत उलोवपाक सुरवात केली, पूण वाचन, लेखन, भाशणां, व्याख्यांना, कथाकिर्तनां आदी मराठींतल्यानच आयकूपाक सराविल्ल्या श्रोत समुदायांन तांका आग्रो करून आपले अध्यक्षीय भाशण मराठींतल्यानच करपाक लायले. आनी सगळी परिशद चडशी मराठींतल्यानच पार पडली.

गांवकऱ्यांच्या मनांत आपूण कसलें तरी व्हड क ाम केल्ल्याचो भाव निर्माण जालो. आनी इंग्रज सरकाराक भारता भायर घालोवन स्वराज्य मेळोवपाच्या देशभर चलिल्ल्या प्रयत्नांक आपणेय हातभार लायिल्ल्याचो अभिमान दिसतालो.

उद्दिश्ट वा साध्य हांचो प्रस्न जरी आपूण कडेक दवरलो, तरी हातांत घेतिल्लें काम पार पाडपाची जबाबदारी आपूण घेवंक शकता हाची जाणवीकाय उत्पन्न करचे खातीर तरी अशा तरेच्या अधिवेशनांचो उपेग जाता. पयली परिशद एका जमातीच्या एकिकरणा खातीर आशिल्ली तांतूत मेळिल्ल्या यशाक लागून धैर्याक व्यापकता आयली. आनी देशाच्या भवितव्याचो विचार करूक कारवारची जनता तयार जाली. ह्या परिशदेंतय अधिवेशन भरोवच्या बाबतींत मेळिल्ल्या यशाक लागून खंयच्याय तरेची परिशद आपूण यशस्वी रितीन पार पाडू शकता, अशी हांगाच्या लोकांची खात्रीच जाली. पूण सगळया लोकांच्या आत्मीयतेचो प्रस्न हातळचे खातीर परिशद आपोवपाक कारवाराक तीस वर्सां वाट पळोवची पडली. पयल्या पिळगेन तयार करून दवरिल्ली धैर्याची ही पार्श्वभूंय तीस वर्सां पर्यंत सुप्तावस्थेंत आशिल्ली तिका 1950 वर्साच्या सुरवातेक जागृती आयली.

ह्या मदल्या काळांतय थोडया ल्हान प्रमाणार परिशदो भरिल्ल्यो. तातूत हांगाचो एक विद्वान मनीस आनी उमेदी गृहस्थ' रामराज्य' ह्या पुस्तकाचे लेखक श्री. सुब्राव नाडकर्णी हांणी मामा बोरकरांच्या अध्यक्षते खाला इ. स. 1940 त भरयिल्ली' अखिल भाशीक' परिशद आनी स्व. मंगेशराव तेलंग हांच्या अध्यक्षते खाला भरिल्ली' कोंकणी परिशद' ह्यो दोन उल्लेख करपा सारख्यो आसात.

**महाराष्ट्र एकिकरण परिशद :**

लोकशाहीच्या तत्वानुसार भाशावार प्रांतरचनेचे आपले ध्येय कॉंग्रेसीन बऱ्याच वर्सां फाटी पुकारिल्लें. आनी साजीकच हिंदुस्थानांक स्वातंत्र्य मेळतकच भाशीक प्रांताची दरेक कोनशांतल्यान मागणी येंवक लागली, आनी तांतूतच संयुक्त महाराष्ट्र, आनी संयुक्त वा विशाल कर्नाटक हांचो मराठी आनी कानडी लोकांच्या फुडाऱ्यांकडल्यान मागणेचो मारो जांवक लागलो. संयुक्त महाराष्ट्राचो प्रस्न वा भाशावार प्रांताचो प्रस्न सुरवाते सुरवातेक त्या त्या भाशंच्या निर्भेळ विभागां पुरतोच घेताले, पूण कांय दिसां नंतर केंद्रीय विभागा परस सर हद्देवयल्या प्रांताचो प्रस्न चड तीव्रपणान घसाक लागलो. सिमा प्रांतांतले घटक विभागून वचूंक लागले. सिमाप्रांतांक आपल्या कक्षेंत ओडून

आपापल्या प्रांतांच्यो मर्यादो वाडोवपाची इत्सा भाशीक फुढाऱ्यांक जांवक लागली. . आंनीं कांय ठरावीक घटकांचेर जायत आशिल्ल्या अन्यायां क डेन दोळे धाप करपांत येंवक लागली. वेंचणूको आनी राजकीय वेवस्था ह्या खातीर मुंबय इलाख्यांतल्या एका मर्यादीत विभागांक सोयी खातीर कर्नाटक हें नांव दिलें. आनी ह्या कर्नाटक विभागांत हेर कानडी जिल्ह्यां बरोबर कारवार जिल्हो आनी बेळगांव हेवय समाविश्ट केले. क र्नाटक म्हणल्यार कानडी भाशेचो प्रांत अशें समीकरण केलें. आनी तांतूंत समाविश्ट केल्ल्या मराठी आनी कोंकणी विभागांर कानंडीचें सार्वभौमत्व प्रस्थापीत करचे प्रयत्न केले. खुद्द कारवार आनी देगेवयल्या कोंकणात मोडपी विभाग हाचेवयल्या अशा आक्रमणाचे कशा तरेचे दूरदर्शी परिणाम घडले ताचे वर्णन दुसऱ्या एका प्रकरणांत केल्लें आसाच. आनी ह्या खऱ्या महाराष्ट्राच्या उपेक्षित भागांक डेन केंद्र महाराष्ट्रांचें लक्ष ओडून घेवपाचे प्रयत्न करचे खातीर बेळगांव जिल्ह्याच्या महाराष्ट्र सीमे वयले बेळगांव, निपाणी, खानापूर आनी चंदगड हे तालुके आनी कारवार आनी सुपा पेठ इतल्या मार्यादीत विभागांन 'महाराष्ट्र एकिकरण परिशद, दक्षिण विभाग' ही संस्था स्थापन केली, आनी ह्या कोंकणी मराठी विभागांचे आपणांक महाराष्ट्रांत समाविश्ट करून घेवपाचे रीतसर प्रयत्न सुरू केले.

बेळगांव जिल्ह्याच्या भागांत ह्या परिशदेची चार अधिवेशनां जाली. आनी पांचवे अधिवेशन 1950 त कारवारांत घडोवन हाडले. 1920 च्या राजकीय परिशदे नंतर तीस वर्सांनी भरिल्ली ही परिशद आशिल्ली. त्या परिशदेत आनी ताच्या आठ धा वर्सा पयली भरिल्ल्या परिशदेंत जबाबदारेन काम करपी बरेच कार्यकर्ते मरण पाविल्ले. आनी उरिल्ल्यांची मानसीक उमेद जाण्टेपणाक लागून शरिराच्या ताकी भायली आशिल्ली. आनी ताका लागून पयलींच्या परिशदांच्या वेळार पांचवी हळदुवीं बॅचीस लावन शाळा चुकोवन स्वयंसेवकाची चिल्लर कामां करपात मजा आनी भूशण मानपी त्या वेळाच्या बाल पिळगेंतल्यानच निर्माण जाल्ले आयचे कार्यकर्ते कंबर कसून तयार जाल्ले. ह्या पिळगेच्या जाणट्या आयुष्यांत तांणी अशा अधिवेशनांचो प्रत्यक्ष अणभव घेतलो नाशिल्लो. तरी अभूतपूर्व अशा ह्या अधिवेशनाच्या तयारेंत उमेदीक सामको ओतो आयिल्लो!

वयाच्या आक्रमणाक जुमानिनासले मराठा समाजाचे फुडारी, स्व. दत्तात्रय नाईक हे कार्याध्यक्ष आशिल्ले. कोर्टांतल्या कज्जांपरस मराठीच्या उन्नती प्रित्यर्थ

लोकांचो दावो, विरोधक कन्नडीगांकडेन आनी सरकाराकडेन झगडपांत सुख मानपी हांगाचे वकील, श्री. दिगंबर म. कुळकर्णी हे चिटणीस आशिल्ले. महाराष्ट्र प्रांतीक काँग्रेस समितीचे अध्यक्ष श्री. हरिभाऊ हिरे, हे अधिवेशनांचे अध्यक्ष आनी श्री. हरीभाऊ पाटसकर हे उद्घाटक आशिल्ले. ऑपरेशनांत दिसपी हात कसबान भारूडांचे ऑपरेशन करून तांतूतल्यान ऐतिहासीक मूल्यांची प्रमेयां काडपी सुप्रसिद्ध सर्जन डॉ. कैकिणी हे स्वागताध्यक्ष आशिल्ले. आनी प्रभातचे बहूश्रृत संपादक श्री. श्री. शं. नवरे, संयुक्त महाराष्ट्राचे कार्य हेच जीवन कार्य समजूवपी सेनापती बापट आनी लालजी पेंडसे हे वक्ते आशिल्ले. हे भव्य अधिवेशन हांगाच्या समर्थ टॉकीज ह्या थिएटरांत भरिल्ले. उक्त्या अधिवेशनांच्या वेळार आनी मनोरंजनांच्या कार्यावळींच्या वेळार आकांताचो जनसमुदाय आशिल्लो. पूण प्रांतभाशा कन्नड आशिल्ल्यान ह्या अधिवेशनाक किंचित राजकीय स्वरूप आयिल्ले. आनी ताकालागून जिल्हाधिकारी मराठी आसून लेगीत तांची सक्रीय सहानूभूती मेळप शक्य जालें ना. थळाव्या वक्त्यांत श्री. दिनकर फेणे हांचे मुद्देसूद आनी प्रभावी भाशण जालें. आनी हे अधिवेशन खूब बरे तरेन पार पडलें. सुवाळो मनोवपाच्या नदरेन आयजवेर भरिल्ल्या परिशदां प्रमाणे जैताचें माप पूर्णपणान मेळ्ळें, पूण ह्या परिशदेचे एक चिरस्थायी वैशिश्टय म्हणल्यार केल्लें ठराव कागदारच उरनासतना उद्दिश्ट साधपाच्या नदरेन आमच्या मतान मेळिल्ले यश. कारण मंजूर केल्ल्या ठरावाच्या आधारार केल्ल्या जोरदार मागणेक लागून तशेच कारवार, हल्याळ हे तालूके आनी सुपा पेठ इतलो विभाग आंकडयानिर्शी मराठीच सिद्ध केल्ल्यान ह्या विभागांत कानडी बरोबरच मराठीकय सरकार मान्यता दिली. आनी आयज सावन कैक वर्सा, जायत आशिल्ली भौवसंख्य जनतेची कुचंबणा थांबली. पंदरा वीस वर्सा सतत चलिल्लो वाद सफल जालो. आनी शिक्षण, वाचन, कोर्ट क चेऱ्यांतली कामां, विक्रि खरेदी खतां आदीं खातीर कन्नड जाणप्यार विसंबून रावपाची मराठी जनतेची लज्जास्पद स्थिती नश्टप्राय जाली.

ह्याच वेळार उल्लेख करपासारखी गजाल म्हणल्यार सेनापती बापट हांच्या हस्तूकी 'मराठी वाड:मय मंडळ' ही संस्था स्थापन केली.

●●●

# प्रकरण 10 वें
# आगगडेची टूम

1857 सालच्या बंडाची धामधूम देशभर जाल्ली. उत्तरेत कांय सुवातेर कत्तली आनी ल्हान प्रमाणावयल्यो लडायो चलत आशिल्ल्यो. आनी दक्षिणे कडच्या शारांत हाची झळ जरी लागली नासली, तरी ह्या बंडाच्या वा स्वातंत्र्या प्रित्यर्थ केल्ल्या लडायांच्या 'रम्य गजाली' नी वातावरण तंग जाल्ले. कारवारांत सुद्धा बायलो आपल्या ल्हान भुरग्यांक धांपून कोंडून दवरताल्यो. अशो आपल्यो ल्हान पणाच्यो गजाली आठोवन आमचे आजे आमकां संगताले. पूण बंडाची तीव्रताय कमी जाताच सगळी शारां आगगाडेच्या फांटयांनी जोडपाचो हिंदुस्थान सरकारचो विचार थारलो, आनी चार पांच वर्सांत कारवाराक आगगाडी हाडपाच्या कल्पनेन जल्म घेतलो.

इ. स. 1862 मेरेन हो जिल्हो मद्रास इलाख्यांत येतालो. आनी ताका लागून ह्या कारवार पर्यंतच्या आगगडेच्या कल्पनेक मूर्त स्वरूप दिवपाचे काम मद्रास सरकारानच हातांत घेतले. इ. स. 1861 त ताणी दोंगराळ वाठाराची तज्ञांकडल्यान तपासणी करून घेतली. आनी ह्या तपासणेचो अहवाल 'गदग-कारवार-बेल्लारी रेल्वे रिपोर्ट 1862' ह्या नांवान प्रसिद्ध केलो. ह्याच वर्सा हो कारवार जिल्हो राज्यकारभाराच्या सोयी खातीर मद्रास इलाख्यांतल्यान काडून मुंबय इलाख्यांत जोडलो. ह्या कारणा लागून आसत वा सरकारी कारभाराच्या नित्याच्या पद्धतीक लागून आसत, आगगाडी हाडपाच्या ह्या कल्पनेक इ. स 1869 पर्यंत खंयच्याय तरेचे मूर्त स्वरूप आयले ना. आनी आगगाडेची

ही कल्पना एका तरेन स्थगीत जाल्ल्या सारखी दिसली. पूण ह्या वर्सा केंद्र सरकारानच हो प्रस्न आपल्या हातांत घेतलो. आनी पूर्व तयारेक जोरान सुरवातयं केली. रस्ते आंखपी तज्ञ. इंजिनियरर्स आदी आयले, आनी ताणी आगगाडेचे रस्ते आखचे खातीर दोंगरावटेची तपासणी चलयली.

सदर्न मराठा रेल्वेच्या बंगलूर-पुणे रस्त्यावयल्यान हुबळी, धारवाड, बेळगांव आनी अळणावर ह्या चारां मदल्या खंयच्याय स्टेशनां वयल्यान आगगाडेचो फाटो कारवार पर्यंत हाडप शक्य आसा. ह्या खेरीज काळी न्हयीच्या पलतडी वयल्या सदाशिवगड शारांपर्यंत रेल्वे हाडपाकय लोंडा हे स्टेशन उपेगी पडपा सारखे आसा. हातू मदीं लोंडा स्टेशनां वयल्यान फाटो हाडल्यार एक तर खुद्द कारवार बंदराक तितलो उपेग जावप शक्य ना, आनी हो रस्तो जरी सामको कमी अंतराचो आसलो तरी' अणशी' ह्या घाटाची चड्टी देंवती मात व्हड प्रमाणात आसा. ह्या अनाकारण धास्तेक लागून हो रस्तो तज्ञ समितीक पसंत पडलो ना, बेळगांव स्टेशना पसून कारवार पर्यंतचे अंतर 144 मैल म्हणल्यार वयर उल्लेखिल्ल्या खंयच्याय स्टेशना पसून हें अंतर सगळयांत चड आसा. ताका लागून हुबळी स्टेशनां वयल्यानच फाटो हाडपाचें थारायले. शिवाय हुबळी हें व्यापाराचें तशेच आगगडेच्या फाटयाचे केंद्र आशिल्ल्यान कारवार हुबळी ह्याच रस्त्याची निवड जाली. तज्ञांनी काळी न्हयीच्या खाजनांतल्यान 'कैगा' ह्या गांवावयल्यान एक रस्तो आनी 'अरबेल' ह्या घाटावयल्यान येवपी दुसरो रस्तो अशा दोन रस्त्यांची टांचणां करून मध्य सरकारा कडेन निवडी खातीर धाडली. ह्या दोनय रस्त्याच्या बाबतींत कांय प्रमाणांत प्रतिकूलता आशिल्ली. अनुकूलता, सुलभता. खर्च आनी संभाव्य चडान चड उपयुक्तता ह्या सगळया नदरेन विचार करून शेवटाक अरबेल घाटावयल्यान वचपी रस्तोच मध्य सरकारान पसंत केलो. ही तपासणी, फेरतापासणी, रस्त्याची आखणी, खर्चाचो अंदाज आदी कामाक पांच वर्सा लागली, आनी ह्या मुदतींत सरकारान पूर्व तयारेक खूब पैसो खर्च कलो. (Bombay Gazetteer XV, !! Page 320) ते वेळार सदर्न मराठा रेल्वचें 'गदग' हेच व्हडले केंद्र आशिल्लें. आनी ताका लागून ह्या आगगाडेच्या फाटयाचो विचार करपाक नेमिल्ल्या कमिटीन सादर केल्ल्या अहवालाक 'कारवार-गदग रेल्वे रिपोर्ट' अशें नांव आसा. ह्या कमिटीच्या 1873 च्या अहवालांत आनी

मद्रास सरकारच्या 'गदग-कारवार-बेल्लारी रेल्वे रिपोर्ट 1862' ह्या अहवालांत ताणी कारवार रेल्वेचो फाटो सगळया फाटयांत अत्यंत कमी कश्टकारक आनी कमी खर्चाचो जातलो असो आपलो अभिप्राय दिल्लो आसा. हो फाटो हाडपाक सह्याद्रिचे एक खूब व्हडले खिंडार उपेगी पडता, आनी ह्या खिंडाराक लागून चड्टी खुबच कमी जाल्ली आसा, 'यल्लापूर' शाराच्या घाटमाथ्यावयले हें शिखर ह्या रस्त्यार सगळयांत उंच आसून दर्यापातळे पसून ताची उंची फकत 1600 फूटच आसा. आनी चड्टीय उबी नासून प्रमाणशीर आसा. आनी मुख्य गजाल म्हणल्यार ह्या सबंद 93 मैलाच्या रस्त्यार एकय बोगदो खणपाची गरज पडची ना, अशी शिफारस ह्या समितीन आपल्या अहवालांत केल्ली आसा. (Karwar & Kanara Ports Kumar 18 foot note)

इंग्रज व्यापारी कंपनीन आपली वखार हांगा सर विल्यम कॉटन हांच्या आदेशा वयल्यान 1638 वर्सा उक्ती केली. आनी सुमार एका शेंकडयाच्या सफल प्रयोगा नंतर सुद्धां खंडणीच्या अमर्याद दडपणाक लागून ती वखार बंद केली. ह्या वखारीचो कारवार बंदरांतल्यान थेट लंडन आनी युरोपाकडेन व्यवहार चलतालो. बंदर वाडी खातीर वखारीच्या कारकिर्दींत ताणी जायत्या तज्ञांचे अभिप्राय घेतिल्ले. वखारीक कुलूप मारले तरी ते तज्ञांचे अभिप्राय तांच्या कचेरीत आशिल्लेच. आनी ताका लागून कारवारच्या पाश्वक्षेत्राचो सपंत्त्युत्पादनार्थ वापर करून घेवचो आसल्यार कारवार पर्यंत आगगाडेचो फाटो हाडप हे एकच साधन आसा हाची जाणवीकाय तांका वखार बंद केल्या नंतर 150 वर्सा पर्यंत आशिल्ली. आपली वखार हांगा आसतना उत्पादन हुबळींत केंद्रीत करून बैलगाडयांवयल्यान म्हाल हाडून सुद्धां वाडयिल्ल्या धंद्याचे प्रगमनशील स्वरूप नदरे मुखार आशिल्लें. ताका लागून 1869 वर्सा आगगडेच्या आपल्या कल्पनेक मूर्त स्वरूप दिवपाचो ताणी जुजबी प्रयत्न केलो. आनी वयर सांगिल्ल्या प्रमाण 1874 पर्यंत रस्त्याची तपासणी, फेरतपासणी आदी विधी करून 'अरबेल घाटांतल्यान' आगगाडी हाडपाचें नक्की जालें.

त्या काळार कर्नाटकांतल्या उत्पादनांच्या निर्यातीक वाव नाशिल्ल्यो कारण लागसार बंदर नाशिल्ले. कर्नाटक उत्पादना खातीर प्रसिद्ध आसलेच. ताका लागून कारवाराक आगगाडी आयल्यार कारवारचो व्यापार कल्पने भायर वाडतलो असो अंदाज भायल्या गांवच्या व्यापाऱ्यांनी बांदलो. आनी

वखारी, गुदांमा बांदचे खातीर परस्थ व्यापारी कारवाराक खेपो घालूक लागले. कारवारच्या शांत आनी स्तब्ध वातावरणांत खळबळ माजूंक लागली. थळाव्या व्यापाऱ्यांक आनी जमीनदारांक पैशांची पर्वणी जाली. धा पट मोलान जमीनी विकल्यो वचूक लागल्यो. (गॅझेटियर)मोडकी तोडकी लाकडां दुकानां भांगराच्या मोलान गेली. युरोपियन कंपन्यांनीय आपले दलाल हांगा धाडले. मोठयो मोठयो वखारी, भव्य गुदामां, बांदली, घरां, बंगले. चाळी, वखारी, उबारल्यो. आयात निर्यातीच्या म्हालाचे खरेदी, विक्रिचे करार मदार जाले. आनी मुंबय सुरते कडले मोठे मोठे व्यापारी, पारशी, गुजर, खोजा, हांगा येवन रावलेय. पूण कारवारच्या कुंडलेत एक अनिश्ट ग्रह आडवो आयलो. एक अनपेक्षित घटना घडली. आनी कारवारचे तेजीचे वातावरण निराशेन भरून गेलें.

पुर्तुगिज गोंय आनी कारवार हांच्यो हद्दी एकमेकांक तकिल्ल्यो आसात. आनी देगेवयल्यान दोनांतलेय अंतर चाळीस पंचेचाळीस मैलांचेच आसा. इंग्रजांचे पाय गोंया भायल्या प्रदेशांत थिरावल्ले पळोवन पुर्तुगिज सरकारय आपल्या प्रदेशाक म्हणल्यार गोंयाक अर्थिक स्थिरताय हाडपाचे प्रयत्न करताले. देगेवयलो ल्हानसो वाटो तांच्या ताब्यांत आशिल्लोच. ताका लागून कारवारची कल्पना तांणी आपल्या मुरगांवांक लावचो विचार केलो. आनी सदर्न मराठा रेल्वेचो एक फाटो मुरगांव मेरेन हाडून मुरगांव हें पयल्या प्रतिचे बंदर करचे अशें ताणी थारायले. इतलेच न्हंय तर लोंडा स्टेशनां पसून मुरगांव मेरेन सबंद फाटो आपल्या खर्चान करून घेवची हम्मीय रेल्वे कंपनीक दिली. धूर्त इंग्रजांच्या तकलेंत एक सुवार्थी म्हत्वाकांक्षेचो उदय जालो. आयज पुर्तुगिज सरकार स्वतःच्या खर्चान आगगाडेचो रस्तो बांदून घेवन रेल्वे मुरगांव पर्यंत व्हरत आसा, आनी मुरगांवाक पयल्या दर्जाचें रूप दिवपाक उत्सूक जाल्ले आसा. बरे आसा. पुर्तगिज सरकार कांय हांगा चड दीस रावपाक आयिल्ले ना. तांका आपल्यो वसणूको, मूठभर अशो वसणूको, सोडून थोडयाच दिसांत कुळाराची वाट धरची पडतलीच. म्हणल्यार बिनखर्चान आनी बिनासायास एक तयार बंदर आनी जम बशिल्लो रेल्वेचो फाटो पिकिल्ल्या फळाप्रमाण आपल्या हातांत पडतलो. मागीर कित्याक करप, एका नवीन बंदरार आनी आगगाडेच्या फाटयार हकनाक खर्च? जालें, ह्या विचारा संबंदी पत्रव्यवहार

जालो, विचार विनिमय जालो, आनी कारवारांक आगगाडी हाडपाची कल्पना वाऱ्यार हूबून गेली.

ही कल्पना गुलदस्त्यांत पडल्या नंतर दोन वर्सांनी म्हणल्यार इ. स. 1876-77 वर्सा कर्नाटकांत भयानक स्वरूपाचो दुश्काळ पडलो. देगेवयल्या प्रदेशांत धान्य मेळपा इतली परिस्थिती आशिल्ली, पूण पावोवपाची तत्काळ साधनां उपलब्ध नाशिल्ल्यान त्या दुश्काळांन कहर केलो. खुद्द कारवाराक तांदळाचो साग 6 रूपयाक मेळतालो, ताचें मोल धरवाड हुबळी शारांत पंचवीस रूपयांवयर वयर गेलें. वाहतुकीचे एक मेव साधन म्हणल्यार बैलगाडयो, पूण बैलगाडेचें भाडेंय एक सागाक पाच-स रूपयां पर्यंत गेलें. शंभर मैलाचो दोंगराळ वाटेंतल्यान आनी चड्टेचो प्रवास, दुश्काळ ग्रस्थांक कितइपत आदार दिवंक शकतले, हाची कल्पनाच करची. शिवाय दाण्या गोटयाच्या अभावान आनी अतीश्रमान कित्येक बैल आनी येरादारीची जनावरां मरून गेली, दाणो गोटो पावोवपाच्या तीव्र इच्छेन शेवटाक मनशां कडल्यान बैलगाडयो ओडून व्हेल्यो! (गॅझेटियर) दुश्काळ पिडीत प्रदेशाक या रितीन थोडी भोव मदत केली. पूण ह्या दुश्काळाच्या कहराक लागून आनी आदाराच्या बाबतींत नदरेक पडिल्ल्या आगळीकेक लागून गुलदस्त्यांत पडिल्ल्या ह्या आगगडेच्या कल्पनेक थोडीशी चालना मेळ्ळी, पूण 'मढयाक जाल्लो उबेचो भास'च तो! कारण पुर्तुगिज सरकाराची आगगाडेची कल्पना कसल्याय तरेच्या कठीण अटींक जुमानिनासतना जीव धरू लागली. आनी मुरगांव ते लोंढा रेल्वे नक्की जाताच, कारवार रेल्वे 'प्रकरण' कायमचे निकालांत काडले.

परगांवच्या व्यापाऱ्यांनी हांगा येवन बांदिल्ल्यो मोठयो वखारीं ओस पडल्यो, गुदांवात घुशींनी बिऱ्हाडां थाटलीं, अर्द्या बांदकामांर सोडून दिल्ल्या इमारतीच्यो वण्टयो कोसळून पडल्यो. सट्ट्याच्या हिशेबान एकाक दसपटीन मोल दिवन जागो घेतिल्ले व्यापारी धुळीक मेळ्ळे, आनी निकतेच उदेवपी कारवारचे भाग्यनक्षत्र उदेवच्या सुवातेरच अस्ताक गेलें! ह्यो सगळयो घटनां आनी उलाढालीं सादारण ताज्या स्वरूपांत अयकु वपाक मेळिल्ल्या, वयल्यान श्री. बाबा वर्दे हाणी आपल्या काव्यांत मजेदार वर्णन केल्लें आसा.

*नवी मुंबय बेगीन जातली, अशी वदंता चोंयवटेन ।*

*व्यापारी तेन्ना, बांदूक आयले खूब वखारी हेवटेन ।*

*येती मोठ मोठे घांटी गुजीर, भाटे मारवाडी ।*
*कोणकोण लिंगायत हुबळी तशेंच धारवाडी ।*
*दुडू मोडूनी दृश्टव्य अशो भव्य बांदल्यो इमारतीं ।*
*लाभार फुडल्या लक्ष दवरूनी जाती मनी तुश्ट अती ।*
*आगगाडी जातली तांतडीन देह रगाडी पैशांची ।*
*आशा बाळगुनी फ शा पडले, फ सली मसलत परी तांची ।*
*अहीत जाले, रहीत जाता बेत रेल्वे गाडेचो*
*फोक्यो आयकूनी साप्प बुडले, लाभ ना हो कवडेचो ।*
*इमारती त्यो कोसळती धडाधड, ना दुरूस्ती म्हणुनिया ।*
*कर सगळयांची चिंता, परी त्या व्यापाऱ्यांची ना दया ।*
(कारवार वर्णन, बाबा वर्दे)

आगगाडेचो बेत खात्रेन रद्द जाल्या नंतर तीस चाळीस वर्सा नंतरचें हें वर्णन आसा. आजून सुद्धा मोडकळीक आयिल्ल्यो कांय वखारी शुल्लक व्यापारां खातीर वापरतात. कांय वखारी मालकांचो पत्तो नाशिल्ल्यान विरूद्ध कब्ज्यांच्या आदारान (Adverse possession) देखरेख पळोवपी थळाव्या व्यापाऱ्यांच्या पदरांत पडिल्ल्यो आसात!

इतिहासाची सतत पुनरावृत्ती जायत आसता. आयच्या स्वातंत्र्य युगांत भारताक पश्चिम देगेर पयल्या प्रतीच्या बंदराची गरज आसा. आनी कारवारा संबधी सरकारचे विचार चलत आसात. उत्पादनाच्या आयात निर्यातीच्या सोयी खातीर आगगाडेचे रस्ते वाडोवपाचो विचार चलत आसा, आनी कारवाराक आगगाडेचो फाटो हाडपाची वाच्यताय मोठ मोठया सरकारी अधिकाऱ्यां कडल्यान जायत आसा. फक्त पन्नास मैल रस्त्यान कारवाराक आगगाडी हाडप आज शक्य आसा. इतिहासांतल्या कल्पनांची पुनरावृत्ती जाल्ली आसा, परिणांमांची जायना जांव, ही आस्त आमी धरूया!

●●●

# प्रकरण 11 वें
# कारवार बंदर

हिंदुस्थानांतले एक पयल्या प्रतींचे बंदर (मेजर पोर्ट) जावपाची शक्यता आनी अनुकुलता आशिल्ली सुवात ह्या नदरेन कारवार शाराचो विचार करप हांगा अस्थानी जावचो ना, शिवाय हिंदुस्थानांच्या स्वातंत्र्योत्तर काळांत अशा पयल्या प्रतीच्या स्वयंपूर्ण बंदराची अत्यावश्यक्यता भासाताय, आनी बंदर समितीची स्थापना, ह्या समितीन वेगवेगळया बंदराक दिल्ल्यो भेटी आनी त्या समितीच्या अभिप्रायाचे प्रसिद्ध जाल्लै कांय खंड, हांचे वयल्यान ह्या प्रस्नांक दिलें गेल्लें म्हत्व लोकांक पटिल्लेंय आसाच.

अत्यंत प्राचीन काळांत आनी मध्य युगांतय ज्या वेळार मुंबय, कराची, मुरगांव हीं नांवाय जल्मांक येंवक नाशिल्लीं, त्या काळासावन कोंकणांतल्या अनेक बंदराचें ज्ञान त्या काळच्या बलाढय राष्ट्रांक आशिल्लें. हाची गवाय त्या काळचो इतिहास आमकां दीत आसा. उत्तरेकडल्या सुरत, चिंचणी, दाभोळ आनी आमच्या वाटेची भटकळ, होन्नावर, चित्ताकुले, कडवाड आदीं बंदराचो उल्लेख ख्रिस्ताब्दां पयलींच्या आनी पयल्या दुसऱ्या शेंकडयांतल्या परदेशी प्रवाशांच्या वर्णनांत मेळतात. हे फाटी दाखयिल्ले आसाच. कारवारांत जांचो समावेश जाता, अशा चित्ताकुले आनी कडवाड ह्या बंदरांतल्यान भायल्या देशांचो बरोच व्यापार चलतालो. अरेबिया, अलेक्झँड्रिया, रोम, ग्रीस, चीन, आदीं देशांतले मोठे मोठे तारू आपलो म्हाल घेवन ह्या बंदरांत येताले, आनी हांगाची मिरीं, चंदन, आदीं निर्यात जावपी म्हाल घेवन वताले. पंदराव्या

सोळाव्या शेंकडयांत सुद्धां वास्को–द–गामा आनी हांगाचे थळावे राजे हांच्यात चित्ताकुले आनी आजादद्वीप आपल्या ताब्यांत दवरचे खातीर अटीतटीच्यो चकमकी जाताल्यो. सौंदेकरानय चित्ताकुलें म्हणल्यार सदाशिवगड आपल्या हातांत दवरन घेवचे खातीर जायत्यो आडखळी सोसल्यो, आनी सदाशिवगडा मुखाल्ले वाटेन आशिल्ल्या कडवाड बंदराच्या मालके खातीर हैदरअली आनी टिपू सुलतान हेवय बरेच डाव खेळ्ळे. ब्रिटिशांनीय आपली दुय्यम प्रतीची वखार हांगाच उगडली. आनी ती फुडे वाडीक लागून लंडनांकडेन परस्पर व्यवहार करपी पयल्या दर्जाची वखार थारली. हें शार शिवाजी महाराजांनीय दोन फावट लुटले. हाचे वयल्यान त्या काळार ह्या शाराच्या वाड्टया वैभवाची, आनी बंदराच्या विस्ताराची साधरणशी कल्पना येतली.

इंग्रजांचो व्यापारय वाडत आशिल्लो. शंभर मैलार आशिल्ल्या हुबळींत कारखाने दवरून तयार जाल्ल्या म्हालाची निर्यात कारवार बंदरांतल्यान जाताली, आनी कारवार बंदराची उपयुक्तता, विस्तार, व्यापकता आनी महती बाडत आशिल्ली. पूण मराठयांची खंडणी सौंदेकराची खंडणी, विजापूरकरांची खंडणी अशा नाना तरेच्या खंडणीच्या जाचक भाराखाला इंग्रजांच्या व्यापारांक खीळ बसली, आनी वखार आंतबट्टयाची जावन ती बंद केली. ह्या नाकाजाल्ल्या खंडणीक लागून वखार बंद करचो प्रसंग जर इंग्रजांचेर आयलो नाशिल्लो जाल्यार कदाचीत आयज मुंबयक जें भाग्य लाभलां ते कारवाराक लाभता आशिल्लेंय, कारण उत्कृश्ट आनी पयल्या प्रतीच्या बंदराची कांय तज्ञमान्य गमकां कारवाराक सहज लागू पडतात.

पयल्या प्रतीच्या बंदरा विशींच्यो मूलभूत अपेक्षा कांयशो फुडे दिल्ले प्रमाण आसात, देगेपसून उदकांत पातळिल्ल्या बंदराच्या सगळया भागांचे पूर्णपणान संरक्षण, आजूबाजूच्या दर्यांच्या उदकांतल्यान अशा बंदरांत सहज पणान शिरकाव साध्य आसूनय वावटळी आनी तुफानी वाऱ्यापसून संरक्षण, मोठमोठयो आगबोटी सहजरित्या बंदरांत रिगचे खातीर बंदराचे तोंड वा जबडो विस्तृत आसचो पडता. एका वेळेक परदेशांक वचपा इतल्यो व्हडल्यो धा बारा आगबोटीं सोईस्कर पणान रावनय येरादारी आडखळी विना आसची. बंदराच्या पार्श्वक्षेत्रांचो चिस्तार मोठो आसून त्या पार्श्वक्षेत्रां कडेन येरादारीच्या साधनांनी सबंध दवरप साईस्कर आसचे, आदीं. ह्या नदरेन विचार केल्यार

कारवार बंदराची व्यापकता, क्षेत्रविचार, सुरक्षितता, तुफानी वाऱ्यापसून नैसर्गिक रितीन संरक्षण, पार्श्वक्षेत्रां कडेन सबंध दवरपाचे सोईस्कर रस्ते आदी लागून पयल्या प्रतीच्या बंदराच्यो अपेक्षा कारवार कांय नी करून पार पाडूं शकतलो ह्या विशीं दुबाव उरना.

आयज प्रसिद्ध आशिल्ल्या कांय बंदराच्या वाडी खातीर जणू विश्वामित्री सृश्टी निर्माण करची पडली, आनी उदकासारखो पैसो ओतचो पडलो. पूण त्या मानान विचार केल्यार अशा तरेच्या वाडीक लागपी साधनां हांगा लागींसराक खूब प्रमाणांत आशिल्ल्यान, आनी अर्दा अदीक वाटयाची सिद्धता हांगा तयारच आशिल्ल्यान पयल्या दर्जाच्या बंदराचे स्वरूप कारवाराक कमी कश्टान आनी कमी खर्चान नक्कीच दिवूक येतले. कारण पश्चिम देगेवयल्या खंयच्याय बंदरांत दिसनाशिल्ली अशी कांय खाशेली वैशिश्टां हांगा नदरेक पडतात. दर्यांत मैलभर भितर रिगिल्ली अशी 'आंबेहोळी' ह्या नांवान वळखूवपी पर्वताची रांक, आनी त्याच प्रमाण आजादद्वीप, देवगड, मदलेगड, कूर्मगड आनी सदाशिवगड अशी पातळिल्ली अर्दचंद्राकृती द्वीपमालिका हांका लागून ह्या बंदराक निसर्गानच एका तरेची तटबंदी घालून ह्या बंदराच्या परम सुरक्षिततेचेर छापच उमटायल्लो आसा! ह्या तटबंदेच्या भितर सामाविल्ल्या बंदराक खंयच्याय दिकेच्या तुफानी वावटळीपसून धोको पावप शक्य ना. तुकाराम-जयंतीक जलसमाधी दिवपी तुफानाच्या वेळार फकत ह्या नैसर्गिक संरक्षणाच्या आदारार देड-दोनशे मचवे ह्या सुरक्षित सुवातेर नांगर उडोवन राविल्ले. अशा ह्या संरक्षित दर्याच्या भागांत देगेपसून थोडयाशा अंतरार उदकाची खोलाय सुद्धां चड आशिल्ल्यान आनी वयलेवयर गाळ साठून ही खोलाय कमी जावपाचो नैसर्गिक उपद्रव नाशिल्ल्यान बंदर 'तयार' करचे खातीर खूबच कमी खर्च जातालो. अशा ह्या मोठया बंदराची व्याप्ती बैतखोलच्या खाजनांपसून कडवाडच्या खाजनां पर्यंत केल्यार पांच स मैलाच्या वाठारांत सगळे तरेच्या उपबंदराचोय समावेश हांतूत सहज करूं येतलो, देवगड आनी आजादद्वीप हीं 'द्वीप बंदरां' केल्यार भायल्या देशांत वचपी येवपी आगबोटींक कोळसो, उदक पुरवठयाची थिकाणां जातली, आनी तांचो उपसर्ग भितरल्या बंदरांक लागपाचो संभवय ना. आतां असा ते बैतखोल हें 'खाजनांचे बंदर' वा बोटी दुरूस्तीचो विभाग करपा येतलो. दर्यादेगे पसून थोडया अंतरार देगेक

समांतर अशें मुखेल बंदर, सदाशिवगड आनी कोडीबाग हीं न्हयी देगेवयली बंदरां, आनी एका वटेन सावरपोई कणसगिरी आनी दुसऱ्या वाटेन कडवाड हांचोय उपेग करून घेवपा येतलो. शिवाय क्षेत्रव्यापकतेक लागून हांतूतली गरज पडत ते प्रमाण वेगवेगळया स्वरूपांची दुय्यम उपयुक्ततेची बंदरां जाय त्या वेळार, जाय त्या प्रमाणांत वाडोवपाची शक्यताय सदां उरतली. पयल्या प्रतीच्या बंदराक पोशक आनी पूरक अशी बंदरां उप बंदरां बांदपाची आनी तीं वाडोवपाची शक्यताय कायमचीच आशिल्ल्यान बंदराची नाना तरेन आंखणी करूंक तज्ञांक भरपूर वाव आसा, कारण एक उपयुक्तता विचारांत घेतल्यार ती दुसऱ्या उपयुक्ततेक बाधक जावपाचो भंय मुळांतच ना, अशी आंखणी आनी ताची अर्दीमुर्दी तयारी निसर्गान आपल्या विचारांनच करून दवरिल्ल्यान मानवी साहसाक फकत अर्देच काम बाकी उरला.

बैतखोलच्या तोकापसून सदाशिवगडच्या दोंगुल्ले पर्यंत सरळ रेशेंत सरासरी देन अडेच मैलाचें अंतर आशिल्ल्यान बंदराचें' तोंड' जाय तितले मोठे बांदप शक्य आाा, आनी बंदराचो क्षेत्रविस्तार चारपांच चौरस मैलांपर्यंत घेवप सहज शक्य आशिल्ल्यान भायल्या देशांत वचपा इतल्यो धा बारा मोठयो आगबोटीं एका वेळार बंदरांत दवरप, त्यो हालोवप आनी हेर व्यवहारांक आडमेळे येनासतना येरादारी सुरळीत चालू दवरप शक्य जातले. कारण ह्या दोन अडेच मैलाच्या सरळ रेशेंतल्या अंतरांत आगबोटीक येवपा वचपाची जायती दारां दवरप शक्य आसा, आनी येवपावचपाच्या मार्गाक दिकांची बंधनां दवरपाचीय गरज लागची ना.

17-18 शेंकडया पसून गेल्ल्या शेंकडयाच्या मदल्या काळांपर्यंत कारवार बंदराची भायल्या देशां कडेन आनी मुख्यत: युरोपाकडेन थेट संबंध आशिल्लोच. इंग्रजांनी पयली निवड सुरत बंदराची केली. पूण अर्दकुटे संरक्षण, उक्ती देग, सतत सांठपी गाळाक लागून कमी जावपी उदकाची खोलाय, आदी अडचणीक लागून तांणी शेवटाक कारवारच आपले मुखेल बंदर म्हण पसंत केलें. शिवाय एडनच्या तोकांपसून सामक्या कमी अंतरार आशिल्ले सुरक्षित बंदर कारवारच आसा, अशी तांची खात्री पटिल्ल्यान ताणी आपल्या व्यापाराची वाड हांगाच केली. आनी उत्कृश्ट बंदरांची गमकां कारवाराक पूर्णपणान लागू पडतात, अशी खात्री पटूनच तांणी ह्या बंदराची निवड केल्ली, अशें मानपाक तांच्या त्या

वेळच्या पत्रव्यवहारांत जायते उल्लेख सांपडतात. गेल्ल्या शेंकडयाच्या मदल्या काळांत सुद्धां हांगाचे केलक्टर मी. फिशर, सर आर्थर कॉटन कामांडट ऑफ इंजिनियर्स, ले. टेलर, पश्चिम देगेचे सर्वेयर इत्यादींनी मुंबय ते कोलंबा पर्यंत इतले सुरक्षित, नैसर्गिक अनुकुलता आशिल्ले आनी 'मेजर पोर्ट' ह्या संज्ञेक पात्र जायत अशें बंदर मेळप शक्य ना. असो एकमुखी अभिप्राय दिल्लो आसा. सर आर्थर कॉटन ह्या इंग्रज गृहस्थान तर आपल्या अहवालांत शेवटाक असो शेरो मारला कीइतल्या तरेची अनुकूलता सोडप म्हणल्यार मूर्खपणाचे द्योतकच थारतले. (Karwar & Kanara ports Kumar, Page 11)

**पार्श्वक्षेत्र :**

देगेकडेन चडशी समांतर आशिल्ल्या पर्वतराजींन ही पश्चिम देगेची पट्टी 'देशा' पसून विभागिल्ली आसा. मुंबय पसून दक्षिणेक पातळिल्ल्या अशा ह्या 800 मैलांच्या पट्टेर कारवार हें साधारणपणान मध्यार वशिल्लें आसा. पर्वतराजीच्या ह्या प्रचंड वण्टीच्या पूर्वेक विस्तृत आनी जायते वटेन समृद्ध असो' देश' वशिल्लो आसा, आनी ह्या नैसर्गिक वण्टीच्या पश्चिमेक मुळांपतून देगेपर्यंत 10 ते 60 मैलांची रूंदाय आशिल्ली ही कोंकणपट्टी वसलेली आसा. ह्या पर्वतरांकेच्या घनदाट स्वरूपाक लागून ह्या दोन विभागांचो परस्पर संबंध चालू दवरचे खातीर येरादारीच्या साधनांक अनुकुलता प्राप्त करून दिवपी दारां मोजकींच आसात. अशी ल्हान व्हड दारां उपलब्ध आशिल्ल्यान ह्या पर्वतांच्या पलतडच्या क्षेत्राकडेन संबंध दवरपाचें भाग्य ह्या देगेच्या पट्टेवयल्या थोडयाच शारांक लाभला. पयली काळची महाराष्ट्राची दक्षिण मर्यादा थारिल्ली गंगावळी न्हंय आनी कारवारची काळी न्हंय हांच्या देंगणांतल्या (खोऱ्यातल्या) दरम्यानचो टापू असोच एका खूब व्हड खिंडारांतच सामाविश्ट जाल्लो आशिल्ल्या कारणान कारवारचो ह्या दोंगरा पलतडच्या पाश्वक्षेत्रां कडेन प्राचीन काळापसून आत्मीयतेचो संबंध जडलो, आनी ह्याच कारणान ह्या पाश्वक्षेत्रांतल्यान जावपी निर्यातीक कारवार बंदर हें एकच उक्ते दार सुगम जालें. आनी 17-18 व्या शेंकडयांत आनी 19 व्या शेंकडयांत सुद्धां इंग्रजांक ह्या पार्श्वक्षेत्रां कडेन आशिल्ल्या संबंधांक लागून कारवार हेंच आयात निर्यातीचे बंदर म्हण निवडचें पडलें. ह्या, पयस पर्यंत पातळिल्ल्या विशाल सह्याद्रिच्या

रांकेत अत्यंत कमी उंचेच्यो दोंगुल्ल्यो कारवारच्याच दिकेन आसात. ह्या पार्श्वक्षत्रांतल्यान वचपी आनी दोंगरांतल्यान येवपी जायते रस्ते हांगाच केंद्रित जातात. आनी ह्या ल्हान व्हड रस्त्यावयल्यान बैलगाडयो, मोटारगाडयो, येरादारीच्यो मोटारलॉरी हांच्या सतत चालीन ह्या अतिविस्तीर्ण आनी अत्यंत सुपीक अशा पार्श्वक्षेत्राच्या थोडया भागांचो व्यापारी संबंद कारवारा कडेनच आयिल्लो आसा. पूण आगगाडेच्या अभावान दुय्यम येरादारींच्या साधनांनी म्हाल कारवार पर्यंत हाडलो तरी ताची मोठया प्रमाणांत निर्यात जावप सध्या शक्य नाशिल्ल्यान, ह्या अतिविस्तीर्ण आनी समृद्ध पार्श्वक्षेत्राची व्यापारी उपयुक्तता फुकट गेल्ली आसा. ह्या पयस मेरेन पातळिल्ल्या पार्श्वक्षेत्राचो विचार केल्यार तांतूत कापसाखातीर प्रसिद्ध आशिल्लें विजापूर, गदग, बागलकोट हे विभाग येतले. इमारतीं लाकडां खातीर प्रसिद्ध आशिल्ले ह्या जिल्ह्याच्या घाटमाथ्यावयले भाग येतले. अखंड पुरवण करची ताक आशिल्ली वाशांची दाट रानां समाविश्ट जातली, अनेक तरेच्या खनीज म्हाला खातीर नांवाजिल्लें म्हैसूर संस्थान येतले, आनी उत्कृश्ट प्रतीचें चंदन आनी जाची किर्ती ख्रिस्ताब्दा पयली सुद्धा युरोप खंडांत पातळिल्ली ती वेलची आनी मिरीं हांणी भरिल्ल्या अगणीत, विस्तीर्ण राज्यांचो समावेश जातलो. उत्तेजक मागणेच्या अभावान हांगाच्या ह्या उत्पादनांची प्रगमन शीलता नश्ट जाल्ली आसा. आनी एका परीन देशाची संपंत्ती फुकट वचत आसा, ह्या बीजस्वरूपांत आशिल्ल्या संपत्तीक 'कोंब' फुटून तांची वाड जांवक लागसर एक सेयिस्कर पयल्या प्रतीचें बंदर आनी त्या बंदरांकडेन केंद्रीत जावपी आगगाडेचे एक दोन रस्ते हांचीच कितें ती गरज आसा. तरीपूण ह्या पार्श्वक्षेत्रांतल्यान सदर्न मराठा रेल्वे चडकरून चलत आशिल्ल्यान एखाद्या स्टेशनां पसून कारवार पर्यंत येवपी रेल्वेचो एक फाटो सुद्धा ह्या पार्श्वक्षेत्राची उत्पादन-समर्थता देशाक कारणी पडपाक पुरो जातली.

आपल्या एका शेंकडयाच्या व्यापारी अणभवा वयल्यान इंग्रज सरकारान आगगाडी हांगा पर्यंत हाडचो विचार केल्लो, आनी त्या विचारांची कशी विलेवाट लागली तांचे वर्णन एका स्वतंत्र प्रकरणांत केल्लें आसा. ती आगगाडेची कल्पना जरी तांका वेगळया कारणान सोडून दिवची पडली, तरी आगगाडेचो फाटो हांगा पर्यंत हाडल्यार कारवारचे एक ल्हानशें बंदर पयल्या दर्जाच्या भव्य बंदरांत कशें रुपांतरीत जातले हाचे रेखांकीत चित्र तांच्या दोळयांमुखार आशिल्लें, हांतूत दुबाव ना.

आगगाडेचो फाटो जोडपाक शक्य जाता अशी चार पांच स्टेशनां आसात. तीं म्हणल्यार 40 मैल अंतरार आशिल्ले मडगांव, 50 मैलार आशिल्लेंलोंढा, अळणावर, 100 मैलार आशिल्लीं धारवाड हुबळी, आनी 140 मैलार आशिल्लें बेळगांव ही. पयस मेरेन पातळिल्ल्या सह्याद्रिच्या रांकेत वयली स्टेशनां आशिल्ली सुवातच उथळ स्वरूपाची आसा. आनी ताका लागूनच ह्या सगळया स्टेशनां वयल्यान कारवाराक सदाची मोटार वाहतूक चालू आसा. पर्वताचे सुळे उभट स्वरूपाचे नाशिल्ल्यान पुण्या मुंबयच्या रस्त्यार दोन इंजिनांची गरज पडता, तशी हांगा पडची ना, आनी एकय बोगदो खणची गरज ना.

मागणी पुरवठयाचे अर्थशास्त्रांतले तत्व अबाधीत आसून ताची अंमलबजावणी परस्पर पूर्वक आसता. वयर सांगिल्ल्या प्रमाण निर्यात घाऊक प्रमाणार सध्या शक्य नाशिल्ल्यान उत्पादनां कडेन दुर्लक्ष जाता. आनी कमी उत्पादनाक लागून बंदराची वाड शक्यतेच्या आवाक्यांभायली गजाल असो . दावो मांडलो वता. पूण मागणी पुरवठयाच्या तत्वा नुसार निर्यात जावपाची शक्यता जसजशी वाडूंक लागतली तसतशी उत्पादन समर्थताय वाडीक लागतली. कारण कारवार बंदरांचे हे विस्तीर्ण पार्श्वक्षेत्र म्हणल्यार कर्नाटक, म्हैसूर ही बाजू, खनीज पदार्थाच्या उत्पादनांत हिंदुस्थानांत दुसऱ्या नंबरार येता. आनी ताका लागून व्यापारी नदरेन आनी उद्देगीक नदरेनय वाडीक लागिल्ली ह्या पार्श्वक्षेत्रांतली शारां म्हणल्यार बेळगांव, कोल्हापूर, हुबळी, विजापूर, सोलापूर, बागलकोट, हैद्राबाद आदीं शारां. कारवार हें केंद्र धरल्यार थोडेफार प्रमाणार समांतरच आसात. बंदराक लागून ह्या खनीज पदार्थाचे आनी शेताचे उत्पादन वाडतले हें नक्की. शिवाय मुबलक कापसाक लागून गिरण्यो चलतल्यो. अगणीत वाशांक लागून कागदाच्यो गिरण्यो सुरू करूंक येतल्यो, शिमिटाचे कारखाने उगडूं येतले, इमारतीं लांकडाचे कारखाने सुरू करू येतले, नाल्लांक लागून तेलाच्यो मोठाल्यो गिरण्यो लावपाक येतल्यो, कोबवाच्या लागवडेन साकरेचे कारखाने काडपाक येतले, आनी आयज फुकट वचपी ही सुमार तीन हजार चौरस मैल क्षेत्राची उत्पादन-समर्थता देशाच्या अर्थिक उत्पादनांत मोलदीक भर घालूंक समर्थ थारतली. ह्या शिवाय कारवारा लागी देगेवयल्या मीठ आनी नुस्ते हांचोय निर्यातींत भर घालपाक बरोच मोठो उपेग जावपा सारखो आसा.

'मुंबय प्रांतीक उद्देगीक वाड समिती' च्या मतान काळी आनी गंगावळी

ह्या दोन न्हयांच्या चीळांतल्या (खोऱ्यांतल्यान) क्षेत्रांत उद्देगीक वाडीचे प्रयोग करचे आसात, फकत यांत्रिक साधनांनी जरी शेती वाडयली तरी ह्या टापूंतले संभाव्य उत्पादनान सुद्धां बंदर वाडीक लागतलें. कारण नाल्लांचो, वाशांचो, आनी इमारतीं लाकडांचो पुरवठो भरपूर आसाच. तांका धंद्याची जोड दिल्यार तेल आनी कागद हांचे कारखाने उत्पादनांत आनी निर्यातींत मोलदीक भर घालतले, कारण कारवार पसून 60-70 मैल परिघाच्या क्षेत्रांतच ह्या सगळया धंद्याची स्थापणूक जातली. शिवाय जळाऊ लाकूडय आजुबाजूच्या जंगलात भरगच्च आशिल्ल्यान कोळसो तयार करून ताची निर्यात करपय अशक्य जावचे ना, वा उज्यापेटीचे कारखाने उघडपय विशिश्ट लाकडां पसून शक्य जातले. रंगून लाकाडांच्या तोडीचें लाकूड हांगा जंगलांत मेळता आशिल्ल्यान बोटीं बांदचो कारखानो उघडून थळाव्या उत्पादनांत सुद्धां भरपूर वाड करुं येतली.

थोडेभितर सांगचे जाल्यार आजपर्यंत लक्ष दिलें नाशिल्ल्यान कितले तरी लाख टनांचो कच्चो म्हाल फुकट वचत आसा. पूण सध्याच्या स्वातंत्र्याच्या काळांत राजकारणां परस देशाच्या अर्थिक उद्देगीक आनी सर्वांगीण उदरगतेक म्हत्व चड प्रमाणांत दिवप अशक्य आशिल्ल्यान कारवार बंदराच्या वाडीचो हो प्रस्न कडेक काडून उपेग ना. धनोत्पादनांच्या समर्थतेच्या खंयच्याय तीव्र कसाक हो प्रस्न लायलो तरी, भिन्न शांखांतल्या तज्ञांचे एकमुखी मत कारवार बंदराच्या वाडीक अनुकूलच पडतलें. हांतूत संशय ना. कारण नैसर्गिक अनुकूलतेच्या बाबतीत पश्चिम देगेर मुंबय, मुरगांव जमेक धरून सुद्धां ह्या बंदराक तोड मेळची ना. ठेवीच्या सोयिस्कर पणाक लागून ह्या अतीसमृद्ध अशा पार्श्वक्षेत्रांतल्या व्यापार-वाडीक आनी उद्देगांक वाडीक सगळया वटेन अनुकूल आशिल्लें. कारवारा खेरीज दुसरें बंदर सांपडचे ना, आनी व्यापारी-बंदर, कोळशां-बंदर, (Fuelling Station) खाडी-बंदर, आनी आरमारी तळ (Naval base) ह्या सगळया तरेची एकठांय शक्यता आशिल्ली दुसरी सुवात मेळचीच ना. पश्चिम देगेर पयल्या प्रतींचे बंदर उबारपाची भारत सरकाराची इत्सा स्पश्ट आसा. प्रांतीक राजकारणांचे प्रस्न कडेक दवरून देशाची सर्वांगीण उदरगत आनी कमी खर्चात चड मोठया जनसमुदायाची अर्थिक उदरगत ह्या ध्येयार अढळ नदर दवरून समतोलपणान विचार केल्यार मध्य सरकाराक कारवारच्या तोडीचें दुसरें बंदर नक्कीच दिसचे ना. तेन्ना ह्या नदरेन विचार जावन बंदराची निवड जातली अशी आशा आसा. ●●●

# प्रकरण 1 लें
# काळी न्हंय

काळी न्हंयीच्या नांवा कडेन कालीदेवतेचो कसलोय संबंध नासून फकत आपल्या वर्णनावयल्यानच हाका काळी हें नांव लाभिल्लें आसा. उत्तरेंतल्या गौरवर्णिय गंगेच्या बरोबर जशी 'कज्जलाभम्' जलाची यमुना, तशी हांगाची उजळी वा पांढरी ह्या न्हंयांबरोबर ही काळी, काळयाकिट्ट उदकाची अतीशय संथपणान व्हांवपी ही न्हंय पळयताच मनांत करूणाच उत्पन्न जाता. हिचो प्रवाह इतलो शांत आसा की, कित्येक शेंकडयांच्या अखंड प्रवासान हिका थकाय आयली आसत, ही भावना मनांत येवन हिचे बद्दल दया उत्पन्न जाता. शंभर मैलाचो फातरा तळपांतलो मार्ग आक्रमून, वीस पंचवीस मैलांचो पठारावयलो प्रवास सापोवन कोडीबाग लागसर हिची सागरा कडेन भेट जाता. आनी ह्या वीस मैलांच्या झोतात दोनय दिकांक वशिल्ल्या खेडयां-शेतांनी ह्या काळीचे विशाल खोरें (चीळ) तयार जाता.

दोनय वटेन सह्याद्रिच्यो पांचव्योचार नवथर रांको, देगे लागी वशिल्ले शेतकीप्रधान गांव, पावसाळयांत पांचवीचार आनी हेर रूतूंत रेंवट भूंय, दोनय वटेन आपल्या प्रत्येक इत्सेक जणू मानेन हयकार दीत आशिल्ले 'कल्पवृक्ष' (माड). ह्या संथ उदकांतल्यान गांवठी होडयांत बसून आठ धा मैलांचो प्रवास म्हणल्यारच कारवाराक आयिल्ल्या सोयऱ्यांक दिवपाची मेजवानी. असली सहल मानमरातब दवरून गेल्ल्या तपशीलां मदली एक आसा. फांत्यापारावयलो मंद, थंडगार वारो, न्हंयीचो शांत प्रवाह, नुस्ते धरचे खातीर लिपून बशिल्ल्या

बगळयांच्यों धव्योफुल्ल पंक्ती, शेवण्यांचो मधूर किलकिलाट, वाऱ्याच्या थंड झुळके बरोबर तिरार निकत्याच फुलपी फुलांचो दरवळ सगळया ज्ञानेंद्रियांची, सौंदर्याची, तान ह्या प्रवासांत भागयली वता. न्हंयीचेर कांय शेंकडयां फाटी पुर्तुगेज़, मराठे, इंग्रज, हैदर हांच्यो आरमारी लढायो जाल्ल्यो आशिल्ल्यो. ह्याच न्हंयीच्या देगेवयल्या उत्तरे कडल्या कद्रे गांवांतल्यान शिवाजीच्या वेळार मचवे भरून तांदूळ व्हरताले. सांवळो तांडेल घिरटयो घालीत ह्या प्रवाहावयल्यान तेळणी करतालो. पूण ह्या लढायेच्या जंजाळांत आसतना लेगीत हैदरअली सारख्यांक सुद्धां ह्या सोबीतकायेचो विसर पडलो नासलो. हांगाच्या देगेवयल्या एका गांवात आपली रखेल दवरून ताणे ह्या बंदराक 'विलास बंदर' अशें श्रृंगारीक नांव दिल्ले! ते वेळार विलासांच्या भिन्न साधनांनी नटिल्ले, रंगी बेरंगी फुलांच्या ताटव्यांनी फुलिल्लें, मद्याच्या सूरयांनी भरिल्ले, दास दासींनी गजबजिल्ले हें 'विलास बंदर' ह्या म्हैसूरच्या राजांचे विलास स्थान आशिल्लें. ह्या थळार आज मानव निर्मित सौंदर्य साधनां अजीबात नात. पूण ह्या बंदरार, देगेपसून उदकांच्या दिशेन न्हंयीच्या पृश्टभागार तकली काडपी काळया फातरार उबे रावल्यार मानवी मनार भूलच पडता! भिन्न जातींचे वनसौंदर्य तर आसाच, शिवाय पर्वताच्यो रांको आनी न्हंयीची मोण्णा हांची दवरणी इतल्या मजेची आसा की, कांय अंतरावयल्यान दोनय पर्वताच्यो रांको एकमेकांक भिडून ताणीं साधिल्ल्या त्रिकोणांत काळीचो प्रवाह तळया प्रमाण भासता. अंतर माडयत गेले की, अशें क्षितिज आंपणा पसून पयस गेल्ल्या सारखें दिसता. असोच हांगा भास जाता, कारण हांगा समांतर आशिल्ल्या पर्वतांच्यो रांको बऱ्याच सुवातेर मोण्णा घेत वतात.

रातीच्या शांत वेळार, वारो अजिबात व्हांवनाशिल्ल्या वेळार ह्यो ल्हान होडयो ताणून व्हरची पडतात. चान्न्याच्या रातीं होडीकार आपली गांवठी पदां गायत, तालार होडयो ताणून व्हरतात. पदांत मात पसून सौदर्य नासता. वल्होवपाच्या तालांत तालबद्धता नासता, पूण निसर्गा कडेन तादात्म्य पाविल्ली आपली वृत्ती हळूवार संवेदनांक साथ दिवपाक तयार आसता. आड पडिल्ल्या स्थितीत तोंडार चान्न्यांचो शींवर आनी आंगार उदाकाचे थेंबे पडतात. सृश्टींतलो गहन पणा त्याज्य दिसूंक लागता. विचारांच्या चक्रांपसून अलिप्त अशा स्थितींत, धांव-धांदली पसून पयस पयस वचपाची इत्सा चडांचड तीव्र

जायत आसता. आनी मळबांकडेन नजर लायिल्ल्या वेळार मनांक दिसता की, आपूण अतीशय वेगान धर्तरेपसून पयस पयस चलत आसात, अंतरिक्षांत तरंगत आसात! शास्त्रीय तालबद्ध अशें वल्हवपाचे आघात आपणांक वयर ओडीत आसात, आनी स्वर्गीय गीतांचो प्रत्येक सुंदर शब्द आपणांक भूतलांवयल्यान हळूवार उखलून उंच उंच व्हरत आसा!

●●●

# प्रकरण 2 रें
# गुडेहाळी

ह्या वाटेन आशिल्ल्या सह्याद्रिच्या रांकेतल्या अनेक दोंगराक वेगवेगळी पूण अर्थपूर्ण अशी नांवां दिल्ली आसात. बैतखोलच्या खाजनांपसून पुराय कारवार शाराच्या वयले वटेन तक्क्या प्रमाण पातळिल्ल्या दोंगराक 'बिणगे' घाट अशें नांव आसा. ह्या दोंगराच्या मुळसांच्या गांवांक बिणगे म्हणतात. दोन दोंगराच्या मदीं ते वशिल्ले आशिल्ल्यान 'द्विनंगम' आनी ते वयल्यान बिनगे, बिणगे अशीं नांवाची उत्पत्ती लायली वता. बाराय म्हयने पांचव्या चार झाडांनी शृंगारिल्लो हो बिणगे घाट अंतरांवयल्यान एकाच रांके सारखो दिसलो तरी तो खूप थरांनी एकवटिल्लो असो आसा. ह्या घाटथरांच्या माथ्यार 'गुडेहाळी' हें दोंगराचे रम्य तोंक आसा.

पोन्नी इगर्ज आशिल्ल्या ह्या बिणगे घाटाच्या मुळसांपसून उभार चडणेक सुरवात जाता. आनी घाटमाथ्यार येताच दाव्या वाटेन एक ल्हानशी पांयवाट पुसट रूपांत दिसता. ह्या पांयवाटेन चलूंक लागताच चडटेचे उभारपण सोपून संथपणा सुरू जाता. आनी दोनय वाटेन पातळिल्ल्या विशाल वृक्षांच्या सांवळेन भर दनपारां सुद्धां वताची बाधा जायना. पांयामुळांत सुकिल्ल्या पानांचो गालिचो, दोनय वाटेन जोरान व्हांवपी वाऱ्या मुखार मान बागोवपी मोठे रूख, जोरदार रूखांच्या आडवणुकेन व्हांवपी, वाऱ्यान सोडिल्ले फुत्कार, आपल्याच पावलांच्या पाचोळयार येवपी मर्मरध्वनी, आनी आपलोच आपणांक सांगात. ह्या घाटांत चलता चलतां आळीपाळीन चडटी देंवती लागत वता.

प्रथम दर्शनी पर्वतांची रांक सोंपता तोच दुसऱ्या रांकेक सुरवात जाता. आनी या प्रमाण दरेक देवते नंतर चडटेक सुरवात जाता. चडता चडता मदींच झाडांच्या रांकेंतल्यान एक फावट ग्राम दर्शन तर एक फावट सागर दर्शन जायत आसता. अशे पांच स पर्वताचे थर हुपले नंतर आमी घाटमाथ्यार चारय वटेन उक्त्या आशिल्ल्या मळार पावतात. हेच 'गुडेहाळी'.

कारवाराक फाटी मी. बेल नांवाचे रान खात्याचे अधिकारी आशिल्ले. रान खात्यांत आयुष्य गेल्ल्यान आसत वा जल्मताच रानांवांटानी सहल करची आवड आशिल्ल्यान आसत, ह्या बेलसायबान ह्या घाट माथ्याची लोकांक वळख करून दिली. तांका ही सुवात खूबच पसंत पडली. म्हण तांणी हांगा दोन बंगले बांदले. आनी थोडेशा देंवतेर एक उदकाची बांय खणून दवरली. आंपणाक हो दोंगर अतीशय आवडिल्ल्यान ताणे हाचें 'गुडू हील' असें नामक रण केलें. आनी ह्या इंग्लीश उतराचे 'गुडेहाळी' जालें. अशें कांय लोक मानतात. तर ह्या दोंगराच्या चिळींत एक ल्हानशें गांव आसा. आनी दोंगरां मदलें गांव हाचो कानडींत अर्थ 'गुड्डे हळ्ळी'असो जाता. अशेंय कांयजण समजतात. पूण इतलें खरे कीं, ह्या इंग्रज अधिकाऱ्यान हो हांगाचो बंगलो बांदी पर्यंत कोणच हांगा पिकनिकेक आयिल्ल्याचे आयकुपांत ना.

शाळेंतली पोरा आनी जायतीं इश्टमंडळी ह्या सुवातेर एका दिसाच्या मजे खातीर येतात. खाण्या पिण्याची सामुग्री घेवनच येवचे पडता. गिमाळयांत कडक वतांत सुद्धां हांगा बांयचे उदक बर्फासारखे थंड आसता. दोन बंगल्या मदीं एकात च्या जेवण आदी शिजोवपाची व्यवस्था आसून दुसरो बंगलो दिवाण खान्या प्रमाण वापरपाक येता. च्या पाणी घेवन शीण गेल्या नंतर भोंवपाक भरपूर सुवात आसा. खावपाक अनेक तरेचीं फळां मेळतात. आनी रसीकांक निसर्ग सौंदर्याची मेजवानीच मेळता.

ह्या बंगल्या कडल्यान दुसऱ्या एका दोंगराक सुरवात जाता. आनी अर्द्या एका तासाच्या चड्टे नंतर आमी दोंगराच्या निमुळत्या तोंकार पावतात. हांगा लांबसार पातळिल्ल्या काळया फातराच्या राशीर चड्टकच अक्षरशः आमी जगाच्या माथ्यार पाविल्ल्यचो भास जाता. उर्ध्व दिशेक मळब आनी आख्खें जग, आमच्या पावलां सकयल, चोयवटेन अथांग आनी अनंत असो दर्या, अनेक खेडीं, भाटां, शेतां हाणी भरिल्ल्या पश्चिम देगेचे विशाल दर्शन, ह्या

तोकावयल्यान घडता. अंतरिक्षांत सतत चलिल्ले उदकाचें बाष्पीकरण आपल्या भोंवतणीच घडता. मळबांतली कुपां आपल्या भोंवतणी आनी पांया सकयल खेळतना दिसताच मनाक खरोच अभिमान दिसता! शिरोभागार हुबतल्या, उंचावयल्यान संथपणान भोवतना भूतलावयल्या मनशांकडेन तुच्छतायेन पळोवपी कुपां पंक्तीक आपल्या पांयातळा संचारतना पळोवपाचे प्रसंग क्वचीतच येतात. आनी ही घटना हांगा दिसत आशिल्ल्यान, आपले वर्चस्व प्रस्थापीत जाल्ले दिशिल्ल्यान मनशाच्या मनाक अभिमान कित्याक दिसूनये?

■●●

# प्रकरण 3 रें

# आजाद्वीप

बैतखोल खाजनां कडल्या दोंगुल्लेच्या आड आशिल्ल्या देगेकडेल्यान दोन अडेच मैल भीतर आजाद्वीप ह्या नांवाचे पुर्तुगेज सरकारच्या मालकेचो एक ल्हानसो जुवो(बेट) आसा, ह्या फातराळ जुव्याची हद्द मैलभर लांब आनी अर्द मैल रूंद आसा. देगेच्या विरूद्ध दिकेचो भाग फातराळ आसून कारवार देगेक सन्मूख आशिल्लो भाग हिरवळीन भरिल्लो असो आसा. ह्या दिशेच्या देंवतेर खूब माड, आसात तशेंच आंबे, लिंबू हांचीय थोडीं झाडां आसात. ह्या वाटेन उदकाची खोलाय भरपूर आसून मोठ मोठे मचवे ह्या जुव्याच्या मुळसाक लागतात.

ह्या जुव्याच्या नांवाची वेगवेगळी उत्पत्ती लायली वतात. परशुरामान कोंकणपट्टी निर्माण करच्या पयलींच हो जुवो आशिल्लो, म्हणून आद्यद्वीप, परशुरामाक अश्वमेघ यज्ञ करच्या कार्यांत दह्याची अडचण भासली, ती ह्या जुव्यान धंय वा आज्य पुरोवन पयस केली, म्हण आज्यद्वीप आदीं, कितल्याशाच जणांच्या मतान अंजनद्वीप ह्यावयल्यान आंजद्वीप कितल्याशाच जाणांच्या मतान उत्तरेंतले आर्य आयले. ते पयली ह्या जुव्यार रावले, म्हणून आर्यद्वीप पूण एक गजाल खरी की, प्राचीन काळांपसून भूगोलवेत्त्यांक ज्ञात अशा सुवातेंत ह्या द्वीपांचो समावेश जाता. इ. स. 150 वर्सां सुप्रसिद्ध टॉलेमी हांच्या उल्लेखांत आनी पेरिप्लसच्या उल्लेखांत भायले देशांच्या बोटींक उदाक पुरोवपी उपयुक्त बंदर आशिल्ल्याचो मान दिल्लो आसा. इब्न बतुता हाणेय आपल्या प्रवास वर्णनांत ह्या जुव्याचो उल्लेख केल्लो आसा. हो फिरस्तो 14

व्या शेंकडयांत चित्ताकुले ह्या शारावयल्यान हांगा आयिल्लो, आनी ताणे एक मौनी हिंदु साधू पळयिल्ल्याचो उल्लेख केल्लो आसा. ह्या जुव्यार नरसिंहाचे भव्य देवूळ आशिल्लें, पूण तें मुसलमान लोकांनी उध्वस्त करून उडयले!अरब आनी इजिप्त देशांचो हिंदुस्थानां कडेन व्यापार वाडले नंतर, मोठमोठया बोटींक उदक पुरोवपाची सुवात म्हणूनहो जुवो प्रसिद्धीक आयलो. एडन सोडले नंतर हिंदुस्थानाच्या देगेक लागताना पयलोच नदरेक पडपी भूभाग म्हणल्यार हो आजाद्वीप जुवो. असे एका अरबी प्रवाशान नमूद केल्लें आसा. आनी वर्स भर सतत व्हांवपी झऱ्याक लागून लांबच्या प्रवासांत उदक पुरोवचे उपयुक्त थिकाण म्हणून हो प्रसिद्ध पावलो.

ह्या जुव्याची मालकी विजयनगरा कडेन आशिल्ल्याचो पयलो उल्लेख सांपडता, आनी ताका लागूनच नरसिंह मूर्त हांगा स्थापन जाल्ली. पूण इस्लामी आक्रमणां नंतर तांच्या कडव्या धर्माभिमानाक लागूनं थंयच्या हिंदूंक क्रूरपणान वागयले गेले, आनी थंयचे सगळे रावपी हिंदू हो जुवो सोडून गेले.

इ. स. 1498 वर्साच्या सप्टेंबर म्हयन्यांत कालीकतच्यान युरोपाक परततना वास्को-द-गामा हो हांगाच्या उदकाच्या वर्णनान आकर्शित जावन ह्या जुव्यार देंवलो. गामा थंय आसतना विजापुरकरांच्या गोंयांतल्या सुभेदारान चकोवन ताका धरचो निश्फळ प्रयत्न केलो, आनी कितेतरी दगो आशिल्ल्याचो दुबाव येवन वास्को-द-गामानच त्या सुभेदाराक कैद केलो. फुडे हाणे ख्रिस्ती धर्म स्वीकारलो. आनी गॅस्पर-ड-गामा ह्या नांवान हो पुर्तुगिजांच्या आरमारी वयल्या मोठया अधिकारार पावलो. फुडे सन 1502 त वास्को-द-गामाच्यो बोटी दाभोळ बंदराकडेन मोठया वादळांत सांपडल्यो, आनी सुरक्षितते खातीर ताका ह्या जुव्याचो आसरो घेवचो पडलो. तीन चार वर्सा नंतर वर्थेमा नांवाचो एक इटालीयन प्रवासी हांगा वसणूक करून गेलो. आनी ताणे हो जुवो मुसलमान आनी तुर्की लोकांनी भरिल्लो आसा अशें बरोवन दवरिल्लें आसा. ह्या जुव्याच्या उपयुक्ततेक लागून आनी केंद्र प्रदेशांत आशिल्ल्यान पुर्तुगालच्या हुकुमान्वये त्या वेळच्या हांगाच्या व्हाईसरॉय आल्मेडा हाणे एक किल्लो बांदलो, आनी भक्कम तटबंदीय करून घेतली. आनी परकीय राज्याची म्हूर्तमेढ ह्या किल्ल्याच्या रूपान 13/9/1505 दिसा रोयली गेली. आनी शुभ म्हूर्तार लायिल्लो हो पुर्तुगिजांचो बावटो आज 450 वर्सा पासून हूबत आसा.

पुर्तुगिजांनी हो जुवो ताब्यांत घेवन किल्लो बी बांदतकच मामुली वयवाटे प्रमाण होन्नावरचो सुभेदार आनी विजापूरां कडेन आशिल्ल्या सदाशिवगडचे मुसलमान व्यापारी हांणी हांगाच्या किल्लेदाराक नजराणे धाडून आपल्या इश्टागतीचे प्रदर्शन केलेंच. होन्नावरचो सुभेदार ह्या वेळार बरोच प्रबळ जाल्लो. आनी ताचो आनी पुर्तुगिजांचो सलोखो सहन जायना जावन विजापूरकरा वतीन गोंयच्यान आजाद्वीपार हल्लो केलो गेलो. पूण पुर्तुगिजांच्या तटबंदे आडसारान केल्ल्या तोफेच्या भडीमाऱ्या मुखार हांचो तिगाव लागलो ना. दोनय पक्षां कडल्या मनुश्य हानी खेरीज ह्या लढायेचो जाणवपा सारखो परिणाम कांयच जालो ना. आनी हळूहळू ह्या आजाद्वीपाच्या आधारार पुर्तुगिजांनी आपले पांय थिरावपाक सुरवात केली. कारण ह्या जुव्या वयल्यान एका दिकेक कारवार, एका दिकेक सदाशिवगड आनी पलतडच्या वाटेन गोंय ह्या तीनय भागार वचक बसोवप साध्य आशिल्ले. आनी ह्या परिस्थितींचो फायदो घेवन पुर्तुगिजांनी हळूहळू गोंय आपल्या अंमलाखाला हाडले, आनी मागीर हेर राजांक ह्या जुव्याचे म्हत्व दिसना जाले.

पुर्तुगालच्या राजाकडल्यान इंग्लंडच्या राजाक मुंबय आंदण मेळिल्लें. ताजो कब्जो घेवचे खातीर आयिल्ल्या अंमलदाराक दानपत्रांतल्या कांय विस्कळीत विधानां वयल्यान वसय पसून मुंबय जुव्याचो ताबो घेंवक येना जालो. आनी तांका रावपाक सुवातय सांपडना जाली. आनी त्या वेळार आपल्या आरमारा बरोबर सर आब्राहम शिपमन हांका ह्याच जुव्यार दीस काडचे पडले.

इ. स. 1682 त पुर्तुगिजांनी नवो किल्लो हांगा बांदलो. आनी आपल्या वसणूकेतली रमणीय सुवात करपाचे प्रयत्न केले. ह्याच वेळार संभाजीचे आनी पुर्तुगिजांचे बिनसल्ल्यान ताणे ह्या जुव्यार धाड घाली, पूण गोंयच्यान कुमक धाडून पुर्तुगिजांनी ताका कुशीक काडले. आनी संभाजीच्या ह्या कृत्याचो सूड घेवचे खातीर तांणी कारवार शाराचो व्यापार उध्वस्त करचे प्रयत्न केले. संभाजी, ताचे फाटले मराठे, हैदरअली आदी सगळयांचे प्रयत्न निश्फ ळ जावन हें बंदर आजमेरेन पुर्तुगिजांच्या अंमलाखाला आसा.

माड, आंबे आनी हेर फळां हांची ल्हान व्हड भाटां, नश्टप्राय जाल्ले किल्ल्याचे तट, आनी एकवेळ पुर्तुगिजांच्या वसणूकेंतले सौदर्यस्थान आशिल्लो हो जुवो आज पुर्तुगिजांचे 'काळे पाणी' जाल्लें आसा. आनी चोरांच्या व्यापाराचे केंद्र जाल्ले आसा! ●●●

# प्रकरण 4 थें

# गिरसप्पाचो घसघसो

इंद्रराजांच्या पोरसांतल्या शेंवतेच्या ताटव्यांक दरदिसा फांतोडेर उदाक घालपाचे काम एका रुपवती अप्सरेकडेन सोपयिल्ले. एके राती नाच रंगाच्या दंग्यात हिका उठपाक वेळ जालो, आनी रातींच्या जागरणान ताटव्यांक उदक शिंपपाचे उरले. नाजूक शेंवती एका दिसाच्या उदका वाचून बावली. इंद्राक आयलो राग, आनी ताणे तिका शाप दिलो की, तूं दक्षिण दिक़ेक एक न्हंय जातली, आनी जोग दरेत उदक भरत रावशी, आनी दरी उदकान भरिल्ल्या दिसा शापमुक्त जावशी. इंद्रराजांच्या उ:शापाची घटका भरची वेळ पळयत ही न्हंयरूपी अप्सरा शरावती, जोगची दरी उदकान भरून काडपाचो प्रयत्न आयज कैक शेंकडे करीत आसा. पूण दरी कांय भरना आनी शाप कांय सुटना!

उंचावयल्यान खोल दरेंत हुडयो मारपी न्हंयो जगांत उण्यो नात, ह्या शरावती परसय मातब्बर न्हंयो आसात, आंगान प्रचंड आनी ताकदीन मोठयो न्हंयोय आसात, पूण संवसारांतली दुसरी खंयचीच न्हंय इतल्या हड्डे फुटपी उंचायेवयल्यान हांसकुऱ्या तोंडान हूडी घेवपाक धजली ना. शरावतीच्या आंगात कांय आध्यात्मिक शक्ती आसा नक्कीच. आनी हिची रमणीयता, हिचो अल्लडपणा आनी बेफिकीर वृत्ती पळोवन मनाक पटता की ही शरावती खरोखरच एखादी शापभ्रश्ट अप्सरा आसूंक फाव!

तपोधनांक चिंतन आनी मनन करूंक योग्य अशा शांत आनी अतीशय रम्य वनराजींतल्यान शरावती अत्यंत सावध पणान आनी संथपणान जणूं ह्या

दरीचोच सोध घेत येता, आनी जोग गांवा लागसरल्या ह्या खोल दरींत सुमार एक हजार फूट उंचाये वयल्यान हांसत नाचत हूडी घेता. शरावतीचे हें नृत्यस्थान 'जोग' वा 'गिरसप्पा' ह्या नांवान संवसारांत प्रसिद्ध पाविल्ले आसा. उंचायेत आनी रम्यसाणेतय गिरसप्पा कडेन सर्त करपी घसघसो जगांत दुसरो नाच.

शरावती न्हंय ही म्हैसूर संस्थान आनी कारवार जिल्हो हांची विभाग रेशा मानली वता. गिरसप्पा गांव पश्चिम देगेवयल्या होन्नावर ह्या प्राचीन बंदराच्या पूर्वेक विसेक मैलार आसा. आनी शरावतीच्या देगेर वशिल्ले आसा. पंदराव्या शेंकडयांत ह्या पश्चिम देगेच्या थोडया भागार राज्य करपी एका जैन घराण्याची राजधानी ह्या गिरसप्प्यांत आशिल्ली. त्या वेळार होन्नावर, गिरसप्पा ह्या बाजून जैन धर्माचो फैलावय बरोच जाल्लो, असें दाखोवपी बरेच अवशेश आसात. ह्या गिरसप्प्यांत पोन्नी देवळां भरपूर आसात. अनेक तिर्थंकारांच्या नांवान वळखूवपी आनी जैन धर्माच्या प्रसाराची खूण दाखोवपी देवळांय बरीच आसात, तातूतली वर्धमान, महावीर, नेमीनाथ, आनी पार्श्वनाथ ही प्रामुख्यान दिसतात.

म्हैसूर संस्थान आनी कारवार जिल्हो ह्या दोनांच्या सरहद्देरच हो घसघसो आशिल्ल्यान ह्या जिल्ह्यांतल्यान होन्नावरा वयल्यान न्हंय हूपून थंय वचूंक येता, आनी म्हैसूरच्या दिकेन 'सागर' ह्या शारावयल्यानय वचूक येता. मोटारीची सतत चलची येरादारी आशिल्ल्यान ह्या अद्वितीय घसघशाचे दर्शन हालीं सराक सोपें जाल्ले आसा. शरावती ज्या दोंगराच्या तोंकावयल्यान सकल कोसळता त्या घाटमाथ्यार रावपाची वेवस्था दोनय सरकाराकडल्यान दवरिल्ली आसा. ह्या घाटमाथ्यावयल्यान चार भिन्न झोतांनी शरावतीचो झोत सुमार शंभर फूट सकल चिळींतल्यान फुडे आयिल्ल्या फातराच्या बसकेर पडता, आनी थंयच्यान मागीर दरेंत पडता. आपल्या पोटच्या धुवेची कंबर, इतल्या उंचाये वयल्यान हुडी मारतना खचत ह्या भयान जणू पर्वतान तिका मदीच हात पातळावन विश्रामस्थानच दिल्ले आसा! ह्या घसघशाचो गंभीर आवाज कैक मैलांवयल्यान आयकूंक येता, पूण हो आवाज कानापडदो फोडपी आवाज न्ही, सतत आवाजान बेजार करपी आवाजय न्ही. बऱ्याच अंतरावयल्यान आमकां पट्ता की, हो गंभीर ध्वनी आमच्या कुडींत रिगत आसा, आमच्या शिरंतरांत एकररूप जायत आसा, आनी उत्सूक तायेन ह्या दर्शनाक वतना घातिल्ल्या दरेक पावला कणकणी आमच्या कूडींत एकजीव जाल्लो हो गंभीर

घोश अनिर्वाच्य अशो नादलहरी निर्माण करत आसात. आनी आमकां ध्वनीमय करून उडयत आसा! निसर्गाचे श्राव्य रूप आमच्या रूप आमच्या कुडींत विलीन जायत आसा! ध्वनी आमच्या कार्णरंध्रांतल्यान भायर पडत आसा!

आपल्या गरडीन नादब्रह्माची कुरू पटोवपी 'रोरर', 'अंतरिक्षांत हूडपी रॉकेट', पुरूष रूपी 'राजा', आनी प्रकृतीरूपी 'लेडी' अशी एकाच जीवन प्रवाहाची चार जलमय रूपां वेगवेगळे आभास निर्माण करून चिळीच्या मध्यार परत एकरूप जातात. ह्या जलप्रवाहाच्या पतनाचो आनी संघर्शाचो जोर इतलो प्रचंड की, उदकाच्यो ठिकऱ्यो ठिकऱ्यो जातात, तांचे थेंबे जातात, आनी तांचे बरीक बारीक कण जातात. जमिनी पसून थोडयाशा अंतराचेर उदाक, थेंबे कांयच नाशिल्ल्याचो भास जाता, आनी पांयासकल मात जलसंचयच दिसता! निसर्गाच्या ह्या विलक्षण दृशाचें वर्णन करप अशक्यच, तो देखावो प्रत्यक्ष दर्शनानच अणभवपाक जाय. शेजराच्या दोंगरा वयल्यान घाटमाथ्या पर्यंत घसघशाच्या तळाकडेन वचूंक येता. सकल वचसर वयल्या उदकाचो प्रचंड झोत पळोवन आमकां खरेंच दिसता कीं, प्रवाहाच्या सकल वचून 'शॉवरबाथ' चो अणभव घेवचो, पूण उदकाच्या झोताबरोबर सकल पावताच आंगार गुलाबाच्या उदका इतलोय शिंतोडो येना आशिल्ल्याचे पळोवन खरोखरच मन गूंग जाता! कितल्या तरी उंचायेवयल्यान कोसळपी उदकाचो प्रवाह दिसता, सकल एखाद्या तळ्या प्रमाण शांत असो जलसंचय दिसता, आनी मदींच उदकाचो अभाव, सगळो प्रकार उलटच भासता. आदी, अंत, अज्ञात, आनी मध्य, तितलेंच दृश्य, अशें भव संसाराचे वर्णन केल्लें आसा. पूण हो जलसंभार आदी, अंत, ज्ञात आनी अदृश्य मध्य असो खरोच उलटो आसा! घर्शणान आनी कोसळण्यान उदकाची भुकटी जाता, आनी ती वाऱ्यार अदृश्य अशा सूक्ष्म कणांच्या रूपान हूबत आसता!

ह्या घसघशाचे दृश्य अत्यंत रमणीयतेन पळोवंक मेळता तें डिसेंबर ते फेब्रुवारी ह्या तीन म्हयन्यांत. पावसाळयांत तुडूंब भरिल्ल्या उदकाक लागून कुस्ती खेळपी हिंदी मल्लाच्या कुडी प्रमाण ह्या उदकाचो झोत दिसता. घसघशाच्यो भिन्न आकृती स्वत:च्या स्वरूपांत दिसनात, गिमाळयांत उदकाच्या उणाक पणा लागून सगळे प्रवाह रेशनार दवरिल्ल्या भशेन दिसतात. पूण डिसेंबर ते मार्च पर्यंत खरें सौंदर्य पूर्णपणान दिसता. सुप्रसिद्ध युरोपीयन

मल्ल सँडोहाची आकृती म्हणल्यार प्रत्येक 'मसल' आपआपल्या परी रेखीव, आनी सगळया 'मसलां' च्या समुच्चयान एकवटिल्ले प्रमाणबद्ध शारिरीक सौंदर्य, 'रोरर 'रॉकेट' 'राजा',' लेडी' आपआपल्या आकृतीच्या आत्यंतीक सुंदरकायेन नटिल्ले प्रवाह आनी ह्या सगळया भिन्न प्रवाहाच्या मीलनान उबारिल्ले ह्या घसघशाचे भीशण स्वरूप, रूद्र स्वरूप, गंभीर स्वरूप आनी नटेल स्वरूप ह्या तीन म्हयन्यांतच पळोवंक मेळता. दिसाच्या प्रत्येक तासाक, सूर्याच्या प्रत्येक पावंडयात ह्या प्रवाहाचें दृश्य बदलता वता. थेंब्यानीं भरिल्ल्या ह्या प्रचंड दरेंत इंद्रधोणू तर वाण ना, हजारों, लाखों करोंडो इंद्रधोणूं दीसभर आपलो धिंगाणो घालीत आसतात. सूर्यास्ताच्या प्रहरभर पयलींच आमी ह्या दरेच्या मध्या पर्यंत देवन गेल्यार सूर्य किरणांच्या आनी ह्या थेंब्यांच्या मीलनान निर्माण जाल्या एका रंगमय पोकळेंतच आमी वसणूक करतात. फाटी रंग, फुडे रंग, सकल रंग, आनी वयरय रंगच, चारी दिशांक रंग. सरबती रंगाची रेशमी गवसण स्पर्श सुखान अणभविल्ल्याचो भास जाता. आमी एका अपरिचीत, अज्ञात, आनी नाविन्यपूर्ण अशा मखमली सृष्टींत पाविल्ल्या प्रमाण दिसता!

●●●

# प्रकरण 5 वे
# श्री क्षेत्र गोकर्ण

विंध्याच्या उत्तरे कडल्या आर्यांक  अतिशय प्राचीन कालापसून ज्ञात आशिल्ल्या शारांत श्रीक्षेत्र गोक र्णाचो आसपाव करूंक  येत. गोक र्ण क्षेत्राची उत्पत्ती पौराणीक  रित्या दिल्ली आसाच,  श्री शंकराक  प्रसन्न करून घेवन वरदान म्हण ताचें आत्मलिंग घेवन लंकेचो राजा रावण दक्षिण दिकेन चलूंक लागलो, हेर देवांक  भंय दिसून तांणी गणपतीक  गोरवां राखणेच्या वेशांत धाडून दिले. तो रावणाक  गोकर्ण शारांत मेळ्लो, मूत्रवेग अनावर जावन ताणे तें लींग गणपतीक डेन दिलें. ताणे ते जमिनीर दवरले, आनी सगळे बळ एकवटूनय रावणाक  तें उखलपाक  येना जालें. म्हूण ताचे नांव महाबळेश्वर दवरले. गणपती आपल्या गायीसयत जमिनीत अदृश्य जालो. गडबड करून रावणान एका गायीचो कान धरलो. आनी म्हण ह्या क्षेत्राचें नांव गोकर्ण अशें पडलें. ही गोकर्ण नांवाची आनी महाबळेश्वर ह्या नांवाची पौराणीक  उत्पत्ती. पूण फाटल्या  प्रकरणांत दाखयल्ल्या प्रमाण गोकर्ण क्षेत्र हे पयली एखादो जूवो वा भूशीर आसूंक  फाव. आनी ताचो आकार काना सारखो आसूक  फाव फुडे कांय शेंकडयाच्या जलक्रियेक  लागून, दर्यांतल्यान आयिल्ल्या रेंवेन, न्हंयांतल्यान आयिल्ल्या,  आनी मुखार स्थीर जाल्ल्या दोंगरा वयल्या गाळाक लागून अंतर्भूमी कडेन हो जूवो एकजीव जालो आसूंक  जाय.

अती प्राचीन  संस्कृत वाङ:मयांत गोकर्ण क्षेत्राचो उल्लेख मेळता, आनी असो उलेख्खय ताच्यानय खूबच प्राचीन कालांतल्या घडणूके  कडेन

संबंधीत असो आसा. वयल्या पौराणीक उल्लेखां वयल्यान गोकर्णाची उत्पत्ती श्रीरामाच्या वेळेची थारता. कारण दक्षिणेचो राजा रावण हो रामाचो समकालीन आशिल्लो, पूण रघुवंशांतल्या उल्लेखांवयल्यान अजराजाची आवडती राणी इंदूमती ही पारीजातकाच्या फुलाच्या आघातान मरण पावली. तें फूल मळबां वाटेन वचपी नारदमुनींच्या तंबोऱ्यावयल्या माळेंतल्यान गळून पडिल्लें आनी नारदमुनीन ती माळ गोकर्ण क्षेत्रांतल्यान प्रसाद म्हणून हाडिल्ली. अजराजाचो पूत दशरथ आनी ताचो पूत रामचंद्र, त्या वयल्यान रावणाच्या पयलींच्या दोन पिळग्यांक सुद्धां गोकर्ण ज्ञात आशिल्लें.

ह्या गोकर्ण क्षेत्राची शिवपरंपरा अजूनय चालू आसा. आनी अजूनय हें हिंदुस्थानांतल्या महाक्षेत्रां मदीं एक, अशें गणलें वता. आनी महाशिवरात्रेच्या दिसा दर्यान्हाणां खातीर हिंदुस्थानच्या अनेक भागांतल्यान भावीक लोक हांगा येतात.

ह्या अतीप्राचीन देवळांत 'चक्रवर्ती लिंगाची' प्रतिष्ठापना इ. स. 1920 वर्सा जाली. हें चक्रवर्ती शिवलींग काळया पाशाणाचें आसा. सव्वातीन फूट लांब, अडेच फूट ऊंच, आनी एक फूट उंचेच्या पिंडीकेर बसयिल्ल्या स फूट घेराच्या ह्या लिंगाचे वजन 11 मण आसा. ह्या लिंगाचो इतिहास मजेशीर आसा. अमेरिकेंतल्या फिलोडेल्फीया शारांतल्या प्रदर्शनांत दवरचे खातीर कलक त्त्याच्यान हें लींग धाडिल्लें, आनी थंयच्यान इंग्लंडात केन्सींगटन शारांत इ. स. 1886 त भरिल्ल्या प्रदर्शनांत हाडिल्ल्या वेळार हिंदुस्थानांत जल्मल्ले आनी हांगाच्या अनेक गजांलींची म्हायती आशिल्ले सरजॉर्ज वर्डवुड नांवाच्या गृहस्थांनी ताचें पावित्र्य ओळखून ते आपल्या घरा हाडून दवरले, मुंबयचे सुप्रसिद्ध वकील रा. घनश्याम नीलकंठ नाडकर्णी हे विलायतेक गेल्ल्या वेळार तांका ही हकीकत कळ्ळी, आनी वर्डवूड आनी नाडकर्णी ह्या दोगांच्या खटपटीन हें इ. स. 1897 च्या सुमाराक खानापुरच्या गौड सारस्वत मठांत पावयलें. आनी त्या लिंगाच्या पतिष्ठापनेचो जायते पावटी विचार जावन तें श्रीक्षेत्र गोकर्ण हांगा हाडलें, पृथ्वीप्रदक्षिणा पूर्ण करून आयिल्ल्या ह्या चक्र वर्ती शिवलिंगाची स्थापना 29 फेब्रुवारी 1920 या दिसा केली गेली. ह्या लिंगाच्या घडणेवयल्यान बारा ज्योतीर्लिंगा मदलेंच हें आसूंक जाय अशें म्हणतात.

श्रीक्षेत्र गोकर्ण दर्या देगेर वशिल्लें आसा. आनी कारवारच्यान मैलाच्या

अंतरार आसा. महाबळेश्वर देवालयाची गर्भकूड 30 चौरस फूट आसून ताची उंचाय 60 फूट आसा. पाख्यार दशावतराची चित्रां काडिल्लीं आसात. सभामंटप विस्तीर्ण आसा, आनी मुखार कोटीतीर्थ नांवाचें बांदिल्ले तळें आसा. बारा वर्सांनी एक फावट ह्या कोटीतिर्थांतले उदाक काडून उडयतात. महाशिवरात्रेच्या दिसा लिंगाची रथांतल्यान मिरवणूक काडतात. आनी ताका दर्यान्हाण घालतात. ह्या मुखेल देवतां खेरीज हेर सगळया देवतांच्या नांवांची तीर्थां आनी कुंडा थंय आसात. हेर शंकराच्या देवळां प्रमाण हांगाय पार्वती आनी गणपती आसात. भक्तगण मोठो आशिल्ल्यान पूजा आनी आरती मोठया प्रमाणार जायत आसता.

कोटीतिर्थांत सप्तकोटेश्वराचे लींग आसा. आनी तीर्थाक तेकून काळभैरवाचें देवूळ आनी गरूडगुडी आनी अगस्त आनी वसिष्ठ ऋषींच्या नांवाची लिंगा आसात. लागसारच शंकर नारायणाचें देवूळ आसा. आनी ह्या देवळां मुखार ज्ञान, वैराग्य आनी मुक्ती अशें तीन मंटप आसात ह्या खेरीज अनेक दैवतांच्या नंवांची, ऋशींच्या, सूर्य चंद्राच्या नांवांची कुंडा तिर्थां, गुडयो, ल्हान देवळां आसात. ताका लागून हिंदुधर्मांतल्या खंयच्याय पंथाच्या, खंयच्याय सांप्रदायाच्या भावीकांक पूजाअर्चेक आमकां मान्य आशिल्लें दैवत हांगा मेळता.

■■■

# प्रकरण 6 वें

# उळवी

मराठी विभागांत समाविश्ट केल्या गेल्ल्या सुप्पा पेठ हांगा सुपें शारां पसून वीस मैल दक्षिण दिकेक उळवी गांव आसा. सह्यद्रिच्या रांकेतल्या 'राक्षस टेकडी' नांवाच्या दोंगरावयल्या मळार 'उळवी' वशिल्लें आसा. भर दनपरां सुद्धां सूर्य किरणां भीतर रीगनात. असल्या दाट वनराजीच्या मर्यादेत वसलले उळवी लिंगायत धर्माचो संस्थापक बसव हांचे समाधिस्थान म्हणून प्रसिद्ध आसा. मुळसांपसून पांच मैल चडणेच्या उभट दोंगराळ रस्त्याक लागून येरादारीच्या मानान वचपाक कठीण आसलें तरी भावीक लोकांच्या प्रार्थनेन संतुश्ट जाल्ल्या निसर्गदेवतेन मनाच्या प्रसन्नते खातीर चोय वटेन रानमिऱ्यांची तोन्ना उबारिल्लीं आसात. श्रमपरिहारार्थ शीघ्रगतीच्या उदकाच्या झोतांतल्यान येवपी थेंब्याची तरतूद केल्ली आसा. आनी आजुबाजूक रम्य वनश्रींची येवजण केल्ली आसा. एकवेळार हांगा बरीच वस्ती आशिल्ली, पूण हालीसराक पयलीच्या सोबीत बगिच्यांत रान मातिल्लें आसा. तशेंच दाट आनी दमट रानजमिनीक लागून वारेय रोगीट जाल्लें आसा. एक वेळ मनशांनी गजबजिल्ले हें शार यात्रेकरांनी वर्सांतल्यान एक फावट भेट दिवपाची सुवात जाल्ली आसा,

पोन्न्या तेपार हो हांगाचे भूभाग एका म्हार राजाच्या अंमला खाला आशिल्लो. आनी उळवी हें शार ताची राजधानी आसून ते चानूर ह्या नांवान वळखताले. अशी दंतकथा आसा. हांगा राजवाडयाच्या पडक्या वण्टीचे अवशंश दिसतात. ह्या गांवाच्या वाठारांत अनेक तरेचे अवशेश, देवालयां,

कुंडां, तळीं, तिर्थां, बांयो, उदकाचे पाट. आदीं बऱ्याच प्रमाणार दिसतात. ह्या दृश्य अवशेशां वयल्यान अशें दिसता की, एका काळार लोकसंखेन गजबजिल्लें, भावीक लोकांनी वसयिल्लें, व्यापारी लोकांनी वाडयिल्लें अशें हें शार एखाद्या ल्हानशा राजाची राजधानी आसप सहज शक्य आसा. कारवार जिल्ह्यांतल्या बऱ्याच गौड सारस्वत ब्राह्मण घराण्यांच्यो पुर्वापार चलत आयिल्ल्या आयकीव काणेवयल्यान असो समज आसा की, गोंयांतल्यान आपले पूर्वज जे भायर निसटले, हांतूंतलो एक मोठो जमो ह्या दिशेक येवन ताणी उळवी हें शार वसयलें. वयर उल्लेखिल्ल्या अवशेशांवयल्यान तशेंच आयज दोन अडेचशें वर्सावयर कारवारच्या लागसार स्थायीक जाल्ल्या घराण्यांच्यो जमिनी आनी शेतांभाटां हांगा आशिल्ल्यान ह्या गजालींची शक्यता पटताय.

कांय वर्सांमेरेन हो भाग म्हैसूर सुलतानाच्या अंमलाखाला आशिल्लो. आनी तांचो सदाशीव नांवाचो हिंदू सुभेदार शिवतीर्थ कुंडा लागसरल्या पक्क्या वाडयांत रावतालो. हांगा दुसरो एक किल्लो उळवीच्या मळार आसून तो बरडे बाबूराव नांवाच्या मनशान बांदिल्लो.

शेजारच्या 'वडकल' ह्या गांवात जणू निसर्गान आपल्याच येवजणेन बांदिल्लें देवूळ आसा! नैसर्गिक हौदांतल्यान सतत व्हांवपी झरे, खडपांच्यो वण्टी, आनी वयर कडयांतल्यान भायर निसटल्ल्या प्रमाण दिसपी सपाट खडपांचे छत्र, मानवी प्रयत्नांन केल्ले खंयच्याय तरेचे बांदकाम नासतना नैसर्गिक खडपांच्या मांडणेन घडिल्ल्या, अदमासान 150 फूट उंचेच्या ह्या दिवाणखान्याक ' रूद्रमंडप' अशें नांव दिल्लें आसा. ह्या थळाचे दुसरे आकर्षण म्हणल्यार 'बुदबुद तळे' ह्या तळयांतल्या उदकांत सतत बुडबुडे येत आसतात. रूद्रमंडपा प्रमाण हांगा अनेक घोली आसात, आनी वचूंक अत्यंत कठीण अशा एका घोलींत अनेक लिंगां आशिल्ल्याचे लिंगायत लोक मानतात. .

उंच वण्टीच्या आंगणांत बसवेश्वराचे देवूळ आसा. ह्या देवळांत स्थापत्य कसब अशें कांयच ना. देवळा मुखार आख्या फातराचो ध्वजस्तंभ आसा. आनी देवळाच्या वण्टीरभायर सतत प्रवाही उदकाचो झरो आसा. फेब्रुवारी म्हयन्यांत हांगा पांच दिसमेरेन जात्रा भरता, आनी धरवाड, म्हैसूर, कर्नाटक, बी वटेचे पाच पन्नास हजार लोक ह्या उत्सवाक जमतात.

**समाप्त**

# संदर्भ ग्रंथ आनी लेख


1 बॉम्बे गॅझेटियर-कोंकण, कॅनार.

2 हिस्टरी ऑफ दि डेक्कन.भांडारकर.

3 सारस्वत फॅमिलीस-रा.सा. ताळमक्की.

4 शिवाजी-यदुनाथ सरकार. थी आ.

5 कारवार-अँड कॅनरा पोर्ट्स-कुमार.

6 रघुवंश नोटस्-वीरकर ( रघु).

7 उत्तरामचरितम् ( उ.च.).

8 महाभारत (म.भा.).

9 छत्रपति शिवाजी महाराज-केळूसकर (श्री.छ.शि.).

10 मराठ्यांचे साम्राज्य-प्रा.ओतूरकर (म.सा.).

11 मराठे व इंग्रज-केळकर (म.व.इ.).

12 मराठी रियासत-सरदेसाई (म.रि.).

13 मराठी वाङ्मयाचा इतिहास-पांगारकर.

14 मराठी भाशा-उद्गम व विकास-प्रा. कुलकर्णी.

15 मध्ययुगिन भारत-वैद्य (म. भा.).

16 मराठीचा नाट्यसंसार-खांडेकर.

17 सर ना. ग. चंदावरकर-कर्नाटकी ( ना. ग. चं.).

18 गोमंतक-परिचय.

19 गौड सारस्वत ब्राह्मण व त्यांची कुलदैवतं.

20 शांतादुर्गा संस्थानचा इतिहास.

21 कोंकणाख्यान.

22 सारस्वत-रत्नमाला-पं. गणेश शर्मा.

23 सारस्वत भूशण- पं. गणेश शर्मा.

24 आचार्य चतुश्टकम्-मं. शं. टाकी.

25 श्रीचक्रधर सिद्धांत सुत्रें-गवाळकर-नेने.

26 देवीमहात्म्य-शिवानंद-अ. का. प्रियोळकर.

27 दत्तोपंत हल्याळकर-स. रं. सुंकठणकर.

28 कोंकणी भाशेचें जैत-वालावरकर. ( कों. जै.).

29 वसणूक (वस).

30 कांही लेख

31 राम कामती

32 कानडा जिल्हा भूगोल (99)-जोशी.

33 कारवार-वर्णन-बाबा गर्दे.

34 विविधर्वत्त-सप्टेंबर 95

35 विविध ज्ञानविस्तार-अनेक अंक शाळांचे, संस्थांचे, परिशदेचे अहवाल.



ह्या पुस्तकांतलीं संशोधनात्मक, इतिहासीक विधानां पूर्वाचार्यांचीं आसात.अनुमानां मागेलीं. तीं उडोवपा सारकींय आसत. पूण आयचीं अनुमानां एखाद वेळेक फाल्यांचे सिद्धांत थारतात. अनुमानां वगळायलीं तरी उद्धृत केल्ले उल्लेख आनी वस्तूस्थिती हाचेवयल्यान कारवारची कूड आनी आत्मो, वा भावनां हांचें वाचकांक थोडेशें जरी ज्ञान जालें तरी खूब जालें. कारण हो वाङमयीन यत्न न्हीं. औपचारिक रितीन तरी महाराष्ट्रांतल्या भाशांची एकमेकांक वळख घडची या हेतान एकठांय केल्ल्या म्हायतीचें संकलन आसा...

**सर्गेस्त आनंद नाडकर्णी**

---

कारवार सारख्या ल्हानशा शाराची वळख पूण तुकडे मोडिल्ल्या महाराष्ट्राचो. महाराष्ट्राच्या उपेक्षीत भाग-विभागांचो परिचय करून दिवप, हें ते वेळच्या कारवार अभिमानी सर्गेस्त डॉ.वामन वाघ, जाणी या पुस्तकाचें प्रकाशन केला तांका दिसलें आनी तांणी तशें पावल उखल्लें. आनंद नाडकर्णी मामा कडल्यान कारवारचें सुंदर, तंतोतंत मनभावणे वर्णन करून घेतलें आनी मुक्त निसर्गरम्य कारवारचें उत्तम दर्शन घडयलें. ते प्रकाशक आनी लेखक हांका साश्टांग दंडवत...

---



**- सौ. उषा उल्हास राणे**
अध्यक्ष
कोंकणी सांस्कृतीक मंडळ, सदाशिवगड

**कोंकणी सांस्कृतीक मंडळ, सदाशिवगड**
सदाशिवगड, कारवार